# जाग दिवाळी

ऑक्टोबर-नोव्हेंबर, २०१९ | वर्स ४६ | आंक ३



॥ जाका मेर लागना, तें नातें
जाका वेर वचना, तें नातें
तोलूंक येना, ताका मापूंक येना
खंयचेय कसवटेर बसना, तें नातें ॥

जाग प्रकाशनाचें

# जाग

वर्स ४६ : आंक ३ : ऑक्टोबर-नोव्हेंबर, २०१९

**संस्थापक संपादपी**
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

**वैचारीक दायज**
स. माधवी सरदेसाय

**संपादपी**
आसावरी नायक

**पालवी संपादपी**
कृपाली नायक
एडना वाझ

**उजवाडावपी**
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

**छापपी**
इम्प्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५९० ००२

**वेव्हाराचो नामो**
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३,-SE-३
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग, गोंय
विद्यापिठा लागसार, ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ९७८०८७१११८/७४४७२६८७२०

वर्सुकी पटी: **४००/- रु.**
विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : **२००/- रु.**
तीन वर्सांची पटी: **१,०००/- रु.**
वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी: **५००/- रु.**
जिवीत भराची वांगडी-पटी: **४,००० /- रु.**

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

**किरकोळ आंकाचें मोल :** ₹ २००/-

*येवकार...*

'जागा'चो २०१९ वर्साचो दिवाळी आंक तुमकां भेटयतना खोस भोगता. अंदू फावोशो जायराती नात. तरी आंक सोबित काडला. हेर भासांतल्या दिवाळी आंकांच्या तुळेन कोंकणी खंयच फांटी आसचीं ना हाचे खातीर यत्न केला. परत एकदा आमी सांगुक सोदतात, जाग ही फायदो जोडपी संस्था न्हय. ती कोंकणीचो मोग आनी गोंय, गोंयकारपणाच्या हावेसान स्थापन जाल्ली संस्था. तिचो हेतू भास आनी साहित्य हाचो प्रसार करप होच आसा. तो वावर फुडें चलयत रावतले.

अंदू 'नात्यांतलें भावपण' हो खाशेलो विशय घेतला. हेतूः आयचे नवे पिळगेक बरोवपाची संद लाबूं. तांणी कोंकणीखातीर वावर केल्ल्या आपल्या लोकांचेर बरोवं. खूब जाणांनी बरयले. थोड्यांचो हो पयलोच यत्न. तरीय बरे साहित्य हातांत आयलें. तातूंत एक घरकार, बापूय, पालक म्हूण आमचे फुडारी कशे आसले, ताचेर उजवाड पडलां. नातीं ही खुपदां गुंतागुंतीची, घुस्पागोंदळाची आसतात. पुण तातुंतल्यान समाजिक जिणूय सामकार येता. अभ्यासकांक ताचो लांव जांव येता. हेर भाशांनी अशें तरेचें साहित्य बरे केळयलां. नवे पिळगेक तर साहित्यिक सवकळ आनी प्रगटीकरणाची कळाशी आशिल्ली जाल्यार हें साहित्य आनीक खर तांकी फुडें येवापाचें. फुडाराक तशे घडटलें अशी आस्त बाळगीता. दिवाळी आंकात कथा, ललित लेख, विनोद, हेय विशय घेतल्यात, कविता विभाग जाल्यार सोबित जाला. तुमकां पसंत येतलो अशी आस्त बाळगीतात.

दिवाळी आंक चड लोकांच्या हातांत पावूं. तुमी वाचक म्हूण, जागाचे बरेमागते म्हूण ते दिकेन खूब किते करूं येता. तुमचे बरें जावं, सगळ्यांचे बरें जावं, गोंयचो फुडार पर्जळींत जावं, अशी दिवाळे निमतान प्रार्थना!

– संपादक

जागी

मांडावळ





संपादकीय



नातीं



कथा



खाशेलें लेख



विनोद





भायले कवर : पुंडलिक वझे

सं पा द की य

# गांधीजींचो सोद




जोधा अकबर वा पद्मावत सिनेमा काडपाचो जालो, तेन्ना केदो विरोध जालो! चलचित्र तयार करतल्यांक तातूंत कितले बदल करचे पडले. सावरकरांविशीं एक वायट उतर काढले जाल्यार केदी करंदाय जाता. पूण गांधीजींक कितल्योय गाळयो मारात, कितेंय बरयात. तांच्यो बकच्छायो करपाची जाल्यार सर्तच चलता.

लोक तांका कितेंय म्हणूंक शकतात. नाटकां, पुस्तकां, भाशणां वा खबरापत्रांनी तांचेर आमच्याच देसांत जितली टीका जाता, तितली आणी कोणाचेरच जायना आसतली.

दुःखाची गजाल म्हळ्यार राष्टलपित्याविशी आमी संवेदनशील नात. देसभर तांची १५० वी जयंती मनयतनाय कोणाक तांचे व्हडले पडून गेला अशें दिसना.

आमकां ह्या आंकांत गांधीजींविशीं एक बरो लेख जाय आसलो, पूण गोंयांत तांचेविशीं अभ्यासपूर्ण, संशोधन करून बरयतलो असो कोण दिसना. तांचेविशीं आदर, अभ्यास आनी चिंतन आशिल्ली पिळगी ना जाल्या.

मोहनदास गांधी ही फकत एक व्यक्ती न्हय जी १८६९ वर्सा जन्मली आनी १९४८ वर्सा गुळयो घालून मारली. तो एक लोकोत्तर असो पुरुस. एक अद्भूत घटना ती. एक गडगंज कल्पना. एक तत्वगिन्यान. समजून घेवक खूप कठीण; पूण सोपोय असो सादो मनीस. जाणे देसाक 'एक' दवरपाचो यत्न केलो. अहिंसेचे तत्व तांणी मांडले. सर्वधर्म समानताय हे तत्व कितले म्हत्वाचे आमच्या देसाखातीर हे तांणी पर्थून पर्थून सांगले.

सर्व धर्म समानताय-ज्या तत्वाचो तांणी पुरस्कार केलो, ताकाच लागून तांचो जीव पसून घेतलो! संघ परिवार आनी खुबशा जाणांक तांची नसाय; कारण गांधीजींनी मुस्लिमांक उपाट तेंको दिलो. ह्या मुस्लिम मोगांतल्यानूच देसाचे तुकडे जाले अशें गांधी-विरोधकांक दिसता. म्हणूनच संघात कितलीशीच वर्सा गांधींचो आस्पाव देसांतल्या किर्तीवंत लोकांमदी करूंक नासलो. गांधीजींचे नाव घेवपाक पसून तांणी विरोध केल्लो. गांधीजींच्या नावाचो उल्लेख करपाचो जाल्ले तेन्ना १९६३ वर्सा नागपूरात खूप मोटो खवदोळ जाल्लो. आयज ५६ वर्सा उपरांत तांणी गांधी आपणायला म्हणू येता; पूण आजूनय तांच्या मदल्या खूप जाणांक गांधी मुळासावन नाका.

एक विचार मांडतात की, गांधींनी बुद्धाची विचारसरणी मानिल्ली. जिची खरी नसाय हिन्दुत्ववाद्यांक आसा. सावरकर जांणी गांधीक विरोध केल्लो- तेय मानताले की गौतम बुद्ध हांणी हिन्दुंक दुबळे केले. स्वामी विवेकानंदाकूय दिसताले की बुद्धांनी देसाची सामाजिक जीण खिळखिळी केली आनी तांचे शिकवणेन देसाचे आत्मोच निखळायलो. तांचे म्हणणे आसले की तेन्नाच्या बळिश्ट लोकांनी बुद्धाफाटल्यान वचप पसंत केल्यान फकत दुबळे लोकुच वशांत उरले. दिनदयाळ उपाध्याय हांणी बरयला की बौद्ध धर्मान हिन्दू राष्टलाच्या निर्मणेंत आडखळ निर्माण केली.

राष्टलवाद्यांनी सदाच हिंसेचो पुरस्कार केलो आनी गांधीजींच्या अहिंसेक भिजुज म्हळे. पूण गांधींजींनी आपल्या स्वातंत्र्य लढ्यात हिंसेक केन्नाच थारो दिलो ना आनी देशाचे स्वातंत्र्य नदरेंत आसतनाय हिंसा जावंक लागली तेन्ना लडो फाटल्यान घेतला. गांधी म्हण्टाले हिंसेंतल्यान, रक्तपातांतल्यांन देस निर्माण जांव येतात, पूण ते तिगप कठीण. ''जे हिंसेतल्या सत्ता प्राप्त करतात ते आपल्या लोकांक केन्नाच सुखी करूंक शकनात.''

सावरकरांचे मत खोडून काडतना गांधींनी म्हळे, ''जांका दिसता धिंग्रा (धिंग्रा हे सावरकरांचे लंडनांतले सहकारी– जांणी ब्रिटीश अधिकारी कर्झन विली हांची हत्या केल्ली) हांणी जसे कार्य केला, असल्यो करण्यो कशोच बजयो मानूंक मेळच्योना. धिंग्रा हे खात्रीन देशभक्त पूण ताची देशाविशीची भक्ती कुड्डी!'' हिंसक राष्टलवाद आनी आपणाले संस्कृतीचो कुड्डो अभिमान– जाका सनातनी म्हणटात ते केन्नाच देसाक पुढे घेवन वचूंक शकनात आनी सगल्यांविशी आदर निर्माण करूंक शकनात. आपणाले करणेन ह्यो प्रवृत्ती देसाक घातकच – कारण तांका सगळे प्रश्न हिंसेन, बळजबरेन आनी असहिष्णु पद्धतीन सोडवपाची खुमखुमी आसता.

ह्या मनशाचो उजवे शक्तीन फक्त दुस्वासूच केलोना जाल्यार ताचेच खातीर तांणी देसाचे मुक्ती चळवळींत वांटेकार जावंकूय नकार दिलो. सध्याच्या सत्ताधारी गटाचो एक भाग आशिल्ले नामनेचे पत्रकार एम. जे. अकबर हांणी १९२५ वर्सा एक पुस्तक बरयला, 'इंडिया दी सीज विदिन' तातूंत तांणी म्हळा, आरएसएसान देसाच्या स्वातंत्र्य लढ्यातल्यान आपणाक कुशिक दवरिल्ले ताचे मुखेल कारण एकूच आसले, ते म्हळ्यार ह्या लड्याचे फूढारपण करपी मनशाकडेन तांचे आशिल्ले मतभेद आनी दुस्वास. अकबर म्हण्टात : आरएसएसाक १९४८ वर्सा मोटो धक्को बसलो, तांणी स्फूर्त दिल्लया गुन्यांवाकडेन सरदार पटेलांनी लेगीत आडनदर केली ना. महात्मा गांधींची हत्या, त्याच कारणावेल्यान पटेलांनी त्या संस्थेचेर बंदी लेगीत घाली.

नागूपरांतल्या तांच्या संस्थेत आयज जरी महात्माजींक आपणाल्या मुखेल नेत्यांचें नदरेंत बसोवन तांची व्हडवीक गायली, प्रार्थना म्हळी तरीलेगीत हे विचारसरणीक आजूनय गांधीजी पचूंक नात. ग्रेट सोल महात्मा गांधी अँड हीज स्ट्रगल विथ इंडिया ह्या पुस्तकाचे लेखक जोजेफ लेलीविल्ड हांच्या उतरांनी सांगचे जाल्यार : आरएसएसाच्या दिसपट्टे सभेत हिन्दू फुडाजयांक नमन करून तांची प्रार्थना म्हणपाची नवी प्रथा जरी सुरू केल्या आसली तरी हिन्दू विद्वाट्यांनी तिका आळखळी टाकून 'गांधी मुर्दाबाद' घोषणा दिल्यो आनी ताच्याय फुडे वचून 'गांधीक मारात' अशेय म्हळे.

गांधीजींक सोपेपणी मारू येता, पूर महात्मा जिवो उरता. महात्मा फकत जिवोच उरना जाल्यार तो परत परत आमकां याद करून दिता, भौशीक जिणेंत सदाच्यार, नैतिकतायेक तुमकां विसरूंक जावचेना. आमच्या सत्ताधिशांक आडखळ जाता ती तीच. भौशिक राजकीय जिणेंत सदाचार आनी नैतिकतेचे आचरण कोणाक जाय? आमचे राजकीय फुडारपण इतले मातला की तांका कसलीच तत्वा नाकात आनी लोकांचो विश्वासघात करून लोकशायेक पायापोंदा चिड्डितन, तांची प्रवृत्ती देस विरोधकांचीच जाल्या!

चड काळ आदी न्हय, तेन्नाय गांधीजींक 'चतूर बनिया' म्हणून हिणसावपाचो यत्न जालो. कारस्तान आसलें की तांकांय फटींग राजकारण्यांचे वळेरेंत हाडून उबे करप. तांका फटी थारावपाची ही प्रवृत्ती मात्तूय उणी जावंक ना, पूण ते करणेक येस मात येना. देखूनच महात्माजींचे विरोधक सतत नवनव्या कल्पनांच्या सोदांत आसतात.

१९४७ वर्सा गांधीजी जशें काय जाणांक नाका जाल्ले, तशेच ७० वर्सा उपरातं आयच्या 'नव्या भारतांतय' तांची नसाय साबार जाणाक आसा. २ ऑक्टोबर १९४७ ह्या दिसाच्या आपणाल्या निमाणे वाडदिसाच्या संदेशात तांणी म्हणिल्ले : हांव भारतात परत येत सावन हांवे एकच म्हत्वाचे ध्येय बाळगिला, धार्मिक भावपणाखातीर वावरप. आयज आमचेमुखार जायते दुस्मान आसात. आम्ही कोडसाणे म्हण्टात एकूय प्रामाणिक मुस्लिम आसचोना. मुस्लिम योग्यताय नाशिल्ली जमात जावन पडल्या. हे फाटभूंयेचेर म्हजी भारतात कितें सुवात उरल्या आनी हांव हे भूंयेर रावपांत कितें अर्थ उरला...

हांगा घुमशेणां काडटल्या लोकांखातीरच ही उतरां आसली हातूंत मात्तूय दुबाव ना. हो एक असो मनीस जाणे जिणेच्या निमण्या पर्वात लेगीत आमच्या देसाच्या काळजाक घाय जावक खरपणान विरोध केलो. गांधीक देस विसरूंक शकना त्या तांच्या ह्या झुजाखातीर. ह्याच तत्वांतल्यान देस घडला आनी नवे पिळगेचे निर्माण जाला. देसाचो मनीस तांतूल्यानूच किल्लून आयला. देखूनच गांधीजींचे नाव आयतकीर फुडाऱ्यांक भय दिसता. गांधीजी आपणाल्या मानेर बसतलो अशें तांका दिसता. गांधीजीचे आनीक एक व्हडपण हे की तांणी आपल्या 'दुस्मानांक' आपणाली व्याख्या करपाची संद दिलीना. उरफाटे, तांणी देसाक नैतिक बळगे घट दवरून आपणाले मन पारखूंक लायले. हिंसेची ओड देसाक आसचिना. हिंसेतल्यान आमच्यामुखावेले प्रश्न सुटावे जावचे ना. वेल्यान समाजिकाय, भावपण, एकचार आनी सर्वसमावेशकताय हे गूण आनीक घटमूय जावपाकडेनूच आमी वचूंक जाय म्हणपाची देख आमकां मेळत रावता. रस्त्याचेर कितलोय मस्तेपण घडू, हिंसा जाव, एक आंतरिक शक्त आमकां सदाच मार्गदर्शन करता, केन्नाय कान पिळता आनी सांगता, ही आमची वाट न्हय. नैतिकतेचो हात आमी 'धरतात' तेन्ना महात्मा आमकां वयर काडतात. ते आजून आमच्या सद्सद्विवेकबुद्धीचे केंद्रबिंदू आसात.



लक्षात घेवंक जाय, गांधी जगाच्या राजकीय मळार उदेवंत येवचे आदी सगल्यो राजकीय चळवळी कोडसाण, सूड आनी हिंसेचेर आदारून आशिल्ल्यो. गांधींनी कोडसाण आनी हिंसेचे रुपांतर अहिंसेच्या सकारात्मक पायाचेर केले. तांची चळवळ दुस्वास आनी सुडाचेर उबी नासली. आयजूय ही तत्वा खंयच्याय चळवळीचे फुडारपण करताना उपयोगाक पडटात. लोकशाय हक्कांखातीर लडतना तर सत्य आनी अहिंसा ह्या तत्त्वांबगर फुडे वचूं नजो.

लोकशाय तत्वाच न्हय, जाल्यार नितळसाण आनी स्वदेशी ह्या तत्वांचो प्रसार करतना लेगीत आयज आमकां गांधीजींचो आदार घेवचो पडटा.

देखूनच आमची लागणूक जावन पडटा गांधी सारको समजून घेवप, ताचो अभ्यास करप आनी नवे पिळगेकूय त्या तत्वांची जाणविक करून दिवप. नवे पिळगेक गांधीजींविशी खबर ना आनी तांका खबर करून घेवपाची इत्सा ना, हे खरे न्हय. गांधीजींनी स्वताय नवे पिळगेचेर विश्वास दवरिल्लो आनी ते तांकां मार्गदर्शन करपाची संद घेताले. म्हणूनच तांणी आपणाल्या खबरापत्राचे नाव दवरिल्ले, यंग इंडिया. गांधीजींनी स एप्रिल १९२१ दिसा 'यंग इंडियांत' बरयिल्ले की भारतान हिंसा हे आपणाले ब्रिद केले आनी हांव वाचून उरलो जाल्यार ह्या देसांत राबितो करचो अशें म्हाका दिसचेना! ते म्हण्टाले, देसाक स्वातंत्र्य मेळ्ळे आनी तो हिंसा आनी असत्याच्या मार्गार चलूंक लागलो जाल्यार त्या मेकळीकेक काय अर्थ उरचोना. तांचे लेखी स्वातंत्र्य जाय ते बरो देस घडोवंक. लोक उजू मार्गान चलताले, देसांतले फुडारी बरी देख दितले. शांती, सोशीकपण, सर्व धर्म भावपण आनी शुद्ध चारित्र्य ह्या बळग्यार देस फुडे वतलो. गांधी म्हळ्यार फकत खादीचे कपडे घालप न्हय वा हातात बावटो घेवप न्हय. गांधी टोपी घालप इतलोच तांची तत्वां फुडे घेवन वचपाचो मार्ग आसूंक उपकारना. गांधी म्हण्टालें, तरूण सत्य उलोवंक भिनात. तेच सत्य मुखार घेवन वतले, आनी सत्य खाला पडूंक दिवचेनात. आयज सत्य सामके खरपणान सांगपाची आनी तेय व्हड आवाजान सांगपाची वेळ उप्रासल्या. लोकशायेंत तर सत्याबगर पर्याय ना. जेन्ना आमची माध्यमां मोनी जाल्यात आनी विरोधी पक्ष गळसणल्यात तेन्ना तर तरनाट्यांच्या मुखांतल्यान येवपी सत्य खूप मोटी चळवळ उबी करूंक शकता.

ह्या देसांतल्या तरनाट्यांक जर आपूण कोण, आमचो देस किते आनी देसाचे तत्व कितें हे समजून घेवचे आसत जाल्यार गांधी समजून घेवप चड गरजेचो आसा. सध्या गांधीविशी खूप फटी पातळ्ळ्यात. हो घुल्ल पयस करून खरो गांधी शिकपाची गरज आसा. गांधीचे विचार आनी तांची विचारधारा समजून घेयात, तुमकां तुमची वळख आपोआप पटटली.

नवे पिळगेन गांधींक समजून घेवपाची नवी पद्धत सोदची पडटली. ग्राम स्वराज्य तुमकां समजून येवचेना, पूण नितळसाण आनी आत्मनिर्भर जावपाचे तत्व तातूंत शिकूंक पावतले. जे १०० सर्वा पयलीं घडिल्ले, ते आयजूय तितलेच गरजेचे आसा. हाचो अर्थ असो की गांधी आजून गरजेचे आसात. गांधी काळाच्या फुडें आसले आनी ते आमच्याय खूप फुडे आसात. सत्याग्रह म्हळ्यार सत्य आनी प्रामाणिकपण. हो मार्ग हिंसेच्यो आसूक शकना. तो नमळायेचो मार्ग. तरनाट्यांक हे समजूंक पावले जाल्यार देस पर्थून गांधीजींच्या मार्गान चलूंक लागतलो.

# खरेच आमी गांधीजींक महात्मा मानतात?

## काय आमी तशें ढोंग करतात?

– उदय भेंब्रे



मोहनदास करमचंद गांधी हांकां आमी राष्ट्रपिता मानतात. ताचें कारण, ब्रिटिशां कडल्यान स्वातंत्र्य मेळोवपाक देशांत जी मोटी चळवळ जाली आनी जी कितलींशींच वर्सां चल्ली ते चळवळीचें फुडारपण गांधीजींनी केलें. चळवळ जैतवंत जावन देशाक स्वातंत्र्य मेळ्ळें आनी त्या स्वातंत्र्यावरवीं भारत हें राष्ट्र जल्माक आयलें. ताचे ते जनक आनी देखून राष्ट्रपिता.

पूण राष्ट्रपिता मानतनाच गांधीजींक आमी महात्मा मानतात, महामानव मानतात. आनी आमीच न्हय, अख्खो संवसार तांकां महामानव वा महापुरुष मानता आनी आदरान तांचो उगडास करता. हाचें कारण वेगळें. गांधीजी फकत स्वातंत्र्य चळवळीचे फुडारी नाशिल्ले, ते विचारवंत, तत्वगिन्यानी, तत्वनिश्ठ अशे मानवतेचे फुडारी आसले. स्वातंत्र्य मेळोवन दिवपी फुडारी हेर कांय देशांनीय जावन गेल्यात, पूण महात्मा म्हूण जें स्थान गांधीजींक मेळ्ळां तें त्या फुडाऱ्यांक मेळूंक ना. हाचें कारण, गांधीजीं कडेन विशेश अशे जायतें आशिल्लें जें मनशांनी घाल्ल्यो सगल्यो कृत्रीम शिमो हुपून वताले आनी तांका महामानव करतालें. त्या महामानवाक आमी महात्मा म्हळें. पूण काळजाक दूख भोगयता ती गजाली म्हळ्यार, आमी तांकां महात्मा केले आनी तांचे कडलें नातें लागीं-लागीं तोडून उडयलें. आमी अजून एके दुश्ट परंपरेच्या रगड्या खाला चिड्डल्ले आसात.




भारतीय लोकांचे भौशिक जिणेंतली ही एक विकृती. रामायण-महाभारत काळा पसून ती चलत आयल्या. जो मनीस कसलोय दिग्विजय करता, कठीण काम करून मोटें येस जोडटा, असंख्य लोकांचें बरें करता ताका आमी महापुरुस वा महामानव मानतात. ताचें यादस्तीक करपाक पुतळे वा वास्तु उबारतात. ल्हवुल्हवु आमचो बुद्दीची सुवात श्रद्धा वा भक्ती घेता. मागीर आमी त्या महापुरुसांक अवतार लेखूंक लागतात, ताका चमत्कार दसयतात आनी काळ फुडें सरत रावता तशें आमी ताका देव करतात! यादस्तीक म्हूण बांदिल्ली वास्तू मंदिर जाता आनी पुतळ्याक मुर्तीचें रूप दिवन त्या मंदिरांत तिके पुजेक लायतात! एका महापुरसा विशींचे कर्तव्य पूर्ण केलें अशा भ्रमांत रावन आमी धन्य जातात! राम, कृष्ण, हनुमान, गौतम बुद्ध हांच्या संबंदान आमी हेंच केलें. आमी तांचो एकूय गुण घेतलो ना. तांकां काळजांत दवरले नात. पैयस मंदिरांत स्थापन केले आनी थंय पुजेक लायलें!

गांधीजींच्या संबदातूय तशेंच घडपाची शक्यताय आसा अशी भिरांत दिसता. दर वर्सा आमी गांधी जयंती मनयतात. सध्या १५०वे जयंती निमतान कार्यावळी, सुवाळे चालू आसात. आमी गांधीजींचें अनुयायी अशे भासोवपाक तरेकतरांचे यत्न जातात. देशा खंयूय गांधीजींचें कोणेंय देवूळ बांदला जाल्यार म्हाका खबर ना. पूण देवळां बांदची, गांधीजींच्यो मुर्ती स्थापन करपाचे आनी मागीर भक्ती, पुजा करपाचे दिशेन पावलां पडटात अशें दिसता. तेच खातीर परतून एक प्रस्न मनांत उप्रासतः

गांधीजींचें नांव घेवपाचो, तांची जयंती मनोवपाचो, तांच्या नांवान सुवाळें घडोवन हाडपाचो नैतिक अधिकार आमकां आसा?

ना. तो अधिकार आमीच आमच्या कर्तुबांनी वगडायला. गांधीजींचें जिवीत, तांचें कार्य, तांचे विचार, तांचे गूण, तांणी केल्लें मार्गदर्शन हातुंतल्यान कसली देख घेतली आमी? तांकां आमीच न्हय, तर संवसारात महापुरुस, महामानव, महात्मा कित्याक मानले हें केन्ना समजून घेतले आमी? आपली जयंती मनयात अशें तांणी सांगलें ना. आपले पुतळें उबारात अशेंय तांणी सांगलें ना. तांणी सांगले–

अहिंसेची जीण आपणायात. आमी कितें केलें? हिंसा आपणायली. गांधीजींच्या काळांत एक मनीस दुसऱ्यां मनशाची हत्या करतालो. खासा गांधीजींचीय हत्या एका माथेफिरून केली. आजूय तें चलता आनी वाडटा. पूण आज एक जमो एका मनशाची हत्त्या करता. मरता तो मनीस झुंडशायेचो बळी थारता. हो गांधीजींचो भोवमान काय तांच्या कर्तुत्वाचो अपमान!

गांधीजींच्या काळांतूय एक नश्टो दादलो एके अस्तुरेचेर आगळीक करी. ती परंपरा चालू आसा, वाडत आसा. पूण आज कितलेशेच नश्टे दादले मेळून एके अस्तुरेचेर आगळीक करतात. खबरो वाचल्यार आनी आयकल्यार असल्या दादल्यांचेर सांवार आयला अशें म्हणचें पडटा. ही दुसरे तरेची हिंसा जिणे 'गँगरेप' नावाची परंपरा सुरु केल्या. जो देश एके वटेन गांधीजींची व्हडवीक गायता त्याच देशांत हें कशें घडटा? खरेंच आमी गांधीजींक महात्मा मानतात?

राजकी सत्तेचे मस्तेन आनी जय देवा–धर्माच्या नांवान फटोवन अस्तुऱ्यांची विटंबणा जय चल्ल्या तो देश आमचोच न्हय? पूण हो गांधीजींचो देश? ह्या प्रस्नाची जाप आमी सोदतात व्हय?

सत्यमेव जयते ह्या तत्वान गांधीजी जियेले. आज सत्याक कोण खाता? लोकांक फटोवपी राजकारणी, बँकांक फटोवपी उद्देजक, गिरायकाक फटोवपी व्यापारी, पेशंटाक फटोवपी डॉक्टर, अशिलाक फटोवपी वकील, भ्रश्टाचारी न्यायाधीश असल्या मनशांनी सत्य भाजून खालां. हुस्क्याची आनी चिंतेची गजाली म्हळ्यार सत्य म्हूण कांय ना अशें मानतल्यांचो आनी तशे वागतल्यांचो आंकडो दिसपट्टो वाडत आसा. गांधीजींच्या देशांत आयज सत्य मरूंक तेंकलां, तरी गांधीजींचें नांव घेवन जातात नाटकी घोशणा –'सत्यमेव जयते'!

अस्तेय ही गांधीजींली आनीक एक शिकवण. मनशान जाय तितलेंच अन्न, धन आनी हेर सामान वापरचें वा सांबाळचें. हावरेपणान तांचो सांठो करचो न्हय. आमच्या देशांत कोणें मानून घेतल्या ही शिकवण? जे राजकी फुडारी २ ऑक्टोबराक गांधीजींच्या पुतळ्याक हार घालतात ते अस्तेय हें तत्व पांयांनी मस्तूनच बळिश्ट जातात. जो काल आमदार जाला तो आज मंत्री जावंक सोदता! जो काल मंत्री जाला तो आज मुख्यमंत्री जांवक सोदता. ज्या मंत्र्याकडेन दोन–तीन खाती आसात, ताका आनीक दोन–तीन खाती जाय. तितलेंच न्हय, ताका महामंडाळाचें अध्यक्षपद जाय आनी ताच्याच खात्या खाला येता ते संस्थेचे अध्यक्षपदय जाय! आनी हें सगलें कित्याक? ताच्याच कुटुंबाचे कल्याण करपा खातीर न्हय तर फुडल्या दोन–तीन पिळग्यां खातीर काळींग करून दवरपाक. तांचे नदरेन गांधीजींची शिकवण अर्थशुन्य. म्हत्वाचो तो पुतळो आनी तोवूय एका दिसा पुरतो!

गांधीजींनी सांगलें, शिक्षण मायभाशेंतल्यान जावचें. परदेशी भाशेंतल्यान मुळावें शिक्षण दिलें जाल्यार ताचे वायट परिणाम कशे जातात हें तांणी दाखोवन दिलें. तशें करताना 'डी–इंडियनायझेशन'' (वश–खपवळरपळूरींळेप) हें उतर वापरून फुडारांतले संकश्ट दाखोवन दिलें. पूण हें कोणाक पडला? अकौंटंटाचे नोकरे खातीर परिक्षा दिल्ल्या उमेदवारांमदलें सगल्या सगले नापासा जातात ही आमच्या शिक्षणाची शोकांतिका. जे तिका जबाबदार आसात ताणी कट्टी भर उदकांत नाक बुडोवन जीव दिवचो इतली ही लजेची गजाल. पूण ते तशें करचें नात. ते वर्सांतल्या एका दिसा गांधीजींच्या पुतळ्यांक फुलांच्यो माळो घालतले आनी उरल्ले ३६४ दीस शिक्षणाची दुर्दशा करपाच्या वावराक लागतले.!

गांधीजींनी निवळसाणेचें म्हत्व समजायलें. आमी कितें समजले? कोयर न्हय तर फकत धुल्ल आशिल्या मार्गार सान्ना घेवन झाडिल्ल्याचें नाटक करतना फोटे काडून छापले की सगलें निवळ जाता, चक्क जाता! परिणामीं, कोयराचो विलो जायना. शारांनी तशेंच गांवांनी कोयराचे ल्हान–व्हड सोनसडे! वचत थंय घाणी.

गांधीजींनी आमकां खुबशें शिकयले, कितलेंशेंच समजायलें. जें उलोवन दाखयलें तें करुनूय दाखयलें. पूण आमी उमथे कळशे. गांधीजींनी ओतलें तें सगले उमथ्या कळशार उदक जावन गेलां. नथुराम गोडसे हाणें गांधीजींचे कुडीची हत्या केली. आमी दिसपट्टे त्या महापुरुशाच्या विचारांची, तांचे शिकवणीची, तांणी घालून दिल्ल्या आदर्शांची हत्या करतात.

खरेंच आमी गांधीजींक महात्मा मानतात?

**काय आमी तशें ढोंग करतात?**

१९३१ त जेन्नां रोमाँ रोलां आनिक गांधीजींची भेट जाली तेन्ना हेर गजालींबरोबर दो. त्रिश्तांव कुंज्य, गोंय, गोंयची राजकीय स्थिती, आबे द फारीय, फ्रांसिस लुईश गॉमीश हांचोय खात्रीन उल्लेख रॉलांनी केला आसतलो. त्रिश्तांवांच्या मजतीबगर महात्माजींक मेळनास्तनाच रॉलांक १९२४ तलो आपलो ग्रंथ बरवप शक्य नाशिल्ले. फ्रांसातूच महात्माजींक त्रिस्तांवांचे व्हडपण कळ्ळील्ले. तांचेकडसून त्रिश्तांवांची नामना कॉंग्रेस पक्षातल्या हेर फुडाऱ्यांमेरेन पावली. मागीर पंडीत जवाहरलाल नेहरू कुंज्यांचेर प्रसन्न जाले...





# आबे फारीय, फ्रांसिस गॉमीश, महात्मा गांधीः एकवटीत विचारत्रयी

– नंदकुमार कामत

दोन ऑक्टोबराक पुराय संवसारात महात्मा गांधीजींची १५०वी जयंती व्हड दबाज्यान मनयली. ३० सप्टेंबराक आमी राज्यशास्त्रज्ञ फ्रासिंस लुईश गॉमीश हांची १५०वी पुण्यतिथी तांचो उगडास काडून मनयली. २० सप्टेंबराक पणजे ६० नागरीक प्रा. ऑस्कर दी नोरोन्हाच्या घरा एकठांय आयले. तांतूंत हांवूय आसलो. आमी आबे द फारीयाचो उगडास ताज्या २००व्या पुण्यतिथीदिसा केलो.

ही तीन वरसां पळेयात–१८१९– अबे द फारीयाचे खूप्प वायट अवस्थेत पारीसाक मरण. तांकां खंय पुरले ते कोणाकूच खबर ना. १८६९, मुंबय येवक सुटिल्ल्या ज्याबोटीर फ्रांसीस लुईश गॉमीशांचे क्षयरोगाक लागून मरण. तांची कूड थंयच भूमध्यसागरांत दर्या सोडली. दोनूच दिसांनी गुजराथेत, सौराष्ट्रात, पोरबंदर हांगा मोहनदास करमचंद गांधी जल्माक आयले. म्हज्या मतान फ्रांसिस लुईश गॉमीश हांच्याच आत्म्याचो हो पुनर्जन्म आसूंक शकता. एक वैज्ञानिक आसूनय हांव हो भावनिक विचार काय खासा कारणांक लागून करता. इंग्लडात रावन, शिकून फ्रांसिस लुईश गॉमीशांच्या कार्याची माहिती बॅरीस्टर मोहनदासांक नासतली असे म्हणप धाडसाचे जातले. गोंय आनिक भारतापरस गॉमीश फ्रांस, पोर्तुगाल, इटाली, स्पेन, जर्मनी ह्या देशांत चड प्रसिद्ध आशिल्ले. महात्मा गांधींचे जल्मस्थान पोरबंदर पोर्तुगीज वसाहत दीवसावन फकत २३० कि.मी. चेर. मागीर दीवच्या पोर्तुगेज राजवटींत किते चललां हे तरणाट्या मोहनदासाक कित्याक खबर आसचे ना? दीवाक सगळे व्यवस्थित चललां, थंय सोरोबंदी ना हे जाणा आसूनय गुजराथी गांधीजी १९४८ मेरेन दीव, दमण, दादरा, नगर हवेलीसंदर्भांत वोगीच बसले. तांच्या ५० हजार पानांच्या लिखाणांत दीव, दमण, दादरा, नगरहेवीली वेलो पोर्तुगीजांचो ताबो सोडचो अशे तांणी खंयच म्हणिल्ल्याचे दिसूंक ना. इतलेच न्हय. १९४२ त ताणी छोडो भारत, चले जाव, करेंगे या मरेंगे ही घोशणा दितना पोर्तुगीज आनिक फ्रेंचांक अभय दिले. भारतात गुलामगिरी आसा. आपुण शुन्याचा सोद लावपी, महाभारत रचपी, बुद्धी बळासारखो मेंदूक ताण दिवपी, कस लावपी खेळ सोदून काडपी भारतांतल्यान आयला– ह्या देशाक जाय स्वतंत्रताय, समतेचो उजवाड अशे ठणकावन सांगपी फ्रांसिस लुईश

गॉमीशच महात्मा गांधीमुखार आशिल्ले. पूण ताणी तसो स्पश्ट उच्चार खंयच केल्लो दिसना.

महात्मा गांधींक जुझे कुस्तोदीय द फारीय म्हल्यार आबे द फारीयाच्या जीवीत आनिक कार्याची निखालस माहिती आशिल्ली. निसर्गीक उपचार पद्धतीचो अभ्यास करतल्या, शिवराक खाणाचो पुरस्कार करपी बॅरीस्टर मोहनदासाक फ्रान्सांतल्या संमोहनाविद्याकार आबे दा फारीयाची मातूय माहिती नाशिल्ली अशे समजप समा न्हय.

आबे द फारीया आनिक गांधीजींचो संबंध खंय आनिक कसो येता? जुझे आनिक ताजो बापूय बंड (द रिव्होल्ट ऑफ द नेटीव्हज, १७८७) हो पिंटोंच्या शेळेल्ल्या बंडावेलो देखादिणो ग्रंथ दो. सेल्सा पिंटो हाणी बरयला. तांतूत ह्या बंडाच्या सूत्रधारांची सूक्षीम माहिती आसा. हिंदुस्थानच्या स्वातंत्र्यलढ्याची बुन्याद १८५७त न्हय तर गोंयात पाद्रींनी १७८७त घाल्ली हे मोहनदास करमचंदर गांधींक खबर नाशिल्ले? ते जाणां आशिल्लें म्हणूनच भारताचो स्वतंत्र्यलढो यशस्वी जालो.

या कारस्थानांत फ्रेंच सामील आशिल्ले. टिपु सुलतानाच्या सरदारांकडे फारीयाचो संपर्क आशिल्लो. टिपू ब्रिटीश आनीक पुर्तुगेजांचो दुस्मान. ताजे पदरा फ्रेंच सैन्य आशिल्ले. थारिल्ले, तेप्रमाण फ्रान्सातल्यान फारीयानी सूत्रां हालोवपाची, फ्रेंच सैन्याच्या मजतीन टिपून बेसावध आसतनाच दक्षिणेसावन गोंयचेर घुरी घालपाची आनिक थळाव्या शिपायांनी मागीर बंड करून पोर्तुगेजांक धांवडावन घालपाचे अशी व्यूहरचणूक जाल्ली. पुण हे सगळे कित्याक तर फ्रेंच राज्यक्रांतीचो प्रयोग जावचेपयली अमेरिकेंतल्या झुजापासून स्फूर्त घेवन गोंयांत थळाव्या गोंयकारांचे प्रजासत्ताक राज्य हाडपाक. फारीयाक दिसताले गोंयचे रिपुब्लीक. पुण बंड फसले. १५ जाणांक पणजेत हाल हाल करून माल्ले. फारीयान मागीर पुर्तुगालांत पर्थून पांय दवरूंक ना.

गोंयच्या १७८७च्या क्रांतीपर्वाची माहिती इंग्लंड वा फ्रान्सांतूच गांधीजींक जाल्या आसतली. दोन-तीन फावट तरी ते फ्रान्साक पाविल्ले. एकदा गोलमेज परिशदे उपरांत महात्मा गांधींक गोंयच्या



राजकीय वातावरणाची माहिती दिवपी आशिल्ले. रोमेरॉलॉ. गांधीजी पारीसात येवचेपयलीच थंयचो आपलो चार-पांच वरसांचो राबीतो सोपोवन त्रिश्तांव ब्रागांज द कुन्य १९२६ सालाक गोंयात परतल्ले. पुण त्या पयली ताणी रोमां रोलांच्या निकटवर्तीयांभीतर सुवात मेळयल्ली. कुंज्यांक लागूनच रोमा रोलॉक गोंयात किते चलतां ते कळले. रोमॅ रॉलां हे नोबेल पुरस्कार विजेते साहित्यिक अश्टतासांचे. भारतमोगी. विवेकानंद, गांधीजी ही तांची देवतां कशी. रविंद्रनाथ टागोरय बी. १९२४त त्रिश्तांव कुंज्यांक लागूनच ते गांधीजीचेर ग्रंथ बरोवपाक लागले. या ग्रंथान गांधीजींक येवरोपात खूप कीर्त मेळोवन दिली. १९३१त जेन्नां रोमॉ रोलां आनिक गांधीजींची भेट जाली तेन्ना हेर गजालींबरोबर दो. त्रिश्तांव कुंज्य, गोंय, गोंयची राजकीय स्थिती, आबे द फारीय, फ्रांसिस लुईश गॉमीश हांचोय जरुर उल्लेख रॉलांनी केला आसतलो. त्रिश्तांवांच्या मजतीबगर महात्माजींक मेळनास्तनाच रॉलांक १९२४ आपलो ग्रंथ बरवप शक्य नाशिल्ले. फ्रांसातूच महात्माजींक त्रिस्तांवाचे व्हडपण कळील्ले. तांचेकडसून त्रिश्तांवाची नामना कॉग्रेस पक्षातल्या हेर फुडाऱ्यांमेरेन पावली. मागीर पंडीत जवाहरलाल नेहरू कुंज्यांचेर प्रसन्न जाले.

महात्मा गांधींक गोंयच्या व्हड मनश्यांची वळख निखालस हिंदुस्थानात जांवक ना. पुर्तुगेजीची वंयच्यावयर वळख आशिल्ल्यान तांका फ्रांसिस लुईश गॉमीशान बरयिल्लो कापसावेलो निबंध आनिक गोंयच्या शेतीच्या दुर्दशेवेलो ग्रंथ वाचूक मेळूक नासतलो. पूण 'दांडी यात्रे' पयली तांणी बारीकसाणेन ब्रिटीशांनी पुर्तुगेजां बरोबर १८७८त केल्ल्या कराराची माहिती घेतल्या आसतली.

दक्षिण आफ्रिकेंत आसतनाच भारतीय अर्थव्यवस्थेचो कणो मोडून उडोवपी मिठावयल्या ब्रिटीश कराचो निशेद गांधीजीनी केल्लो. १९३० च्या दांडी मीठ सत्याग्रहा पयलीं ताणी गोंयात कारस्थान करून ब्रिटीसांनी मीठ उत्पादकांक कशे भीकेक लायले ताजी माहिती एक तर दीवच्यान नाजाल्यार त्रिश्तावां कडसून घेतल्या आसतली.

दोन हजार वरसां गोंयात मीठ काडतात. गोंयांतलीं पोरण्यांतली पोरणी मीठागरां ग्रामसंस्थांनी बांदलेलील १८७८ वरसा लुझो ॲग्लो करारावरवी ब्रिटीशांनी गोंयच्या मीठ उत्पादनाचेर नियंत्रण हाडले. गोंयचे मीठ शीमेभायर धाडपाचेर बंदी घाली. दडपशाय करपाक गांवागांवांनी ब्रिटीशांनी आपले एजंट

**(पान ७६ चेर)**

# गांधीजी आनी रवीन्द्रबाब




– संपदा कुंकळकार

गांधीवादी आनी गांधीविरोधी अशे दोन गट आसात. गांधी विरोधकांक तर ते केन्नाच कळ्ळे ना, पूण दुर्दैवान स्वतःक गांधीवादी म्हूण मिरोवप्यांकूय तें कळ्ळें ना. गांधीजी कळप म्हळ्यार नेमकें कितें? गांधीजी कळप म्हळ्यार गांधी विचार कळप. ह्या संवसारात, भारतांतूच गांधी विचार पुरायपणान खूब कमी लोकांक समजला. तांतलें एक म्हळ्यार ज्ञानपीठकार स. रवीन्द्रबाब केळेकार. सगळें जाण जरी तांका गांधीवादी म्हणटालें, तरी तें स्वतःक गांधी विचारांचो समर्थक म्हणटाले. हाचे कारण तें नुस्ते खाताले, सिगार ओडटाले.

सगळ्यांक दिसता म्हाका 'गांधी' कळ्ळा, तांचे विचार कळ्ळ्यात. पूण हो गैरसमज. गांधीजी समजप इतले सोपे न्हय. तिय बी एके तरेची तपस्या. पूण एकदा गांधीविचार पुरायपणान कळ्ळो म्हणटकच मागीर तो जिवितापासून वेगळो जायना. तो जिविताचो एक भाग जाता. म्हज्या सारकेल्यांक गांधीजी तांच्या साहित्यातल्यान, तांच्या वागपातल्यांन कळ्ळां.




**रवींद्रबाब बरयतातः देशाची फाळणी कोणें केली हाचो सोद घेवंक लागता. निर्णयार पावतां फाळणेक गांधी सोडून सगल्यांचो हातभार लागला.**

एका कोंकणी विरोधी दिसाळ्यात एका लेखांत विष्णू वाघान बरयल्लें, 'गांधीवादी आशिल्ल्या रवीन्द्रबाबान मराठीवाद्यांविशी विशारी लेखन केले.' ही तांची हिंसा दिशिल्ली. मूळांत चूकिच्या गजालींक चूक म्हणू नाकात अशें गांधीजीन केन्नाच सांगलें ना. गांधीजीन विरोधाक केन्नाच विरोध केलो ना. पूण विरोध नैतिक पातळी सोडून करप ना अशें तांचे मत आशिल्लें. गांधीजीन खूब गजालींक विरोध केलो. पूण नैतिक पातळी सोडली ना. गोंयची राज्यभास जावपाचो मान हो सगलें तरेन कोंकणीचोच आशिल्लो. कोंकणीचेर जावपी अन्यायाआड लिखाण केले ते नैतिकतेक धरून आशिल्लें हातून कसलोच दुबाव ना. अन्यायाआड बरोवप ही अहिंसा जायना.

गांधीजीची शिकोवपाची आनी ख्यास्त दिवपाची पद्धत वेगळी आशिल्ली. १९४७ त जेन्ना दंगली सुरु जाल्यो तेन्ना गांधीजी उपोशणाक बसले. चूक कोणेय करू, ख्यास्त मात ते स्वतःक दिताले. रक्ताचे व्हाळ व्हावत रावतले कांय अशी परिस्थिती निर्माण जाल्ली. गांधीजी उपोशणाक बसले आनी दंगली बंद जाल्यो. रवीन्द्रबाबाविशीं असोच एक किस्सो माधवीबाय हाच्या 'तांचे विशीं म्हजेय विशीं', ह्या पुस्तकात आसा. तिळसांजेवेळार खंय रवीन्द्रबाब प्रार्थना करताले. जें जें गांधीजींच्या आश्रमात वचून रावल्यात, तें हो नेम पाळतात.

प्रार्थना करप हो गांधीजींच्या जिविताचो एक अविभाज्य घटक आशिल्लो. प्रार्थना चालू आसतना ल्हान माधवीबाय मात्शें हांसले. तें रवीन्द्रबाबाच्या लक्षांत आयले. त्या रातचें तें जेवलें नात. माधवीबायक्र तांणी कांयच म्हळें ना. दुसऱ्या दिसा कांयच घडूक ना अशें वागले. ही घडणूक माधवीबायच्या लक्षांत जिवितभर उरली. हेंच गांधीविचारांचें वेगळेपण. तांची शिकवण, तशी ख्यास्त शाश्वत.

गांधी विचारांचो प्रभाव हो स्पर्शजन्य कसो. जेन्ना जेन्ना एखाद्याचेर तो पडटा, तेन्ना भोवतणच्या लोकांक जाणवपाक लागता. अशें न्हय जांणी गांधींजींक पळयला, वा आयकला तांचेरूच तो पडला. जांणी गांधींविशी वाचलां, गांधींजींचें विचार समजून घेतल्यात तांचेरुय पडला. काकासाहेब कालेलकरांच्या सहवासात रवीन्द्रबाबाक गांधीजी पुराय समजलो. रवीन्द्रबाबाचेर आशिल्लो गांधी विचारांचो प्रभाव माधवीबायचेर स्पश्ट दिसतालो. गांधी विचार जें आपणायतात तांच्याभितर एक वेगळीच तेजस्वीताय आसता.

गांधी विचारांचो प्रभाव मनशाक भितरल्यान बदलून उडयता. गांधीजी जर वाचून, समजून इतलो खोल प्रभाव पडटा जाल्यार जें प्रत्यक्षात गांधीजींच्या सहवासात उरले तांचेर कितलो खोल प्रभाव पडला आसतलो? अघळ-पघळ पुस्तकांत रवीन्द्रबाबान एक घडणूक बरयल्या. ९० वर्सां वयर जातकच काकासाहेब कालेलकर मनशांकूय विसरपाक लागले. रवीन्द्रबाबांचो तांचेकडेन ३५ वर्सांचे संबंद, पूण तांकाय बी नांव सांगचे पडटाले. तें विसरूंक नाशिल्लें ते फकत गांधींक. रवीन्द्रबाबान एक दीस तांका विचारले, 'तुमीं सगळ्यांक विसरले. गांधीक विसरले व्हय? 'ना'. तांणी जाप दिली, 'तांचो ह्या देशाचेर आनी खासा म्हजेर येदो व्हडलो प्रभाव आसा की कोणूच तांका विसरुंक पावचो ना.'

रवीन्द्रबाबाच्या साहित्यातूच न्हय तर तांच्या जिणेंत जायते कडेन गांधीजींचो प्रभाव दिश्टी पडटा. हो भितरल्यान जाल्लो प्रभाव आनी ते खातीर जे बदल जातात ते आपसूक जायत वतात. गांधीजी म्हणटाले जर म्हज्या कालच्या आनी आयच्या मतात तफावत आसा जाल्यार म्हजें आयचें मत खरें मानपाक जाय. हाजें कारण मनीस हो शिकता, दर खिणाक जें अणभवता तशें ताच्या मतांत बदल जायत रावतात. वेळे वयल्यो घुलो ह्या पुस्तकांत रवीन्द्रबाबा म्हणतात, 'हांव भुरगो आसतना म्हाका रंगीत लुगटा आवडटाली. मातसो जाणटो जायना फुडें म्हजी रुच बदल्ली. हांव मागीर भडक रंग सोडून पातळ रंग वेंचून काडूंक लागलो. आतां धव्या रंगा भायर दुसऱ्या रंगाचे लुगट म्हाका मानना. म्हाका दिसता, मनीस जसो संस्कारी जायत वता तसो तसो तो सादोय जायत वता. भाशेकूय होच नेम लागू जाता.'

तांच्या व्यक्तिम्हत्वा भशेन तांची बरोवपाची शैली लेगीत संस्कारी, सादी, सरळ म्हणूनच तांणी तत्वगिन्यान सामकें सादे सोपे भाशेत बरयलें.

आजकाल लांच दिवप वा घेवप, भ्रश्टाचार करप हांतूत लोकांक कांयच वायट वा गैर दिसना. पूण जांका गांधीविचार पुरायपणान कळ्ळा तांकाच लांच दिवप, वयलें पयशें खावप, भ्रश्टाचार सहन जायना. कशाय मधूर ह्या पुस्तकांत तांणी आपल्या जिवितांत घडिल्ली एक घडणूक सांगल्या. एकदा कलकत्त्याक पाविल्ले कडेन तांका गोंया परतूपाक टिकिट मेळना जाली. टिकिट दिवपाक ट्रॅवल ॲजटांक जें कमिशन आपणे दिल्ले ही लांच आशिल्ली कांय हे १५ वर्सां जावन लेगीत तांच्या मनांतल्यान गेले ना. भ्रश्टाचार केदोय ल्हान आनी कितलोय सोयिचो आसलो तरी तो वायटूच हें एक गांधी विचार मानपीच सांगतलो. गांधीजी आदर्शवादी आशिल्ले. म्हणूनूच तांणी आपल्या बरोबर हेरांकूय वयर काडले. रवीन्द्रबाब म्हणटात, 'समाज वयर गेला तो आदर्शवादी लोकांक लागूनूच. आयज समाजांत कितेंय शास्वत मोलाचें पळोवंक मेळटा तें आदर्शवादी लोकांनीच आमकां दिलां.'

रवीन्द्रबाब मूळांत एक तत्ववेत्ते. समाजाता जे घडटा ताजेर ते खोलायेन विचार, मनन करताले. कांय प्रस्न तांका अस्वस्थ करताले. आनी तांच्या साहित्यात 'म्हाका गांधींचो उगडास आयलो' हें वाक्य खूब कडेन वाचपाक मेळटा. खंयच्याच प्रस्नाचे मूळासावन समाधान सोदप हें गांधीजीशिवाय दुसऱ्याक जमप कठीण हें तांका दिसताले.'

रवीन्द्रबाबान जशें गांधीजींच्या विचाराविशी बरयलां. पूण गांधींजींविशी जें गैरसमज पातळ्ळें तांच्याविशीं बरयलां. ह्या देशान जायत्यो फट गजाली खऱ्यो मानून घेतल्यात. तांतली एक सगळ्यांत व्हड फट म्हळ्यार गांधीजीन देशाचे दोन कुडके केले. कांय अज्ञानी मनशांनी हीं फट खरी मानली. आमोरेर पुस्तकांत गांधीजीविशीच्या ह्या गैरसमजाविशीं विस्तारान बरयलां. तें बरयतात, 'पंदरा ऑगस्टाक म्हजे मन खंतीन कित्याक भरून येता हें सोदपाक बसतां. देशाची फाळणी कोणें केली हाचो सोद घेवंक लागता. निर्णयार पावतां फाळणेक गांधी सोडून सगळ्यांचो हातभार लागला.'

समजात जें चूकिचे घडटा ताजेर मन खंती जाता तेन्ना खऱ्यानीच दिसता गांधीजी अजून जितेआसात. त्या गूळीयांनी सोपली ती तांची कूड. विचार जिते आसात. पिळग्यान पिळगी सुदारत आसा.

•••






# नात्यांतलें भावपण














आपूण खंयच्या घरांत जल्माक येता, तें आपल्या हातांत नासता. ज्या घरांत जल्म जाता, त्या घरांतल्या दर एकल्याकडेन आपलें नातें घडून येता. आपलें जिवीत केन्नाच आपलें एकल्याचेंच अशेंय नासता. जल्मापसून जिर्णेतल्या वेगवेगळ्या काळात नातीं आमकां वेगवेगळ्या भशेन जोडटात आनी ह्या नात्यांचो एक गोफ तयार जाता. रक्ताचीं नातीं कोणाकडेन घडोवप हें आमच्या हातांत नासलें तरी तीं कशे तरेन राखून दवरप, वाडोवप, फुलोवप हें आमच्या हातांत आसता. खयचीय वस्त सदां काळाखातीर तिगची हाचे खातीर आमी कुयदाद, जतनाय येतात. तशेंच आमी आमच्या नात्यांकडेनूय पळयतात, पूण थंयच आमी चूकतात. 'हो आपलोच' वो 'हेंय आपलेंच' तांकां आमी कितेंय सांगूक जाय? 'ती समजून घेतली' अशें गृहीत धरतात. एकमेकांबद्दल मुळांत कसल्यो भावना आसात त्यो आमी संद मेळटा तेन्ना सदांच उक्तावंक जाय... खूबदा ह्यो भावना उक्तावपाच्यो उरतात आनी मुखावेली व्यक्ती ना जाता तेन्ना आमका ताचें वायट दिसता.

'जागा'च्या दिवाळे अंका खातीर नातीं हो विशय वेंचून काडपाचो हेतू होच आसलो. आपल्यो भाव-भावना उतरांनी मेकळ्यो करपा खातीर ही सुवात. नात्यांवीशीं बरयतना, उतरां, भावना मेकळी वाट करून दितना हें वाटेर आवय, चलो-चली, बापूय, भाव-भयणी, मित्र-मैत्रिणी अशा नात्यांचो एक सोबीत गोफ विणून आयला. सोपेपणी उतरांनी उक्तावंक जायना अशे उत्कर्ष ह्या अंकात व्यक्त जाल्यात...



# बाबा

– सुनील सरदेसाय

बाबाक वचून तेरा वर्सां जालीं, पूण तो गेला अशें या काळांत केन्ना दिसलेंच ना. आमकां दिसना तो, पूण सदांच आमच्या म्हन्यांत आसा. तो फ्रान्साक बी गेला आसतलो कांय दिसांपुरतो; अशें म्हजी आवय केन्ना केन्ना म्हणटा.

आमचो, घरच्यांचो तो बाबा, भावडांचो भाई, विद्यार्थ्यांक सर– प्रोफेसर– दोतोर, गोंयच्या लेखकांत मनोहरबाब आनी इतिहासकारांक लोककवी. म्हाका मात बाबाच..!

ल्हानपणांत म्हाका केन्नाच बाबाचे व्हडविकेचो वास लागूंक नाशिल्लो. म्हजो बाबा कोण तरी व्हड मनीस हाची जाणविकाय नासपाचें तें वय. घरांत कितल्याश्यात मोठ्या मनशांचें यो– वच आशिल्लें, पूण म्हज्या बालमनांत बाबाच्या आटापाची कल्पनाच नाशिल्ली. ती येवपाक १९८० वर्स उजवाडचें पडलें. बाबा तेन्ना मुंबय विद्यापीठांत काम करतालो. त्या वर्सा बाबाच्या 'पिसोळीं' या कवितासंग्रहाक साहित्य अकादमीचो पुरस्कार मेळ्ळो. टिव्ही तेन्ना गोंयांत पावंक नाशिल्लो. पूण सगळ्या राष्ट्रीय दिसाळ्यांनी ती खबर छापून आयिल्ली. रेडिओन त्या दिसाच्या आपल्या सगळ्या राष्ट्रीय बातमीपत्रांनी ती खबर दिली. दीसभर हांव बाबाचें नांव आयकत अशिल्लों. म्हज्या घरांत कोण तरी दिगंत किर्तीचो मनीस रावता हाची पयली जाणविकाय म्हाका त्या दिसा मेळ्ळी.

बाबा एक कवी म्हूण जियेलो. वेव्हारीक संवसाराची व्हडली पर्वा ताका नाशिल्लीच. तो निजाचो बुदवंत मनीस. आकलनाची शक्त तोखणायेची. १८ वर्सां पिरायेचो आसताना बाबा मुंबय गेलो. अर्दवेळ नोकरी करून ताणे शिक्षण घेतलें. पिरायेच्या तेत्तिसाव्या वर्सार ताणे फ्रँच भाशेंतल्यान सोबोर्न विद्यापीठांतल्यान डॉक्टरेट मेळयिल्ली. मुंबय विद्यापीठांत तिसऱ्या वर्साचो बीएचो अभ्यास करताना तो पयल्या वर्साच्या भुरग्यांखातीर क्लासी घेतालो,



मडगावांत रावतना ल्हानपणांतली एक याद अजून घट्ट आसा. आमच्या घरामुखार व्हडलें मळ आशिल्लें. रातचें बेगीन जेवप आनी शेनरी, उशीं बी घेवन मळार वचप. रातचें चान्नें पडिल्लें आसतालें. विजेचे दिवे आशिकुशीक नासतालेच. शेनरेर पडून मळबांतल्या चंद्राचो कुपां सांगातान चलिल्लो आपालिपाचो खेळ आमी पळयतालीं. अचकीत बाबा आपलें गीत गावपाक लागतालो... चंद्रिमाची खेळटा कोर– कुपां लागीं आपालिपा, तेन्ना तुजी याद येता याद येता... बाबाचे प्रतिभेचो वझरो घसघशांनी व्हांवक लागतालो. बरोच वेळ मळबांतली ती सोबा पळोवन रातचीं अकरांक बी आमी घरा परत येतालीं. तेन्ना रातीचो वावर सुरक्षीत आसतालो, भंय असो नाशिल्लोच.



बाबाक नव्या बरोवप्यांचे खूप कवतुक. उदय भेंब्रो, पुंडलीक नायक, रमेश वेळुसकार, दामोदर मावजो, चा. फ्रा, कॉश्त हांची तोखणाय सदांच ताचे जिबेर आसताली. घडये ताकाच लागून आसत, तरणाटे बरोवपी पुस्तक काडपाचें जालें म्हण्टकच प्रस्तावना बरय म्हूण ताचेकडेन येताले. कितल्योश्योच प्रस्तावना बाबान बरोबन दिल्यो. राजहंसाच्या प्रभाकर भिडेन त्या प्रस्तावनांचेंच पुस्तक काडलां. कोणाकूच न म्हणपाक बाबाक जमनाशिल्लें. कोणें तरी ताका म्हणलेंय बी... 'कितें रे तूं, सगळ्यांकूच फुलयता!' ताचेर बाबाची जाप आशिल्ली, 'बरोवपी म्हळ्यार पाळण्यांतलो भूरगो कसो. ताका हाताक धरून चलपाक शिकोंवक जाय. उठसूट ताचीं कुतां काडची न्हय!'

इतलें ते भाशेचेर प्रभुत्व. ताचे विद्वत्तेन ताचेखातीर कितलीशींच दारां उकतीं केल्लीं. संयुक्त राष्ट्रसंघांत ताणे भारताचें प्रतिनिधित्व केलें, फ्रान्साक गेलो तेन्ना थंयच्या नामनेच्या लोकांमदीं ताची उठबस आशिल्ली. घड्याळांच्या निर्मणेक लागून संवसारीक नामना जोडिल्लो हेन्री सान्दोझ होय ताचो घट इश्ट. ताणें आपलो ब्रँड भारतांत हाडपाचो थारायलें आनी बाबाक सांगलें, 'मानो,भारतांतल्या वेवसायाची जापसालदारकी तुवें घेवप!' बाबान ताका सांगले, 'आमचे कोंकणीत एक म्हण आसा, लाखाचे बारा हजार करप; म्हजेकडजेन तुजो वेवसाय दिलो जाल्यार ताची अवस्था तशीच जातली.' आपल्याक वेव्हार कळना म्हणपाचें मान्य करपाचें मोटेपण ताचेकडेन आशिल्लें

ताचें-म्हजें नाते आवय पुताचें. ल्हानपणान ताचे कडल्यान मार खाल्ल्याची याद म्हाका ना. आवयचो मात खूप मार खाल्ला, म्हशिंगाची सांग घेवन तिने म्हाका रक्त येसर मारिल्ल्याची आनी मागीर बाबान कामा वयल्यान येवन तांबडें वखद लायिल्ल्याची याद अजुनूय मनांत घट्ट आसा. सामकीच तिडक मारली जाल्यार बाबा हाताक एक चिमटो काडटालो, इतलेंच.

म्हाका याद जाता... तेन्ना हांव आर्किटेक्चराचें शिक्षण घेतालों, फर्मागुड्ये वयल्या अभियांत्रिकी महाविद्यालयांत. रावतालों थंयच्याच हॉस्टेलांत. थंय म्हजे पिरायेच्या भुरग्यांक सिगरेटी ओडटना पळयलें. म्हाका दिसलें, हांवेंय सुरवात करची. पूण दुसरें मन सांगपाक लागलें, बाबाक विचारून पळय. मागीर घरा गेलों आनी तो एकलोच आसा तें पळोवन थोडो परवानगी मागपाचो तर थोडो माहिती दिवसाचो सूर लावन ताच्या कानार घालें. ताणें म्हळें, 'आरे, तुका कित्याक ती सिगरेट? तूं क्रिकेट, कराटे खेळता. त्या खेळांक स्टॅमिना जाय. सिगरेटींनी तो उणो जातलो. तरींय तुका जाय जाल्यार तूं ओड, पूण म्हज्या पयशांनी मात न्हय!' बाबाचें आयकलें आनी सिगरेटीच्या वाटेक गेलो ना तो आयच मेरेन.

आनीक एक घडणूक मनाच्या तळाक घट्ट वचून बसल्या. खंयच्यान तरी पुरो जावन घरा आयिल्लों. तिनसांजेची सात वरां जाल्लीं. घरांत येवन कपडे बी काडले आनी बाबा म्हणपाक लागलो, 'सुनील, म्हजे खातील सकयल्यान एक सोडा घेवन येशीत?' परते कपडे चडोवन सकयल वचपाचें जिवार आयिल्लें. हांवें ताका म्हळें, 'बाबा, आयज आसूं सोडा. म्हाका पुरो जालां. तुका उदक हाडून दितां.' हांवे दिल्लो उदकाचो पेलो ताणें मोन्यांनी तोंडाक लायलो. कांय वेळान सकयल्यान म्हाका कोणें तरी साद घाली. साडेणव वरां जाल्लीं. तो म्हजो मामेभाव आशिल्लो– प्रकाश. नॅशनल थियेटरांत तेन्ना ब्रूस ली चो 'रिटर्न ऑफ द ड्रॅगन' सिनेमा लागिल्लो. पावणे धाच्या शोच्यो तिकेटी काडल्यात, बेगीन यो म्हूण तो सांगतालो. कळाव कर नासतना हांवें कपडे घाले आनी वचपाक भायर सरलों, बाबाक म्हळें, 'बाबा, हांव वतां आं. दाराची चावी व्हरतां. तुमी न्हिदात.' 'तुका आतां बरें दिसता मरे?' –बाबाचो निरागस प्रश्न. म्हाका मात तो ब्रूस लीच्या फ्लाइंग किकीपरस पेरीद जाणवलो.

उण्यात उण्या उतरांनी बरेंच कितें बाबा सांगतालो. ताचो तो सभावधर्म म्हळ्यार जाता. पिसोळीं, जायोजुयो, तिकली हे ताच्या मिताक्षरी कवितांचे संग्रह ताची गवाय दितात.

म्हज्या एकविसाव्या वाडदिसाक बाबान म्हाका केका बराबर बियर पिवपाक दिली. म्हणपाक लागलो, 'आयच्यान

इंटरनेट येवचे पयलीं बाबा आमचो 'गुगल' आशिल्लो. कितेंय विचार, बाबाक खबर आसतालीच. संगीत, कला, साहित्याची उपाट माहिती. हेर भाशांतल्या उतराक जुळपी कोंकणी उतर तर तोंडांत आसताले. 'एलेफंटाईन मेमरी' म्हणजे कितें तें बाबाक पळोवन कळटालें. ताका लागुनूच आमचे मदीं प्रश्नमाचीं सर्तीचें आकर्शण तयार जालें. आयजूय केन्नाय कसलो प्रस्न सतायता तेन्ना बाबाची याद येताच येता. कांय संदर्भ गुगलाकूय खबर नासतात, बाबाक ते खबर आसतालेच.

**(पान ७७ चेर)**




काजारां सर्गार थरतात अशें म्हणटात आनी म्हणून म्हाका आनी तोमाजीनोक रचसर देवाक बरोच रावचो पडलो आसतलो. उपरांतूच ताणें थरयलें आसतलें की तोमाजीनो आनी हांवें-काजार जावचें म्हूण. फाटलीं चार दसकां हांव तोमाजीनोच्या सांगाताक जियेल्यां आनी म्हाका खऱ्यानीच दिसता की देवान आमकां एकामेका खातीर निर्मून बेस बरो निर्णय घेतलो.

चडश्या लोकांक दिसता, तोमाजीनो आनी हांव मोगान पडून काजार जाल्लीं. फादर आंतोनियो पेरेरा, जांणें आमचें काजाराच्या रेस्पेराचें मीस भेटयिल्लें ताकाय तशेंच दिशिल्लें आनी तांणें तशें लोकाक सांगलें. पूण सत हें की आमी मोगान पडून काजार जावंक नाशिल्लीं, सोयरिकेन जाल्लीं आनी मोग उपरांत जालो. आमचे दोगांयचेय वळखीची आमची एक इश्टीण आसा. तिणेंच तोमाजीनोची सोयरीक म्हाका हाडली. कितें घडिल्लें तें विचित्रूच आशिल्लें.

गोंयची कला अकादमी, दर वर्सा तियात्र सत घडोवन हाडटा. एका वर्सा तियात्र सर्तीक परिक्षक म्हूण म्हजी निवड जाल्ली. कला अकादमींत बोवाळ तोमाजीनोचो तियात्र बरो जाता, ताका इनाम फावता, आदी. आप-आपल्या कुटुंबाच्या वांगड्यांक तियात्र पळोवपाक हाडपाची तयारी चालू आशिल्ली. म्हाका कला अकादमीचे सर्तीची चड माहिती नासली आनी हांव तर तोमाजीनोक मातूय वळखनाशिल्लें. पूण सगळ्यांचें आयकून म्हाकाय दिसलें की म्हज्या कुटुंबाच्या वांगड्यांनी लेगीत हो तियात्र पळोवचो म्हूण.

हांवें तोमाजीनोक पयलेच पावटी तियात्राचे माचयेर पळेलो. म्हाका ताचें तियात्राचें बरोवप, दिग्दर्शन, कांतारां आदी बी मानवलीं आनी ताचो प्रयोग बेस-बरो जालो. ताका पयलो इनाम फावो जालो. आमची भेट परती जावंकूच ना. सुमार दोन वर्सां उपरांत ताची काजाराची सोयरीक म्हाका आयली. दुबाव ना, हांवें ती खोशयेन स्विकारली आनी म्हाका दिसता हांवें बरें तें केलें.

ताचे गूण विचित्रूच अशें म्हाका दिसता. ताणें बी.एस.सी. ही पदवी घेतिल्ली पूण काळजा-मनान तो एक कवी आसलो. तो जावंक सोदी दोतोर पूण जालो शाळेचो शिक्षक. तो तियात्र बरोवपी आनी सादर करपी, गितां रचपी, अभिनय करपी, गावपी आनी कोंकणींत बरोवपी. ते शिवाय तो एक बरो खेळगडी – फुटबॉल, व्हॉलीबॉल आनी कॅरम खेळपी. पूण आपल्या गांवचे सेवे खातीर तो कांदोळे गांवचो सरपंच जालो आनी सेगीत २० वर्सां अदीक ताणें ही झुटी चलयली. आपलें राज्य गोंय हाचे खातीर कितें पूण करपाची ताची इत्सा आसली. ते खातीर तो विधानसभेचे निवडणुके खातीर उबो रावलो आनी कळंगूट मतदार संघाचो आमदार जालो. ते शिवाय तो गोंय विधानसभेचो मानादीक सभापती जालो. फुडले वेंचणुकेक जेन्ना तो हारलो तेन्ना ताका दिसलें की असलें राजकारण आपल्या लोकाची सेवा करूंक आपल्याक उपकारचें ना आनी ताणें राजकारण सोडून दिवपाचो निर्णय घेतलो.

म्हाका राजकारणांत मातूय आवड नासली पूण तोमाजीनोक पाठिंबो (तेंको) दिवपाक हांव ताच्या राजकारणी कामांनी सारकें गुंथून गेलें. सांगपाची गरज ना की ताणें राजकारण सोडलें हाची म्हाका खूब खोस भोगली. म्हाका दिसना की तो त्या क्षेत्रांत परथून प्रवेस करीत म्हूण. पूण जर केन्नाय ताका राजकारणांत परथून मिसळ जावंक दिसलें जाल्यार तो जाणां हांव

# तोमाजीन

– आयरीन कार्दोज



सदांच ताच्या सांगाताक उबें आसतलें म्हूण. हेर भावि लोकां भशेन तोमाजीनाची वागणूक आसना पूण क्रिस्ती तत्वां तो आपल्या जिवितांत पाळटा, जशें सतान वागप, आपलें कर्तव्य पाळप, दुसऱ्याक चड करून गरजेवंतांक दया आनी उदारपण दाखोवप, आदी...

तोमाजीनो महात्मा गांधीचो भक्त आनी पाटलावदार, ताच्या पावलांनी तो चलता. तो आपलें काम चालूच दवरता. वेळ वगडावप ताका मानवना.

आपल्याक देवान दिल्लया गुणांचो उत्तम वापर तो करता - तियात्र बरोवप, गितां रचप, वर्तमानपत्रांक बरोवप, मांडे घडोवप, आदी. ज्या कामाक तो हात घालता ताची पूर्ण तयारी करता. कितें काम करता तें बरे तरेन जावंक जाय हो ताचो हेतू आसता.

तोमाजीनो फकत एका म्हयन्याचो आसतना ताचो बापूय ह्या संवसाराक अंतरलो. ताच्या कुटुंबाची अर्थीक परिस्थिती गंभीर आशिल्ली. ते वेळार ताचो मामा कारासियोलो आनी ताची मावशी सबिना हांणी खूब आदार दिलो. तशेंच ताचो व्हडलो भाव जुआंव हाणें खूब त्रास काडून आनी त्याग करून ताका शिकयलो. तोमाजीनो तांकां सदांच दिनवाशी आनी उपकारी. तेच भशेन आपले शाळेचो हेडमास्तर राजाराम पै हांणें आपल्याक गणीत शिकयतना आपल्या काळजांत देसाचो मोग आनी भक्ती वोंपलीं हे खातीर तो ताका वाखाणटा.

तोमाजीनो सोंपेपणीं दुसऱ्याचें वायट चिंतिना आनी उलयना. दुसर्‍या न ताका दुखयल्यार पसून तो ताका दुखोवपी न्हय. ताच्या मनांत बदलो घेवपाचीं चिंतनां केन्नाच आसनात. उरफाटेंच जाल्यार तो त्या मनशांक गरज पडली जाल्यार (तांकां पावता), तांच्या बऱ्या वावरा पासत तांकां वाखाणटा, तांकां म्हत्व दिता. तांकां ताच्या आदाराची गरज पडल्यार तो तांकां आदार दिवंक फाटीं सरना.

आपलें काम करतना तो लोकशाय तत्वान वावुरता. कांदोळे पंचायतींत सरपंच कसो वावुरतना वा वेगळ्या वेगळ्या शाळांनी हेडमास्तर म्हूण वावुरतना, वेगळ्या वेगळ्या संस्थांचो अध्यक्ष वा समितींचो अध्यक्ष म्हूण झुटी चलयतना तो सगळ्यांचीं मतां जाणून घेवपी आनी वेगळे वेगळे प्रस्न सुटावे केले उपरांतूच निर्णय घेवपी. कायदे पाळप्यांक आनी कायद्याचे फास्केंत जीं सोंपेपणां आसात तीं वापरून आपल्या तत्वां-मुल्यां आड वचनासतना आपले थाराव घेवपी.

आपलो गांव कांदोळे, आपलें राज्य गोंय आनी आपल्या भारत देसाचो उपाट मोग करता. कांदोळे, गोंय आनी भारत सोडून संवसारांतलें हेर कितेंच ताका भुलोवपाक शकना.

तो आपल्या वेळाचो बरो उपेग करता. ताका लागून तो आपलीं कामां वेळा भितर आटापूंक शकता. आपली जापसालदारकी तो पोटतिडकेन शर्ती पावयता आनी कितले त्याग करचे पडले जाल्यार पासून तो फाटीं सरना.

कोणूय, भोव करून तरणाटे, बरे गावपी, बरोवपी, खेळपी आदी तोमाजीनोचे नदरेक पडल्यार तो तांकां जाता ते सोयेग दिवन तांकां तांच्या गुणांचो वापर करूंक लायता. म्हजे बाबतींत ताचें धोरण तेंच आसा. तो म्हाका भरपूर सोयेग दिवन म्हजे अभिनयाचे, गावपाचे, बरोवपाचे आदी गूण वापरूंक संदी दिता. ताचो म्हाका सदांच तेंको, सहकार आनी आदार आसता.

आमच्या बऱ्याच नशिबान तोमाजीनाचें आनी म्हजें चिंतप, आवडी-निवडी एकेच तरेच्यो आसतात. आमी दोगांय शिक्षक आनी हेडमास्टर आशिल्लीं. आजून लेगीत आमकां तियात्र माचयेची, संस्कृतीक आनी साहित्यीक कार्यावळींची आवड आसा. ते खातीर आमी एकामेकाक समजतांव आनी सहकार दितांव. सांगपाची गरज ना, वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर आमचे मदें वाद-विवाद जातात, भासाभास जाता. आमची पिराय वाडटा तशी आमी एकामेका लागीं पासियेंस काडूंक शिकतांव. आमी थारायलां की आमचें उरिल्लें जिवीत आमी खुशालकायेन सारतलीं म्हूण.

●●●



# उज्याचें फुल

शैलेन्द्र मेहता

**ख्रिस्तमहंमदमांगब्राह्मणासी**
**धरावेपोटाशीबंधुपरी**
**मानवभावंडेसर्वएकसहा**
**त्यांजमध्येआहातुम्हीसर्व**

**– महात्मा ज्योतिबा फुले**

वर्स १९८३. गोंयांत पयलेच फावट विद्यार्थ्यांकडल्यान कॅपिटेशन फी घेवन इंजिनीयरिंग डिग्री दिवपी कॉलेज दिवचले सुरु करपाची येवजण तेन्नाचे शिक्षणमंत्री आणि उद्देजक हरीश झांटये हाणीं केल्ली. सगळ्यांत आदीं खूबळून गेले गोवा इंजिनियरिंग कॉलेजीचे विद्यार्थी. गोयांत त्या काळांत विद्यार्थ्यांचे प्रस्न घेवन ते तडीक लावपी प्रोग्रेसिव्ह स्टुडंट्स युनियन (पीएसयु) आनी ऑल गोवा स्टुडंट्स युनियन (एजीएसयु) ह्यो विद्यार्थी संघटनाय ह्या प्रस्नाचेर सक्रिय जाल्यो. फुडें गोंयचे विद्यार्थी चळवळीच्या इतिहासांत म्हत्त्वाचें अशें कॅपिटेशन फी विरोधी आंदोलन उबें जालें. पूण हाची सुरवात जाली ती एका मोर्चांतल्यान. आझाद मैदानावयल्यान चालू जाल्लो मोर्चा पोरने विधानसभेच्या दारार पावलो. विद्यार्थ्यांच्या शिश्टमंडळान तेन्नाचो मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणे हाका निवेदन दिवपाची मागणी केली. त्यावेळार विद्यार्थ्यांक पुलिसांनी आडायले. कांय विद्यार्थी आनी पुलिस हांचेमदीं लटाफट जाली आनी रमेश लोटलीकार ह्या अधिकाऱ्याच्या फुडारपणाखाल पुलिसांनी विद्यार्थ्यांचेर लाठीमार केलो. हातूंत एडविन फुर्तादो हाची तकली फुटून तो रगतबंबाळ जालो. बऱ्योच विद्यार्थीनीय जखमी जाल्ल्यो आनी मोठो गोंदळ जालो. मोर्च्याचें फुडारपण करपी विद्यार्थी नेते जळामळाक फ़ाफ़सले. ते गडबडींत कासारो मिओ ह्या बारामुखार म्हाका आठ–धा पुलिसांनी मदीं घालो आनी येथीश्ट पेटुंक सुरवात केली. भोंवतणच्या सगळ्या दुकानांनी आनी आस्थापनांनी ते मेरेन आपापलीं शटर्स पुराय वा अर्दी सकयल ओडिल्लीं. तांतल्या कासारो मिओचें शटर उक्तें जालें. एक बायलमनीस धांवत भायर येवन तिणें पुलिसांक आडायले. बेभान जावन लाठीमार करपी पुलिसांच्या लाठ्यांचे कांय धपके तिचेर पडले. पूण ती मदीं पडिल्लयान ते थांबले. म्हज्या हाताक धरून तिणें म्हाका उठयलो. ती बायल आशिल्ली व्हिक्टोरिया फेर्नांडिस, लोकांची मायमोगाची मामी वा मम्मी! ते मेरेन म्हाका बरोच मार बशिल्लो. तिणें म्हाका भितर व्हरून बसयलो आनी म्हजी वासपूस केली. इतले मजगतीं तिचो व्हडलो पूत बेबिश आयलो आनी ताणें म्हाका सोडा दिलो. त्या दिसा व्हिक्टोरिया मदीं पडना जाल्यार म्हजेर जायबंदी जावन हॉस्पिटलांत ॲडमीट जावपाची पाळी येवपाची. हांव थंय कांय वेळ बसलों आनी उपरांत भायर सारून हेर वांगडी खंय आसात तें सोदूंक लागलों. तेमेरेन तेन्नाचो डीवाय एस पी संतोबा देसाय हाणें म्हाका अटक केली आणि पणजे पुलिस ठाण्यार हाडलो. थंय एकेक करून नंदकुमार कामत, महेश सोनक, राजेंद्र पार्से कार, केविन मिनेझिस अशा इकरा जाणांक हाडले आनी आमकां सगळ्यांक लॉकअपांत उडयले. थंय नंदकुमारान सांगलें, 'आमचें डिटेन्शन बेकायदेशीर, देखून आमी उपोषण करून सत्याग्रह करूया.' दोनेक वरां जातकच व्हिक्टोरिया, सतीश सोनक, दिलीप बोरकार, सुश्रुत मार्टिन्स आणि हेर आमच्या खातीर भायल्यान कांय खावपाचे जिन्नस घेवन आयले. पुलिस स्टेशनांत मम्मीचेर रुद्रावतार आयिल्लो. विद्यार्थ्यांक जनावरांवरीं बडयल्लयान तिच्या संतापक ओतो आयिल्लो. तिणें पुराय पुलिस अधिकाऱ्यांचेर बरोच खवलो फाफूडलो. उपरांत आमकां पुलिसांनी सोडले. त्या दिसा पयले फावट हांवे तिका तिडकतना पळयली. हांव सुमार सोळा वर्सांचो आसतना कोंकणी भाशा मंडळाच्या वेलंगां जाल्ले एके कार्यावळींत आमची वळख जाल्ली. उपरांत बरेच फावट भौशीक कार्यावळींनी आमची भेट जाताली

पूण त्या दिसाचें तिचें एक वेगळें रूप पळोवन हांव प्रभावित जालों.

समाजकारण, राजकारण तशेंच भौशीक मळार आपली एक वेगळी वळख दाखोवपी, गोंयच्या इतिहासांतली ती पयली आनी एकलीच 'यंग अँग्री वुमन'. तिच्या सहवासांत आयल्या उपरांत तिच्या व्यक्तिमत्वाचीं कितलीशींच तासां म्हाका दिश्टी पडलीं.

विद्यार्थी चळवळींत सक्रिय आसतना आमच्या सगळ्या प्रस्नांचेर ती आपूण जावन म्हायती घेताली. कोंकणी राज भास आणि गोंय घटक राज्याखातीर जाल्लया ५५५ दिसांच्या १९८५-८७ ह्या काळांतल्या आंदोलना वेळार ती आमच्यावांगडा भार आयिल्लेवरी वावुरली. भौशीक सभांनी केल्लया तिच्या भाशणांनीं लोकांच्या काळजाक ती हात घालताली. कसलोच बौद्धिक बडवाचार नाशिल्लीं उतरां कार्यकर्त्यांक आणि मुखार जमिल्लया लोकांक स्फूर्त हाडटालीं. किरिस्तांव समाजा खातीर कोंकणी चळवळ त्यांच्या दायजाचो वांटो, देखून तांकां समजावपाची व्हडलीशी गरज ना पूण आपल्यो धर्मपरंपरा मराठींतल्यान आशिल्लयान मराठी हीच आपली भास अशें समजूपी आमच्या गोंयकार हिंदू भावंडांक आमी आमचेवटेन हाडूंक जाय. कारण, हें आंदोलन गोंयचो भाशीक, संस्कृतीक, समाजीक आणि राजकी फुडार थारायतलें अशें ती परत परत सांगताली. सांताक्रूझ - मेरशे वाठारांत रावपी हिंदूंच्या घरांक भेट दिवन तांची वासपूस करून तांकां कसलेच त्रास जावंचे न्हय हाची ती जतनाय घेताली. हाकालागून मराठीवादी असो शिक्को मारिल्लीं कुटुंबां आपल्या भुरग्यांक आमचे वांगडा मोर्चा आणि भौशीक सभांक धाडटालीं. लोकांचो चळवळींत कसो आस्पाव करून घेवचो हें तिच्या जनसंघटनेच्या खाशेलपणाक लागून शिकूंक मेळटालें.

१९८०च्या दशकांत पणजेचें 'कॅफे शानभाग' हो समाजीक, राजकी, विद्यार्थी आणि हेर चळवळींतल्या कार्यकर्त्यांचो अड्डो जाल्लो. शानभागाचो पात्रांव वासुदेव शानभाग जनता पक्षाचो वावुरपी. व्हिक्टोरिया, अॅड. फेर्दीन्यु रिबेलो, अॅड. गुरु शिरोडकार हे जनता पक्षाचे फुडारी, सामाजिक मळार वावुरपी मथानी साल्दान्य, दिलीप बोरकार थंय नेमान येवपी. पत्रकार विद्या हेबळे, पी एस यु वावुरपी बेर्नादेत गोमीश, कामगार फुडारी क्रिस्तोफर फोन्सेका, हांचे भायर गोवा कॉलेज ऑफ आर्टचे विली गोयश, सुशांत तारी, टेड मिस्कीता, अपूर्व कुलकर्णी, केरोझीतो डिसूझा, नरेंद्र सिंगपनवार, चारुदत्त प्रभुदेसाय हे तरणाटेय सातत्यान थंय येताले. कितल्याश्याच समाजीक, राजकी प्रस्नांचेर तावातावान भासाभास जाताली. एकदीस अशेच बशिल्लेकडेन सुशांत तारी सामको फुर्योज जावन भितर सरलो. गोवा कॉलेज ऑफ आर्टच्या स्टुडंट्स कौन्सिलाचो चेअरमन म्हूण तो नवोच जिखून आयिल्लो. विरोधी पंगडांतल्या कोणेतरी ताचेर सामकी सकयल्या थरावेल्यान टीका केल्ली. तो सामको पिकार जावन आमकां ती खबर सांगतालो. तो डिस्टर्ब जाला हें कुशीच्या मेजार बशिल्ले मम्मीच्या लक्षांत आयलें. ती आमच्या म्हऱ्यान आयली आणि उलयली, 'टीका जावप ही बेस बरी गजाल. विरोधक तूजेर टीका करतात हाचो अर्थ तांकां तुजी दखल घेवची पडटा. जे काम करतात तांचेरूच टीका जाता. ही एक पॉजिटीव्ह गजाल.' तिच्या त्या उतरांचो परिणाम फक्त सुशांत न्हय तर थंय बशिल्ल्या सगळ्यांचेरूच जालो. टीकाकार कितें उलयतात ताका म्हत्व दिन सताना जिणेंत आपली मोख कितें हाचेर भर दिवन आपलें कार्य करीत रावचें, हो एक मोलादीक विचार मम्मीन आमकां दिलो.




जनते खातीर त्याग आनी संघर्श ह्या दोन तत्वांचेर तिचें समाजकारण आनी राजकारण आदारीत आशिल्लें. डिग्निटी ऑफ लेबर म्हळ्यार श्रमाक प्रतिश्ठा आसप हें निरोगी समाजाचें लक्षण अशीं भाशणां दिवपी कितलेचशेच समाजसेवक आनी फुडारी हांवें पळयल्यात; पूण प्रत्यक्ष आपल्या आचरणांतल्यान समाजा मुखार देख घालून दिवपी भोव थोडे. व्हिक्टोरिया मम्मीचें नांव तातूंत उंचले सुवातेर आसा. नावशी-काक्रा ह्या गांवानी मम्मीबद्दल एक आगळोच आदर पळवंक मेळटालो. हे लोक मम्मीक आपलें दैवत कशें कित्याक मानतात ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका तिचे लागी उलयतना सांपडली. तिका ६० वर्सां जाल्लयाच्या निमतान दिलीप बोरकार हाणें तिचेर एक गौरव ग्रंथ काडपाचें थारायलें. त्या प्रकल्पाच्या पालवी संपादक पदाची जपसालदारकी

**(पान ७९ चेर)**



# आमचो ताती

– आलिया शेख उर्फ गायत्री केळेकार

म्हजे बाबूक पळयतकूच म्हज्या भुरगेपणाची याद जाता, सामकी म्हजी सावळी. ल्हानपणांत आमगेर म्हशी आशिल्ल्यो. आमकां मोनजातीची खूब माया. सुणो जावं, माजर जाव वा गायो, म्हशी. तशेंच म्हज्या पप्पाकूय 'कांसवं' आनी 'डॉबरमेन सुणे ' हांची खूब आवड. पप्पा तर पुराय भारतांत व्हडल्या व्हडल्या 'Dogshow' क सुण्यांक दाखयता आनी ती पप्पांचे नांव वयर काडले बगर घरां येनात. पप्पान तर आमचे आंगणांत कांसव पोसल्यात. व्हड तशें ल्हान. चिमण्योय आसात. आपूण तांचे कडेन उलयता, तितलोच तिडकीन तांका तापयता. म्हज्या, पप्पाचो सभाव सामको 'मायेचो' 'तातो' म्हणल्यार म्हजो आजो. रवींद्र केळेकार कोंकणीत ताका ज्ञानपीठ मेळ्ळा. तशेंच पद्मभूषण बी पुरस्कार मेळ्ळ्यात. तातोक आमच्या शिस्त खूब. जुस्ता जुस्त सगळै जाल्ले जाय. सकाळी 'च्या' आठ वरांचेर जाय. मातसो उशीर जावपाक जायना आसलो. ताका तिडक येताली. तशेंच खंयूय भायर सरपाक जाय जाल्यार तिनांक गाडी आपयल्या आनी तो गाडयेवालो ३.१५ आयल्यार सामको तिडटालो. एकदां तर फोंडेच्या मोटार चालकाक पणजे व्हरपाक आपयल्लो. ताका मात्सो कळाव जालो जाल्यार उठलो आनी बसींतल्यान गेलो. तेन्नाच्यान आमी चालकांक तो वचचो आसल्यार १५ मिनटां पयलीं यो म्हणू सांगताली.

म्हज्या ल्हानपणांत तातो आनी बायन आमची खूब अर्थ-अपुरबाय केल्या. तातोक केन्नाय चलो चली हो भेदभाव नासलो. सगल्यो जाती-धर्म एक म्हणटालो. दर आयतारा तातोक मेळपाक ताचे इश्ट वा हेर लोक येताले. तांका जेवयल्या शिवाय केन्नाच धाडनासलो. तशे लोक आयल्या तांका पावोवंक दारां मेरेन वचपाक तो केन्नाच फाटीफुडे जालोना. कोण येता तांका च्या, जेवण दितालो. आपलें सारकें काम जायना जाल्यार बेश्टोच तापतालो. सकाळ जाली, तातो पेपर वाचतालो. पेपर जर लेट जालो जाल्यार ताका राग येतालो. बायक (घरकान्न) खूब बरे करतालो. जेवतना बऱ्यो गजाली करताली. साहित्यीक गजाली आसताल्याचो चडश्यो.

तातो दिसभर बरयत आसतालो, बायूय ताका वाचून दाखयताले आनी मदीं मदीं आपूणूय ताका मदत करतालें. म्हाका तर कांयच कळना आसले. आमकां कोंकणींत काण्यो सांगतालो. आमी कान लावन आयकतालीं. एकएकदां तातोच्याच खांटीयेर न्हिदताली. तो बरयतां आसतना बोवाळ जावंक जायनासलो. तो आमचेर मातसो धेंगशेतालो. पूण बाय कांय म्हणनासलें. अशें म्हाका दिसतालें की तातो इतलो कितें बरयता? तेन्ना अक्कल नासली म्हाका. हांव म्हज्या इश्टीणींक पसून विचारतालें तुमचे आजे अशें कितें बरयत, आसतात काय? ती म्हणटाली ना म्हणून.

तातो दिल्ली वतालोच. येतना 'सुतरफेणी' हाडटालोच. बरो गोड मिठाय. कृश्णा दीदी म्हण तातोची इश्टीण आसा तिच आमकां कपडे, खेळणी तातो कडच्यान धाडटाली. तातो वतना विमानांत वतालो आनी येतालोय विमानांतूय, आमी वताली हाडपाक आनी पावपाक. तातोचे मात अशे आसले, आपूण घरां आयलो म्हणटकच आमी बेगा कडेन वताली. म्हाका कितें हाडलां ते पळोवंक. पूण तातो मात आमकां बेगाक हात लावूंक दिनासलो. 'राव! राव! राव! म्हणटालो. आमकां सामकी उत्सुकताय आसताली. म्हाका कितें हाडला आसतले म्हजे धाकटे मावशेचे लग्न आशिल्लें तेन्ना तातोन दिल्ली सावन न्हवरो व्हकल (बावलो-बावली) लग्नाचें कपडे घाल्ले हाडिल्ली. म्हज्या मावशेचे शोकेसींत अजून मेरेन आसांत. तशेच तातोचे इश्ट मुंबयच्यान येताले.

जपानच्यान येताले. जपानच्यान येतोलो तो नरेश मंत्री आनी ओकोमोतो म्हणून नरेश मंत्रीक तातो मंत्रीजी म्हणटालो तशी आमीय म्हणटाली तो तर आयिल्ले फावटी बावली हाडटालोच म्हाका. तो दर वर्सां श्रावणांत आमगेर येतालो. चपलां पांयांत घालून घरांत सुर्र सुर्र आवज करत भोवतालो. अजून आवाज म्हज्या कानांत आसां. आमचे बाय तर आमकां सगल्यांक धरून आसताले. जेन्ना 'पेरा' जाताली ते म्हाका आनी दिदिक उणे दिवन तातोवूक दवरात म्हणून बाबूक दितालें. बाबू म्हजो धाकटो भाव. तो म्हजो जीव की प्राण आसलो, पूण देवान ताका आमचे पसून पयस आपणा म्हऱ्यांत व्हेलो बाबूक जेन्ना आई शिकोवंक बसताली आनी तो शिकना म्हण मारलो जाल्यार तातो आपले तकलेर थापटां मारतालो तो किते 'धाव्वेक' आसा अशे म्हणटालो. तातोक घरांत मोठ्यान आवाज केल्लो आवडनासलो. आमचेर तापतालो. तातोची आवय 'बाई' म्हाका खूब बरी करताली. सकाळी फुडे आपणाच्या कदेलार म्हाका बसोवन च्या पिवयताली. बाईच सगळे जेवण बी रांदताली. बाय तातोची मदत करताले. म्हजी आईय तितली रांदूक वचनासली. शेनवारा रातचे नानू- आते (माधवी) आसावरीक घेवन येताले. नानु आते जर आयलोना जाल्यार तातो वयर सकयल जावन परत परत फोन करून आपयतालो. तें आयलें काय आमी सगळीं खोशीं जाताली. येतना आमकां तरा तरांची फळां, जॅली, च्यॉकलेटी हाडटाले. आयतारा साजचे परत मडगांव वतालें, रिक्षेन. पावतकूच landline फोन करताले तेन्ना mobile phone बी चड नासले. फोन करूंक कळाव जाल्यार तातो बायक खूब हुस्को जातालो. सद्दा सांजचो काका येतालो. तातोची भयण सुरुबाय हिचो पूत योगेश. तो आमचो काका. तातोची सगळी कामां काकाच करतालो. ताका केन्नाय बरें म्हणिल्लें आमी आयकलेच ना. सदांच ताका विसरभोळो म्हणटालो. आमका सद्दां वायट दिसतालें. काका इतले करून सुद्धा तातो ताका अशें म्हणटा म्हणून. पूण तातो ताका जिवूच तसो घालतालो. तातो केन्नाय बरो ना जालो जाल्यार काका दोतोर केरकाराक बेगी हाडटालो. दोतोर लागीच शिमेपायणींत रावतालो.





तातोचो इश्ट नागेश करमली येतालो. आमच्या थंय पुलकार समान आसा. ती फुलांचे हार, झेले, फातयो घालून विकतात. म्हाका आनी भयणीकूय रुच येताली.

एकदिस तर आमी दोगांनीय फुलांचे झेले करून नागेशबाबाक विकले. नानू आते आमचे बरे फोटो काडटाले. दोंगरार व्हरून फांद्याचेर बसोवन.

तशेंच दर आयतारा अनील समर्थ म्हण तातोच इश्ट येतालो. तो आयलो काय ताका व्हरून लिंबचे सरबत हांव दिताले. आयिल्लो गेल्लो आमची अपुरबाय करतालो. आमकां मराठी शाळेंत घाल्ली. शाळा आमचेच घरां फाटल्यान आसली. आमकां पावोपाक तर तातो बाय तशेंच कामात आसताली ती गुलाबीची आई येताली.

आमचे घरांत कितल्योश्योच आरमारी भरून पुस्तकां आसात. वेगवेगळ्या भासांची. तातो ती वाचतालो. आजचें घर लोक खूब लक्तुबायेन पळयताले.

पप्पा आमचो चड तातो कडेन मेतेर जायनासलो. कितेंय सांगपाचें आसल्यारूच उलयतालो. सद्दा रातची आठाक आमगेर प्रार्थना आसताली. सर्व धर्म समानतायेची प्रार्थना. तातोक ते वेळार कोण हाशिल्लो, उलयल्लो नाका आसलो. म्हजो भाव तर बेश्टोच म्हाका हासयतालो. पूण तातोक हांवूच हांसता कशे दिसताले आनी म्हाका सांगतालो, मातसो तापयतालो. प्रार्थना करूंक आमी सालांत बसताली. तातो आमचे वांगडा भुरगो जातालो. आमचे बरोबर पत्त्यांनी (card) खेळटालो. आमचे कडेन एके दितालो आनी आपूण बूर्र जातालो.

●●●

# म्हजीं आई-पापा, जिवेंतलें आपलिपा



– दिलीप बोरकार

पणजे-मडगांव राष्ट्रीय महामार्ग १७ चो गोवा वेल्हा बायपास रस्तो. पणजेच्यान मडगांव वा वास्को वता आसतना हो बायपास जंय सोंपता थंय उजवे वटेन पळयत जाल्यार वा मडगांव-वास्कोच्यान जुवारी पूल हुपून पणजे वचपाक बायपास रस्तो घेतल्या बराबर दावे वटेन एक व्हडलें घर दिसता तें 'धर्म-लक्ष्मी'. म्हजे निमतान जे जे कोण ह्या घरांत पावल्यात तांचे पासत ह्या घराक आनीक एक नांव आसा, 'मामालें घर'. आदीं जशे आमी सुटयेंत मामागेर वचून कांय दीस मुदासांव करताले तशें ह्याय घरांत म्हज्या इश्ट-मित्रांनी आपल्या कुटुंबा सयत मुदासावांक येवन रावचें हे पासत हांवें हें येदें व्हडलें घर बांदलां अशें हांवें केन्ना तरी म्हणिल्लें आनी मागीर म्हज्या इश्टांनी ताचो 'मामालें घर' असोच बारसो करून उडयलो. पूण नियतीचो खेळ कोणाकूच कळना. आतां दोन वर्सां सरलीं तातूंत हांवच रावना. तरी लेगीत त्या बायपासांतल्यान जो कोण येता वता तांची नदर त्या घराचेर पडटा, तांच्या दोळ्यांक ठळकपणान दिसता तें 'धर्म-लक्ष्मी' हें त्या घराचें नांव.

'धर्मा' हें म्हज्या बापायचें नांव आनी 'लक्ष्मी' म्हजी आई. दोगांय आतां ह्या संवसारांत नांत. बापायक आमी 'पापा' म्हणटाले आनी आनी आवयक 'आई'. पापान हें धर्मलक्ष्मी घर केन्नाच पळोवंक ना. तशें तें तयार जातलें हाची ताका कल्पना लेगीत ऩाशिल्ली. तो तें बांदचे आदींच गेलो. पूण आईन हांव तें बांदतना पळयलां. तातूंत ती बरींच वर्सां म्हळ्यार सात-आठ वर्सां तरी रावल्या. तिका अर्विल्लूयो सुविदायो भोगूंक मेळ्ळ्यात. पूण ह्या घराक आपलें आनी आपल्या घोवाचें नांव आपलो पूत दिलीप दितलो हाची कल्पना मात तिका केन्ना आयली ना. हांवेंय तिका केन्ना म्हणूंक ना. कित्याक, 'तुज्या मरणा उप्रांत हांव तुजें आनी पापाचें नांव ह्या घराक दितलों' अशें सांगपाचें अशुभ धाडस फकाणांनी लेगीत म्हज्यांत नाशिल्लें. जल्माक येता ताका एक दीस हांगच्यान वचचेंच पडटा हें तत्वगिन्यान जगाक सांगप बरें आसता, पूण आपली आवय एक दीस सोडून वतली ही कल्पना लेगीत करप म्हाका शक्य नाशिल्लें, थंय तुज्या मरणा उपरांत हांव तुजें नांव घराक दितलों अशीं उतरां तोंडांतल्यान येवप शक्य नाशिल्लें. पूण तकलेंत तो विचार आशिल्लो.

पूण आज त्या घराक म्हज्या बापायचें, म्हजे आवयचें नांव हांवें दिलां असो म्हजो जरी समज आसलो तरी तो फकत एक भ्रम.. पोस्टा खातीर तो एक नामो आनी म्हजे खातीर, 'पळय हांवें हें केलें' असो एक इगो. त्या भायर ताका कसलेंच मोल ना. आनी ताका कारण हांव. हांवें थंयच्यान म्हज्या बापायचें अस्तित्व सासणाचें ना केलें. आयज जंय धर्म-लक्ष्मी हो व्हडलो बंगलो आसा ते सुवातेर २००५ वर्सा आदीं 'धर्मुलें घर' आशिल्लें. पुराय गांव त्या घराक वळखतालो तें धर्मुले घर म्हण्णूच. हांवें म्हज्या मोठेपणाक लागून त्या घराची ती वळख पुसून उडयली आनी ताचें पानवळ म्हूण म्हाकाच घरा भायरो जावंचें पडलें. जर तें धर्मुलें घर तशेंच आशिल्लें जाल्यार आयज ह्या धर्मुल्या सगळ्यांत निमण्या पुताक त्या घरांतल्यान भायर सरचें पडचें नाशिल्लें. आयज जाका लोक दिलीप बोरकार म्हूण वळखतात ती अडेची वळख. खरी वळख 'धर्मुलो चेडो' हीच जर उरिल्ली जाल्यार आख्खो गांव म्हाका घरा भायरो जावंक दिवंचो नाआशिल्लो. कित्याक धर्मुल्या घराचीं पाळां मुळां त्या धर्मून पुराय गांवभर पसरायल्लीं आनी त्या मुळांक गांवच्या लोकांनी आपलेपणाच्या पासांनी घट्ट धरून दवरिल्लीं. देखून धर्मुलें, धर्मूगेर, धर्मुलो ह्या नात्याची वीण सामकी घट्ट जायत गेल्ली. आयज धर्म-लक्ष्मी ह्या बंगल्याकडेन गांवचो कोणाचोच तसो आपलेपणाचो संबंध ना. बरेंच व्हडलें जनरेशन गॅप पडलां. म्हज्या बापायक जे कोण धर्मू म्हूण वळखताले तांतलो आतां कोणूच ना. तांच्या भुरग्यांक हें खबर आशिल्लें तीं भुरगीं आतां

(पान ८१ चेर)

# ताजेंच रूप

– रुपाली मावजो किर्तनी

हांव जन्माक आयलें आनी त्याच खिणाक ताज्यांतल्या बापायन जन्म घेतलो. अेके धुवेखातीर ताजो पयलो मोग म्हळ्यार ताजो बापूय, अशें म्हणटात. म्हणटात म्हणून फट न्हय. खरेंच तें. पप्पाचे आचार-विचार, ताजी वागणूक, ताजी शिकवण, सगलेंच म्हाका ताजेवटेन ओडत आयलां. म्हणूनच घडये म्हाका सदांच दिसता की म्हज्या पप्पाची तुलना हांव कोणाच कडेन करूंक शकना. मोग उकतावपाक, 'हांव तुजेर मोग करता' ह्या उतरांची गरज पडना. ते वागणुकेंतल्यानच दिसून येता. पप्पाकडेन तशे पळोवशी जाल्यार उतरांची खाण आसा. पूण आमचेर मोग ताणे उतरांचो आदार घेनासतना ओतलों. ताका घडये ताजी गरज केन्ना लागलीच ना.

कितलेंय पुरो जाल्लें आसूं, ताणे आमकां केन्नाच पयस केली ना. घरांत भितर सरले की तो निट्ट खुट्यालाकडेन वचून आपले खोमीस आनी खोमसा वांगडा तकलेवेले ताण भार त्या खुट्याळाक हुमाळावन हात पांय धुवन येतालो. जेवणा मेजार काण्यो सांगत आमकां लावपाक ताका खुब्ब आवडटाले. ताज्यो काण्यो केन्ना आमचेर आसताल्यो जाल्यार केन्ना आमका जाय तश्यो वळण घेताल्यो. आमका न्हिदोवपाकच ताज्यो काण्यो ताका साथ दिताल्यो. पूण आमी व्हड जाता तशी आमका वाचनाची आवड लागची म्हणून वेगवेगळे तरेन तो आमका प्रोत्साहीत करतालो. पेपर वाचपाक ताका वेळ फावनासलो आनी ताका तो वाचपाचोय आसतालो. दनपाराची अर्देवर जायना, ताका न्हिदय गरजेची आसताली. जाल्यार अशें वेळार तो आमका आपले कुशीक बसून पेपर वाचूंक लायतालो. अेक अट आसताली 'हांव न्हीदसर वाचात.' पयली सगली हॅडलायन. मागीर सविस्तर बातमी, केन्ना तो सांगता ती जाल्यार केन्ना आमकां जाय. ती वाचता वाचता हळूच म्हजो आवाज ल्हव जातालो. पप्पा न्हिदलो काय हाजी वासपूस करपाक हांव थोडो वेळ वाचनास्तना ओगी रावताले आनी न्हिदलो शें दिसलें की कूस मारताले. केन्ना केन्नाय, 'कितें जालें गो, आयकता हांव' अशें कानार पडले की परत एकदा ल्हव जाल्लो आवाज नेटान लागतालो. आज याद काडल्यार



हांसू येता.

खूब कमी दादले हांवे पळयल्यात, जें बायलांच्या नदरेंतल्यान पळयतात. जांका कांय गोष्टी सांगनासतन समजतात. जांका बायलांक मान दिवपाक सांगचे पडना. तातलो ऐंक पप्पा. आमच्या मनांतले ताका समजताले कशें? आमकां सदांच प्रस्न पडटाले. पूण पप्पा आमच्या वागणुकेवेल्यान आमच्या मनांत कितें चल्ला आसतले ते वळखुपाचो यत्न करतालो आनी आमच्या तोंडार हांसो कसो फुलोवचो हें ताका बेस बरें कळटाले. पप्पान केन्नाय आमचेर आवाज चडोंवक ना, ना हात केन्ना उबारलो. ताणे तें मोगान समजावप. इतले सोंपेपणी जाताले की घडये सक्ती करपाची केन्ना गरजच भासली ना. पप्पान आमचेर दुर्लक्ष मात केन्नाच जावंक दिले ना. अेका बापायच्यो सगल्यो लाडणुको पुराय करतना पार पाडटना बाकी कांयच मदीं येवंक दिले ना. जेन्ना जेन्ना गरज भासली पप्पान शक्य तो आदार दिवन वाट दाखयली. ताज्या ह्याच स्वभावान आमकां आडमेळ्यांतल्यान वाट काडपाची शक्त दिली. पावला पावलार पप्पान आमचे बोट धरून वाट दाखयली आनी जेन्ना जेन्ना आमी चुकली, तेन्ना तापयनास्तन

चूक कशी सुधारप तें समजायलें. पप्पाली समजावपाचो तरा तर वेगळीच आसताली. आजय पप्पाची माया तितलीच आनी तशीच आसा आनी आजय पप्पालो आदार जाय तेन्ना मेळटलो हाजी आमकां खात्री आसा.

पप्पा कडल्यान हांव खूब शिकलें. आजय शिकता. कठीण परिस्थितींक तोंड कशें दिवप हें खरेंच पप्पाकडल्यान शिकपा सारकें. पप्पाक पयलो हार्ट अॅटेक आयलो तेन्ना हांव कॉलेजींत आसलें. तेन्नाच्यान पप्पाक मात्शे कित्तेंय जाले जाल्यार आमचो जीव मुठींत येतालो. पूण पप्पान केन्नाच हार मानली ना. येता त्या दुयेंसाक पप्पान तोंड दिलें आनी कशें दिवप हें आमकांय शिकयलें.

पप्पाच्या अॅटेकावेळार हांव गोंया आसले पूण ताज्या फाटल्यान मात दुयेंसा ताजे दार वाजयत रावली आनी पप्पान तांका कशें तरेन दार उघडून तांका तोंड दिले ते हांवे फकत आयकलें. मनात आसूनय हांव कांयच करूंक पावले ना कारण कित्तेंय आसू ना हांव आदार दिवक पावले ना, पप्पा वांगडा त्या वेळार थंय रावंक पावले. कांयच करूंक शकले ना हांव हाजी खंत मात म्हाका सदांच उरतली. कॅन्सरासारक्या दुयेंसा कडेन झुजतना मात ताज्या सकारात्मक वृत्तीन आनी ताज्या आत्मविश्वासान ताजो सांगात सोडलो ना. आनी कोणून जाल्यार कॅन्सराच्या नावानच गळसणटलो आसलो. ह्या दुयेंसाक सोंपेपणान तोंड दिवपी आनी तांतल्यान भायर सरपाची खर इत्साशक्ती घेवन आपल्याचेर उपचार करून घेवपी पप्पाक ताज्या सकारात्मक वृत्तीनय तांतल्यान भायर काडलें. ह्या दुयेंसाकडेन पळोवपाची दुसऱ्यांली नजरय ताणे बदल्ली आनी आपूणय कितेंच करपाक फाटी रावलो ना.



तसो आरोग्याकडेन तो मस्ती करना. दोतोरांकडल्यान बारीकसाणीन सगळें जाणून घेता. दोतोर सांगता ते सारके पाळटा. जे करनाका म्हणला ते करूंक वचना. पंदरा दीस न्हीदून राव म्हणल्यार पंदरा दीस सारके पाळटा आनी सोळाव्या दिसाच्यान मात कोणालेंच आयकना. तेन्ना मागीर सगळे करपाची ताजी तयारी आसता. आपली मोर्नींग वॉक मात केन्नाच चुकयना. पावस पूं, शीं पडूं, 'walk is a Must'. हाली हाली तर वॉक करपाक वतना वाट भर प्लास्टीक पडिल्ले आसल्यार पुंजायत वता. पर्यावरण दुबीत जाता ते आडावंकच जाय, ह्या मताचो पप्पा, हात न्ही जाल्यार बोट तरी लावन आपले वतीन पर्यावरण दुषीत जावचे न्ही हाजे यत्न करता. 'थेंब थेंब करून तळे सांचता.' अशें फक्त मानीना, ते थेंब थेंब अेकठांय करपाक आपल्याच्यान कितें जाता तितलेंय करपाचो यत्न करता पप्पा. खरेंच ताजेकडेन शिकचे तितले उणेंच.

आपल्या तत्वांकडेन पप्पान केन्नाच तडजोड केली ना. तो दुसऱ्यांक धीर दीत रावता आनी आपलोय धीर केन्ना सोडना. स्वताक मुखार करप, स्वता विशीं उलोवप, जोडिल्ल्या नावाचो फायदो घेवप, हे मात ताज्या तत्त्वांनी बसना.

एके चलयेच्या आयुष्यांतलो पयलो दादलो म्हळ्या ताजो बापूय. ही देवाची देणगी प्रत्येकाक जाय तशीच मेळटली अशे ना. म्हाका मात कितलेंशेच पटीन चड मेळ्ळी पप्पालो स्वभाव सहसा सगळ्यांचो नासता. आनी ताजे गूण कोणांतय दिसले जाल्यार म्हजें मन नकळत ताजेकडेन ओडटा. पप्पाल्या मोगाक आनी मायेक कोणाचीच सर ना. ल्हान पणांतल्यो खूब यादीं आसात, नात ते ते दीस त्या दिसांचे म्हत्व म्हाका आता कळटा. दर मनशांत अेंक खाशेलेंपण आसताच. वायट गूण पळयनासतना, खाशेले पण सोदून काडून तोखणांय कशी करप हें पप्पान शिकयलें. मनशांमदी भेद केन्ना करचो न्ही. बरो मनीस, वायट मनीस अशें नासता. मुखावेलो मनीस कसो हें कळटकच ताज्या प्रत्येक वागणूकेंत अर्थ सापडटा. तो कसो आनी कित्याक वागलो ह्या प्रस्नाची जाप मेळटकच ताजे कडेन पळोवपाची नदर आपले आपूण बदलता. ह्या पप्पाल्या शिकवणिचो म्हाका आजूनय उपेग जाता आनी हांव ताकाच लागून मुखावेल्या मनशाक समजून घेवपाचो पुराय यत्न करता. आपल्या भोंवतणचो वाठारा कश्या नदरेन पळोवप हें आपल्याच हातांत आसता ही पप्पाली शीकवण हांव केन्नाच विसरूंक शकचेना. म्हज्या भोंवतणचो वाठार सोबीत जाय जाल्यार हांवे तो सोबीत दवरूंक जाय आनी सोबीत आसा अशेंच समजून तो आपले भोंवतणी रंगोवक जाय. अेखाद्या मनशाचो रांग आयलो वा अेखादो मनीस आवडना अशें म्हणले जाल्यार पप्पान अेंकच सांगले, 'त्या मनशाच्या जाग्यार स्वताक दवरून पळयात. ताका समजुपाचो यत्न करात. आपले खंय चुकला जाल्यार पळयात आनी मागीरच कितें तें थारायात.

(पान ८५ चेर)



# शब्दरूपी सावळी...

–योगिनी आचार्य



बाबा... खंयच्याय भुरग्यान उच्चारिल्ले पयले उतर. आई म्हणचे पयली भुरगें बाबा म्हणपाक शिकता. निकतेच उलोंवक शिकतल्या भुरग्याक बाबा म्हणप सोपे जाता आसत म्हणून घडये आई पयली बाबा येता. 'बाबा' म्हळ्ळे काय कितल्योश्योच प्रतिमा उब्यो रावतात. एके वाटेन तोपावपी बापूय, हें कित्याक करूंक ना, ते तशें कित्याक केलेना म्हणपी बाबा. जाल्यार दुसरे वटेन चल तूका पायसेक व्हरता आनी पासयेक वता वता जिणेची कठीण केन्नाच सुटची ना असी कुवाडी सुटावी करता.

हांव जेन्ना बाबा म्हणटा तेन्ना म्हज्या दोळ्या मुखार टेबल लॅम्पाच्या उजवाडांत शब्दसागरात बुडिल्ली व्यक्ती एका हातान च्याचे कप आनी फांतोडेच्या त्या किण्ण शांततेन संथ गतीन पाना परतुपाचो आवाज अशें येता. पुस्तकां उतरां, शब्द हीच ताची वळख. कागदार देविल्ली उतरां आनी थीर मनान आपल्या मोतयां सारख्या अक्षरांन दर एक पान भरपी मनीस... हीच म्हज्या बाबाची वळख.

पयलें खेपे, तुजे नांव कितें? असो प्रस्न म्हाका कोणे केल्लो तेन्ना हांवे कितें जाप दिल्ली ती याद जायना . पूण व्हड जाता तशे जाणवपाक लागले कि म्हजें नांव आनी आडनांवाच्या मदीं जे नांव आसा ताचे वजन खूब, अश्या ह्या वजनदार नांवाचो वापर करपाक हांव कांय वेळा कांचवेंता. धडये म्हजो बाबाच हाचे खातीर जापसालदार ताचे कारण अशें... म्हजो बाबा आनी सगळ्या कोंकणी समाजांत कवी माधव बोरकार म्हणून वळखूपी मनीस खुब स्वाभिमानी. दर एकट्यान आपल्या बळग्यार आपली वळख घडोवपी अशें तो मानपी हें म्हजें स्पश्ट मत. ताणे म्हाका हें केन्नाच सांगूकना. पूण ताच्या दर एका वागण्या वयल्यान म्हाका चांटेपावलाक जाणवता. देखून घडये तांणी कवी बाकीबाब बोरकार हें आमचे दायजी अशें सांगून आपली वळख कोणाक करून दिल्ली म्हाका केन्नाच याद जायना.

ताचे जाले अशें, रागिणी पुंडलीक हांणी बरयिल्ले 'अश्वीन एक विलापिका' हें पुस्तक म्हाका बाबान वाचूंक दिलें. हे पुस्तक मराठी साहित्यांतले जेश्ट साहित्यीक विद्याधर पुंडलीक हांच्या जिणेची आपल्या हुशार आनी वयात आयिल्ल्या चल्याच्याअकाली मरणा कडेन केल्ल्या झुजाची काणी. अश्वीना विशयी बरयताना रागिणीबाय म्हण्टात, आश्वीन सदांच म्हणटालो दर एका मनशान आपली वळख घडोवपाक जाय. अश्वीन पुंडलीक म्हण वळख वेगळी आनी अश्वीन विद्याधर पुंडलीक ही वळख वेगळी. म्हाका जायते खेपे दिसता नकळत बाबान हो विचार म्हजें भितर रूजयलो. तेन्नाच्यान हांव म्हजे नाव फक्त योगिनी बोरकार अशेंच सांगपाक लागले. ही वळख सांगतकर माधव बोरकार तुजे कोण अशें विचारतकर तें म्हजे बाबा अशें सांगतान खूब अभिमान दिसता.

कवी माधव बोरकार आनी बाबा माधव बोरकार हांचें मदीं फरक करप खूब कठीण. ज्या दिसाच्यान बाबा कडेन म्हजी वळख जाल्या तेन्नाच्यान हांवें ताका पुस्तकां बरोवप, वाचप, आनी मन भरून एकाद्र्या विशयाचेर उलयताना पळयलां. पुस्तकां आनी बरोवप बाबाच्या अस्तित्वाचो अविभाज्य भाग.

हांव ल्हान आसताना आमी मुंबय रावताली. गोरेगांव हांगा एका ल्हानश्या जाग्यार आई बाबा आनी हांव रावताली. सांज जाली काय आई बाबा ऑफिसांतल्यान येताली. आमी रावताली थंयच्यान रेल्वे स्टेशन खूब लागी आशिल्ले. कितलेंय पुरो जांव, बाबा म्हाका पासयेक व्हरतालो. गोरेगांव रेल्वे स्टेशनार रेल्वे पुला पोंदा बोकड्यो आसताल्यो. म्हाका बोकड्यो पळोंवक खूब आवडाटाले. त्यो ताणे दाखोवप. केन्ना चलत तर केन्ना हांडीर धरून म्हाका ताणे व्हरप. आमी कितें उलयताली म्हाका याद ना. पूण हांव सांज जावपाची वाट पळयताले हे मात सामके याद आसा.

म्हाका काणी सांगून न्हिदोवपाचो काम बाबाचे आशिल्ले जांवये. आई सांगता हांव ल्हान आसताना न्हीदपाक खूब त्रास करताले. बाबान म्हाका घेवन पासयो लेगीत मारल्यात खंय. मातशे व्हड जातकर बाबा म्हाका काणी सांगताना म्हणटालो, 'जाणा मुगो, जाणा मगो आनी अचळय माथ्यावयल्यान हात भोंवडायतालो आनी हांव केन्ना न्हिदून पडटाले ते कळच नाशिल्ले.

भाशा आनी म्हजी वळख जावपाची काणी लेगीत आई आनी बाबा बरोबर जोडिल्ली आसा. आई सांगताली तूं ल्हान आसताना तुजे कडेन खंयचे भाशेन उलोवप हाचेर चर्चा जाली. आमी तेन्ना

मुंबय रावताली. ताका लागून मराठी आनी हिंदीचे वारें चड आशिल्ले. शाळा इंग्लिश मिडीयम ताका लागून शाळेंत इंग्लिश. तेन्ना अशे थारले की आईन म्हजे कडेन मराठींत उलोवप आनी बाबान कोंकणीत. - बाबा मानतालो, भुरगीं स्पंजावरी आसतात. भाशा सोंपेपणी आत्मासात करतात. तसें जालेंय बी. हांव स वर्सांचे आसताना म्हाका कोंकणी, मराठी, हिंदी आनी इंग्लिश भाशा समजताल्यो आनी उलोंवक लेगीत येताल्यो.

हांव पांचवेक आसताना हांवे एक कविता बरयल्ली. पूण शाळेच्या वर्सूंकी अंकां ती आनी कोणाच्या नावान छापून आयली. म्हाक खूब वायट दिशिल्ले. तेन्ना बाबान म्हाका समजायले, अश्यो गजाली घडटात म्हणून बरोवक सोडूंक फावना. तेन्नाच्यान लेखन, बरोवप हें निश्टेश करप आसता ही भावना रुजली आनी ताची जाण आजून लेगीत आसा. जेन्ना सूचता तेन्नाच बरयता. कविता वा कथा पाडपाक जमचना आनी आवडयना. हे बाबा कडल्यान ताका पळयत शिकत गेले.

तूंवे अशें करप, तशें वाचप, तशें बरोवप हें म्हाका ताणे एक कवी आनी बापूय म्हणून केननाच सांगले ना. तूका जे दिसता तें वाच, जे बरयन दिसता तेंच बरय असे तो म्हणटा. हें चूक ते बरोबर अशें आसना, दर एकटो आपल्या बुद्धीक जशें पट्टा तशें बरयता अशें बाबा मानपी हें ताच्या वागण्या वेल्यान दिसता.

बाबा कडेन खंयच्याय गजाली खातीर चड हट्ट केल्ल्याची म्हाका याद जायना. दोन हट्ट केल्ले मात याद जातात. एकदा हांवे सायकल मागिल्ली आनी दुसरे खेपे अजीत तेंडूलकरान बरयल्ले 'मेकिंग अप ऑफ अ क्रिकेटर' हे सचीन तेंडुलकाराल्या जिणेर बरयल्ले पुस्तक. सायकल मागले उपरांत ती रोकडीच घेवन दिवपाक बाबा कडेन पयशे नाशिल्ले. पूण जेन्ना ताका साहित्य अकादमीचे कसलो तरी पयशे आयले तेन्ना ताणे म्हाका सायकल घेतली.

पुस्तकाविशी बाबा सांगता, तो जेन्ना मुंबयच्या एका बुकशॉपार गेल्लो तेन्ना ताणे तें पुस्तक पळयलें. ही गजाल सादारण १९९८ वर्साची. पुस्तकाचे मॉल तेन्ना ५०० रुपया आशिल्ले. बाबान ते पुस्तक मागतकर दुकानदारान अजापान पळयले.

बाबान म्हजेर खंयचेय एक साहित्य प्रकार वाचपाचे बंधन केन्ना घाले ना. कविताच वाच, कथाच वाच अशें केन्ना सांगले ना. तशेंच विशयाचे बंधन घाले ना. देखून बाबान म्हाका सचिन तेंडुलकराचे पुस्तक वा मंगेश पाडगांवकराच्यो कविता वाचूंक दिता आसतानाच चंद्रकांत कुलकर्णी सारक्या आयपीएस अधिकाऱ्यान गुन्यावकाऱ्यांचेर बरयल्ले मागोवा पुस्तक वाचूंक दिले. वाचनांत विशयांची विविधताय आसची हें बाब, कडल्यानूच शिकला. चाकोरी भायर विचार करपाचे बळगें अश्याच तरेच्या वाचनान आयले अशें म्हाका दिसता.

म्हज्या व्यक्तिमत्वाक एक वेगळे तांस बाबाक लागून पडलें. वा अशे म्हणया वेगळो विचार हांव तांका लागून करूंक शिकले. २०११ वर्सा बाबान सडा बंदखणींत आशिल्ल्या गुन्यावा खातीर ख्यास्त भोगपी मनशांनी केल्ल्या कलाकृतींचे प्रदर्शन पळयलें. पळोवन तो घरा आयलो आनी म्हाका थंय व्हेले. त्या दिसाच्यान एक नवो विचार म्हजे भितर रुजलो आनी बंदखणींत ख्यास्त भोगपी कैद्यांचे अंतरंग जाणून घेवपाची उमळशीक लागली. सर्वसादारणपणान सूसंस्कृत समाजांत रावपी व्यक्ती आनी तातूंत एक बायल जेन्ना अशें करपाचो विचार करता तेन्ना सहजा सहजी ही गजाल घटप कठीण पूण बाबान केन्नाच म्हाका आडायले ना.




बाबान म्हाका कितें दिले वा हांव बाबा कडल्यान कितें शिकले हे सांगप खूब कठीण? जाग अंकाखातीर हो लेख बरयतना यादिंचो आल्बम चाळप जाले. बाबांची वेगवेगळी रुपां नदरे मुखार आयली. म्होवाळ , ध्यानस्त, चुकून राग आयिल्लो बाबा वा केन्ना तरी चिंतेस्त; पूण निर्शेल्लो बाबा केन्नाच दोळ्या मुखार येना. जिणेची अस्कळीत वाट चलता चलता आयिल्ल्या दर एका प्रसंगाक तोंड दित तो मुखार वचत आयला आनी आयज लेगीत वता. मल्टीपल मायकोमाचे निदान जालें तेन्ना दोतोराक ताणे तोंडार हासो हाडून म्हळे Doctor I have taken it in right spirit हिंदूजा हॉस्पीटलाच्या त्या कुडीत बाबा आपल्या अक्षर साधनेत बुडिल्लो घडये अक्षरांनी ताका ती धीटाय आनी थाकाय दिली.

नोकरी करताना वा भायर भोंवताना जावपी त्रासांक लागून बाबाचो स्वभावा केनाच कोडू जालो ना. ताकाच लागून बाबाची वळख नव्या बरोवप्यांक उर्बा दिवपी, मन भरून दाद दिवपी हीच आसा. म्हज्ये खातीर बाबा म्हळ्यार खळखळणी झरो... आपल्या संपर्कान आयिल्ल्या दर एका मनशाक आनंद दिवपी. म्हज्या बाबाक आकड्यांचो व्यवहार कळना हाची ताका खंत जाता पूण शांतादुर्गेचेर आशिल्याक भावार्थाक लागून जिणेंत आयिल्ल्या दरेक प्रसंगाक ताणे तोंड दिलें.

बाबाविशीं कितें आनी कितलें बरोवपाचे हें कळना. म्हाका इतलेंच खबर आसा, 'हो म्हजो बाबा म्हळ्यार सावळी जी सतत म्हज्या सांगतान उरतली... शब्दरूपान..'

●●●



# म्हजी भयण जयमाला

– सुधा खरंगटे

जागाखातीर 'जयमाला दणायताचेर' एक लेख बरोवन धाड असो तांचेकडल्यान फोन आयलो आनी दोळ्यांसामकार जयमालाचे एक – एक रूप यादींतल्यान भायर सरपाक लागले... ताचो जल्म धरून आतांमेरेनचें...

जांबावलीसारख्या खेड्यांतलीं भुरगीं आमी. आमकां चारय भयणींक खेळपाखातीर देवान ही धाकटुली सुंदरशी बावली धाडल्या... अशें किदेंशें तें जन्मतकच आमकां दिसलें...

हरशीं आमच्या सगळ्या भावंडांमदीं देड – दोन वर्सांचे अंतर. निमाणें हें चली जालें तें पुष्पाफाटल्यान पांच वर्षांनी. तेन्ना भाऊ – आमचो व्हडलो भाव टायफॉइड जावन चड बरो नासलो... सामको मरणांतल्या उठिल्लो. गावांत सगळ्यांनी म्हळ्ळें – चलयेचो पायगुण बरो... ताणे जय घेतलो... शाळेंत गेल्लेकडेन बाईन म्हळ्ळें – 'आयज बारसो मगो? नावां सोदतात न्ही!' भाऊ बरो जालो मगो. चलयेन जय घेतलो... खूब नांवां आसात पळय... 'जयंती' आसा. 'विजया' आसा...' बाई नांवां सांगत रावली...

– पूण बाईन सांगिल्ली नांवां थंयच उरलीं. केशोवबाप्पा (भेंब्रो) घरांत भीतर सरलो तो म्हणूंक लागलो – 'जयमाला' नांव दवरात. जाले. केशोवबाप्पान सांगतकच ताचेर आनी कोणाले उत्तर आसा? पाळण्यांत 'जयमाला' नांव दवरलें.

– पूण नांवांतले 'माला' थंयच उरलें. तें सगळ्यांच्या अपुरबायेचे 'जय'जालें. मातशें उलोंवक शिकतकच तेंय बी कोणेय 'नाव किदें गो बाय तुजें?' असे विचारल्यास हांसत 'जय' म्हणून सांगूंक लागलें.

सदाच हांसरें, कसल्याय कामाक 'खुकुंक' करून हांसपी. नाजूक इल्लीशी बावली कशी. पूण केंस मात मोव रस्मी आनी लांब... आतीबायगेर 'गुलाब'म्हणून बेळगांवचें एक सोयरें येतालें; ताणे म्हणप – 'कशी ग कृष्णासारखी गोड दिसते बघ...'

आमी मागीर नेटान आमगेलो तो कृष्ण हांडीर मारून ओर्रान सगळ्या वाडोभर मिरवप...

– जयमाला ल्हान आससर ते खेळणें आमकां खूब तेंपमेरेन उपकरलें. ताका खेळोवपाचें नांव करून आमी खेळप. तीनसांज जाली तसो भायर दुकानार पेट्रोमॅक्स पेटतालो. घरांत पेट्रोलाच्यो चिमण्यो, पापयांव आनी देवाकडेन दिवली. त्या मंद उजवाडांत आमचो ल्हिपचेल्यांनी खेळ चलतालो. दारां फाटल्यान, खाटींपोंदा, सालांत भरिल्ले गंवांचे – तांदळांचे साक उबे आसताले तांच्या खांचींनी...

जयमालाक हांडीर घेऊन ल्हिपपाखातीर लडामुडी जाताल्यो. हांव पयलीं घेतलें ताका – तू मागीर घे... सगलीं लिपून जालीं, कोण सांपडना जाल्यार 'म्हार' जालां ताणे 'जय खुकुंक' म्हळ्यार पुरो, आसा थयच्यान जयान 'खुकुंक' करून हांसप. जयाक हांडीर घेतिल्ले मनीस सोपेपणी सांपडप. मागीर मात – चल गो, तूं धर आतां... तुझी पाळी... अशी झगडी जावप... मेळून किदें? सगळी मज्जाच!!

शाळेंत वचूंक लागतकच मात खेळाची गोडी कमी आनी वाचनाचें 'चट' लागलें ताका. भाऊ शेनवाराक घरा येतालो. येतना जयाक चॉकलेट हाडतालोच! एक दीस जयान ताका सांगलें – भाऊ, म्हाका चॉकलेट नाका. म्हाका मरे काणयांचे पुस्तक हाड. तेन्नाच्यान भाऊ ल्हान – ल्हान काणयांचीं पुस्तकां हाडूंक लागलो... छान छान गोष्टी, चिवचिव राजा, हुशार कासव असली... मागीर साने गुरुजींच्या गोड – गोड गोष्टींचे सगळे भाग.... श्यामची आई... जयाबरोबर आमकांय बी वाचपाक मेळप. हरशींय जाल्यार आईभशेन आमकां सगळ्या भावंडांक वाचपाचें पिशें. मागीर तें अमकेंच पुस्तक जाय... अमकोच लेखक जाय अशें नाशिल्लेच.... बाबुराव अर्नाळकर, मधुकर अर्नाळकर हांचे

ते 'झुंजार', 'काळा पहाड' असले नायक वाचपाक मज्जा येताली.

जांबावले शाळेंन प्रभाकर भेंब्रे मास्तर आनी विजया जांबावलीकर बाई... दोगांच्याय अपुरबायेची ही विद्यार्थिनी सवीपास जातकच सातवेक मडगावां 'महिला व नूतन मराठी विद्यालयांत' पावलें. भाऊ तेन्ना माजोड्ड्या रावतालो. आमी – हांव, पुष्पा आनी जयमाला भाऊम्हऱ्यांक रावपाक गेलीं. शिकपाक ट्रेनीर माजोर्डे च्यान मडगावां वचूंक लागलीं. माजोर्डेच्या त्या राबित्यांत जयमालाक अपुरबाय करपी खूब मेळले. स्व. भौ. शंभुबाब कीर्तनी ताका खूब तोखेताले. रिझल्ट जालो की ताणी विचारप – 'धाकल्या, नंबर कितलो गो?' जयान 'पयलो नंबर' म्हणून सांगतांखिणी बोल्सांतल्यान खणखणीत रुपयो काढून ताका बक्षीस दिवप. अशे कितलेशेच रुपये जयान शंभुबाबाकडच्यान जमयिल्ले.

सुटयेच्या दीसांनी, आयताराक बी आमी मावज्यागेर वतालीं. जयान भाईच्या आईम्हऱ्यांत वचून बसप. खलबत्यांत तिचो विडो कुटून दिवप... एक दीस तांच्या चिकूच्या झाडार चडून पिकिल्ले चिकू सोदपी जयमालाक भाईन 'कोण तें चिकू चोरता?' म्हणून दटायलें. तें इतलें भिलें की धांवत वचून आईच्या फाटल्यान ल्हिपलें. मागीर आईन सांगलें – 'आगो, तो भाई मगो. कांय करना तो तुका... भाव तो तुजो...' भाईची आनी ताची ही पयली वळख. तेन्नाच्यान भाईचेंय तें अपुरबायचें 'जय' जालें.

मडगावां स्कूलांत शिक्षक मेळले ते व्हड योग्यतेचे आनी उत्तेजन दिवपी. स्व. भौ. घाटे सर, स्व. भौ. माधव पंडित सर, स्व. भौ. चंद्रकांत केरकर सर, भौ.नाईक सर, भौ. लीलाबाई कीर्तनी... त्या त्या विशयांत बरे बरे शिक्षक नशिबान मेळतात. त्या शालेय शिक्षणांतच ताच्या कोंकणी बरपाचें मुळावण पडलें. दर वर्सा शाळेच्या स्नेहसंमेलनांत जयमालाचें एक कोंकणी आपड उलोवप (मोनोलोग) आसतालोच!

चौगुले कॉलेजींत आसतना ताचें कथालेखन सुरू जालें. राष्ट्रमत दिसाळें मराठींत येताले. पूण आयताराक कोंकणी पुरवणी येताली. दिवाळी अंकाची कथा स्पर्धा आसताली. 'कवासो' ही कथा बरोवन ताणे स्पर्धेक धाडली. पयल्या – वयल्या कथेक बक्षीस! तो दीस सामको याद उरपारखो... दिवाळेचो.

जांबावले दिवाळेक एक रीत... घराकडे दिवे दाखोवन, फोव खावन जाले तशे गांवांतल्या सगळ्यांनी श्री दामोदराच्या देवळांत जमप. सगळ्यांनी एक जावन देवाची भेट घेवप... मागीर एकमेकांक दिवाळेचीं परबीं दिवप... जाण्टयांच्या पांयां पडप... आरती जातकच देवाले हरीजागराचे फोव खावन मागीर घरा जेवपाक वचप...

त्या दिवाळेक स्व. केशोवबाप्पाबरोबर देवळांत भौ. गुरूनाथबाब केळेकार आयिल्ले. ताणीच जयमालाक तुज्या कथेक पयलें बक्षीस मेळ्ळां ते सांगलें. कथेची तोखणाय केली. केशोवबाप्पान मागीर जयाक चौकार बशिल्ल्या सगळ्या जाण्टयांक पायां पडूंक लायिले... लेखनाच्या सुर्वेकच गांवच्या सगळ्या जाण्टयांचे आशिर्वाद जयमालाक मेळ्ळें.

ताचेनंतर राष्ट्रमताचेर आशिल्या स्पर्धेत 'सोर्त' ह्या एकांकिकेक पयलें बक्षीस फावो जालें.

बी. ए. जातकच मडगवां 'बँक ऑफ इंडियांन' जयमालाची नोकरी सुरू जाली. तेन्नाच ताणे 'अशी पांखरे येती' ही सुंदर मराठी कथा बरयली. स्पर्धेक ह्या कथेकय पयलें बक्षीस मेळ्ळें. ताचेनंतर ताचो एक – एक कथा सुनापरान्त, बिम्ब, जाग, चित्रंगी, कोकण टाइम्स... अशा म्हयनाळ्यांनी – दिवाळी अंकांनी प्रसिद्धीक आयल्यो.



नावेलकर भावोजीन म्हळ्ळें – 'आता तुजो कथासंग्रह येंवक जाय.' पुष्पान आनी भावोजीन फाटल्यान लागून 'कवासो' हो ताचो पयलो कथासंग्रह छापून घेतलो. ह्या पुस्तकाक कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार फावो जालो.

बालसाहित्याच्या मळार त्या काळांत जयमालाचीं जायतीं पुस्तकां आयलीं. 'देव आनी दानव', 'इंद्र धनु', 'म्हातारी बुद्द' अशे भुरग्यांखातीरचे ल्हान – ल्हान कथासंग्रह प्रसिद्ध जाले. 'फुकटांत भोंवडी' हो इंग्लीश कथेचो अणकार प्रसिद्ध झालो. 'सप्तक' हो भुरग्यांखातीर बरयिल्ल्या सात एकांकिकांचो संग्रह. पुस्तकांतली एक – एक एकांकी बरोवन तें पुष्पाक – भयणीक – स्टेजीर सादर करपाक दितालें. पुष्पा जांबावले स्कूलांत टीचर. त्या वेळावेळी एक खबर बरयन दिसता...

जयमाला आंगलोहान सदांच बारीक, शिडशिडीत. केंस मात लांबचे लांब धोंपरासकयल पोवट्यांक तेंकपी. आईन सदांच खेद काडप. म्हणप – हाची सगली शक्त केंसांक वता... देखून तें मोठें जांवक पावना. पुष्पाटीचरीक स्कूलाच्या वार्षिक स्नेहसंमेलनाक जयानच बरोवर दिल्ली एकांकीका स्टेजीर हाडपाची आसली. तातूंत भट्ट जाल्लो ताका शेंडी लावपाक, दुसऱ्या एका पात्राक खाडमिशो लावपाक केंसच मेळ्ळे नात. जयमाला न्हिदिल्लेकडेन पळोवन ताका आयडिया आयली. आनी ताणे कातर घेवन जयाच्या त्या लांबचे लांब केसांचो वेंतभर कुडको कापलो. नाटकाखातीर व्हडली शेंडी, खाड, मिशो सगळें तय्यार...!!

**(पान ८७ चेर)**

# नातें सासवाचें

–संपदा कुंकळकार



मम्मीच्या 'कन्या दान' ह्या कथा संग्रहातली एक कथा वाचून म्हाका अजाप जालें. त्या कथेंत आवय–बापूय चलयेचेर दुर्लक्ष करतात. मम्मा एक लेखिका म्हूण लेगीत अशा आवयचें चित्रण कशें करपाक शकता हाजे म्हाका अजाप दिशिल्लें. लेखन जरी सर्जनशील प्रक्रिया आसली तरी तिज्या कल्पनेंत अशी आवय कशीं उबी जाली हाजें म्हाका आजूय अजाप दिसता. कारण मम्मी एक खुब प्रोटेक्टिव्ह आवय सदांच जागरूक आसता. तिच्या व्यक्तिमत्वाक खूब तांसा आसात, पूण तिज्यातली आवय ही सगळ्यांत वरचड. मम्मी म्हाका कळपाक लागिल्ली.

एक आवय म्हूण तिणें बारीक लक्ष आसता. ह्या वर्सा एका पुस्तकाचो अणकार करतालें. एक म्हयनो भर वाचपाक पुस्तक हातांत घेवंक नाशिल्लें. 'तूंवे खूब दीस कांयचं वाचूंक ना', अशें म्हणून मम्मान जाणीव करून दिली.

आपलीं भुरगीं खंय आसात, कितें करतात हें सगळें तिका खबर आसपाक जाय. आमीं खंय वतां, कोणा बरोबर वता. केन्ना परत येतलीं हें सगळें तिका कळपाकूच जाय. तिका सगळें सांगपाची आमकां दोगांयकूय सवय जाल्या. म्हजी भयण समृद्धी आता लग्न जाला. पूण आजूनूय ते आपलो दिनक्रम, दिसातल्यो सगल्यो घडामोडी सगळें मम्माक फॉनार सांगता. रातचें घरां उसरां पावतकच, घरां पावलें म्हूण फॉन करता. चूकून एक दीस सकाळी मम्मान ताका उसरा फॉन केलो जाल्यार तें रोखडेच शीण काडटा.

मम्मा खंय गोंयच्या भायर लेगीत वचूं, किमान दोन फॉन तरी ती करताच. भुरग्यांकडेन उलोवंक ना असो एक्कूय दीस आसचो ना. म्हाका दिसता आवय भुरग्याच्या जिवितात जी रुची दाखयता तें भुरग्याकूय आवडटा. शिस्त लागपाक मात्सो धाक गरजेचो.

तशे पळोवपाक गेल्यार तीं चार–चवगां सारखीच आवय. तिजी भुरगी म्हळ्यार तिजें सर्वस्व. तिका हुस्को जाता. भुरग्यान बरें दिसचें, फुडे वचचें असें तिका दिसता. आता तर म्हजें लग्न आजून थरना म्हूण हुस्को जाता. पूण कांय बाबतीत ती सामकी वेगळी. चूक जाली जाल्यार रोखडीच दाखोवन दितली. चड तोखणाय करीना. तिजी शिस्त खूब कडक. घरांत कांय कामां वाटून घाल्या ती करपाकूच जाय. बरोवप आनी वाचन, तशेंच घरची कामां कशी केन्ना करप तें मात हावें Adjust करप. चुकून सुद्दा एक दीस पयली भायर वतना घाल्लें कपडे तिका खाटीर बी दिसपाक जायना. तिका नितळसाण अतिप्रिय. टापटिपपणा आनी निवळसाण हो गूण तिका म्हजी आज्जी आनी तिजी आवय, सं. सीताबाय प्रभू हिजे कडल्यान आयला मम्मी पयलीच्या तेपार तिजेर खुब टिका जाली. पूण त्या टिकेविशी आज तिका विचारल्यार तीं म्हणटां, तेन्ना ह्या क्षेत्रांत नवें आशिल्लें, रोखडेच मनाक लागतालें. पूण आता आपूण उज्यांतल्यान आयल्या. वोत लागना.

अशी घडपांत तिजी आवय-बापूय, स. सुभा प्रभू आनी सं. सीताबाय प्रभू हांचो खूब व्हड वांटो आसा. तीं दोंगाय मुक्त आनी उदार विचारांची आशिल्ली. चलो, चली हो भेदभाव नाशिल्लो. चलयेन शिक्षण घेवचें, तशेंच तिज्या बाकिच्या कलागुणांक वाव मेळचो अशें तांचें मत आशिल्लें. मम्मा ल्हानपणासावन रंगमाचयेर, नाटकांत काम करतालीं.

लग्नां उपरांतूय बी मांय-माव स. नरशिंव शेणवी कुंकळकार आनी सं. ललिताबाय शेणवी कुंकळकार हीय बी मुक्त स्वभावाचीच आशिल्ली.

दोगांयकूय वाचपाची खूब आवड आशिल्ली. देवस्थानाची नाटकां जाताली तेन्ना आज्यान मम्माक नाटकांत काम कर म्हूण सांगलें. आपली सून जेन्ना माचयेर चडटली तेन्ना गांवातल्यो चलयों, सूनो माचयेर चडटल्यो असो ताजें मत आशिल्लें. तिज्या आवडीक, कलेक तांचें सदाच उत्तेजन आसतालें.

तिज्या ल्हानपणांत तिजेर प्रभाव घालपी आनी एक व्यक्ति म्हळ्यार स्वातंत्र झुजारी स. मोहन रानडे. पुर्तुगालच्यान सुटून जेन्ना तें भारतात आयलें तेन्ना तें रायबंदरा रावतालें. मम्मी रावताली त्या घराचें भागीलदार उगडलें म्हणटकच मोहन



मम्मा खूब प्रसिद्ध व्यक्तिमत्व. दुरदर्शनाखातीर तीं घरां-घरांत पावली. तिकाय प्रसिद्धी आवडटा. दिसाळ्यातल्यान ही प्रसिद्धी वाडत गेली. अर्थात प्रसिद्धी ही केन्नाय बरींच. तिच्या प्रसिद्धीचो सगळ्यांत व्हड फायदो म्हळ्यार दोतोरांची Appointment मेळप. ज्या दोतोराची वेळ सहजा मेळना तांची वेळ लेगीत तिका मेळटा. सगळे दोतोर तिका खूब मानतात. आतां हे सगळ्यांक कळिल्ल्यान घरचीं, सोयरी, शेजारी लेगीत तिजें कडेन येतात. केन्ना-केन्ना लग्न-समारंबाक गेल्लेकडेन रांगेत राविल्लेकडेन न्हवरो वा व्हकलेचे सोयरें येवन रोखडेच मुखार व्हरतात. म्हाका मात तशें रांग सोडून फुडे वचपाक आवडना.

काकाचें फुडलें दार दिसतालें. मम्मीक पुस्तकां वाचपाची गोडी तांणींच लायली. तिका वक्तृत्व स्पर्धांनी भाग घेवपाक प्रेरीत केली. तें भाशणांय बरोवन दितालें. तांचें मम्मी आनी म्हजो मामा श्री. वामन प्रभू हांचें कडेन जें नातें आशिल्लें तें निमणें मेरेन उरलें. मोहन काका वचचें एक आठवडो पयलीं वामन मामा तांकां मेळपाक पुण्या गेल्लो. तेन्ना तें मम्माकडेन फॉनर उलयल्लें.

पाचवेक पावतकच आमकां कोंकणी कांय मराटी विशय हाजी निवड करपाक सांगिल्ली. तेन्ना आपली मांयभास शिकपाक जाय हें खबर नाशिल्लें. चडश्या भुरग्यांनी मराठी घेतली म्हूण हावेंय बी मराठी घेतली. घरा येतकचं जेन्ना हें मम्मीक कळ्ळें तेन्ना तिणें कोंकणी घेवपाकूच जाय म्हूण सांगलें. तेन्ना त्या निवडिचें व्हडलेंशें म्हत्व कळ्ळे ना. धावेक पावता म्हणसर म्हाका १०० रातलें ९० वयर गुण मेळटालें. मुळांत जांचें धडे शिकलें, कविता शिकल्यो त्या सगळ्यांक हांवें ल्हान पणासावन पळयल्लें.

ल्हानपणासावन कोंकणीच्या म्हालगड्यांक, लेखकांक पळोवपाचे भाग्य मेळ्ळें. कोंकणीचें स्वतंत्र अशें एक विश्व आसा. ताजी वळख म्हाका ल्हानपणात जाली. हेमाबाय नायक, पुंडलिकबाब नायक हांचे कडल्यान हांव खूब शिकलां. हेमाबायच्या हातचे जेवलां. स. एम. बॉयर, स. चंद्रकांत केणी हांका खूब लागीच्यान पळयला. उदबाब भेंब्रें हांकाय लागीच्यान पळयलां. सं. रवीन्द्रबाबागेर तर खूब फावट पांवलां. रवीन्द्रबाबा बरोबर तांगेर जेवण घेवपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें. ती याद आजून ताजी आसा. ताणें महत्व आज कळटा.

मम्मी बरोबर हांव जायत्या पुस्तक प्रकाशनांक वताले. पुस्तकांचें विश्व म्हाका आवडटा. मम्मान म्हजीं आवड पळोवन म्हाका वाचपाक प्रोत्साहन दिलें.

म्हज्या ल्हान पणान 'राजहंस' नावाचों भुरग्यांखातीर अंक येतालो. मम्मा तो अंक म्हाका नेमान हाडटाली. तिणें सगळें अंक बायंडीग करून घेतले. तें आयजूय म्हजेकडेन आसात.

मम्मीन कोंकणीच्या ५ म्हालगड्यांचेर माहितीपट करपाखातीर शुटींग सुरु केल्ले. हांव तिका मदत करपाक वताले. स. रवीन्द्रबाब केळेकार, सं. मनोहरराय सरदेसाय, सं. चंद्रकांत केणी, दामोदरबाब मावजो आनी पुंडलिकबाब नायक हांचेर माहितीपट करपाच्या हेतून तें शूटिंग केल्लें. ह्या शुटींगाच्या वेळाल हांव खूब शिकलें.

माहितीपट करप हो सामको वेगळो आनी कठिण प्रकार. माहितीपटांत जें सत्य आसा तेंच दाखोवचें पडटा. तें खातीर अभ्यासूय खूब करचो पडटा. मम्मान जेन्ना कोंकणीच्या ५ म्हालगड्यांचेर माहितीपटाखातीर शूटींग करपाचें थारयलें, तेन्ना दर एकल्याची वेगळी फायल तयार केल्ली. तांचें फोटो एकठांय करप, सगळीं पुस्तकां एकठांय करप. साहित्य परत

(पान ८९ चेर)



# उत्साही आनी आनंदी

– स्नेहा वेरेंकार-मुरकुटे

अन्याया विरोधान सदांच आवाज उठोवपी निर्भिड असो कवी, लेखक आनी पत्रकार म्हणून जाची वळख आसा, तो म्हळ्यार संजीव वेरेंकार. तरातरांचे प्रस्न विचारपी असो हो कवी मनाचो पत्रकार!

ताच्या प्रस्नातूच जाप आसता, पूण तेच तर ताच्या प्रस्नांचे खाशेलेपण! कोणेय कितलेय प्रस्न विचारवं दी पूण संजीवान मात प्रस्न करचो न्हय अशे म्हणपी जायते राजकारणी आसात, अशे तागेले पत्रकार इश्ट केन्नाय आमका सांगतात. खूब कमी उतरांनी तो प्रस्न विचारता आनी फुडल्याक मोनोच जावचो पडटा. कांय जाणांक संजीव खूब आवडटा, तर कांय जाणांक मात्तूय आवडना, कांय जाणांक ताचो भय दिसता, तर कांय जाणांक आदर!

लेखकांमदी आपली एक आगळी वेगळी वळख घडयिल्लो, नव्या विशयांक अचळय हाताळपी, सोपे सुटसुटीत बरोवपी एक बुदवंत लेखक म्हळ्यार संजीव वेरेंकार, हे हांव म्हजो बापूय म्हणून न्हय जाल्यार ताच्या दर साहित्यकृतीचो वाचक म्हणून मानता.

खरें म्हळ्यार म्हाका जेन्नाच्यान समजूपाक लागलें, तेन्नाच्यान आतांमेरेन ताचे दरेका साहित्यकृतीचें पयले वाचक हांव! तो कितेंय बरयले उपरांत सगळ्यात आदी म्हाका वाचून दाखयता. आनी केन्ना – केन्ना म्हजे ताकीप्रमाण हांव ताका खंयचीच ओळ काड वा घाल म्हणटा. ताका पटले जाल्यार, म्हजें सजॅशन तो स्वता कसलोच इगो बाळगिनासताना वापराता. ल्हान भुरग्यांकडल्यानूय खुबशे शिकू येता, हाचे जिते -जिवें उदारण हांवे तो म्हजे कितेंय सजॅशन वापरता तेन्ना म्हाका पळोवपाक मेळ्ळा. तो जसो उलयता, तसोच तो जगता, खांवचे दांत वेगळे आनी दाखोवपाचे वेगळे, अशी पध्दत ताच्यात मुळांतूच ना !

खुबदा भुरगी सोशल मिडियाचेर फादर्स डे दिसा वा बापायल्या वाडदिसाक परबीं दिवपी पोस्ट घालून, चार ओळी बरयतात, चडशे फावट, My father is my hero!, I love my father!, My father is the best! असले पोस्टस चड कॉमनली पळोवपाक मेळटात. हे सगळे कितले खरें आनी फट, वा ही भुरगी घरांत आवाय – बापायकडेन कितली बरी वागतात, वा ती फॅशन जाल्या काय? हें म्हाका खबर ना, पूण म्हाका निश्चितूच ह्या गजालींची संवय ना ! घरांतल्या मनशांकडेन मन मेकळेपणान

भावना व्यक्त करप, हाकाय हांव चड म्हत्व दिता. म्हज्या पापाक कितेंय सांगतना तें आनी शंभर देडशीं लोकांकूय कळचें अशे म्हाका मातूसय दिसना आनी पापाकूय ते आवडना हें म्हाका बेस बरें खबर आसा. आनी घडये म्हज्या पापाचेर बरयतलें जाल्यार तें सोशल मिडियाचेर फक्त चार ओळी बरोवन म्हजें समाधानूय जावचेंना, म्हणूनूच हांव तसलें केन्ना करिना, अशेंय म्हणू येता.

पापा विशीं सांगपा सारक्यो खुबश्यो गजाली आसात. ल्हान आसतनाच्यानूच हांवे पापाचो वेगळो सभाव पळयला, घरांत तो सगळ्यां परस वेगळो, भुरग्यांबरोबर भुरगो जाता. ताच्या तिगूय भावामंदी तो धाकलो, देखून एकवेळ ताच्यांतली भुरगेपणा अजूनूय जिती आसात, अशे आसू येता.

म्हजी आजी सांगताली, ल्हान आसतना कसलेंय गोडशें केले, जाल्यार ताका खंय ते सगळ्यांत पयली खावपाक दिवपाक जाय आशिल्ले, तेंय बी वाट्येन न्हय तर 'तोंपान'. अजूनूय घरान कसलोय नवो पदार्थ केलो वा ताचे आवडिचे कितेंय केले जाल्यार, कशें जालां ते पळोवया अशें म्हणत म्हणत तोच पयली रुच पळयता !

चॉकलेट, तींय बी 'कॅडबरी' ताचे आवडिची आनी ताचेय परस चड आवडिचे म्हणटा ते आयसक्रिम. कोणाकूय दिसतले की आवडिचे म्हणटकर चॉकलेट तो घरा विकतें बी हाडून खाता आसतलो म्हण, ती ताका संवय ना. पूण भुरग्यांक म्हणून जर कोणेंय चॉकलेट हाडिल्ली आसत जाल्यार मात सगळ्यांत पयली आपूण ती खावन पळयता. आयस्क्रीम तर जितले चड म्हारग तितलें ताचे आवडीचे. खंयचोय नवो आयस्क्रीम पार्लर उक्तो जाल्यार, थंय वचसर ताका थारो नासता.

केन्ना केना आमचे पयली तो आपून तें खावन येता.

आमी ल्हान आनी तो व्हड अशे ताणे आमका केन्ना जाणवूंकूच दिवंकना. म्हजें आनी ताचेंय नाते सदांच इश्टागतीचे. बापूय – धूव असली 'वेवस्ता' आमच्यांत ना, देखून ताचेय केन्नाय किते चुकलें जाल्यार हांव ताका सरळ सांगता आनी तोय केन्नाय म्हजो 'सल्लो' घेता. मोठेपण वा 'इगो' हाचो ताका स्पर्शूच जावंक ना. खरें म्हळ्यार ताच्या ह्या सबावाचो आमकां घरांत खूप फायदो जाला. चड बंधनांनी दवरिल्ली भुरगींच चड इबाडटात वा वायट संगतीत पडटात अशें तो मानता, देखून म्हाका आनी म्हजे भयणीक समिधाक ताणे सदांच सगळे तरेचो फ्रिडम दिलां. ताचो आमचेवेलो विश्वास पळोवनूच आमी अजून मेरेन केन्नाय ताका आवडना अशे कांयच करूंक ना, अशें म्हाका दिसता. आपल्या भुरग्यांचेर ताचो अखंड विश्वास आसा, आपणे दिल्ल्या संस्काराची तांक ताका खबर आसा, देखून आमकांय केन्नाच ताका कसलीच गजाल सांगपाक भंय दिसना.

फ्रेंडांबरोबर भोवपाक वतना, पिच्चराक, जेवपाक वतना आमी खंय वतली, कोण कोण वतली इतले ताका सांगल्यार पूरो, वचूं नाका अशे उतर ताचेकडल्यान आमी केन्नाच आयकूंक ना. फक्त खंय वता ते सारके सांगून वचपाक जाय इतलीच ताची अपेक्षां शाळेंत वा कॉलेजींत आसताना केन्नाय हांव पापाकडेन पयशे मागतालें. खरे म्हळ्यार हांव मातशे, पयशे सांबाळून दवरप्यांमदलें. ओगीच खंयूय पयशे मोडपाची म्हाका संवय ना. काटू न्हय, पूण नस्तो खर्च करप म्हाका आवडना आनी पयशे गरज थंयच मोडप ही म्हजी सवय! पूण पापाक मात मन मेकळेपणान पयशे बी मोडपाक जाय. चितूंन मोडप्यामदलो तो न्हय, देखून जेन्ना हांव ताचेकडेन केन्नाय पयशे मागताले तेन्ना ताणे केन्नाच म्हाका कित्याक जाय असो प्रस्न केल्लो म्हाका याद ना.




बाकीची भुरगी सदांच सांगताली घराकडे पयशे मागप म्हळ्यार टॅन्शन! घरा हजार प्रस्न करताली!

म्हजें मात उरफाटे, हांव पापाक फकाणांनी म्हणटालें, विचार तरी मरे, कित्याक जाय ते. तांणे विचाल्लेना तरी हांव आपून जावन ताका कारणसांगतालेंच ती गजाल वेळी! पूण 'मनी मॅनेजमेंट' करचें जाल्यार ते म्हजेकडल्यानूच शिकचे अशे ताचें अजूनमेरेन मत! आनी तशे तो तोमणेय केन्नाय म्हाका मारताच!

पापा काटू न्हय आनी कामा पुरती मामा न्हय हाचे एक उदारण दिवपाचे म्हळ्यार हांवे ल्हान आसतनाच्यानूच आमगेर कामाक राविल्ल्यो वावराड्यो पळयल्यात. कांय कारणांक लागून जर ती कांय दिस कामाक आयली नात जाल्यार केन्नाच तांका उणो पगार दिवप अशे आमगेर घडूंक ना. घरांतल्या बायलांमदी असले चडशे शिजता, कामाक आयलींना, पुराय पगार कित्याक दिवप? पूण पापा ह्या विशयाचेर घरच्यांकडे लेगीत झगडटालो, पूण वावराड्याचो पगार उणो केल्लो ताका मान्य ना. तो सदांच आमकां सांगत आयला, जसो आपूण खंय तरी नोकरेक आसा तशीच तीय आमगेर. देखून तांका बरी वागोवप अशी ताची सगळ्या घरच्याकडल्यान अपेक्षा. एकदा तरं वावराडेक जेवपाक मेजार बसयनासताना सकयल बसयल्या म्हणून

(पान ९० चेर)

# कांय नातीं पुस्तकांचीं...



– युगांक नायक

**दर एके व्यक्तीच्या जिवितांत तो पावंडो येता ज्या वेळार भुरगेंपण सरता आनी तरणाटेपणाच्या हुंबऱ्यार आसतना ताच्या मनांत साबार प्रस्न उबे जातात. ह्याच वेळार भुरग्याक एकलो रावन दिसता. ताका काळो रंग आवडपाक लागता. तो कॉलेजींत वता खरो पूण तो सभोंवतालचो वांठार पळोवन उंचबळीत जाता. शिक्षक प्राध्यापकांक अशे प्रस्न विचारता ज्या प्रस्नांक जापोच आसना. हो काळ खूब म्हत्वाचो आसता कारण ह्याच काळांत भुरगो एका वेगळ्या जगांत पावल दवरता. ताका निर्णय घेवपाचें स्वातंत्र्य आवडपाक लागता. हो काळ त्या भुरग्याची वैचारीक बसका घडयता.**

पुणेच्या गजबजिल्ल्या शाराच्या काळजांत आशिल्ली एस.पी. कॉलेज, ते कॉलेजिच्यो इतिहासीक इमारती, त्या इमारतींत विभाग, वण्टीचेर केल्ली मोकाट ग्रॅफीटी, उतरांनी भरिल्ले गज्ज पोस्टर. दर एका कोनशाक त्या इतिहासाची अनुभूती गावची असो कॅम्पस. घरा सावन पयस त्या वाचनालयाच्या आरमारींत. आरमारी इतल्यो उंच, थंय पावपाक निसण वापरची पडटा. आजून मेरेन आसलीं वाचनालयां फक्त हैरी पॉटराच्या फिल्मांनीच पळयल्लीं. तरातरांची पुस्तकां. जगाच्यो साबार फीलोजोफी आनी आयडोलोजींचो कीस काडपी पुस्तकां. असल्या अनंत विश्वांत हांव पावलों. एक–एक आरमार नदरेंत घालीत गेलों. सगळ्यांत पयलीं सापडलो खलील जीब्रान, थोड्या वेळान गोर्की, उपरांत तोलस्तोय, काफ्का, एरीक फ्रॉम, कार्ल मार्क्स, गांधी आनी अशीं कितलींशीच नांवा पुस्तकांचे दोडीचेर वाचलीं. हीं नावां भुरगेपणांतल्यान कानार पडटालीं. भुरगीं हीं तुमगेर जल्माक आयल्यां खरीं पूण तांचें स्वतंत्र अस्तित्व आसा अशें खलील जिब्रान म्हण्टा अशें मम्मा सांगताली. त्या चौफेर वाचनालयांत 'खलील जिब्रान' उतर वाचनाफुडें याद जावपाक लागली. कार्ल मार्क्स हें नांव फक्त आयकल्लें. ताच्या नावान इतलीं पुस्तकां आनी मार्क्सवादाचेर इतलीं पुस्तकां आसात म्हणपाचें पयले खेप समजलें.

आनी इतल्या व्हडल्या जगांत म्हाका थोडेंतरी खबर आसा म्हणपाचें अणभवलें. त्या पुस्तकाच्या रॅकांमदल्यान भोंवतना उचंबळून घरा फॉन करून 'मम्मा तुका खबर आसा हांगा खलील जिब्रानाची कितलीं पुस्तकां आसात? गोर्कीचेर बरयिल्ले कितलें कितें आसा?' पिरायेच्या त्या पावंड्यार जंय एकलेंपण प्रिय दिसपाक लागता त्या काळांत भुरग्याचेर आदीं जाल्ले संस्कार आनी परिणाम ताजी फुडली वाट थारयता. समाजाकडेन पळोवपाची नदर विकसीत करता. त्या मुक्त मळबांत झोपय मारतना त्या नात्यांचे मयपास आनी ओडीची जाणींव जाता.

ल्हान आसतना पुस्तकी अभ्यास समजनाशिल्लो. मुळाव्या शाळेंत आसतना पाडे सोडून आनी कितें पाठ आशिल्याची याद जायना. देखून शाळेंत वतना सदांच रड. एकूय दीस प्रसन्नतायेन शाळेंत गेलो, थंय कितें शिकलो तें लक्षांत गेलें अशें एकूय दीस जावंक ना. तिसरेक आसतना गणिताच्या विशयांत शून्य पडलो. बाकीच्या भुरग्यां मदीं म्हाका लज जाली. रडत आनी हुंडके काडीत घरा पावलों. परिक्षेंत नापास बी जाल्यार भुरग्यांक कितलें कितें आयकूचें पडटालें, हांव तर हे परिस्थीतीच्या दोन पावलां फुडेंच आशिल्लो. घरा पवून हावें हुंडके काडून परिक्षेची गजाल सांगली जाल्यार मम्मा आनी पप्पा म्हाका कोण तापयना, वयल्यान सांगता सोडून दी रे. फुडल्या फावट सारकें बरय. घडये तांकां तेन्नाच खबर आशिल्लें आपल्या वांट्याक आयिल्लें हे रत्न क्लासरूमांत तिगचें ना, ताका जाय तसो वाडूं दी, म्हण उपदेश करून कांय फायदो ना. शाळेंत आसतना अभ्यास समजना म्हण मास्तर वर्गा भायर घालताले आनी कॉलेजांत पावतकच, 'एक तर तूं प्रस्न विचार नाजाल्यार आपल्याक शिकोवपाक दी' अशें सागून प्राध्यापक भायर घालताले. अध्ययनांत सगळ्यांत यादीन कोरांतपाचो वेळ म्हल्यार हांव सळगांवकार कायदो महाविद्यालयांत शिकयतालो. कशे वाद

चालप ह्या प्रशिक्षणांतल्यानूच हे विद्यार्थी घडटात. जे पद्दतीन ते प्रोफेसरांकडे वाद घालतात, तांचे भितर म्हाकं हांव दिसतालों. शाळा ते पी.एचडी. मेरेन् म्हज्या पालकांनी केन्नाच अभ्यासा खातीर म्हजेर ताण हाडिल्लयाची म्हाका याद जायना. शालेय शिक्षण आनी ज्ञान हातूंत ताणी सरळ फरक केल्लो. गणितांत लागपी पाडे, मुळावें फिजीक्स ह्यो मुळाव्यो गजाली ताणी म्हाका शिकयल्यो. शाळेंत कितले गुण गावता वा तुजो वर्गांत कितलो नंबर येता तें तांकां पडून गेल्लें नाशिल्लें. तूं कितें शिकता, नोकरी कर, इतलो पगार मेळपाक जाय हाजेर चर्चा केल्ली म्हाका याद जायना. पूण तांकां सदांच एक दिसतालें थोडो तेंप तरी हावें गोयां भायर रावून शिकपाक जाय. घरा सावन पयस वचपाक जाय, वेगळ्या लोकां भितर रावपाक जाय आनी तो अणभव आत्मसाद करपाक जाय. कॉलेजींत पॉलीटीकल सायन्स आनी सेंटर फॉर लॅटीन अमेरीकन स्टडीजांत इंटरनॅशनल रिलेशन्साच्या रँकराचे वळेरेंत म्हजें नांव वण्टीर कोरांतलां तें पळोवन आयजूय म्हाका शाळेचो तो दीस याद जाता. ती गणिताची परिक्षा, तातूंत उदेल्लो तो शून्य, ती रड, ते हुंडके आनी मम्मा-पप्पान तापोवपाचें सोडून समजायल्लयाची देख.

जिवीताच्या दर एके गजालीचें मुल्यांकन जावपाक जाय. आनी जिणेचीं साबार तत्वज्ञानां ह्या मुल्यांकनाचेर आदारीत आसा. तुमी मुल्य कशें थारायता. गांधी, मार्क्स, एडम स्मिथ, कांट, जीवीताची खंयचीय फीलोसोफी मुल्यावेवस्थेचेर आदारीत आसता. आमच्या घरांत साबार पुस्तकांची रास तशेच पुरस्कार, भोवमानां वेळार दिल्लया दिवली, यादस्तीकांचीय रास. पूण हाचे परसय घरांत नवें हाडिल्लें पुस्तक हाचेर पयली कोण सायन मारतलो हाजेर वाद. उपरांत म्हज्या संदर्भाचें पुस्तक तुज्या मेजार कशें होच आमच्या घरांत वादाचो विशय. म्हाका शाळेचो एकूच बरो खीण याद जाता तो म्हाका खंयच्या तरी सरस्वती पुजनाक प्रस्नमंजूशा सर्तींत एक इनाम गावलें. बरी ती आलीमेन्ची शिल्ड आशिल्ली. घरांत आदींच साहित्य अकादेमीचे वट्ट तीन पुरस्कार, राज्य पुरस्कार, संगीत नाटक अकादेमी पुरस्कार आनी अशा कितल्याशाच पुरस्काराच्या यादस्तीकां भितर तो ल्हान सो शिल्ड शेणत आशिल्लो. कितलो तेंप तो हांव सोदता. एक दीस अशीच नदर मोस्कीटो कोयलाच्या स्टेंडार गेली जाल्यार कितलीशींच वर्सां तो शिल्ड मोस्कीटो कॉयल लावपाक घरांतले दोन साहित्यीक ताचो वापर करताले.

बाल साहित्य हो खुब मोठो तसो क्लीश्ट विशय. भुरग्यांच्या हातांत कितें वाचपाक दिवप हो खूब कठीण आनी जटील प्रस्न. म्हजे पालक हे बाबतींत खुब सतर्क आशिल्ले. बोध बी दिवप हें ताच्या विचारांक पटनाशिल्लें. मनशान मनशाच्या पायां बी पडप नासता देखून वाकून नमस्कार करपा हो संस्कार ताणीं दिलो ना. देखून पुण्याक केन्नाय इश्टाच्या घरा गेलो जाल्यार तांच्या पालकांक वाकून नमस्कार करप जमलें ना, ते आमगेर आयल्यार तशे करताले. देखून तांका हांव असंस्कारी बी दिसलां आसूंये. घराचे माळयेचेर एक कॅसेटींचे रॅक आशिल्लें. छान छान गोश्टी ही काणयांची माळ पुराय त्या रॅकांत आशिल्ली. इंटरनॅट वा ऑनलायन शोपींगाच्या आदलो हो काळ. पप्पा मुंबय वा पुण्यांक गेलो जाल्यार छान छान गोश्टींचो नवो सॅट दर फावटीं विसरनासताना हाडटालो. खंयच्या खेळण्या परस हे फावटीं कसली कॅसेट हाडल्या ताचेर लक्ष आसतालें. साने गुरूजीचें साहित्य कांय पिराये मेरेन तरी म्हज्या हातांत पडूंक ना. कारण अती भावनीक दुबळेंपण येवपाक जायना असो म्हज्या पालकांचो विचार. शाळे मेरेन राजहंस नित्य नेमान येतालो आनी ताचो संच करून दवरील्लो. म्हज्या स्कुलांतलो इश्ट यशवंत भांडारी हाचेकडेन ताचो पुराय संच आजून आसा. म्हज्या संचा भितर कांय प्रती आसच्यो नात पूण ताचेकडेन त्यो ज्युस्त आसतल्यो.




शाळेंत वा स्कुलांत मम्मा-पप्पान येवप म्हाका केन्नाच माननाशिल्लें, म्हणून तीं पालक-शिक्षक बसका तें गॅदरींगाक सुद्दां ये नाशिल्ली. तीं शाळेंत येतकच सगळो फोकस तांचेर वातालो आनी तें म्हाका आवडनाशिल्लें. पुण्यांक एडमीशनाच्या वेळार दर कॉलेजीचे गेटी मुखार कट ऑफ लीस्ट लागपाची वेळ पळयत हांवें आनी मम्मान केन्ना एखाद्या सोपणांचेर तर केन्ना फुटपाथार बसून वरांची वरां कडल्यात. तेन्ना समजलें हें जग खूब व्हड आसा, त्या जगांत तग मारतलो जाल्यार ह्या जगाचे नेम शिकपाक जाय.

जो मेरेन विद्वत्तेक उच्च शिक्षणाची पात्रताय गावना तो मेरेन तुज्या विचारांचो प्रभाव सभोवतणी पडना. ते खातीर पुराय शालेय जीवनांत सरासरीचो आशिल्लो हांव पीएचडी मेरेन वाटचाल करपाक पावलों. आपल्या विचारांक विधायकता दितलो जाल्यार शिक्षणां बगर पर्याय ना हें समजलें.

जिवीतांतली चडशीं नातीं पुस्ताकांतल्यानूच विणल्यांत. जिवीताच्या

**(पान ९२ चेर)**



# बाप्पुडू

– हर्ष श्रीधर कामत

ऑगस्ट म्हयन्याची गजाल. एक दीस सांजचो जागांतल्यान फोन आयलो. जागाचो दिवाळी अंक येता, श्रीधराचेर बरय. हांवें हय म्हणलें खरें पूण प्रत्येक फावटी बरोवपाचो प्रयत्न करतना एक एक याद येवन दोळ्यांत दुकां येतालीं. तीन–चार वेळा अशें जालें. पंचमी दिसा जागांतल्यान सकाळी फुडें परतो फोन. म्हाका चुकलो आनी म्हाका कळ्ळें ताणें कित्याक फोन केल्लो तो. दीस भर हांवें चिंतलें. सांजचो फोन करून तांका सांगलें, म्हजे कडेन जावचे ना. दोन दिसांनी तांचो मम्माक फोन. हर्शाक सांग बरय म्हूण. तिणें सांगलें बी. आनी हांव परतो मुंबय आयलों.

आयची गजाल, (१९.०२.२०१९). दनपारचो असोच एक विचार आयलो तकलेंत. बरोवया.

बाप्पुडू. हें एक नांव अशें न्ही. तें एक ती एक संस्था. जे लोक ताका लागींच्यान वळखताले ते सुध्दा ताका बाप्पुडूच म्हणटाले. जगाखातीर तो सामको हॅप्पी गो लकी. ताका एकूच अशी गजाल करप आवडना आशिल्लें.

सिवील इंजिनियरींग केल्लो मनीस, एक कॉर्पोरेट कम्पनींत काम करतालो, जाचो धर्म समाजसेवा आशिल्लो, जाणें इतलीं नाटकां बरयिल्लीं, हॉटेल मॅनेजमेण्टचो इल्लो सुध्दा धडो नासतना पोर्तुगालाक एक हॉटेल चलयिल्लें आनी आपली वळख विचारल्यार तो कवी म्हूण सांगतालो.

बाप्पुडूचें आनी म्हजें नातें बापूय आनी चल्याच्या नात्या परस चड – एक फ्रॅण्डांचें आशिल्लें. ताचे कडेन हांव कितेंय उलोवपाक शकतालों आनी तो म्हाका त्यो गजाली, उपायूय आपले भशेन सांगतालो.

पोर्तुगालाक आसतना रातचे आमी सदांच बरोबर गोंयच्यो बातम्यो पळयताले. मागीर ताचेर बाचाबाची करप. तो म्हजें मत विचारतालो, मागीर आपलें मत सांगतालो. गोंय हें ताचे खातीर सगळ्यांत चड म्हत्वाचें आशिल्लें. दिदी आनी हांव हेंच जाणून व्हड जाल्यांत. बाप्पुडूच्या शेवटच्या दिसांनी तो खुबदां म्हणटालो, गोंयांत जें चल्लां तें पळोवन म्हाका खूब वायट दिसता... आनी हांव ताचे खातीर कांय करपाक शकना... तांक ना म्हज्यांत आनीक.

बाप्पुडू बद्दल बरोवप हें म्हज्या कोंतान सामकें कठीण. कित्या बद्दल बरोवप? गोंयचे संबंदांतल्या ताच्या कार्या विशीं? कोंकणीच्या कार्या विशीं? ताचे कविते विशीं? ताच्या नाटकाचेर बरोवप? काय तो आपल्या इश्टांचेर जीव सोडटालो ताचेर? काय घरच्यां कडल्या ताच्या संबंदांचेर?

एक एक गजाल बरोवपाक गेल्यार सोपना... तरी...

म्हज्या भुरगेपणांत हांव म्हणटालों खंय बाप्पुडू स्वातंत्र्य सैनीक. घडये गोंयच्या स्वातंत्र्या खातीर तो झगडूंक ना पूण गोंयकारा खातीर झगडला. रातपाळयो मारून, न्हिदनासतना.

पयली याद जाता ती गोंय हितराखण मंचाची. मागीर जावं तो काळो रंग वा सालेली क्रशराचेर गेल्लो पंगड. मागीर याद जाता ती गोवा बचाव आंदोलनाची. ज्या दिसा राणे सरकारान रिजनल प्लान २०११ स्क्रॅप केल्लो त्या दिसा सांजचो तो खूब खूश आशिल्लो. मम्माक सांगपाक लागलो, मम्मा, सरकार भिलो आमकां. I am a strong man.

ताच्या उतरांनी तो सामको शक्तिमान आशिल्लो. कोणाक भियेनाशिल्लो. तेंच घडये म्हाका आयलां. आपल्या मनांत कितें आसा तें सांगून मेकळो. आनी ताचेर धीट रावतालो. मागीर तें जावं झथअत्त आसतना, कोंकणी भाशा मंडळांत आसतना, वा जावं रवीन्द्र भवनांत आसतना. तो कोणाक भियेलो ना.

कोंकणी खातीर मोग घडये गोंयच्या मोगा खातीरूच वाडलो. पयलीं ताच्या कवितांनी, मागीर ताच्या नाटकांनी. चडश्यो ताच्यो कविता सैमाचेर. Romancing with the nature. आमी घरा सदांच बाप्पुडूक सांगतालीं एक पुस्तक काड रे तुजें. ताचेर ताणें म्हणप, मम्मा तो म्हजो रिटायरमेण्ट




प्लॅन. पाइड्यां (आमचो मूळ गांव) एक घर बांदपाचें, धाकटें शें. थंय रावुंया मागीर. चडश्यो कविता रातच्यो बरोवप. मागीर आमकां सगळ्यांक उठोवन वाचून दाखोवप आनी म्हणप, The best poetry ever written.

मॅगीक एक दोन-तीन फोन आसताले. मेहता काका (शैलेन्द्र), महेन्द्र अंकल (काकुले) हांकां. हे फोन पोर्तुगालाक आसतनाय जाताले. वेळ-काळ पळयनासतना फोन लावप आनी म्हणप, Let me disturb you with world's best poetry.

हांवें बाप्पुडूचीं नाटकां चड पळोवंक नात. हांव जाल्ल्याक ताणें नाटकां बसोवंक नात, बरोवंक नात. पूण थियेटर ताचे खातीर एक जगूच आशिल्लें. आनी लायटीचें गिन्यान ताका आकांत आशिल्लें. फोटोग्राफी बद्दल आमी खूब उलयताले आनी तेन्ना षीराळपस, श्रळसहींळपस ह्या विशयाचेर तो खूब उलयतालो. हाचो म्हाका खूब आदार जातालो. केन्नाय चिंत्तालों हांव, केन्नाच ताणें फोटोग्राफी करूंक ना, कशें खबर ताका हें सगळें? जाप आशिल्ली - नाटकां. नाटकांनी वेगळे वेगळे प्रयत्न केल्ले ताका खूब आवडटाले. संगितांनीय बी. खंयचेंय गीत बरयतना, ताचो ताल सारको बसपाक जाय हाचें गिन्यान ताका चड बरें आशिल्लें. ताल बसना जाल्यार तो भायर सरून एक ॉपिव मारून येतालो. मागीर करप करेक्शनां. खूब पदां अशींच जाल्यांत.

ताचे इश्ट म्हणजे ताचो जीव. राजू मामा, सांबरी मामा. तांचेर कविताय आसात.

कॉलेजींत आसतना महेन्द्र अंकल, उदय काका, जॅक अंकल, सुभाश काका, हे म्हाका याद जातात तशे.

मागीर आयलें तें PSU. PSUतली सगलीं ताचीं खरीं घरचीं. प्रशांती दिदी, संदेश मामा, प्रशांत मामा, रत्ना दिदी, मेहता काका, सुशांत मामा. आमीय हेंच जाणून व्हडलीं जालीं की हींच आमचीं खरीं मामा आनी मामी वा काका आनी काकी.

बाप्पुडूचे जिणेंत एक अपरूप घडलें. अपरूप हातूंतय ताका भरपूर इश्ट मेळ्ळे. साई मामा, विवेक मामा, कांचन आकू, गिता काकी, सुहास मामा, निताची...हांचे बरोबर तांची नाटकां बरोवपाची आवड बरीच रंगली.

हें सगळें सोपतकीर ताका आमची, घरची याद जाताली. पूण आमकां केन्नाच कांय कमीपण दिसलें ना. मम्मा आनी बाप्पुडूलीं केन्नाय झगडीं जाल्यार तो म्हणटालो, mumma, I am a good boy from today. I love you. आनी मम्मा रोखडी सारकीय जाताली.

कितेंय विचार आसत जाल्यार तो आमकां बरोबर बसोवन सांगतालो. मागीर तें कामाचें कितेंय आसूं, आमकां पयश्यांची अडचण आसूं वा आनीक कितेंय. ताणें केन्नाच कितें लिपयलें ना. म्हज्या व्हडल्या काकाचेर (बाप्पुडू ताका इर्मांव म्हणटालो) बाप्पुडू सामको जीव घालतालो. कितलेय बरे-वायट दीस आयल्यार, केन्नाच घरच्यांची फाट सोडूंक ना ताणें.

म्हजी मूज करूंक ना म्हूण एक दीस म्हज्या आज्यान घरा खूब बोवाळ केलो. बाप्पुडून म्हाका आपोवन सांगलें आपणें मूज करुना. मूज करून तूं बामण हें सिध्द करप म्हणजे दुसर्या च्याकूय तूं व्हड? तुकाच शिकपाचो अधिकार आसा? तूं बामण म्हूण? तुका दिसता हें सारकें? जाल्यार करुया मूज. तुका आपूण व्हड म्हूण दाखोवपाक जाय जाल्यार कर्मांनी व्हड जा. बरें काम कर. म्हजी जाप आयकून बाप्पुडू खूश जाल्लो आसतलो. हांवें म्हजी मूज करपाक न्हयकार दिल्लो. हांव तेन्ना सातवेक आशिल्लों. विचार करपाचीं, प्रस्न करपाचीं बियां ताणेंच म्हजे भितर रोयिल्लीं. आज कळटा तांचें म्हत्व.

बाप्पुडूच्या राजकारणा वयल्या विचारांचेर म्हाका बरोवपाचें ना. तो खूब दुखवल्लो आनी ताचे विचार सांगल्यार खूब लोक दुखावतले. हो मुद्दो हांगा अर्दारूच सोडया...

बाप्पुडूक सगळ्यांत चड म्हत्वाचे आशिल्ले ते ताचे विचार, तत्वां, हेतू. सगळ्यांत कठीण परिस्थितींत सुध्दां बाप्पुडून आपलीं तत्वां आनी विचार केन्नाच सोडले नात. मागीर ते कोंकणी खातीर जावं, गोंयचे खातीर, राजकारणा खातीर, पयश्यां खातीर वा घरच्यां खातीर.

वचे पयलीं ताणें म्हाका सांगिल्लें, हांव तुजे खातीर भाट-बेंस सोडून वचना. घर आसा तें मम्मालें. तुका आनी दिदीक बरें शिक्षण दिलां, आनी स्वातंत्र्य दिलां. म्हाका खबर आसा तुमी सांबाळटलीं सगळें...

आतां केन्नाय कितेंय परिस्थिती आयली की हांव सद्दां चिंततां, बाप्पुडू आशिल्लो जाल्यार कितें करपाचो? मागीर हांव तेंच करपाचो प्रयत्न करतां.

बरोवपाक गेल्यार खूब कितें आसा... पूण म्हजे सारक्या एक फोटोग्राफराक उतरां कमी पडटलीं.

•••

कथा

# फुडलो बाळकृष्ण

– दामोदर मावजो

एक ब्लाउज शिंवपाक धा दीस म्हळ्यार चडच जाले. पूण दर्जी बरो जाय जाल्यार कळाव सोंसुंकच जाय.

शिंवोन जाला रे! पूण कुलचेती लावपा उरल्याय. तुका राबों पडटेलें. ते परस फाल्यां यो. सेर्त, रेडी दवरतां– सालून सांगलें.

राबुंक पडल्यार पडूं. आतांच लाय तूं. चार दीस जाले तूं फाल्यां फाल्यां करता. हांव बसतां हिंगाच. वासुदेवान सालू मुखारच बसकण मारली.

पांच कुलचेती आनी पांच बिड्डीं– सालूच्या फिशाल बोटांनी धा मिण्टां भितर काम केलें. ब्लाउज पिशवेंत भरून वासुदेवान पिशवी सायकलीच्या हँडलाक लायली. पेदालार पांय दवरता थंय आसा, उलो कानार पडलो, आरे एऽ वासुदेव –

पळय जाल्यार सुदीनभट.

कितें भाटकारा?

दर्ज्या कडेन कसलें काम काडलें?

बुलूज शिवपाक दिलेलें –

नवें? कोणाक देवकीक? तुवेन पिंदलें काय कितें तिगेलें? दोळे पिटपिटायत सुदीनभटान विचारलें. आनी रोखडेंच आपणालें काम सांगलें, – सोमारा–मंगळारा पाडो आमगेलो. देवकीक सांग वजें घेवन यो म्हूण. फाटल्या पाड्या उपरांत पावलीच ना ती.

ना, भाटकारा. देवकी पावची ना. बरीऽ ना ती . वासुदेवाक पयलींच वगत जातालो. एक पांय सायकलीवयल्यान उडोवन ताणें सांगलें.

बरी ना? पयरूच पळयिल्ली हांवेन तिका बाजारांत मासळी मोलायतनां!

तेशी बरी आहा ती, भाटकारा. पूण– दीस गेल्यात, जड आंगाची आहा, देखून– खांकडत ताणें सांगून उडयलें.

हय? व्वा! सुदीनभटाले दोळे खीणभर लिकलिकले. बरी खबर तर? काँग्रेच्युलेशन्स! परबीं तुका! हरशी देड हात पयस रावपी सुदीनान ताचे फाटीर थापटून म्हळें. सुदीन कितें म्हणटा तें कळून वासुदेव लजेलो. मागीर मुमुरख्यांनी हांसून ताणें म्हळें, वयतां, भाटकारा. उशीर जाला म्हाका. आनी ताणें नेटान पेदाल मारलें.

दारांत सायकल दोंक्यार उबी करून घरांत भितर



सरतासर वासुदेवाक थार नाशिल्लो. आगे एऽ, देवके? खंय गेली आतां?

फाटले वटेन देवकी उंबळिल्लें कापड दोरयेर घालताली. येयलें, येयलें – म्हणीत तिणें कापड पातळायलें आनी न्हेसणाक हात पुशीत भायर आयली.

पळय, पळय. हांयेन कितें हाडलां तुका – पिशवेंतल्यान कागदाक गुठलायिल्लो ब्लाउज भायर काडीत वासुदेवान म्हळें.

वासुदेवाली उचांबळाय पळोवन देवकी उचांबळ जाली ना. लग्नाक देड वर्स उलगलें तरी घरांत येनाफुडें हाका बायल मुखार जाय. खूब दीस कुळारा रावन घरा आयिल्ले बायलेक पळोवन जावची तशी देवकी फुड्यांत दिश्टी पडटकच ताका खोशी जाताली. फुडें केल्ली कागदाची लोळी ताजेकडसून घेतना तिणें संवयेन अळंग हातान घेतली. ताच्या काळ्या हाताची घस आपणाल्या हाताक लागची न्हय अशे तरेन घेवपाची संवयच जाल्ली तिका.

ब्लाउज पळयना फुडें मात तिचे दोळे चकचकले. फाटले पंदरशीक वासुदेवान तिचेखातीर नवी साडी घेतिल्ली. तिका म्हापशेंच्या बाजारांत व्हरून तिचे आवडीची साडी घेतनां ताणें मोलाची मात लेगीत पर्वा करूंक नासली. काल मेरेन वासुदेवा वांगडा खंयूय वचचें देवकीच्या जिवार येतालें. तशी ताचे विशीं तक्रार करपाक मात्त सुवात नासली. पूण वचत थंय लोक तांचेचकडेन पळयतालो. तो चडच लाग–लगट करता म्हणून काय ती पिट्ठ गोरी आनी तो किट्ट म्हणपा इतको काळो म्हणून– तें तिका कळनासलें. पूण त्या दिसा मात ती खूश जाल्ली. साडयेचो पालू आनी ताका सोबसारको ब्लाउज पीस! रोखडोच शिंवपाक दिल्लो खरो! पूण सालूची नामनाच आसली तो वीस–बावीस दीस लायता म्हूण. उमळशिकेन ब्लाउजाची घडी मोडून तिणें तो दोनूय खांद्यांक पोंतां तेंकोवन हड्ड्यार धरलो.

ए, देवके! घालून दाखय– वासुदेवालीं हुतहुतेपणां उतरांनीं देंविल्लीं.

मागीर पळयतां. अशें म्हणून देवकी धुंवली.

मागीर पर्थून पळय जायें जाल्यार. पूण आतां म्हाका घालून दाखय न्हूं? हंयसरच–

वासुदेवाल्या उतरांनी तिचीं गात्रां फुललीं. तिणें फुडो केलो. पूण दोळे उकते करून ताचे कडेन पळोवचें शें तिका दिसलें ना. मेटिल्ल्या दोळ्यांनींच तिणें म्हळें, देर उगतें आहा– बंद कर.

आनी वासुदेव परततासर तिणें आंगांतलें पोल्क काडून ब्लाउज घाल्लो. तिका पळयना फुडें वासुदेवान म्हळें– तूं जाणा, देवके, पोरसांतल्या त्या धया दशणी फुला भाशेन दिसता तूं.

आशिल्लीच देवकी तशी गोरी पिट्ठ. रुपान खूब सुंदर नासुंये. पूण रंगान ते लक्स साबणाचे जायरातींतले नटयेवरी गोरीपान– वासुदेवच म्हणी तशें. लग्न आदीं तिची आवय तर दर उमाशेक तिची दिश्ट काडी.

सोयरीक जाली तेन्ना दर एकल्यान ङ्घोव बरो मेळ्ळोफ म्हूण तिका परबीं दिल्लीं. सपनांतल्या राजकुंवराक केन्ना एकदां पळयतां अशें जाल्लें तिका. लग्न लागीं येय मेरेन तिणें वासुदेवाक पळोवंक नासलो. पूण पळयलो तेन्ना तिका धपको बसलो. तिच्या सपनांतलो राजकुंवर गोरो पिट्ट आसलो. आनी वासुदेव सांवळो म्हणूंक येना इतलो काळो आसलो. खूब विरूस जाल्लो देवकेचो. आवयकडेन म्हळें लेगीत तिणें – आई, कितको काळो गे तो? आनीक कोण मेळ्ळो ना गे तुका? त्या उतराक आवय तापिल्ली तिचेर, कात पळोवन सोयरीक करूंक ना तुजी – मनीस पळोवन केल्ल्या. घोव बरो तर संवसार सुखाचो. देवकेचो संवसार सुखाचो जावं ना जावं – वासुदेव मात संवसारांत सुखी आसा म्हणपाचें तिका पावला कणकणीं जाणवतालें.

देवके, रांदून जालां जाल्यार वाड बेगीन. कामार पावंक उशीर नाका. फाल्यां बेतो घालतलेत–

वासुदेवालें एक बरें आसलें. देवकेन कितेंय रांदूं– पानार पडटा तें भुरके मारीत जेवतालो. कुळारा तिचो बापूय सदांच किचमणां करीं. फाटीं एकदां देवकेच्या जिवाक बरें नासलें तेन्ना तिची आवय चार दीस रावपाक आयिल्ली. आयिल्ली खंयची? वासुदेवच वचून तिका घेवन आयिल्लो देवकेक बरें दिसचें म्हूण. परती वतना तिणें जांवयाची तोंड भरून तुस्त केल्ली – 'बाय, असो घोव मेळपाक सात जल्मांची पुण्याय जाय.'

देवके, हांव विसरलोंच सांगुंच्याक. आयज बाजारांत सुदीनभट मेळ्ळेलो. तेंचो पाडो आहा खंय सोमारा – देवकेक धाड म्हणी वजें घेवन. हांयेन निट्ट सांगलें– हेचेन फुडें देवकी वज्या कामाक वयची ना. देवकेक दीस गेल्यात म्हुणल्यार मात खुशाल जालो, आं! आनी देवके, हांव सांगतां तें आयक. खंयच कामाक वयचेलें ना. तुवेन आतां जड कामाक हात घलचेलो ना. समजली कांय ना?

सुदीनभटाचें नांव काडलें आनी देवकेच्या पोटांत खप्प जालें. उकत्या आंगान मोटव्या कलसांवार कुळागरांत भोंवतना पयलेच खेपेक पळयिल्लो तेन्ना देवकेच्या मनांत पयलो विचार आयिल्लो तो वासुदेवाचो. ह्या सुदीनभटावरी ताचोय रंग गोरो पान आशिल्लो जाल्यार आपणांलो संवसार कितलो सुखाचो जातासलो! वासुदेवा कडेन रंग सोडून सगलें आशिल्लें. कश्टांचीं कामां केल्ल्यान कमायिल्लें शरीर आसलें. बेत्याच्या कामांत फिशाल आशिल्ल्यान कॉंट्रॅक्टरांची ताचेर मर्जी आसली. दिसवाड्याचो पगार बरो आसलो. सोऱ्याचो वास ताका सोंसनासलो. घराचो, बायलेचो मोग

आसलो. विशेश म्हळ्यार देवकेक नाका जाल्यार तिच्या आंगार पडून सूख घेवपाची वानसा ताका केन्ना आफुडली ना. तिका ताचो राग येनासलो. पूण तो लागीं येतालो तेन्ना ताचो रंग तिका सोंसनासलो. मागीर ती दोळे धांपून ताचे सुवादीन जाताली. दोळे धांपून घेवपाच्या सुखा परस उकत्या दोळ्यांनी सूख भोगपाची तिची वानसा फळादीक जाय नासली.

आपणांल्या उकत्या आंगाचेर थिराविल्ली देवकेची नदर सुदीन भटाच्या लक्षांत आयिल्ली जावंये. फुडले चार दीस ताणें देवकेक लॉजार नाल्ल मेजपाच्या कामाक आफयली. पयले दोन दीस तिणें नाल्ल मेजले. फुडले दोन दीस ताणें तिका पुराय मेजली. अदीं मदीं ती लॉजार कामाक वताली. दोन दीस मजा दिसली. पूण उपरांत ती टाळूंक लागली. मागीर एक दीस सुदीनभटान एक जरीची साडी तिका दिवंक केली. देवकी शिटकावली. ही जरीची साडी दिवन हो म्हाका आंगोस्तर करूंक सोदता! ती विटली. स्वताचेर फडफडली. पोले फोडून घेतले. घुस्मट वाडली तेन्ना एक दीस तिणें वासुदेवाक सांगलें, 'आईचो उगडास येता. चार दीस कुळारा राबून येतां?' जाल्यार वासुदेव स्वता तिका कुळारा पावोवन आयलो.

वासुदेव परतो वतकच आवयन हुसक्यान विचारलेंच, कितें गो, अकस्मात शें येयलें?

कांय ना गे. तुजो उगडास येयलो. अशें म्हणून तिणें वेळ मारून व्हेलो.

आमोरेचेर दादी गादयेर कुट्ट करून आयलो. त्या वेळार देवके खातीर म्हूण आईन च्या केल्ली.

धुयेक बरी दिता. म्हाका च्या इचारता जाल्यार पळय ही!

तोंड धांपून आईन आन्येक च्यावे कोप भरून दादी फुड्यांत दवरलें. एक घोंट मारता थंय आसा – एक बुरशी गाळ दादीच्या तोंडसून सुटली. मागीर देवकी बगलेक आसा हें लक्षांत आयिल्ल्यान जावंये – शिंवर जालो ना. पूण च्याचें कोप थंयच आपटून उठलो.

ते राती देवकी आवयचे कुशींत रिगून न्हिदली. तो मेरेन दादी विशीं देवकीन कांयच आयकूंक नासलें. ते राती मात आवय मध्यान जाय मेरेन तक्रारी सांगीत रावली.

सकाळीं च्या पियेतना आवयन सांगलें– आगो बाय, तूं जाणा, गोमती हिंगा येयलां तें?

हिंगा येयलां म्हटल्यार घोवान बिराड केलां हिंगा?

पाडा पडूं त्या घोवाचें. चेडवाक खूब तरास दिलो खंय तेणेन.

गोमती हेरशीं बरें चेडूं भुरगें. रुपा–रंगानूय बरें. तागेल्या घोवाक लग्ना माटवांत पळयिल्लो– तोय गोरो धवो आनी पोदिसांवांचो सो दिशिल्लो.

आई, हांव वचोन मेळोन येतां आं, गोमतीक!

तूं कित्या वयता? तूं येयलां म्हूण कळ्ळ्यारच पुरो, धांवट येतलें तें. हांयेन सांगलां रत्नूक तेका सांग म्हण– बाय येयलां म्हण.

आनी खऱ्यांनीच गोमती धांवट आयलें. सांगीत रावलें आपली कर्मकाणी. फकत रडगाणें. कसल्यातरी सरकारी खात्यांत प्यून म्हूण काम करतालो गोमतीचो घोव. पगारा भायरूय चिरीमिरीची येणावळ आशिल्ल्यान दुडू भरपूर येतालो. गोमतीक केन्ना कसलें काम करचें पडलें ना, वावराक वचचें पडलें ना. पूण घोवाचीं काचकिसांवां चड. घरा भायर सरूंक जायना. पोव–पावडर मारूंक जायना, शेजाऱ्यांक जाप करूंक फावना, हें नाका, तेंनाका. कितें करता तें घोवाक विचारले बगर करूंक फावना. भाजी, नुसतें, बाजार घोव करतालो. तो सांगता तेंच गोमतीन रांदूंक जाय आसलें. तव्यार तळचें काय कायलींत घालचें तें लेगीत तो थारायतालो. सोसूं नज जावन एक दीस गोमतीन परती जाप दिली जाल्यार हाणें सोंडकुलार फुलयलें. रागान गोमती कुळारा वचपाक भायर सरलें जाल्यार घोवान भरभरीत ओडीत घरा हाडलें आनी 'कशें वयता तें हांव पळयतां' म्हणीत लायटर पेटोवन पांयांच्या तळव्यांक बूट दिले... आयकूं नज जालें देवकीच्यान.

भुरगें–बाळ जाल्लें जाल्यार पूण म्हारू थंड जायत आसलो. आनी तुकाय भुरग्याचो सांगात... आईन भायर येवन मदीं तोंड घालें.

नाका गे सायबिणी तें भुरगें आनी बाळ. एकल्याचें सोंसलां तें पुरो. भुरगें ना तें बरें. गोमतीन वितरागाक वाट करून दिली.

वचपाक उठलें तेन्ना देवकीन चुरचुरे करीत म्हळें, गोमती, तुजी काकूळट करची तितली थोडी. लग्ना दिसा तुज्या घोवाक पळयिल्लो. काय बरो गोरो धवो. हांयेन म्हणिल्लें लेगीत गोमतीचें नशीब बरें म्हूण.

पाडा पडलें म्हाजें नशीब! बऽरो गोरो धवो म्हूण कितें चाटून खावपाचो? करणी गोरी धयी आसूंक जायी न्हूं? फुटक्या नशीबाचें गो हांव...

ते राती देवकी आईचे वेंगेंत तोंड धोंगसून खूब रडलें. आईक दिसलें– पोरान गोमतीची कर्मकाणी खूब मनाक लावन घेतली. ती ताका घट्ट धरून थापटीत रावली.

दोळो लागिल्याचें संवंग केलें तरी बरीऽ रात मेरेन तिका न्हीद पडली ना. स्वताची करणी दोळ्यां मुखार येवन ताका पश्चात्तापाक म्हारग करताली. त्या गोऱ्या–धव्या दादल्याची कसली चूक? हांवच पिसाविल्ले भाशेन वागलें. कातीचो रंग तितलो पळयलो. त्या दादल्यान आपणाले

ग्रायलेचो केल्लो विस्वास घात हांवें पळयलो ना. नाल्ल–सुपारी मोलायतना ताणें म्हजेंय पोल केल्लें तें हांवें देखलें ना. केदी चूक केली हांवें! ना, हाजेमुखार अशें घडचें ना.

उठटनाच गळ्याकडेन चरचरलें. न्हाणये कडेन वता म्हणसर दोन खेपो ओंकारे आयले. आई धांवट आयली. किर्ते जालें बाय?

कांय ना गे. राती न्हीद बरी जाली ना, देखून– म्हणटासर पर्थून. आई हांसली. देवकीचे फाटी वयल्यान हात भोंवडायत तिणें म्हळें,

कांय भियेंव नाका, बाय. हे ओंकार बऱ्याचेच. न्हाण केन्ना जाल्लें तुजें?

देवकेन चतरायच धरूंक नासली. म्हयनो चुकला तें कळिल्लें. पूण जाता केन्ना केन्ना तशें, अशें येवजून वाट पळयतालें. आईन सांगलें आनी एक गोड शिरशिरी आंगावयल्यान निस्तली.

आई खूश जाल्ली. दादीय खुशाल जाल्लो. देवकी मात गोंदळिल्लें. पोटांतलें तें कोणाचें? वासुदेवाचेंच आसपाची शक्यताय चड दिसली. पूण– त्या भटालेंय जावं येता. खीणभर मनांत आयलें लेगीत– हे खेपेक व्हळून उडोवचें. फुडलें बाळक खातरीन वासुदेवाचेंच आसतलें. मागीर ताणेंच मनांतल्या मनांत थारायलें. जर भुरगें गोरें जालें जाल्यार तें पातक्याचें. काळें–सावळें जालें तर तें आमचें. आमचें? गोरेंय जाल्यार तें आमचें जावं येना तर? म्हजो रंग घेवन आयलें जाल्यार? ह्या विचारान ताणें मनाक समजायलें. आनी मागीर मात ताका घरा वचपाची ओड लागली. आनी अजाप शें! आपोवणे धाडिल्ले भाशेन आमोरेचेर वासुदेव दारांत हाजीर– देवके बगर घर रितें रितें दिसता म्हुणोन येयलों. येताय मगो फाल्यां?

आईन ताका ती गोड खबर सांगली मात तो फाटल्या पांयांनीं गेलो तो बाजारांत वचून कीलभर साखर घेवन आयलो. तिनसांजचे कातरेर ती देवा मुखार दवरली. आईनच सांगणे केलें. चिमटी चिमटी साखर आई वांटूंक लागली जाल्यार वासुदेवान ती आपल्या हातांत घेवन मूठ मूठ साखर सगल्यांच्या तोंडांत चोंदली. म्हणसर दादी आयलो. अजाप म्हळ्यार आयज संवळो आयलो. ते राती तें कावलांचें घर लेगीत रोशणाय केल्लया बंगल्या वरी प्रसन्न दिसूंक लागलें. मन गोंदळिल्लें आसुनूय देवकी सामकी भुल्लुसून गेली.

हे खबरेक स म्हयने उलगले. वासुदेवा खातीर ते वाऱ्यार हुबले. केन्ना मानशेचें नुसतें जाल्यार केन्ना वोंवळांचो पोड. केन्ना चींच–जगमां जाल्यार केन्ना अत्तराची बाटली. एक दीस तर माजरा पील घेवन आयलो. त्या स म्हयन्यांत चारदां देवकेक घेवन डॉक्टरासरीं गेलो. लागींच्या हॉस्पिटलांत नांव घालें. केदेय रातची हॉस्पिटलांत व्हरपाची गरज पडत म्हूण दत्तुली टॅक्सी सांगून दवरली. ते भायर कॉंट्रॅक्टर मेहबुबाकय गरज पडल्यार ताची गाडी लागतली म्हूण सांगून दवरलें. दीस रात तो तातुंतच आसलो.

गुरवारीण तशी खुशाल आसली. पूण पिशें दुबावी मन धोलतेराचेर केन्ना हेवटेन केन्ना तेवटेन धोलतालें. दादी आनी आई लागिल्लीं बाळंटेर कुळारा करुंया म्हूण. पूण वासुदेवान आईकच घरांत हाडून दवरली. सगलीं जाणां आपणा परीन सुमार लायतालीं. कोण म्हणी पोट बरें उबार आसा– चेडोच जातलो. कोण म्हणी– पोट मोटे पूण सारयिल्ले भाशेन दिसता– बायच जातलें. फकत देवकी मात हुसक्यांत आसली – भुरगें गोरें जातलें काय काळें सावळे!

दिल्ली तारीख उलगली तसो वासुदेव चिंतेस्त जालो. आईन कितलो समजायलो– 'फुल्लट ती. असो उशीर जाता.' पूण सगलो हुसको मेटलो. वेणो दिसा उजवाडाक्च येवंक लागल्यो. यो म्हणिना फुडें टॅक्सी आयली. हॉस्पिटलांत पावन वरा भितर देवकी बाळंत जाली. बाबू जालो. वासुदेवान गांवभर पेढे वांटले. पूण देवकेचो हुसको मेटलो ना. 'बाब गोरोच जाला'– नर्सीन येवन सांगलें.

बाबाक हाडून कुशीन दवरलो तेन्ना आईन पयलीं म्हळें, आगो रूप सामकें बापायचें गो! तशें कपल, तशें नाक आनी ताचो हो सकलो ओंठ पळय. सारको बापूय. तें आयकून वासुदेव खुशाल जालो. बाबाक तेळीत ताणें म्हळें, रूप म्हजें खरें. पूण देवके, रंग मात तुजोच घेयला तेणें आं!

नकळटनां एक हुसकारो देवकेच्या हड्ड्यांतसून सुटलो.

बाबूक घेवन घरा पावलीं आनी वासुदेवान बारशाची तयारी सुरू केली. घरचीं, सोयरीं, धायरीं, इश्ट मंडळी येवन गेली. थोड्यांनीं नांवांय सुचयलीं.

उदय, अरूण, संजय, रविंद्र... कोण म्हणी हीं आतां पोरनी जालीं. नवीं दवरूंया.

विवेक, सचीन, वरूण, हृतीक, अक्षय.... हीं तर नटांचीं. आसूं.

ते परस राजस, तेजस, अमीत, सुमीत...

तूं सांग देवके, तुका जाय तें दवरुंया. वासुदेवान भुरग्याचे आवयकच विचारलें.

देवकी दुसऱ्याच विचारांत आसली. अं? हांव ना. तूंच सांग न्हू?

वासुदेवान म्हळें– हांव वासुदेव. तूं देवकी. बाबुचें नांव दवरूंया 'बाळकृष्ण'. आवडलें तुका?

देवकेन एक फावट गोऱ्याधव्या बाबुकडेन पळयलें. मागीर वासुदेवाकडेन पळयलें. आनी ठामपणान सांगलें– नाका. फुडलो बाबू जातलो तो बाळकृष्ण. हाका दुसरें खंयचेंय दवरूंया.

●●●

# म्हज्या कथांची कथा

–हेमा नायक

आपल्या मनांतले विचार साहित्यांतल्या कथेच्या प्रकारांतल्यान व्यक्त जावप कथाकाराची उत्तम किमया. खंयचोय एखादो विशय मनाक भावलो काय एक धाकटुली कथा बरोवन जाता. सर्गेस्त चंद्रकांत केणी ते नदरेन कोंकणींतले बरे कथाकार. तांचे कडेन आयकुपा सारक्या गजालींचें भांडवल आसतालें. कोंकणी साहित्यिकांचे वळेरेंत त्या काळांत वेगवेगळ्या वाठारांत भोंवडी करपी साहित्यिकांमदीं तांचें नाव वयर उरपाक जाय. पत्रकारीतेच्या निमतान तशेंच साहित्य अकादेमीच्या साहित्यिक कार्यावळींक लागून वा कोंकणिच्या विंगड विंगड कामांक लागून तांचें विविध वाठारांत भोंवप जालां. पूण ही भोंवडी लेखक जाल्ल्यान तांच्या निरीक्षणांत भर घालताली. तांकां भोंवप आवडटालें आनी तरातरांच्या मनशां वांगडा उलोवपाक आनी तांच्यो खबरी आयकतना तांची चवकस नदर सांगतल्याचे भाव पारखिताली आनी चत्रायेन नियाळटाली. आपल्या वळखिच्यांच्या मरणाक, तांच्या कुटूंबाक भुजवण दिवपाक तशेंच एखाद्याच्या लग्नकार्याकूय ते जाता नजो आसतनाय हाजीर रावताले. कोणाचेरय संकश्ट कोंसळ्यार ताका उपाय सुचोवपाक आनी मार्गदर्शन करपाकूय ते फुडें आसताले. तांचें व्यक्तिमत्व वेंगळेंच आशिल्लें. म्हजे नदरेन ते एक बरे साहित्यिक म्हण सामान्यामदीं जगले. आपणे बारीकसाणेन आयकल्ल्यो ह्यो खबरी ते मागीर आमकांय सांगताले आनी रोकडीच एके कथेची तांचे कडसून निर्मितीय जाताली. 'व्हंकलपावणी' ह्या कथासंग्रहांतल्यो कथा वाचल्यार तांच्या ह्या गुणाची वळख वाचप्यांक मेळटा. तांच्या तोंडांतल्यान असल्यो खबरी म्हाकाय आयकुपाक मेळ्ळ्यात. ते म्हणटाले, समाजांत भोंवताना आपणे कान व्हड करून आनी दोळे उकते दवरून वावरूंक जाय. कित्याक तर समाजांत वावुरतना वा जगतना आपणाक मेळिल्ली एखादी व्यक्ती केन्ना आपले कथेंतलें पात्र जायत हें सांगपाक येना.







तातूंतल्यानच नवी कथा निर्माण जावं येता. आपल्याक खबर आशिल्ली एखाद्याची कसलीय भानगड वा लचांड लेगीत नाव घेनासतना ते उलोवन वताले. हो तांचो सभावगूण आशिल्ल्यान एक कथाकार म्हण तांकां तो बरोच उपकारा पडिल्लो.

हांव सांगतां तो काळ १९८० ते २०१० तलो म्हणल्यार तीस वर्सांचो. ह्या काळांत म्हजे दोन कथा संग्रह उजवाडाक आयले. 'पसय' आनी 'दुर्गावतार'. ह्या संग्रहांतल्यो चडशो कथा देड हजार उतरां भितर आटापत्यो हाडल्यात. ह्या कथांतले चडशे विशय त्या काळांत समाजांत घडटल्या घडणुकांचेर आदारीत आसात. तिशेक वर्सां आदीं म्हजी आशिल्ली पिराय आनी त्यामानान म्हजी विचार करपाची आनी चिंतपाची कुवत, तातूंतल्यान तयार जाल्ल्यो ह्यो कथा. इतले भितर 'निर्बळा' आनी 'अप्रूप ओड' ह्यो दोन नवलीका आनी 'भोगदंड' ही कादंबरी उजवाडाक आयली. हातूंतलीं कथाबिजां हावें प्रत्यक्ष अणभविल्ल्या घडणुकांतल्यान तशेंच कानांनी आयकल्ल्या खबरांतल्यान निर्माण जाल्लीं. हे सृजन निर्मितीच्या समांतर हिंदी, मराठी आनी इंग्लीश अशीं सातेक पुस्तकां कोंकणीत अणकारीत केलीं. ह्या अणकारांतल्यान म्हजे सृजनप्रक्रियेक आनीक वाव मेळ्ळो. अलका सरावगीची 'कली कथा : वाया बायपास' आनी कमलेश्वरांची 'कितने पाकिस्तान' ह्यो आशय आनी विशयाचे नदरेन गडगंज अशो हिंदी कादंबऱ्यो वाचतना आनी मूळ लेखकाचे नदरेंतल्यान भारताचे फाळणे वेळार दोनूय वटांनी उपराशिल्ल्या भावनीक आनी संवेदनशील घडणुकांचें आनी इतिहासांत नमूद जावंक नाशिल्ल्या बऱ्याच अव्यक्त गजालींचें खोलायेन गिन्यान मेळत गेलें. त्या साहित्य कृतीं वरवीं येद्या व्हडल्या विशाल आनी विस्तृत वातावरणांतल्यान भोंवून येतकूच लेखक म्हण साहजिकच म्हाका आमच्यांतले दोष जाणवून आयले आनी लज जाली आमचे संकुचीत नदरेची, मर्यादीत वाचनाची आनी अटूक विचारांची काकूळटय दिसली. असल्यांनी आमी वाचकांक कितें म्हण हटकें दिवपाक पावतलीं? वाचकांची भूक आसता वेगळें वेगळें वाचपाची. बऱ्या लेखकाची नदर आनी सोद सदांच जें आमच्यांत



येवूं ना तें हाडपाचो यत्न करपा कडेन आसपाक जाय. सदचें रूटीन कुटूंबीक आनी सामाजीक वस्तुस्थिती परसय हटकें दिवपा कडेन लेखकाचो कल जाय. जे तरेन ह्या दोनूय हिंदी कादंबरींतल्या बरोवप्यांनी अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याचो वापर करून इतिहासांत लिपून उरिल्लया वा तातूंत प्रकट करूंक नाशिल्लया गजालींचो ह्या कथानकां वरवीं वापर केला. तातूंतल्यान हांव भारावन गेलें. ताणी कादंबरी लेखनांत घेतिल्ले कश्ट आनी विशयांतलें वेगळेपण सोदून काडपाचे यत्न पळोवन दिसलें, लेखक हो सामान्या परस वेगळो आसता आनी सामान्यां भितर रावन आपल्या लिखाणा वरवी असामान्यतायेचें प्रात्यक्षीक ताणे घडोवचें पडटा. हें करप तशें सोपें काम न्हय. देखून तर दरेक सृजन निर्मिती ही एखाद्या भुरग्याक णव म्हयने पोटांत वाडोवन, प्रसव वेदनांचे त्रास सोसून निमाणे अळंग जल्माक घाल्लयावरी आसा. एक गजाल मनात रूतून उरली ती, लेखकाचे नदरेची धार आनी नवें सोदपाची चत्राय मनाचे अस्वस्थतायेंतल्यान येवपाक जाय. तशें घडल्यार आमच्या लिखाणांत नाविन्य येतलें. ही अणकार प्रक्रिया म्हजे खातीर फुडलें सृजनलेखन करताना बरीच मोलादीक आनी म्हत्वाची तशेंच फायद्याची थरली.

सगळ्या साहित्य प्रकारां भितर कथा हो सामको म्हजे आवडिचो प्रकार. 'नयनतारा आनी हेर कथा' ह्या निकतोच उजवाडाक आयिल्लया संग्रहांत आसपाव जाल्लयो कथा रचना करताना विशयांच्या वेगळेपणा कडेन हावें नदर दिल्ली. बाकिच्या कथां परस ह्यो कथा वेगळ्यो आसपाक जाय हाचेर भर दिल्लो. घडये मराठी, हिंदी, इंग्लीश अशा विविध भाशांतल्या साहित्य वाचनांतल्यान म्हाका मेळिल्ले नदरेचो हो परिणाम आसुंये, म्हज्या फाटल्या कथां कडेन वळून पळयतना आतां कांय उणिवो जाणवून येतात.

'पसय' कथा संग्रहांतल्यो कथा पस्तिशेक वर्सां आदीं बरयिल्लयो आशिल्लयान तेन्नाचो समाज आनी घरांत सारस्वती पुरूशप्रधान वातावरण, देखून साहजिकतायेन हो प्रभाव म्हजे विचार घडोवपाक कारण जाल्ले. तेन्नाचें समाजीक, कुटूंबीक आनी अर्थीक वातावरणा भोंवतीं म्हजे विचार घुंवताले. म्हत्वाचें म्हणल्यार विचार करपाची म्हजी तेन्नाची पिराय तितली परिपक्व जाल्ली नाशिल्लयान जशें दिसलें तशें तें कथांतल्यान प्रकट जालें. अमकेच गजालीचेर खोलायेन विचार करून ती कथेच्या माध्यमांतल्यान मांडपाक जाय तशी जाणीव बी तेन्ना नाशिल्ली. आनी कोंकणिचो माहोल तर तेन्ना तोखणाय आनी अपुरबाय करपा इतलेच मर्यादेंत आशिल्लो. अशी त्या कथांची कथा.

ते उपरांत उजवाडाक आयलो 'दुर्गावतार'. खूब वर्सांच्या अंतरान हो संग्रह आयलो. ह्या संग्रहांतल्या कथांनी एक वेगळें मोडण घेतलें. समाजांत बायलांचेर घडटले अन्याय, तांचेर जातले अत्याचार म्हाका हरशींय सोंसनासले. कॉलेजींत आसतना विद्यार्थी संघटनेंतलो प्रत्यक्ष सहभाग आनी मागीर १९७३ त अखिल भारतिय महिला परिशदेच्या कॉलकोतांतल्या अधिवेशनांत वांटेकार जावन भारतभरच्यान आयिल्लया धाडसी बायलांच्या वक्तव्यांतल्यान बायलांचेर जातल्या अन्यायाआड आवाज काडपाचें म्हज्यांतय एक बळ आयिल्लें. तातूंतल्यान घडत गेल्लया विचारांची फाटभूंय ह्या कथा रचनांक मेळ्ळी. आर्त्याक परती जाप दिवपी वा संघर्शाक फुडो करपी बायल ह्या कथांनी आयल्या तो हे विचारसरणेचोच परीणाम. ह्या काळांत एखादी अशी गजाल आयकल्यार वा वर्तमानपत्राचेर वाचल्यार लेगीत हांव अस्वस्थ जातालें. खास दुर्गावतार कथे संदर्भांत अशेंच घडलें. बातमी आशिल्ली – एके बायलेन आपल्या घोवाचो खून केलो आनी घरांतूच जमनीक फोंड खणून ताचें मडें पुरलें आनी वयर जमीन सुळसुळीत करून ताचेर हाथरूण पसरायलें आनी तीच तिणे आपली बसका आनी न्हिदपाचें साधन केलें. हे बातमेचेर तयार जाली दुर्गावतार. एक दीस हावें म्हज्या दोळ्यांनी पळयलें एक बायल आपल्या बेबद्या घोवा फाटल्यान दांडो घेवन आड्डुत वतना. घोव दर रातीं पियेवन तर्र जावन घरा येवन बायलेक बुरशो गाळी संवतालो. बायल सोंस सोंस सोंसता आनी निमाणे एके तिनसना बायलेच्या रागान शीम हुपली आनी तिणे घोवा फटल्यान दांडो घेवन धांवपाचो हो अवतार घेतलो. हातूंत 'मिशन सत्यम' ही आनीकूय एक कथा अशेच एके बातमेचेर घडिल्ली आसा.

ह्यो कथा खूब जाणांक आवडल्यो. दुर्गावतार कथेचेर तर बरीच चर्चा जाली आनी ती गाजली. साहित्य अकादेमीचे वतीन अहमदाबादाक हे कथेचो हिंदी अणकार सादर करपाची संद मेळ्ळी. व्हडलो हॉल. भरगच्च लोक. ५०० वयर तरी

आसूंक जाय. कथेंतलो विशय, तातूंतलीं वर्णनां आनी सादरीकरण सगळ्यांक आवडलें. सामकी थंडसाण पातळिल्ली. कार्यावळ जातकूच कितल्याशाच जाणांनी येवन सांगलें, म्हजी कथा प्रभावी जाली आनी कथेंतलें एकूण वर्णन आयकून आंगाक शिरशिरी आयली. हातूंतल्यान म्हाका कळून आयलें, कथा बरयली म्हण जायना, तिचें सादरीकरणय तितलेंच प्रभावी जावपाक जाय. कथा बरोवप आनी तिचें कथन वा तातूंतल्या पात्रांच्या भावनां कडेन समरस जावन वाचन करप ह्यो दोनूय वेगळ्यो पद्दती. कथा आनी संवादय तशे वातावरण निर्मीती करपी आसपाक जाय. देखून कथा बरोवन जायनाफुडें ती कोणा एखाद्याक वाचून दाखोवंची आनी ताच्या मुखामळा वयले भाव पारखुचे ही म्हाका सामकी उमळशीक लागता आनी हांव ती परीक्षा घेवन पळयतां. म्हाका म्हजे कथेंत बरें कितें आसा आनी उणिवो आसल्यार त्यो जाणवून येतात.

म्हज्या साहित्याक बरेचशे पुरस्कारय मेळ्ळे. भोगदंड कादंबरीक गोंय कला अकादमी, साहित्य अकादेमी दिल्ली, टी. एम. ए. पै फावंडेशन मंगळूर, शाश्वती बेंगळूर अशा जायत्या पुरस्कारांनी म्हजे प्रतिष्टेंत भर घाली. हातूंतल्यान लेखक म्हण आनीक एक जापसालकी म्हजी वाडली ती म्हणल्यार यानफुडें जी साहित्य निर्मिती म्हजे कडल्यान जातली ती सामकी परफेक्ट जावनच येवपाक जाय. कथेंत खंयच धोंगापोंगा उरपाक फावना आनी ते नदरेन कथा बरोवचे आदीं त्या प्लॉटाचेर जायतें चितचें पडटालें. एखादे कथेंतलीं पात्रां, तांचे संवाद, तातूंतल्यो घडणुको सगळें खोलायेन चिंतून आनी मंथन करूनच तिची निर्मिती करप हो हावें म्हज्यांत नेम घालून घेतलो. तसो म्हाका चिंतपाक वेळ खूब मेळटा. घरांतलीं विविध तरेचीं कामां हो म्हज्या चिंतपाचो थंड वेळ. मागीर तें चपात्यांचें पीठ कालयतना आसूं, चपात्यो लाटटा आसतना आसूं, सोय कांततना आसूं वा जेवण रांदतना आसूं, विचारांचें चक्र सतत चालू उरता. फक्त कंप्युटराचेर टायप मारपा खातीर फाव तितलो निवांत वेळ लागता. फाटल्यान मंद आवाजांतलें संगीत वा गीतां हांची चिंतपांत कसली बादा जायना वेल्यान प्रसन्न उरता मन.

फाटल्या कथांनी एक गजाल नदरेंत येता ती म्हणल्यार त्या कथांची वाड जावपाक जी विस्तृतताय येवपाक जाय आशिल्ली ती उतरांच्या मर्यादीतपणाक लागून तातूंत खुंटिल्लेवरी दिसता. ही जाणीव आतां जावपाक लागल्या. पूण आतांच्या कथांक उतरांची मर्यादा पडिल्ली ना. अमकींच उतरां जावपाक जाय हें बंधन ना. म्हज्या कथांनी देड हजार उतरांची मर्यादा हुपल्या आनी कथा येतनाच ती सैरभैर कशी आडे वंय म्होडून येता आनी मागीर ती आडावपाक जमना. ताका लागून दोन कथा संग्रहा उपरांत आतां २०१९ त 'नयनतारा आनी हेर कथा' हो संग्रह आयला तातूंतल्यो कथा सदच्या कथां भशेन नात. तर त्यो वेगळेच तरेन आयल्यात. देखून त्यो कशो आयल्यात तें एक बरोवपी हे नदरेंतल्यान सांगनशें दिसता.

तशें पळोवपाक गेल्यार कथा बरोवन जाली काय मागीर कथाकाराची भुमिका सोपता. कथा वाचकाच्या हातांत पडटा. कथेंतलो आशय, कथेचो विशय, तातूंतलीं पात्रां, पात्रांच्या तोंडांतले संवाद, घडणुको अशा विविध आंगांनी कथेचें विश्लेशण जाता. चर्चा जाता, भासाभास जाता. हातूंतल्यान कथाकाराक आपूण कथा बरयतना खबर नाशिल्ल्यो जायत्यो गजाली स्पश्ट जातात. समीक्षकाची तिरसुवाद नदर आनी वाचकाची बारीकसाण हातूंतल्यान भायर सरिल्ले गुण-अवगूण कथा बरी जाल्या काय वायट जाल्या हें थारायता. ही गजाल उपरांतची. पूण रचनाकाराक मुळांत कथेचें बीज खंय सापडलें आनी ती कशी सुचली आनी तिचो प्लॉट नदरेंत येवपाक आनी तकलेंत रूजपाक कसली फाटभूंय उपकारली हें कोणाक खबर नासता देखून तेंच सांगपाक जाय.

एखादी सर्जनशील रचना आकार घेवपाक आनी ती पुराय करपाक मनाक शांतीकाय जाय, सुशेग जाय, एकांत जाय अशें आमी म्हणटात. पूण म्हजे बाबतींत मात नयनतारा आनी हेर कथांचो जल्म जावपाक आनी त्यो वाडपाक असलें वातावरण निखालस नाशिल्लें. त्याच वेळार एके मोठे अस्वस्थतायेन म्हाका घेरिल्लें, काय ते अस्वस्थतायेंतल्यानच त्यो निर्माण जाल्यो हें सांगपाक जावचेंना. म्हज्या आयुश्यांतलो तो मोटो अपमानास्पद प्रसंग!

१५ ऑगस्ट २०१७ ते २७ डिसेंबर २०१९ हीं दोन वर्सां म्हजेर खर मानसिक आघात जाले, ताचें कारण म्हणल्यार कोंकणी – मराठी बरोवपी ज्येश्ठ साहित्यिक विष्णू सूर्या वाघ हांच्या 'सूदिरसूक्त' पुस्तका संबंदान जाल्लो एकदम नीच थरा वयलो वाद. ह्या पुस्तकांत कांय अश्लील उतरां आयल्यांत अशें तांचें म्हणणे आनी एके जातिच्या लोकांक लेखून दुसरे जातींतल्या लोकांनी वायट उतरां उक्तायल्यांत असो ताणी काडिल्लो तर्क आनी हातूंतल्यान उप्राशिल्लो संघर्श आनी अशा पुस्तकाक पुरस्कार मेळपाक फावना ही तांची मागणी. हो वाद सोमतो म्हजेर येवन थिरावलो. कवी तर दुयेंत आनी हाथरूणार. अपुरबाय प्रकाशनान तें पुस्तक उजवाडायलां म्हण प्रकाशक ह्या नात्यान म्हजेर आरोप. कागाळ पुलीसेंत

ावली आनी म्हजेर कांय एन जी ओ ाल्यांनी एफ आय आर. घाली. प्रकरण रेंच गाजलें.

अजाप म्हणल्यार असलें खवदूळ ातावरण आसतनाय म्हज्यांतली ैचारीक बसका तशीच घटमूट उरिल्ली. ्हजें भुरगेपण ते जाणटेपण इतले मजगतीं ्हज्या जिवितांत घडिल्लयो जायत्यो धडामोडी म्हाका याद जायत गेल्यो. म्हजे भोवतणी जें जें घडटालें तें सगळें काळजांतलें वयर आयलें. पिरायेच्या मानान म्हजी निरीक्षणशक्त बरेच अंशी वाडत गेल्ली, विचार करपाची कुवत आनी खूब उतळताप सोंसून आंगांत बळावत गेल्लें धाडस म्हाका नवेंनवें बरोवपाक प्रवृत्त करतालें. आत्मचरीत्र बरोवपाक घेतलें. आज तें अर्धावयर पुराय जाल्लें आसा. एक भाग बरोवपाचो उरला पूण मदींच अशें सृजनात्मक बरोवप काळजांतल्यान उमळून वयर सरता आनी मागीर म्हज्यान रावपाक जायना. आत्मचरीत्र बरोवन सोपोवपाची तिश्टत आसाच.

साहित्यांत नवें निर्माण करपाचो निर्धार आनी न्हयकारी वृत्तींतल्यान सकारात्मक दृष्टीकोना वटेन पळयताना स ते सात कथांचीं बीजां फाटोफाट सापडत गेलीं. दर दिसा फांतोडेचेर उठून पाच वरांचेर येती वती धरून म्हजी दोन किलोमीटरची पासय, काळोख आसलो तरी सकाळच्या प्रसन्न वातावरणांतली सकाळ म्हज्यांत सृजनाचे नवनिर्मणेचें वातावरण तयार करताली. सावयच्या सांतेरीभाटांतल्या देवळा मेरेन वचून फोंडचेभाटांत आमच्या घराचे गेटी मेरेन पावतासर तकलेंत एक-दोन विचार शिजत रावताले. केन्ना ल्हानशीं कवनां अचकीत वंठार येतालीं. अशें एक वर्सभर म्हज्यांत घडत गेलें. सैमांतले बदल नवो दिश्टावो घडयताले. केन्ना झाडांतल्यान झुळझुळीत व्हांवून आंगाक शेळाव दिवपी वारो, सवण्यांचीं एका सुरान म्हणिल्लीं गीतां म्हाका नवनिर्मितीची स्फूर्त दितालीं.

फांतोडपारा कोगूळ गायता
आसमंती सूर घुमता
अशा वेळार मन म्हजें
कोणाक साद घालता?

सहज स्फुरिल्लें हें कवन. पूण हातूंत आशिल्ले प्रणयी भाव तर मायेची ओलसाणय दिसताली. सकाळच्या शांत वेळार कोगळाचें गीत, सवण्यांचो चीवचीवाट, हे सगळे आवाज एकामेकांत सरभरस जातकूच एक आगळोच हुरूप येता. म्हाका तशेंच जावपाक लागलें. दोळ्यांचे नदरेंत भरताले मळबाचे विविध रंग. केन्ना तांबडो तर केन्ना निळो. मदींच केन्ना मुखार ही अशी वाट दिसना तसली धुंवटी. आनी त्या खिणाक एकेक उतर जुळत गेलें -

हे अशे म्हाका तळमळे, तुजे वाटेक लागले दोळे
मळबांत दाटल्या धुंवटी
ही नदर म्हजी, धुंवटी कातरत चलली
तशी वाट जाली मेकळी
धुंवटी गेली विरगळून, आतां हें नितळ मळब
हांसतें मुख घेवन, येवचें तुवें
अळंग म्हजे वेंगेंत रीगचें, सांगूं कितें?
म्हजे नवे कथेची सुलूस, तूं म्हन्यांत आसूं नासूं
तरी हीं सृजनाचीं लक्षणां, तुजे बगर कोण जाणां?

अशे तरेचे कवितेच्या रूपांत प्रकट जाल्ले विचार म्हाका स्वस्थ रावपाक दिना जाले. म्हज्यांत घडटा तो बदल म्हाका कळटालो, मानसिक त्रासांतल्यान वता आसतना अशे तरेचीं लक्षणां म्हज्यांत घडत वतालीं हें म्हजे म्हाकाच कळपा भायलें अजाप आशिल्लें. देखून घरांत येनाफुडें हांव डायरेचेर आसा तश्शें उतरावन घेतालें. म्हाका नक्की खबर आशिल्लें हीं वर्णनां म्हजे नव्या निर्माण जातल्या कथांचीं. हाचो अर्थ वर्णनां पयलीं सुचलीं आनी कथा मागीर आयली काय कथा तकलेंत शिजत आसली आनी प्रत्यक्षांत हांव भोंवतणचो सैम निरखीतालें तातूंतल्यान प्रकट जालीं वर्णना? कविता रचनेंत हावें केन्ना लक्ष घालें ना तरी सैमांतल्या विविधांगी वातावरणांतल्यान घडत येवपी ह्यो सृजनप्रक्रिया म्हज्यांत नव निर्मणेचे संदेश दिताले कशें दिसपाक लागलें. म्हजे भितर सांगपासारकें जायतें आसा आनी ती झाडून उडयिल्ली उबगज न्हय, जाल्यार सकारात्मक नदरेंतली नवी उमेद. म्हाका जाणीव जायत गेली म्हज्यांतल्यान नवें निर्माण जावपाचो हो खतखतो. ताचे वयलें धाकणे उसळून गेल्यार तो खतखतो ओतून वतलो. वयलो ओतो म्हणल्यार दुदा वयली साय वा नाल्लाचो आपरोस. तो ओतपाक दिवूं जायना. म्हाकाच जाल्ली ही पुर्व सुचवणूक आसा. म्हज्या कथांतलीं बियां ह्या सकाळच्या पासयेंतल्यान आतां रूजवणा येवपाचीं आसात -

आसन हांव सृजनाची निर्माती, तूं तर म्हजी सृजनस्फूर्त
पिश्या तूं नासतना जीण म्हजी फुलतली आसली?
चंवर भोंवर सगळो तूंच
म्हजें मनूच जेन्ना चोरता, तेन्ना सगळें तुजेंच जाता
मॉड आयलें, हुंवार आयलो, आतां कितलें लीप जालें
म्हज्या उरिल्लया आयुश्यांत हेंच सूख म्हाका पुरो जालें.

हीं उतरां आनी वाक्यां खंयच्या कुरकुटांतल्यान भायर सरतालीं तें म्हाका खबर नाशिल्लें. दरेका वाक्या कणकणी

मळबांतले रंग बदलत वतात कशें म्हाका दिसपाक लागतालें. म्हज्या मनांतल्यान उचंबळून येतल्या कथाबिजां वांगडा हांव म्हजी पासय एन्जॉय करतालें. त्या पात्रांलागीं संवाद सादतालें. तांच्या सुखदुख्खां कडेन समरस जातालें, म्हजें भुरगेपण ते आतां मेरेनच्या जिवितांत जगतना हावें अचळय वेंचून दवरिल्ले खीण, म्हज्या धाडसाच्यो काणयो, पुरूशप्रधान संस्कृतिच्या चेपणा खाला दबकून गेल्ली म्हजी आवय –

अस्तुरेच्या दोळ्यांतल्यान
थेंब थेंब गळटल्या
दुकांचें मोल करूं येत?
आळवा पानाचेर थरथरपी
पावसाच्या थेंब्यावरी
अळंग झेलपाची
ताकद आसूंक जाय.

म्हज्या दोळ्यां सामकार उबी जाली म्हजीच आवय. चुलीर आदन दवरून उदक तापना म्हणून नळी घेवन फू फू करतना तांबडेगूंज जाल्ले तिचे दोळे. त्या दोळ्यांतलीं दुकां म्हाका हजारांनी बायलांचीं हजार तरांनी हजार गजाली सांगतालीं. –

मेरी एक माँ थी
उसकी आँखों में
बहुत पानी था
लेकीन एक बूँद भी
नहीं गिरी।

अजाप म्हणल्यार हें कवन आयलें तें हिंदिंतल्यानच आयलें. दादल्यांचें वर्चस्व आशिल्ल्या ह्या समाजांत आवयन म्हाका दिल्लो मंत्र – सदांच भित्र्या फाटल्यान ब्रह्मराक्षस लागिल्लो आसता. आपणे केन्ना भियेवपाक जायना. भिता कोण? जाणे वायट कर्मा केल्लीं आसता आनी तीं जो लिपोवंक सोदता तो भिता. आपणे आपली तांक दाखोवपाक जाय आनी तें सामर्थ्य मेळोवपाक पयलीं आपल्या पायार थीर जावपाक जाय. पदराक शिक्षण जाय आनी गांठीक चार पयशांची जोड आसपाक जाय. दान म्हण घोवान पोशांत उडयिल्लीं नाणी मुठींत आंवुळचे परस घामा कश्टांनी मेळयिल्लें चिमटीभर धन लाख मोलाचें. ह्या उपदेशांतल्या डोसांतलीं उतरां म्हजे खातीर नवे निर्मितिचीं साधना जालीं. म्हजे 'नाकाशी' कथेची मूळ बसकाच ही. बायलेन स्वावलंबी आसचें आनी स्वाभिमानान जगचें.

आनी हांव आदल्या म्हज्या जिवितांत समरस जालें. साहित्यांत घुस्पून रावलें.

हे फाटभुंयेचेर म्हज्या नव्या कथांनी जल्म घेतलो. पिरायेची साठी हुपल्या उपरांत अशे तरेची सृजन निर्मिती जाता हाचें म्हाकाय अजाप जालें. पूण हीं म्हजे परिपक्वतायेचीं लक्षणां अशी हावें म्हजी समजिकाय करून घेतली. कित्याक तर ह्यो कथा अशे तरेन स्फुरत आयल्यो, म्हाकाच कळना कंप्युटराचेर बसलें तें एका दमान फटाफट विशयाची मांडणी, पात्रांचे संवाद आनी कथेचो शेवट लेगीत करपाक अजिबात त्रास जाले नात.

सगळ्यांत पयलीं आयली ती 'नयनतारा'. हे कथेचें बीज खूब तेपा सावन तकलेंत घोळत आसलें. हे कथेचो आराखडो तयार करतना म्हज्या दोळ्यां मुखार उभो जालो म्हज्या भुरगेपणांत आमी येवन वचून राविल्लुया म्हज्या मामाल्या कुड्डे गावांतल्या अटंग्या रानाचो परीसर. सांगे काडटकच फुडें कुड्डे आनी कुर्पें अशे दोन पिकावळीचे गांव. हे गांव आज उदकाखाला गेल्यात. हे सुपीक जमनिचेर साळावली धरण आयलें आनी गावाचें नाव निशाण लिपलें. पूण म्हज्या भुरगेपणांतल्यो यादी मात विसरूंक जाल्यो नात. हे कथेचो जल्मूच जालो कुड्डे गावांत आनी ते निमतान सगळें उमळून वयर आयलें. थंयचो सैम, रानांत भोंवपी जनावरां, फांतोडेवेले कोंब्याचे साद, आंगणांत गोड गळ्यान गावपी सवणी सावदां, तरातरांचे प्राणी, जीव जंतू हांची जाल्ली संवकळ. म्हजो मामा एक मोटो भाटकार. ताचो केदो दरारो! सगळ्यो दोळ्यांनी पळयिल्ल्यो आनी प्रत्यक्ष अणभविल्ल्यो गजाली. काणयो न्हय. हांव केन्ना बरोवंक लागतलें आनी हे देखाव तातूंत येतले हें तेन्नाच्या भुरगें मनाक खंय कळटालें! पूण जें दोळ्यांतल्या नदरांनी भरून उरलें तें मनाचे पाटयेर ना पुसूं येत इतलें घट दसून उरलें. सुपीक गांव. त्या गावांत कसलें पीक जायनासलें? मानकुराद, मुसराद, फेर्नांद, आफोंस तरातरांच्या प्रकाराचे आंबे. हीं बियां खंय पोर्तुगालाक सावन हाडिल्लीं आनी हांगां तांची लागवड बेस बरी जाताली. अमाप पीक. ट्रकांचे ट्रक निर्यात जाताली. घोंटांची रास, काजू, पणस सगळ्या तरांचीं फळां किल्लून येतालीं. नाल्लांचीं भाटां तर घे म्हणून.

उंसाचें पीक आकांताचें. म्हज्या दुसऱ्या मामालें उशेल आशिल्लें. सुवादीक गॉड, मागीर उरताली ती काकय. सकाळची चपातेक लावन खावपाक एकदम बरी. म्हज्या व्हडल्या स भांवडांचो जल्म कुड्डेच जाल्लो. सकाळचे पासयेक वतना हें सगळें दोळ्यांमुखार घुंवतालें आनी त्या परिसराक सोबता तशें कथानक तकलेंत येवजलें आनी कथा तयार जाली. कथानकांत एक कलाकार कशेतरेन बसूं येता ती मागीर प्रक्रिया तशे तरेन जुळत गेली. ती बरयतकच हावें खूबजाणांक वाचून दाखयली आनी दोन संस्थांचे वतीन तिच्या वाचनाचें सादरीकरणय जालें. कथा सगळ्यांक आवडली. वेगवेगळ्यो प्रतिक्रिया आयकून जिवाक खोस जाली. कथाकार म्हण म्हज्यांतलो आत्मविश्वास

ाडलो.

दुसरी कथा आयली ती 'नाकाशी'. ातूंत थोडेशें म्हज्यांतलेंच प्रकटीकरण ्रूण प्रत्यक्षांत दोन धाडसी बायलांचीं यक्तिमत्वां भेटलीं. ल्हानपणा सावन व्रास म्हाका धाडसाचीं कामां करपाक आवडटालीं. साद्या मोटारीं परस जीप आनी व्हडली गाडी चलोवची अशें सदांच देसतालें. पूण म्हजे कडेन जमलें ना नरी बुलेट मोटरसायकल चलोवपी एक आनी इनोवा चलोवपी एकली मेळ्ळी. दोगींचेंय धाडस नदरेंत भरलें, तांचे कडेन इश्टागत जाली आनी तीं हे कथेचीं पात्रां जालीं. कथानक घडटना म्हजी सकाळची पासय कारण थरली. सकाळीं साडेचारांक उठल्या बरोबर जनेल उकतें करपाची म्हका संवय. भायर काळोख आसतालो आनी येदे सकाळीं मुखार आनी एका घरांत एक बल्ब पेटिल्लो दिसतालो. मनशाची आकृती ना पूण त्या घरांतलो दिवो आनी हावें पेटयिल्लो दिवो हातूंतल्यान कथेची ट्यूबलायट पेटली. कितने पाकिस्तान हे कादंबरीची सुरवात जातना एक शांत आनी सुरबूस असो प्रणयी प्रसंग वातावरण फुलोवन सोडटा. अलाहाबाद स्टेशनाचेर तांची घडिल्ली भेट. दोगांय एकामेकाची वाट पळयत एकेच गाडयेन वचपाक तिश्टुपी. विद्या कानपूराक देंवन फतेहगढाक वचपाची ट्रेन धरपी आनी तो सरळ शिकोहाबाद. ते गाडयेंतल्यान ती ताका आपल्या डब्यांतल्यान लेंस हालयता. एक दीस पुलार पावतकूच आपणाल्या प्लेटफॉर्मा कडेन वतना विद्यान आपलो लेंस वयर सावन सकयल उडयिल्लो. लेंस पडटना ताणें तो पळयिल्लो, ताचे खातीर तो आडखळून उरिल्लोय.. एक प्रणयी मोनेपण. म्हजे तकलेंत खूब तेंप हो प्रसंग घोळत उरलो आनी दिसलें म्हाका एक सुंदर प्रेमकथा बरोवपाक जाय. म्हजे नाकाशी कथेचें चिंतन आनी मंथन फांतोडे वयले पासयेंतल्या एकेका पावला कणकणी जायत वतालें. रेल्वे आनी प्लेटफॉर्म! तो लेंसाचो प्रकार! वाटेर लागतल्या सांकवाचेर थारून हांव बरेच दीस तसल्या सीनाची तालीम घेतालें. तो सीन म्हजे कथेंत म्हाका हूबेहूब आयिल्लो जाय आसलो. त्याच वेळार म्हाड्डोळा परिक्रमा ०.१ हो इवेंट जाल्लो. म्हाड्डोळ म्हणलें काय जायो जायो करून भर बाजारांत जायांचे पोड विक्रेक आशिल्ले दिसतले. जायो हें थंयचें खाशेलेपण. चित्रकार रोहीत भोंसले हाणे जायांच्या पोडाचें एक सुंदर हुबेहूब चित्र काडलें. फ्रेम केल्लें तें पांयजेल म्हजे नदरेंत भरलें आनी त्या जायांच्या पांयजेलान म्हजे हे कथेचो शेवट जालो.

'निवलकाणी' कथेंत तर एका गांवगिऱ्या वाठाराचें वर्णन आयलां. ज्या परिसरांत हांव रावतां त्या परिसरांतलें वातावरण म्हाका आयतें मेळ्ळें. तीस चाळीस वर्सांफाटीं वैजकी शिक्षणांत आयचे सारकी उदगरत जावंक नासली आनी ताका लागून झाडा पेडांच्या गांवठी वखदांचेर दुयेंसां बरीं जातालीं. गावांनी अशे तरेचे खास लोक आसताले जे हीं वखदां दिताले. मडगावां कामणिचेर तर हालीं लेगीत गांवठी उपाय सुचोवपी आनी वखदां दिवपी कोंबांत एक घर आसा. ल्हानपणांत म्हाका एकदां पायाक फेरीद जाल्लें आनी तें पेकोवपाचें वखद खारेबांदार रेल्वेरूळा पलतडीं वचून घेवचें पडटालें. म्हज्या भावान म्हाका उबारून व्हेल्लूयाची आजून याद आसा. स-सात वर्सांचें आसत हांव पूण याद घट. आजून उजव्या पायाक ताची माव आसा. कथेचो प्लॉट तयार जातना ह्यो गजाली मतींत आयले बगर रावल्यो नात. कथेंत एके ल्हान चलयेचेर बलात्कार जाता तिवूय घडणूक विशेक वर्सां फाटली. तिचेर कथा येवंची अशें खूब फावटीं दिसतालें पूण जुळून आयलेंना. ह्या प्लॉटांत ती जुस्त बसली.

'तीन दीस' ही कथा चलयांचे वा बायलांचे म्हयन्याचे पाळये संबंदान आसा. दर म्हयन्याक हे तीन दीस बायलां खातीर खूब त्रासदायक आसतात. शारीरीक तर जालेच पूण पारंपारीक रिती प्रमाण विटाळ म्हण त्या दिसांनी तिका अस्पृश्य तरेन वागणूक मेळटा. अशें जावंक फावना म्हण खूब कौंसिलींग जाले; पूण गावानी आजून तितलो फरक पडिल्लो दिसना. ही समस्या सुटावी जातली जाल्यार तिचो जाहीर प्रचार करीनासताना ल्हवपीक तरेन मत परिवर्तन करपाक जाय अशें म्हजें मत आसलें आनी बायलां परसूय दादल्यांचे वृतींत बदल घडपाक जाय. रूक्ष आनी कठोर तरेन तें प्रकरण सुटचें ना अशें म्हाका सदांच दिसतालें. दादल्यांक हातूंतल्यो बारीकसाणी समजून घेवपाक थोडेशें शिक्षणय गरजेचें. हेविशीं चिंतीत रावतना ही कथा आपसूकच घडत गेली. दादल्यांक बायलांविशीं सोफ्ट कॉर्नर आसताच पूण उलोवन दाखोवपाक कळना. तांच्या मनाचो थोडोसो सुगाव घेवन तयार जाल्ली ही कथा. कांय चलयांक ही मुजरत वाचून दाखयली आनी आपली व्यथा कथेंत आयिल्लयाचें तांकां समादान भोगलें.

'पुनर्वैभव' कथेचें वातावरण येवपाक पणजेची सेंट्रल लायब्ररी कारणीभूत थरली. पाच मजली इमारत आनी पाचय मजल्यांचेर च्या दिवपी बायल. सामान्य मनशां कडल्यान घेवपा सारखें खूब आसता. सगळें काम जातकच ती म्हजेम्हन्यांत बसताली. गांवच्यो जायत्यो गजाली ती म्हाका सांगताली. जाणटीशी बायल पूण अतिशय प्रामाणीक आनी

कश्टाळू. ती करताली त्या खाणाक रूच आसताली. केन्नाय आपल्या मनांतल्यो गजालीय उकत्यो करताली. त्या पात्रावयल्यान घडत गेल्ले म्हज्यांतले विचार हाचो मेळ जुळत पुनर्वैभव कथेची धाटणी घडली.

म्हाका सदांच दिसत आयलां सर्जनशील साहित्यिकाचें जिवीत केन्नाच बंदिस्त फास्कें उरूंक जायना. ताका उकतें मळ जाय आनी तें मळ हांव सोदीत आसतां.

आतां उरली 'श्वेता-सिंधू.' निश्पाप चलयो आनी बायलो. पूण खंयच्या एका घाळ खिणाक शिंदळकेच्या वेवसायांत घुस्पून गेल्यो तांच्या तोंडांतल्यान आयिल्ल्यो आपल्योच जिवीत काणयो. तांच्या विचारांचेर आदारीत अर्ज संस्थेन उजवाडायिल्लें ब्युटीफूल वीमेन हें पुस्तक हावें वाचिल्लें आनी तें कोंकणीत अणकारीत करपाक सुरू केल्लें. तातूंत ताणी सांगलां आपूण कशेतरेन फटावलीं आनी ह्या वेवसायाक पावलीं. वाचतकच हांव तातूंतच उरलें खूब दीस आनी मागीर अशेच एके फसोवन तांच्या म्हालांत व्हरून सोडिल्ले एके तरनाटे चलयेचेर ही कथा आयली.

ह्यो स कथा नयनतारा संग्रहांतल्यो. ह्या स कथां वांगडा आनीक एक कथा तितलेच गतीन आयली. ते कथेचो आटाप दीर्घ आनी तिचो प्रकार कादंबरीच्या स्वरूपाचो आशिल्ल्यान ती आतां नवलिकेच्या प्रकारांत येतली. रमेश वेळुस्कारान ती वाचल्या उपरांत सांगिल्लें, हेमा ही कथा अशी उजवाडावं नाका. ती एक सुंदर कादंबरी जातली. हातूंत आनीक प्रसंग येवपाक जाय. तेखातीर ती उरल्या, आनीक एक कथा बरोवन आसा ती 'रंगिली मदलस'. हे कथेचो विशय मातसो वेगळो आशिल्ल्या कारणान ती फुडल्या संग्रहा खातीर दवरल्या. ही कथा मजेशीर तरेन म्हाका आयल्या. म्हाकाच अजाप जालें, कशी आयली तेंच कळ्ळें ना. फेसबुक हें सोशल माध्यम सर्जनशील कथाकाराक सामकें उपकारा पडपी हें म्हाका आतां जाणवूंक लागलां. एकेकल्याचे विचार आनी तांच्यो सुचोवण्यो सर्जनशीलतेक आदार दिता. राकेश कांदोळकार हो दर दिसा सकाळीं फेसबुकाचेर आपले बायलेन दिप्तीन आपल्या हातांनी गुंथिल्ले आनी पोरसांत फुलिल्ल्या तरातरांच्या फुलांच्या हारांचे फोटू घालता. तातूंत आबोलीं, अनंत, सदानंद, दसण, चाफीं, जायो, जुयो, शेवंतीं, मोगरीं, पारजत, बोकडयो, तुळशी अशीं आमच्या पोरसांत फुलतलीं फुलां. ताची कला आनी करामत तोखणाय करीसारकी. ह्या हारांचो आदार घेवन ताचेर परमळून आयिल्ली म्हजी ती कथा.

काल पयर आनीक एक कथा बरोवन पुर्ण जाल्या आनी ती उजवाडाक येवपाची आसा. तिचेरय मागीर उलोवप.

आतां ह्यो सगळ्यो कथा म्हजी पिराय साठ जाल्या उपरांतच्यो. पूण तातूंत आयिल्लीं पात्रां, कथांचे विशय आनी वर्णन केल्ल्यो घडणुको म्हजें भुरगेपण ते आयज मेरेनच्या जिविताच्या वाटचालींत म्हाका सापडल्यो. ह्या दोन वर्सांत हांव मानसिक अस्वस्थतायेंत आसतना म्हज्या हाताक लागिल्लो हो खजिनो कथा निर्मतींत म्हाका अचळय गावलो. एखाद्या बँकेच्या लॉकरांत सुगूर उरचो तसो म्हज्या काळजाच्या कुरकुटांत तो अळंग उरिल्लो. आनीक एक गजाल म्हाका बऱ्याक पडली ती म्हणल्यार हातूंतल्या कांय कथांचें हावें कथन केलें आनी आयकतले कशी दाद दितात ताचें निरीक्षण केलें. म्हाका जाल्ल्या समादानाक आयकतल्यांच्या प्रतिक्रियांचें मोल आसा. कोंकणीत तशे कथाकार सामके उणे आनी जांच्यो कथा मासिकांनी वा हेरकडेन उजवाडाक येतात त्यो वाचपाचे भानगडींत कोंकणिंतले जाळवणदार पडनात, कित्याक तर तांका तितलो वेळ नासता. तेखातीर हांव मुद्दाम कोणाक सांगून अभिप्राय घेना. कोंकणीत चडशे कोडू अणभव म्हज्या वांट्याक आयल्यात. आपलें तेंच परफेक्ट आसता आनी बाकिच्यांचें डीफेक्टीव अशें तांका दिसता.

कथाकार म्हण एके बाबतींत हांव समादानी आसां, कथांचे हे सृजनप्रक्रियेची निर्मिती करतना हावें घेतिल्ले परिश्रम, बरयिल्ल्या कथांचेर म्हजें चिंतन मंथन ह्या सगळ्या आटापांतल्यान म्हज्यो कथा तयार जाल्यात. कित्याक तर, ह्या कथांचे विशय आनी मांडणी म्हज्या आदल्या कथां परस सामकी वेगळी आसा. देखून नयनतारा संग्रहांत तांचो आस्पाव करून तो संग्रह वाचप्यांच्या हातांत पाव मेरेन म्हाका व्हडलो वावर करचो पडलो. उसरां जांव पूण वाचप्यांक ह्यो कथा आवडटल्यो अशें म्हजें मन म्हाका सांगता. पयर लायब्ररींत गेल्ले कडेन थंयच्या एका स्टाफान म्हाका विचारलें, 'मॅडम हालीं तुमचें नवें कांय येवूं ना? रीडर विचारतात नवें कितें आसा तें दियात म्हण.' हावें म्हणलें, 'नवो कथासंग्रह आयला.' तर तिणे म्हणलें, 'लायब्ररींत दिलो?' म्हणलें 'ना. दिवपाचो आसा.' 'बेगीन दियात, रीडर वाट पळयतात तुमच्या पुस्तकांची.' म्हाका अजापूच जालें. पूण ती फोट सांगनासली. मागीर हावें नवें पुस्तक तिका दाखयलें. आवय्स कितली खूश जाली ती, म्हणपाक लागली, 'व्हरतां आनी वाचून फाल्यां हाडून दितां.' तिची ती उमेद पळोवन कितें करचें सुचना. पुस्तक तिका दिलें आनी म्हणलें, 'तुकाच दवर, वाच आनी सांग कशें लागलें तें.'

खरेंच?' आनी मागीर पयल्या पानार सय करून पयल्या वाचप्याक म्हजें पुस्तक देलें. जिवाक सू जालें.

आज म्हाका दिसता, कोंकणीत जें साहित्य निर्माण जाता तें पुस्तक रूपान छापून हाडपाक आमची खूब ताकतीक जाता. आमकां संख्येन पुस्तकांचो आंकडो वाडिल्लो जायच पूण गुणांचोय विचार करून दर्जो घसरूंक दिवपाक जायना. म्हज्याच कथांचे बाबतींत हावें विचार केला तोच हांव मांडटां. साहित्यिकाची विचारीक पातळी केन्ना आटून येवपाक जायना. ताच्या विचारांची धार तीव्र उरपाक जाय. ताची पिराय कितलीय जांव. जितली पिराय वाडटा तितली ताच्या विचारांची परिपक्वताय खोल खोल पातळी घेता. बाकिच्यांचे बाबतींत हांव सांगना पूण म्हजे बाबतींत तर अशें घडत गेलां आनी ही गजाल म्हाका सकारात्मक नदरेन जगपाक प्रोत्साहीत करता.

आनी इतल्या उत्साहीत मुडांत आसतकच आंगणांत फुलिल्लया फुलांतल्यान पातळिल्लो हो परमळ म्हाका सुखायता आनी काळजांतले उमाळे व्यक्त जाले बगर रावनात. हांव म्हज्यांतले सृजनप्रक्रियेक ऊर्बेभरीत येवकार दीत पराथितां.

म्हज्या दारांत फुलिल्लया पारजताचीं फुलां
फांतोडेचेरूच शिंपडून पडटात
रांगोळी जावन तुज्या येवपाक रावतात
आनी म्हज्या आंगणांतलो चाफो
जाणा तूं
फुलपाचे उमेदीन रसरसून चंवरला
आतां ह्या चाफ्याचीं फुलां
आंगणभर शिंवरतलीं
तेन्ना मात तुवें येवचेंच पडटलें
येवचेंच पडटलें.

●●●

गांवचे सिमेर आशिल्ल्या निमाण्या वाड्यार म्हळ्यार म्हारवाड्यार मुंबयरावपी खूप शिकलेली नवी सून काल सांजेर वाड्यार पावली ही खबर म्हारवाडो हुपून गांवार पाविल्ली. गांव म्हळ्यार वाड्यावाड्यांचो एक एक भुखंड. जातीकणकणी वाडे, म्हारवाड्या उप्रांत गावता तो गुरवावाडो, ह्या वाड्यार सगळे गुरवूच रावतात. थंयच तांचेमदी थोडे मेस्त आनी एक दोन शेटींचींय घरां, पुण वाड्याक गुरवांवाडोच म्हणून पाचारताले. गुरवावाडो जातकच कुर्पास वाडो, तळ्येपलतडेच कुळागर कोपुल, ह्या कोपलांत सगळे जल्मी गावडे रावतात. थयू विठोबा रायकाराचे घर आसा तशे नभू कलवटालेंय घर आसा. मदीच मारूतीच्या इल्ल्याशा देवळाकडे वासूभटूय रावत आयला. आनी ह्या सगळ्या वाड्याचेर मात करपी म्हळ्यार भटाबामणाचो देवूळ वाडो. हांगा मुख्य नवदुर्गेचे देवूळ आसा. व्हडले देवूळ, हे देवूळ बामणांचे देवूळ अशेंय म्हणपाची चाल आसा, कारण ह्या देवळात सुंदीर लोकांक फळत चौकार तिर्थाचेर ताट घेवन भट बसता थंय मेरेन वचूक मेळटा, तिर्थाचे ताट आनी भट देवळात भितर पिंडीकेकडे वचपाचे अरूंदशा चांदीरूपाच्या दरवट्याकडे तीर्थ प्रसाद दिवपाच्या कामावांगडा, तिर्थाचे ताट हुपून कोणूच अनवळखी वा म्हाजनाबगरचो मनीस वचचोना हाची जतनाय तिर्थ घालपी पुजारी घेता.

म्हारवाड्यावयल्या म्हारांक हांगा भायर देवळाच्या सोणव्यार जय वाजंत्री धोलताशे घेवन उत्सवाक पालखेक नवरात्रीक वाजयतात थंय मात्सो कुलो तेकोवक मेळटा, तोवूय बी आंगचोरून, तेवाटेन म्हाजन बी येतासो दिसलो जाल्यार कुलो तेकायिल्ल्या म्हाराक हातातले धोलीक वो शिंग

# अकस्मीत शुद्धीकरण

– एन. शिवदास



ाट धरून उबो रावचो पडटालो. उबो रावप असे थंय बरोवनाशिल्ले. केन्ना तरी हरिजनासाठी जागा म्हण बरयिल्ले खंय थंय. पूण नेम जावपाक तितलेच पुरो, भितर चौकारूय देवळातलें खांबेय बी अशें वाटून घाल्ले, पयल्या दोन खांब्याक तेकून म्हाजनाबगर हेरांक कोणाक बसपाक मनाय आसली, कोणूय चुकून माकून खांबो धरून बसलोच जाल्यार देवळाचो शिपाय मंगेश ना जाल्यार बाबन येवन बेधडक त्या खांब्याक लाकण मारून बशिल्ल्याक सरळ धमकायत उठोवन घालतालो, कसलेंच कारण नासतना खांब्याक तेकिल्याक शिपायच्या त्या धेंगशान लजेक पुरो जाताले.

सखलीय आनी चौकांचे वाट्याक गावांतल्या म्हारांक सुवात म्हणता ती भायर प्राकारांत. बायलां तर बावडी म्हारवाड्याकडल्याक आपल्या ग्रामदेवतेक पायां पडूक येताली. तांका पयसुल्यानूच हात जोडून देवी सायबिणी पाव गे आमच्या भुरगे बाळाक अशे सांगणे करून थंयच्यान चोराभशेन कडसून पयस कोणाक वारें लागचेना हाची जतनाय घेत म्हार बायलांक रावचे पड. अशा ह्या जाती-जाजीच्या वाड्यांनी वाटून आशिल्ल्या गावांत म्हारवाड्यार मुंबय रावपी प्रतिमा मोरे नावाची उच्च शिक्षित चली गोंयकाराकडेन लग्न जावन आयिल्ली.

नवे नवे व्हकलेचे नांव आता प्रतीमा गोपाळ परवार जाल्ले. हिंदूच्या हेर वर्गातल्या बायलांक लागतात तितलोय धर्मीक समाजीक चालीरीती लागताल्यो, पूण हेर हिंदू प्रमाणे दर एके जातीच्या वाट्याक आयिल्ल्यो भोगावळी चाली रितीय एकसारक्यो नासताल्यो, म्हारांक गावाभायर वाडो दिला ताका म्हाड्डात म्हण, अशी म्हाड्डां गोंयांत दर एका गावांनी आसात. हांगाय एक म्हाड्ड आसा, त्याच म्हाडडात गोपाळ परवार ह्या तरणाट्याकडे लग्न जावन प्रतिमा हे मुंबय शारांतले दलीत चली म्हळ्यार गोंयची सून म्हण आयल्ली ही नवलाचीच गजाल आसली.

गोपाळ परवार म्हारवाड्यावयलो सादारणसो बरे जोडीचो आनी इल्लोसो सुशिक्षीत आनी बरी शिर्विशीय आशील्लो, देखून प्रतिमा सारके, उच्च शिक्षीत मुंबयत रावपी चली लग्न जावन म्हारवाड्यार नवी सून म्हण आयिल्ली. ही वाड्यार सगळ्या म्हारसमाजातल्या लोकांक मोट्या अभिमानाची गजाल आसली; अप्रूपच ते एक!

मात्सोसो सुशेग घेवन एकदोन दीस घरातच आशिल्ली नवी सून म्हारवाड्यार भोंवाडो मारपाक म्हण बरी साडीबिडी न्हेसून घरांतले नणेक घेवन भायर सरली. घोटेरांतल्या नव्या शेवाण्यान अजापान मळब पळोवचे तशें प्रतिमान आपलो घोवालो म्हार वाडो पळेलो, वाड्यार पुरसाची देवळी, ते देवळेक वाड्यार सगले देवूळच म्हण. ते सुवातेक म्हारांगणय म्हण, पूण म्हारांगण हें पोरणें नांव वाड्याक म्हाड्ड अशेंच म्हण. देवळे भोवतणची म्हार कुटुंबा, ताच्यो मातयेच्या पारेतीची घरां ना म्हळ्यार बसकी पाक्यांची, भितर सरतना वयर ठो करून तकली आपटून तकलेक गूट येवंक जाय, पूण घरात रावतल्यांक त्या माथ्याक तेकपी पाक्यांची सवयूच जाल्ली. ते मानांन प्रतिमाचे नवें घर, बरेच आधुनिक आनी फुडलो भाग तेर्रासाचो, देखून वाड्यार तेर्रासाचें घर आशिल्ल्या घरातलें नवे सुनेकय तितलेंच व्हडपण फावतालें.

प्रतिमाक आपल्या म्हारवाड्यावयल्यो खूपश्यो रिती रिवाज आनी परंपरा खूपच अनवळखी आनी परकी आसल्यो, सरभरस समाज मिश्रण आशिल्ल्या मुंबय सारक्या शारांत जाती काती उंचरपणकपण जावं हिंदू- अहिंदू जाव परधर्मीय सुद्धा व्हडलेशे खंय बदलेना, मात लग्न जावन गोयांत येत पासून नवेनवेच कितें कितें आयकूक मेळ, गोंयच्या लोकामंदी स्पर्श अस्पर्श्य भशटेपण बी ना, लोक खूप सुदारलेले आनी माणस्केचे सगले समान सारके वागपी, हे आयकून समज घेवन प्रतिमा गोंयकार परवाराकडे लग्न जावन गोंया आयिल्ले. पूण वाड्यार भोंवता भोंवता ताका पयलीच गजाल खटकली ती म्हळ्यार ताजे जय घरा आसा त्या वाड्याक म्हारवाडो वो म्हाड्ड म्हणून गांवात वळखताले. प्रतिमांक म्हारवाड्यार आपूण सून म्हण आयल्या हे पयले शल्य काटो कसो काळजाक रोमले पूण ते शल्य ताणे कोणांक उलोवन दाखयलेंना. कारण थळाव्यांक ते चिकटूनच आसलें, आनी आपल्या वाड्याक ते देवानूच दसयलां अशी भावना सगल्या म्हारांची आदीसावन आशिल्ल्यान प्रतिमाय जशें ते भिडिल्ले तशे तांकां भिडूंक नासलें. घरांतल्या घरकाराकूय ते वेगळेशें कांय दिसलेना, मात जशे -जशे प्रतिमा वाड्यार भोवलें, गावांतूय एकदा भोवलें, नवदुर्गेच्या देवळाकडे देवूळवाड्यान वाड्यावयल्या आपल्या शेजाऱ्याक घेवन गेले. तेन्ना ताका देवळाच्या प्राकारांत देवळाकडेन म्हाराक खंयखंय मेरेन वचूंक मेकळीक आसा ते आयकूंक मेळ्ळें. प्रतिमाची ही नवदुर्गा कुळदेवी, वर्सुके जात्रेक, दिवज पेटोवपाचें आसा, हेर हिंदू सवायशिणी वांगडा, अशेंय कळलें पूण प्रतिमाक वासपूस करता करता समजले नवदुर्गेक दिवजांक आयलां तो सगळो सुदीर आनी म्हार समाजातलो लोक तांगेल्याच संवायशिणी जात्रेक दिवजां पेटय, भार अवसर जावं व्होंवरात तेच लोक आपलो कुळदेव कुळदेवी म्हण वांटो घेतं, ताकाय वेडीयो आसल्यो, ताकाच,

पुरीश आसले, खरे निजाचे कुळावी म्हण ते देवाची सेवा भोगावळी करीत आसले पूण नवदुर्गेच्या देवळाच्या एकूण वेवस्थापनात ह्या दिवजाकार समाजातल्या घटकांक कसलोच हक्क नासलो, सगळो आर्थीक दुडू आनी वेवस्थापन मात एक वयलो थारावयलो हिंदू घटक करतालो, वास्तवीक ह्या घटकांकडे देवीचे प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष कसलेच देणे घेणे नासले. देवी ताची कुलदेवी वां ग्रामदेवी सुद्धा नाशील्ली. तरीय ते सगळ्यापरस देवीचेर चड अधिकार हक्क गाजयताले, देखून भौसाचोय समज पक्को जाल्लो की नवदुर्गा ही त्याच लोकांची खाजगी मालमत्ता!

प्रतिमाक सगळो गावराडो समाजलो. ताणें आपल्या घोवा वांगडा देवदेवतांचें संशोधनाच केले, आनी एकदीस कोणांक सांगनासतान प्रतिमा आपणाले वोले कपडे घेवन देवीचे तळयेर हेर बायलां सांगतान आयलें. आयलें ते आयलें सोमतेच देवीच्या देवळासामखार आशिल्ले म्हाल तळयेर वचपाक थंय थळावो भटपुजारी ताका हडकूक लागले,

तूं अणवळकी शी, कोण तू?

उगडो – गळ्यांत जाणवे– कपाळाक गंधा तिळो आनी भूजाकय कानसुलाक गंद्दा तिळो पलोवन चाणाक्ष प्रतिमाक तो थळावो नवदुर्गेचो पुजारी म्हण समजले.

प्रतिमा मुंबय शारांतले पाणी पिवन आयिल्लें सुशिक्षीत तरणाटे, म्हारवाड्यावयली नवी सून म्हण किते जाले, ताणे आपणाली भितल्ली उर्ज्या उमेद आनी स्वाभिमान शेणोवक नासलो.

हंय, हांव तुमका अनवळखी, हालीच लग्नजावन ह्या गावांत आयला, प्रतिमा परवार म्हजे नाव. प्रतिमाक स्पश्ट कोंकणी भास अवगत नाशिल्ल्यान ताणे आपले मराठी भाशेत्तच सांगले, अर्थात भटपुजाऱ्याक मराठीचे वावगे नासले, तागेले भटी भाशेत प्रतिमाची मराठी भास जास्त सूट जाल्ली.

संवादाचा आडकळ आयलीना.

परवार, परवार???

किते जाले भटमामानो? आंगार पाल पडिल्लेवरी तुमी जाले.

'आगो पयली उदकातले वयर सर, तुवे ही म्हाल तळी आमची भटाबामणांची भश्टीली. भश्टकार भश्टकार!' अशें म्हणत भटपुजारी ते तळयेर अक्षरशा आकांत जाल्यावरी थंयच उतळताप करीत शबै घालून बोबो मारून अख्खो प्राकार एक केलो. भट पुजाऱ्याची बोंब आयकून प्राकारातले सगळे हेर पुजारी आनी देवळांतलो देवीक भेट दिवक आयिल्लो पर्यटक भक्त आनी थोडेशे देवूळवाड्यावयले गांवकार झूम करून तळयरे जमलो.

हो सगळो आयकोन पळोवन प्रतिमा इल्लेय चलबिचल जालेंना, म्हारांच्या वाट्यांक पुरीपुरंतरासाव हे असले उणागाउपणाचे वागणें वाट्यांक येत आसा, पुण ह्यावूय सुधारीत तेंपार ते गोयांसारक्या सुदारीत प्रदेशांत हांगाच्या देवळां प्राकारांत तिगून आसा ताजे प्रतिमाक अजाप दिसलें, ताणें भटमामाक विचारले भटमामा तुंवे हे तुजे सगले लोक बोंब मारून हांगा तळयेर जमोवपाचे कारण? 'कारण कारण, शांतान पापम् – महापाप, भ्रश्टकार तुवे आमची पवित्र म्हाळतळी भश्टीली, हे तळयेच्या उदकान देवीचे न्हाण जाता, आमीय बी न्हातात आनी गर्भकुडीत पुजेक वयतात, तूं म्हार जातीचे हे तुका खबर आसूनय तुये हें तळयेत उदकाक हात लायलोच कसो?' उदकाक हात लायलो खरो पूण हालयतकच उदकाचे नेमके किते जाले ते तरी दाखय म्हाका, हांव बरे न्हांवन –धुवन नितळ साडी न्हेसून हांगा आयला. म्हज्या अंगाक खंय इल्लोय कसलो मळ ना, रेबो ना, कसली घाण ना. कसलोच रसायन ना. जाका लागून तुमचे हे म्हाल तळयेचे उदक बुरशे जाले, अपवित्र जालें? 'तुमचेखातीर आमच्या गांवात दुसरी तळी आसा थंय तुमी न्हांवपा धुवपाचे हे पळे ती दुसरी धाकटी तळी, ते तळयेकय नांव तुमचेच आसा म्हारतळी!' भटान प्रतिमाक स्पश्ट केले. 'म्हार तळी'? प्रतिमान अजापान विचारलें, प्रतिमाचो हों अवतार पळोवन थय जमिल्ले सगळे हिंदू लोक अजापीत जाले, आयज मेरेन म्हाड्डातल्या खंयच्याच एका म्हारान जाव दादल्यान वो एखादे बायलेन असे तरेची आगळीक करून गांवात भश्टकार करूंक नासलो आनी ही कोण मुंबयकान्न म्हारीण लग्न जावन गावांत येवन ही असली मुजोरी करता.

गांव जमलो. म्हारवाड्याचे म्हार लोकूय थंय जमले, म्हार लोक प्रतिमान केल्ले करणेन प्रतिमाक धीर दिवचे बदला गांवातल्या हिंदुलोकांवागडा रावलो ताणी प्रतिमाक गुन्यावी धरले, प्रतिमाचो घरकार गोपाळूय थंय पावलो. आपली बायल एका विचित्र प्रसंगात सापडल्या आनी अख्ख्या गावा विरुद्ध उबी रावन उलय गोपाळाक आपले बायलेक अशे तरेन गावकाऱ्यांच्या चपक्यात एकली सोडून दिवप जमलेना. ताणें सगळ्यांक उद्देशून म्हळें. जाव ती नयीच न्हू तिका हांगाची रीत काय खबर ना, म्हारानी हे म्हाल तळयेत हात घाल्यार उदक भ्रश्ट जाता, अपवित्र जाता हे तिका कांय खबर ना.

आमकां गांवाक, देवस्थानाक व्हडलो आकव करचो पडटलो. हे येदे व्हडले भश्टेंपण हांगा जालां ते शुद्ध करपाक, माटो यज्ञयाग म्हळ्या शुद्धीकरण करचे पडटलो, आनी त्या शुद्धीकरणाचो सगळो खर्च म्हारानी करचो पडटलो.

प्रतिमा इतलो वेळ गोपाळाक मान दिवन वोगी आसले कोण कितें कितें उलयतात ते आयकून ताका एकएक गजाल उक्ती जावपाक मदत जाताली. हो गांव, ह्या गावचे उंचाले हेंदू लोक म्हणपाचे ताणें पळेलें, आनी थारायलें तळी भश्टील्या, विटाळ जाला, हांगेलो दैव-धर्म भ्रश्ट जाला, देवी अदूरच्या प्राकार भ्रश्टाला करूदी शुद्धी करण अशे म्हणत प्रतिमान हिंदुच्या जाग्याक एकूच म्हळे भावनो, हावे जर तुमची पवित्र तळी म्हार जावन भश्टील्या जाल्यार हांव ते भश्टेपण मानपाक - कबूल करपाक तयार ना. कारण हांव एक हिंदू धर्मातलीच बायल, उच्च शिक्षीत, सुशिक्षीत, आमच्या देशाचे संविधान म्हाका खबर आसा. बाबासायब आंबेडकराले देणे ते. आमी मुबय शारांत रावन शिकील्ली आसात. थंय आमी असले कांय पळोवंकना, तळ्याच्या उदकाची आनी कामराठाच्या मंदिराच्या प्रवेशाची खबर तुमका आसतली. तुमकां जर तुमचे उदक, देवूळ भश्टला आनी तुमी सगळे भश्टल्यात अशें दिसता जाल्यार ते भश्ट ना करपाक म्हणजेच ताजे शुद्धीकरण तुमी हांगा करूनच दाखोवचे. म्हजे एके म्हाराच्या अस्तूरेचे तुमकां समस्त हिंदू सवर्णाक अशें जाहीर आव्हान आसा, करून दाखयात तुमचे शुद्धीकरण, अशें म्हणत आगटे कशे प्रतिम आपल्या घरकार गोपाळाचो हात धरून परत एकदा म्हाळतळयेर वचून हात बुडोवन उदक पोशांनी घेवन देवळावटेन तिर्थ शिवरायत रावले. सगळे प्रतिमा कितें करता आनी कितें उलयता ते पळोवन गावांतले भश्टेपण वेंगोवन इतले तेप आशिल्लो अख्खो सवर्ण हिंदू थंय घट्ट जावन मोनो जावन नेटान चलले म्हारवाड्यावयले नवे सुनेक पळेत रावले. प्रतिमा परवार हे गांवातले म्हारवाड्यावयले नवें सुनेन खूप पारणे उणाक परंपरेक आव्हानूच दिल्ले, देवळाकडची ही घडणूक फांफां कडून सुक्या कड्डाक उजो लागतकच जशे चरचर ते सुके करड पेटत वतां आनी वेळ -काळ पळेनासतान रानाकूय पेटोवन रानाचो गोबोर करता तशेंच कितें तरी प्रतिमा हे म्हाराचे नवे सुनेन अख्ख्या गावातल्या मनात इतलो घर करून जातीभेदाचो उच्चडगाळ पणाचो भश्टो भैरजळोप लासून उडोवपाक सुरवात केली. प्रतिमा गांवातल्या शुद्धीकरणा सारक्या कर्म कांडाची आतुरतेन वाट पळोवपाक तयार जाल्ले, सवर्ण हिंदूच्या शुद्धीकरणाचे बाराबिरेस्तार आनी तेरा शुक्रार करपाक प्रतिमा म्हारवाड्यावयल्यानूच न्हय तर अख्ख्या राज्यातल्या बायलांक तयार करपाक प्रतिमा वावराक लागिल्ले.

●●●

# १४ नोव्हेंबर १९८५

– संजीव वेरेकार

किर्तेंय आसूं, १४ नोव्हेंबरच्या ह्या मेळाव्यांतलो हो अणभव हांव विसरूक शकना. देणग्यांनी म्हजे हातांतलो डबो भरलो. खरें सांगपाचें म्हळ्यार म्हज्या आनी म्हज्या वांगड्यांच्या बोलसांत पयशे नासताले. अशे वेळार डब्यांतल्यान कांय नोटी काडून बोलसांत घालू येताल्यो. मोर्चा, मेळाव्यांक, येवपा वचपा खातीर पयशे खंयच्यान हाडप हाची चिंता आसतनाय, कोंकणीच्या मोगान आनी गोंयच्या फुडाराच्या हुस्क्यान भरिल्ल्या मनाक, नोटीक हात लावपाची वासना जालीना. आयज २५ वर्सा उपरांत कोंकणीच्या मळार कितें चल्लां ताचो विचार करता तेन्ना भूतकाळांतल्यो यादीच म्हाका थाकाय दिवपाचें काम करता... संजीव वेरेंकार हांच्या रोखडेच उजवाडां येवपी पुस्तकातलो हो वांटो...

१४ नोव्हेंबर १९८५ चो दीस उदेलो. काणकोण ते पेडणे सावन बशी, टेंपो भरून भरून लोक पणजे येवंक लागले. सावयवेरें, वळवय वाठारांतल्यान सुमार लोक ह्या महामेवाळ्याक गेल्ले. राजधानीत सुमार ७५ हजार लोक जमिल्ले. आझाद मैदान तुडूंब भरिल्ले. भोवतणच्या इमारतीच्या तेरांसारय लोकांनी गर्दी केल्ली. लोकांच्यो फकत तकल्योच दिसताल्यो. ह्या विराट महामेळाव्यांतल्यान गोंयच्या मुकतीचें रुप्या उत्सवी वर्स सुरु जावपाच्या समयार म्हळ्यार १९ डिसेंबर १९८५ मेरेन कोंकणी राजभास करपाची नेटाची मागणी करपी थाराव मानून घेतलो. आनी मागणी पूर्ण जायना जाल्यार परिणाम भागपाची तयारी दवरात अशी शिटकावणी को.प्र.आचे निमंत्रक पुंडलीक नायक हांणी प्रचंड जन समुदायाक गवाय दवरून दिली. ह्या खिणाक आमचें रगत सळसळपाक लागलें. पुंडलीकबाबाचें हे जोशपूर्ण भाशण अजून म्हजे यादींत आसा.

ह्या मेळाव्याचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार तेन्नाच्यो प्रदेश काँग्रेस अध्यक्षा सुलोचना काटकार हांचे सयत पक्षाचे साबार आमदार हजर राविल्ले. तातूंत मंत्री डॉ. लुइस प्रोत बार्बोझा, जे.बी. गोन्सालवीस, सायमन डिसौझा, मोंत क्रुज, मानू फर्नांडीस, विल्फ्रेड डिसौजा, जनता पार्टीचे अध्यक्ष ॲड. फेर्दिन रिबेलो, भाजपाचे उपाध्यक्ष दत्ता श्री. नायक, गोमंत लोक पक्षाचे माथानी सालढाना, प्रदेश युवक काँग्रेस अध्यक्ष माविन गुदिन्हो, लुइझिन फालेरो, ॲड उदय भेंब्रे, गावडा कुणबी संघटनेचे अध्यक्ष ॲड. गुरु शिरोडकार, हेर्कूलान दोरादो, ॲड. राजू मंगेशकार, श्रीमती व्हिक्टोरिया फर्नांडीस, कोंकणी लेखिका डॉ. जयंती नायक हांची उलोवपां जालीं. महाराष्ट्रवादी गोमंतक पक्षाच्या आमदारांपेक्षा आपणे मराठी भाशेची चड सेवा केल्या. पूण आपूण सदांच गोंयच्या फुडाराचो विचार आनी हुस्को करीत आयला, अशें ॲड. भेंब्रे हांणी सांगलें. मुंबयत राबितो करून आशिल्या गोंयकारांनीय को.प्र.आवाजाक सह्यांचें निवेदन धाडून तेको दिल्लो. डॉ. जयंती नायक त्या वेळार पिरायेन ल्हान. बायलां लेखिकांचे प्रतिनिधीत्व ताणी केल्लें.

ह्या महावेळाव्या वेळारचो एक अणभव बरोवचोच पडटा. मेळावे चालू आसताना देणग्यो जमोवपा खातीर म्हज्याय हातान एक डबो दिल्लो. त्या डब्याचेर देवनागरी लिपयेंत 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' म्हणून बरयल्लें. हांव तो डबो घेवन गर्देतल्यान वाट काडीत काडीत तळतळट्या वतांतल्यान भोंवतालो. आंतरराश्ट्रीय पॉप गायक रेमो फर्नांडीस, एम, बॉयर, जेसिंत वाझ, आलफ्रेड रोझ आनी आमचे शंकरबाब भांडारी हांच्या गीतांच्या तालार लोक घोलताले. लोकांची खेट आशिल्यान घामसाणीचो वास नाखांत भरतालो. मदींच भिरत सरता म्हणून कांय बायलां म्हजेर बेजार जातालीं. म्हज्या हातांतल्या डब्याचेर 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' अशें नागरी लिपीन बरयल्लें आशिल्लें. क्रिस्तांव भावांचे नवे पिळगेक नागरी लिपी वाचूंक कळटाली. पूण चाळीस-पन्नाशीतले पिळगेक ती कळनाशिल्ली, ताका लागून कांय बायलां म्हज्या आंगार झुटून आयलीं. 'हें कितें? मोराठी घेवन आयला?' अशें म्हणून ताणी म्हाका नाका शेवट केलो. हांव कितें सांगता तें कळच नाशिल्लें. तांकां दिसलें हांव मराठीवालो म्हूण. तांच्या चबक्यांतल्यान सुटूनभायर येवप हें आव्हांनूच आशिल्लें. अज्ञानपणान चुकून म्हजेर कोणेय एकल्यान थापट मारिल्लें जाल्यार म्हज्या हाडांचो पिठो जावपाचो. आमी कोंकणी राजभाशे खातीर झुजताले ते वेगळ्या दृश्टी कोणांतल्यान. आमचो मराठी भाशेक विरोध निखालस नाशिल्लो. हें मराठीवाल्यांकय खबर नाशिल्लें. कोंकणी खातीर एकठांय जावपी चडशा क्रिस्तांव भावांकूय तें कळनाशिल्लें. आझाद मैदानाचेर त्या दिसा जाल्ले गर्देतल्यान हिंदू भावांक सोडून काडप खूब कठीन आशिल्लें. कोंकणीच राजभास क्रिस्त्याक जांवक जाय, हाचो अर्थ कळपी हिंदू भावांचोच्च कोंकणीच्या मोर्चांत जांव मेळाव्यांनी आसपावं आसतालो.

कितेंय आसूं, १४ नोव्हेंबरच्या ह्या मेळाव्यांतलो हो अणभव हांव विसरूक शकना. देणग्यांनी म्हजे हातांतलो डबो भरलो. खरें सांगपाचें म्हळ्यार म्हज्या आनी म्हज्या वांगड्यांच्या बोलसांत पयशे नासताले. अशे वेळार डब्यांतल्यान कांय नोटी काडून बोलसांत घालू येताल्यो. मोर्चा, मेळाव्यांक, येवपा वचपा खातीर पयशे खंयच्यान हाडप हाची चिंता आसतनाय, कोंकणीच्या मोगान आनी गोंयच्या फुडाराच्या हुस्क्यान भरिल्ल्या मनाक, नोटीक हात लावपाची वासना जालीना. आयज २५ वर्सा उपरांत कोंकणीच्या मळार कितें चल्लां ताचो विचार करता तेन्ना भूतकाळांतल्यो यादीच म्हाका थाकाय दिवपाचें काम करता.

ह्या महामेळाव्यांतलें शक्ती प्रदर्शन पळोवन मराठीप्रेमीच्या फुडाऱ्यांची न्हिद खळिल्ली. ह्या मेळाव्यांत काँग्रेस अध्यक्ष सुलोचना काटकार हांणी कोंकणी राजभास करपा खातीर पक्षान घेतल्या थारावाचीय म्हायती दिल्ली. ताका लागून १९ डिसेंबर मेरेन कोंकणी राजाभास जाताच अशें आमकां दिशिल्लें.

१९ डिसेंबर आयलो. राजभास बिलाचें नाव ना. तें पळोवन १८ डिसेंबराचे राती कडेन विश्वनाथ लवंदे सारक्या स्वातंत्र्य सैनिकांनी काडलेले मिरवणूकीत हांव, अशोक भोसलो, भरत नायक, अ.ऊ. नायक, डॉ. सुश्रूत मार्टीन, नितीन धोंड, शिरील पाशेको आनी हेर कांय जणांनी मिरवणुकीत घुसून कोंकणीच्यो घोशणा दिल्यो. आमी त्या वेळार खंय न्हिदताले, खंय जेवताले हाची आतां सारकी यादूय जायना. एक सत्य आशिल्लें. पेडणेचो आसूं वा काणकोणाचो आसू, क्रिस्तांव आसू वा हिंदू आसूं. कोंकणी म्हणपी मनीस म्हाका जाल्यार तेन्ना नात्यांतलोच कसो दिसतालो. आनी आयजय...!!!

आलतिन्याचेर शावियर नावांचो एक कोंकणी भक्त रावतालो तो मिनेझीस कंपनीत कामाक आसतालो. वेळ काडून तो आझाद मैदानाचेर येतालो. रातचे पणजेंत उरले म्हणटकच दूसरे दिसा सकाळी म्हाका आनी महेश नायकाक आपणागेर व्हरून च्या दितालो. अजुनूय केन्नाय ताची म्हाका याद जाता.

**मराठीवाल्यांची धुमशेंणा**

१४ नोव्हेंबराक पणजे जाल्ल्या महामेळाव्याच्या जैताची झींग आमकांय चडिल्ली. कोंकणी खातीर इतलो लोक रस्त्यार देंवप म्हळ्यार चळवळीक मेळिल्लें व्हडलें यश आशिल्लें. त्या वेळार सावयवेरें–वळवय हो वाठार दिवचले सारकोच मराठीचो बालेकिल्लो अशें सगळेच मानताले. पूण योगायोग म्हळ्यार कोंकणी प्रजेचो आवाजाचो निमंत्रक आमचेच वाठारांतलो म्हणटकच पुराय गोंयचें लक्ष सावयवेरें–वळवयचेर आशिल्लें. खंयचेंय आंदोलन फुडें व्हरपा खातीर कांय पांवडे आसतात. आमचे चळवळीत कल्पक बुद्धीचे खूब फुडारी आशिल्ले आनी तशें पळयल्यार सत्याचीच वट आशिल्ली. कोंकणी प्रजोचो आवाज जो जो पांवडो हुपून फुडें वता तो तो पांवडो मराठी राजभाशेची मागणी करपी हुपूंक सोदताले. पूण शक्ती प्रदर्शनाक लोकांचो आंकडो उणो जातालो. ताचें कारण कोंकणीचो विशय घेवन हिंदू, क्रिस्तांव, मुसलमान सगळेच येताले. मराठीचो प्रस्न फकत हिंदू पूर्तोच मर्यादीत आशिल्लो.

पणजेच्या महामेळाव्याच्या उपरांत दोनूच दिसां भितर म्हळ्यार १७ नोव्हेंबराक मराप्रसान मडगांवच्या लोहिया मैदानाचेर शक्ती प्रदर्शन केलें. तशें पळोवंक गेल्यार हुंदरान शिंवांच्या मिश्शांक हात घालपा सारकेंच तें मराप्रसाचे धाडस आशिल्लें. तांचे चळवळींत केजेटीन पेरेरा आनी अपोलीन लुईस हे दोन क्रिस्तांव आसताले. ताका लागून मराप्रस वचत थंय अपोलीन लुईसाचो वापर करताले. लोहिया मैदानाचेर सांजवेळां जाल्ले सभेक ॲड. रमाकांत खलप, डॉ. काशिनाथ जल्मी आनी मराप्रसाचे जाळवणदार माचयेर आशिल्ले. सावयवेरें, वळवय, माशेल, फोंडे, म्हाड्डोळ, काणकोण, सावर्डे, दिवचले, साखळे ह्या वाठारांतले मराठी प्रेमी थंय हजर जाल्ले. अपोलीन लुईस भाशणा करता करता कोणे तरी गर्देतल्यान फातर भिरकायलो आनी तांतल्यान ह्या मोर्चाक हिंसक वळण मेळ्ळें. क्रिस्तावांनीच फातर शेवटिले, असो बोवाळ केल्ल्यान तांचे सभेचेर थंयचे थंय विर्जन पडलें. लोहिया मैदानाचेर बोवाळ जाल्याची खबर भोवतणच्या वाठारांत पावली. सभेक गेल्ले लोक जीवाच्या आंकातान मेळटा तेवटेन धांवूक लागले. गुड्डागुड्डींचें आनी सगलें भिरांतेचें वातावरण जाल्लें. आमच्या वाठारांतल्यान मडगांवां गेल्ल्या मराठी प्रेमीक तिडकल्ल्या कोंकणी मोग्यांनी रातचे राय आडयले. पणजेच्यान आयिल्ल्यांक आगशी आडयले. तिडकले लोक पोलिसांकय आयकना जाले. तांका आळाबांदा हाडटा म्हणसर रातचीं बारा जालीं. नुस्तें जशें काटाळेन पडटा तशी तांची गत जाल्ली. आडकून पडिल्ल्यांक पोलीस बंदोबस्तांत फात्या पारार गांवांनी पावयले. तांतल्या कांय जाणांनी तेच दिसा सावन मराठी मेळाव्यांक वचपाचें सोडून दिलें. जाल्यार कांय जाण कोंकणी वटेनय आयले. आमी तरनाटे म्हणटकच मराठी प्रेमींची जाल्ली अवस्था आयकून आमच्या काळजांतलीं मोगरींच फुल्लीं म्हल्यार जाता. महेश नायक, बाबुराव नायक, महेश च्यारी, संजय नायक, विवेक वेरेंकार, बब्रुवान नायक आनी हांवें त्या खिणाचो बरोच आनंद घेतलो. तशी तीं आमचीं पिशेपणाच आशिल्लीं.

मडगांवचे घडणुकेन उचंबळ जाल्ल्या मराठी मोगींनी दूसरे दिसा १८ नोव्हेंबराक सकाळी सावयवेरेंचे आनी वळवयचे मराठी प्रेमी एकठांय येवन मोर्चा काडलो. आनी सावय आशिल्ल्या पुंडलीकाच्या प्रेसार फातर मारून पत्रे आनी जनेलांचे हारशे फोडून वडोवपाक सुरवात केली. ह्या वेळार प्रेसान काम चालू आशिल्लें. थंयच्या कामगारांची भियेवन गुळी. तातूंत एक अनील नायक नावांचो धाडशी तरनाटो आशिल्लो. ताणे एका जनेलांतल्यान कोण फातर शेवटीता तें पळयलें अजूनय अनील त्या प्रसंगाची खबर सांगतना प्रेसार पयलो फातर जय प्रकाश शेट वेरेंकार हाणे मारलो, आनी ताचे फाटोफाट जमाव फातर मारीत रावले अशें सांगता. उपरांत सगले कामगारांक फाटले वटेंतल्यान सरून पळून वचें पडलें. तिडकल्ल्या अनील नायकान आपल्याच बुशकोटाचेर मराठीच्या विराधांत घोशणा बरोवन पुराय भाटाळेंभर मराठीवाल्यांक धमक्यो दीत भोवत रावलो. त्याय वाठारांत उत्तेपणान मराठीवाल्यां कडेन दोन हात करपी तरनाटे उणेंच आशिल्ले. गांवांतल्या कोंकणी भक्तांच्या विरोधांत घूमशेंडां कांडपी मराठी प्रेमींच्या आंदोलनाचें फुडारपण मोहन वेरेंकर, ॲड. पांडुरग नागवेंकार, सुरेश स. नायक, पार्वतीबाई वेरेंकार, जय प्रकाश शेट वेरेंकर करताले. अशा भिरांतेच्या आनी धोक्याच्या वातावरणांत को. प्र. आचे निमंत्रक पुंडलीक नायकाक घरांतल्यान भायर सरपूय भिरांतेचें जाल्लें. सावय प्रेस फोडून हो मोर्चा सावयवेऱ्यां आयलो. त्याच वेळार आमचो कोंकणी कार्यकर्तो बाबुराव नायक श्रीअनंताचे तळयेच्या पेडार न्हिदील्लो. मोर्चांतल्या कांय समाज विघातक तरनाट्यांनी ताका न्हिदील्ले थंयच्यान उबारून शेतांतल्या चिखलांत वडयलो. ही खबर म्हज्या कानार आयली. पूण कांय करप शक्य नाशिल्ले. १८ नोव्हेंबराची सांज अशाच वातावरणात अस्तमली. इतले मजगती पुंडलीकाक घरांतल्यान भायर सरप शक्य ना ही खबर पणजे, दत्ता श्रीपाद नायक हांकां कळ्ळी. तो राती कडेन पोलीस घेवन फोणचे भाटान आयलो आनी पोलिसांचे गाडयेन पुंडलीकाक आनी हेमा नायकाक बंदोबस्तांत पणजे घेवन गेलो. ही खबर म्हाका दुसरे दिसा कळ्ळ्या. आमी गांवातूच उरिल्ले.

भिरांतेच्या वातावरणांत १८ नोव्हेंबराची रात सोपून १९ डिसेंबराची सकाळ उदेंतांच आदले दिसा परसच चड खर वातावरणांत मराठीवाद्यांचोय जमो जालो. ते दिसा तांणी गांवांतल्यो सगळ्यो शाळा बंद केल्या. आनी धुप्यांतलें उत्कर्ष विद्यालय बंद करून पालसड्यावेले सरकारी विद्यालय बंद करपाक मोर्चा व्हेलो. आदले दिसा पुंडलीक नायकाचो प्रेस फोडिल्लो. दुसरे दिसाय पर्तून मोर्चा प्रेसार येव येता अशें दिशिल्ल्यान पुंडलीक नायकाचे वाड्यावेले कांय जाण आनी कोंकणी भक्त अनील नायक आनी ताचे वांगडी काजूनी लिपून बसले. मोर्चा येवन धुमशेंडां घालीं जाल्यार फातरांचो मारो करपाची तांणी तयारी दवरिल्ली. तांका ताची सुलूस लागिल्ल्यान ते दिसा मोर्चावाल्यांनी प्रेसाचेर पर्तून हल्लो करपाचें टाळ्ळें आनी थेट सरकारी विद्यालय बंद करपा खातीर पालसड्याचे वटेन गेले. महेश नायक दूद पावपाक सदांच भाटोळें-सावय हांगाचे सोसायटीन वचपी. सदां भशेन तो दूद घेवन सावय गेल्लो. मराठीवाले मोर्चा घेवन भायर सरले म्हणपाची खबर ताका कळिल्यान तोय दूद पावोवन रिकामी किटली घेवन आड वाटेन पालसडयावेल्यान घरा येवपाक येतालो. थंय वाटेर तांचे तावडीन तो पडलो. जयप्रकाश शेट वेरेंकारान ताका मराठी झालीच पाहिजेच्यो घोशणा दिवक सांगलें. घोशणा दिल्यार कांय करीना, अशें सांगून ताका वांगडा घेवन वचपाक गेले. पूण कोंकणीचो अभिमानी महेशान घोशणा दिवंक न्हयकार दिलो, तेन्ना तांणी ताच्या पोटाक घोशणेचो पोस्टर बांदून ताका मारपेट करीत करीत तांची दींड घेवन वेऱ्यां बाजारांतल्यान म्हज्या घरा कडेन हाडली. म्हाकाय बांदून म्हजी दींड काडपाचे तयारेत ते आशिल्ले. हांव मागिलदारांतल्यान भायर सरून म्होडक्या कुमावान वचून लिपलो. म्हज्या घरच्यानी हांव घरान ना म्हणपाचे सांगतकच ते परतले. उपरांत महेशाचें बळ वाडलें. ताणे तांचे तावडीतल्यान सुटका करून घेवन घरा गेलो, आनी हातान फातर घेवन घरा मुखार रावलो तेन्ना मोर्चेवाले भियेले. ताणे निमणे मेरेन मराठी झालीच पाहिजेच्यो घोशणा दिल्योना. जीवो मारल्यार लेगीत घोशणा दिवचोना असो निश्चेव केलो. महेश त्या काळावेल्या आंदोलनांतलो खडेगांठ कार्यकर्तो. मराठीवाल्यांची घुमशेंणा चालूच आशिल्ली. साडे अकरांच्या अदमासाक जयप्रकाश शेट वेरेंकार, हिराचंद्र नायक आनी कालिदास नायक म्हज्या घरा आयले आनी चळवळींतल्यान कडेक रावपाचो सल्लोय दिलो. पूण हांव आयकलोना. धुमशेंणा चालू आसतना आमचो कोंकणी भक्त, विवेक वेरेंकार, बब्रुवान नायक, अंकुश नायक, संजय नायक, मंगलदास शेट वेरेंकार, खंय आसात, तांचें कितें जाला हें कळपाकूय मार्ग नाशिल्लो. ते पयलेच दिसा गावां भायर आप आपल्या सोयऱ्यांगेर वचून राविल्ले. दोनारां साडेबारा, एकाच्या अदमासाक मोर्चा प्रकाश द. नायक हांच्या इनानभाट वळवयच्या घरा वचून ताच्या घराच्या पाख्यांचेर फातर शेवटून

ाळण केली. प्रकाश हाताक मेळना हें ळोवन ताणी तांच्या गोरवांकय बडयलीं. ळवय कितें घडलां ताची खबर वेऱ्या ळ नाशिल्ली. आमचे गांवांत फर्नांदीश एकूच क्रिस्तांवांचे घर, तांच्याय रा मुखार वचून समाज विघातकांनी ाळ्यांचो शिंवोर केला. तांचे घरांत आर्मा आसात हें खबर आशिल्ल्यान तांचेर ल्लो करपाचें धाडस तांकां जालेंना. गांवांत रावप कठीनूच जाल्लें. त्याच दिसा दोनपरां दोनाक सुमार हांव, महेश आनी बाबुराव नायकाक घेवन वाघुर्मेच्यान न्हय पलतडच्यान कपडे हातात घेवन पणजे वचपाक गेलो. न्हय पलतडीं वागसान नावांचो गांव आसा. मिनाचो वाटार. सावयवेरेंचे जायते ड्रायव्हर थंय खणीचेर ट्रक चलयताले. रोहिदास नावांच्या एका ट्रक ड्रायव्हरान आमकां पळयल्ले. तो खंय आमचेर ट्रक घालपाचो आशिल्लो. पूण मातशे चुकले, अशें ताणे एक दीस बाजारांत येवन सांगलें तेन्ना आमी येवजूनच कडकडले. साडे चार-पांचांच्या अदमासाक आमी तिगूय पणजे पावले. बोलसांन फकत धा ते पंदरा रुपया. कोणाच्याच बोलसान पैशे ना. परिस्थिती कठीण. १८ आनी १९ नोव्हेंबरा हे दोनूय दीस माशेल, म्हाड्डोळ, फोंड्यां, साखळे, दिवचले, सावर्ड्या, काणकोण ह्या वाठारांनीय मराठीवाल्यांनी घुमशेणा कांडून कोंकणी भक्तांक त्रास केल्यात. पूण आमी सावयवेरें वळवयच्या कोंकणी भक्तांनी जें सोसलां तें हेर वाठारांतल्या कोंकणी भक्तांनी तितलें भोगूंक ना. पूण म्हाड्डोळ हो रवींद्रबाब केळेकाराचो गांव आशिल्ल्यान रवींद्रबाबांक आनी वेलंगेच्या अभयकुमार वेलिंगकाराक म्हाड्डोळच्या मराठी वाद्यांनी खूबच सतायल्यात. त्या धाकाक लागून अभय कुमार वेलींगकार वेलंगा सोडून मडगांवां वचून रावलो. तो आयजमेरेन थंयच उरलो. मराठी रंगमाचयेवेले नाट्यकर्मी तातोबा वेलिंगकार हाणी एकदीस आपणाक मराठी वाद्यांच्या तावडितल्यान सोडोवपाक आदार केलो, हें अभयकुमार त्या प्रसंगाची, त्या दिसाची अजुनूय याद काडून सांगता. शिमेपायण म्हाड्डोळचो उल्हास यवंत नायक आनी उल्हास कृश्णा नायक हे कोंकणीचो विधायक वावर करपी. तांकांय बरेच त्रास जाल्या दीपसागर नायकाकूंय ते वेळार थंयच्या एका मराठीच्या कार्यकर्त्यांना कसो तुकलायलो, हाची उल्हास केन्नाय याद काडून खबर सांगता. पणजे पावतकच ते रातीं दत्ता भाईन म्हाका करंजाळे आपल्या घरांत व्हेले. महेश आनी बाबुरावाची वेगळे कडेन सोय केली. ताणें धीर दिल्ल्यान काळीज मातशें घट जालें. दूसरे दिसा काफे प्रकाश हॉटेलांत आमकां दवरले. खर्चा खातीर कांय पयशेंय दिले. दत्ताभाई आनी मळ्यांतलो मनोज जोशी सोडलो जाल्यार आमची वासपूस कोणेच केली ना. ते खातीर तांकां म्हज्या काळजांत सदांच खास सुवात राखून आसतली. गांवांतलें वातावरण मातशें शांत जालांशें दिसतकच आमी गावातं परतले. म्हत्वाची गजाल म्हळ्यार आमी गांवांत नासतनाय आमच्या विरोधान फोंड्या पोलीस स्थानकाचेर दोन केसी नोंद जाल्ल्यो. तातूंत पार्वतीबाई वेरेकार हांच्या नावान नोंद जाल्ली, आपणाक मारून रगत पियेतले म्हणपाची कागाळ खूबच गंभीर स्वरूपाची आशिल्ली. बंदखणींत पडपा सारकी ती कागाळ पळोवन खूबच धक्को बसलो. आनी वायटूय दिसलें.

पोलिसांचो समन्स आयलो तेन्ना आमचेर आकांत आयलो. मराठीवाल्यांनी आमच्याय घरांचेर फातर घालप आनी आमी धमक्यो दिल्याची उफांटि कागाळ नोंद करप हो खंयचो न्याय? तेंच कळना जालें. दूसरी कागाळ विद्याधर वेरेंकार हांचे नावान नोंद जाल्ली. आपल्या घराचे हारशे फोडिल्याची. सगलें अजाप करपा सारकेंच घडटालें. आमी थेट समन्स घेवन उदयबाब भेंब्रें हांचे म्हऱ्यान धांवले. ते वेळार ॲड. मनोज बांदोडकार तांच्या ओफिसांत आसताले. उदयबाबान हें प्रकरण ताचे कडेन सोपयलें. ताणे सत्र न्यायालयान वचून आमका अटकपूर्व जामीन मंजूर करून दिलो. त्या वेळार पोलिसांनी आमच्या तिगांच्याय हाताचे ठशेय घेतिल्ले. कितलेशाच कागदांचेर सयोय मारच्यो पडिल्ल्यो. आमचे आड बनावट केसी घाल्ल्यान आमचे घरांचेर मोर्चा घेवन येवपी चडसा सगळ्यांची नांवा दिवन आमीय तांचेर केसी केल्यो. आमी नावां दिल्यां मदी जयप्रकाश शेट वेरेंकार, शांताराम केरकार अशे सरकारी नोकरय आशिल्ले. आयचे आमचे नाटक वीर राजदीप नायक, विठ्ठल नायक बी त्या काळार बारां-तेरा वर्सांचे आसूंक जाय. कोंकणी मराठी वादाचें म्हत्व कळपाची तांची ती पिरायूय न्हय. गांवांतले चड लोक जे वटेन रावतात तांचे वटेनच रावपाचे. नाटकवीर विठ्ठल नायक (बाप्पो) सांगता ते प्रमाण, ताणेंय खंय मोर्चात येवन आमचे घराचेर फातर मारला. ताचे ह्या प्रामाणिकपणाचे कबुलीचें म्हाका कौतुक दिसला. मराठीवाल्यांनी साखळे, दिवचल वाठारांतल्या कोंकणी भक्तांकय खूब त्रास दिल्यात. साखळेय बाजार बंद केल्लो त्या वेळार आमचे कोंकणी भक्त अशोक काणेकार हांणी आपले दूकान उक्तें दवरून मराठीवाल्यांक दिल्लें, आव्हान धाडसाचेंच म्हणूक जाय. अशोकबाब चळवळींतलो धाडशी कार्यकर्तो. साखळे ताणे आपल्या सहकाऱ्यां वांगडा खूब वावर केला.

●●●

# तुकल्याली तकली तुकल्याक ना - एक प्रपत्र

कृ.म.सुखठणकार



**प्रस्तावना आनी विशय प्रवेश**

तुकल्याली तकली तुकल्याक ना हो अ.ना. म्हाम्बरे हाणी बरयलेलो लेख. १९७६ हे वर्सा जाग दिवाळी अंकांत प्रसिद्ध जाल्लो.

तुकलो सदचे भशेन सकाळी उठ्ठा, न्हाता धुता, च्या घेता आनी पसऱ्यार वचपाक भायर सरता. रस्त्यार चलतना ताची तकली सण्णऽ जाता. तुकलो थांबता आनी तकली गच्चऽ दांबता. ताच्या हाताक वेगळेंच लागता. कान आसता, नाक आसता, सगळें जागचे जाग्यार आसता. पूण तकली मात ताका हाताक वेगळी लागता. घरा येवन हाऱ्या मुखार उबो रावतकच तुकल्याक ताचे तकले बदला दुसऱ्याचीच तकली थंय दिसता. तुकल्याची बायल आपले मावळणिली तकली तुकल्याक फिट बसल्या आसुंये असो दुबाव उग्तो करता. कित्याक, तिचे मावळणिची तकली तुकल्याले नवे तकलेवरीच दिसताली.

**विशय केंद्रीत उतरां**

तकली, पोपाय, दुदी, दोतोर, रोटेरियन, पोर्तुगेज, मुखेल मंत्री, म.गो.

**पुराणां आनी तकल्यो**

आमी पुराणां उगडून तांचेर नदर मारल्यार तातूंत खूब जाणाच्यो तकल्यो उडोवन परत हाताक मेळटात तांच्यो तकल्यो ते सुवातेर बसयल्या हें आमकां समजतलें. लोकांच्यो तकल्यो उडोवपाक महादेवाक (तांडव नृत्य फेम) पयली सुवात फावो जाता. पुराणांत ताणे आपल्या पुताची आनी मांवाची तकली उडयलेल्याचे दाखले मेळटात. शिवपुराणांत अशें बरयलां की पार्वती खूब दिसांनी न्हाल्लूया कारणान तिचे कुडींतल्या चिखलान तिणे एका भुरग्याची म्हूर्त तयार केली आनी ताच्या भितर प्राण घालो आनी ताका दारांत बसयलो. तिणे ताका भितर कोणाक न सोडपाची ताकीद दिली. दनपारचो महादेव भितर सरलो. दनपार आसल्या कारणान जांवये वा दुसरे कारणान ताची तकली तापिल्ली. ह्या अनवळखी भुरग्यान भितर न सोडिल्लूयान तो चाळवलो आनी ताणे त्या भुरग्याची तकली त्रिशुळान उडयली. इतल्यान पार्वती केंस पुशीत भायर आयली आनी तिणे त्या बालकाक तकली एकेकडेन आनी धड एकेकडेन ह्या स्थितींत पळयलें आनी आरड मारली. महादेव पार्वतीन घेतिल्लो अवतार पळोवन भियेलो आनी ताणे धांव मारली. वाटेर ताका हत्तीचो पोर मेळ्ळो. ताणे ताची तकली काडली आनी हाडून ह्या बालकाच्या धडार बसयली. त्या बालकाक हतयाची तकली बसयल्लूया कारणान ताका गजानन अशें नांव पडलें. आज आमकां वाटेर मेळटा त्या दर एका गजाननाक हतयाची तकली आसूंक जाय अशें ना.

महादेवाच्या मांवान (प्रजापती दक्ष) आपलें राजपाठण कनखळ हांगासर व्हडल्या यज्ञाचें आयोजन केलें आनी आपल्या जांवयाक आनी धुवेक (सती) आफोवणे धाडलें ना. महादेवान 'नाका गो नाका गो' अशें प्राथूॅन लेगीत सती कुळारा गेली. थंय तिका सगळ्यानी किकोंत केली. तो अपमान तिका सहन न जाल्लूयान तिणे होमकुंडांत उडी मारली. तेन्ना सोशल मिडिया नासून लेगीत ही बातमी रोखडीच वायरल जाली. महादेवान रोखडोच विरभद्राक तयार केलो. ताणे थंय वचून यज्ञाची जाता तितली नासाडी केली आनी दक्ष प्रजापतीची तकली उडयली. ब्रह्मान मागीर दक्ष प्रजापतीच्या वतीन महादेवाची माफी मागली. महादेवान

रोखडीच बोकड्याची तकली दक्ष प्रजापतीचे कुडीर बसयली.

जांकां पुराणांतले तकल्यांविशीं चड उमळशीक आसा ताणी शांती पर्व, श्रीभागवत महापुराण आनी देवी पुराण वाचें. पुराणांत विष्णुची तकली धनुश्याची दोरी लागून तुटून पडल्या अशें वाचूंक मेळटा. हातूंत महादेवाचो कांय हात ना. विष्णू पळयता तेन्ना आड पडिल्लो आसता हें आमकां खबर आसा. कसलें तरी संकट निवारपा खातीर देवानी ताका जागोवपाक लागून धनुश्याची दोरी तोडली. ती दोरी ताची तकलीच घेवन गेली. देवानी बेगी बेगीन विश्वकर्मा कडल्यान ताका घोड्याची तकली बसोवन घेतली. ह्या घोड्याची तकली बसयल्लूया विष्णूक हयग्रीव अशें नांव पडलें. पुराणांत आनीकूय तकल्यो कापून परत तांच्योच तकल्यो लायिल्लूयाचे दाखले आसात. पूण तांचो तुकल्याल्या तकलेकडेन संबंद नाशिल्लूयान हातूंत आसपाव करुना. कारण तांच्योच तकल्यो तांच्या धडांर आशिल्लूयो तश्यो बसयल्लूयो (देखीक जमदग्नी बी).

**तुकल्याली तकली आनी पुराणांतल्यो तकल्यो हातूंतलें साम्य आनी फरक**

तुकल्याली पोत्री तकली दिसूंक पोपायेवरी आनी केंसाळ आशिल्ली. ताची नवी तकली दिसपाक दुदयावरी आनी बोडकी आशिल्ली. हें इन्फॉर्मेसांव आमकां बशिल्लेकडेन मेळटा. पुराणांत महादेवान गणेशाची त्रिशुळान उडयल्ली मूळ तकली नव्या तकले परस वेगळी आसतली हातूंत मात्तूय दुबाव ना. पूण ती दिसपाक पोपायेवरी काय दुदयावरी दिसताली हें कळपाक मार्ग ना. जेन्ना ही दुर्घटना घडली तेन्ना गणपती सान पिरायेचो आशिल्लूया कारणान ती केंसाळ आशिल्ली हें सेर्त. महादेवान रागाच्या भरान धडा पासून वेगळी केल्ली ही तकली पाताळ भुवनेश्वर हांगा गुहेंत येवन पडली. ताचो संदर्भ शंकराचार्यांक स्कंदपुराणांत मेळ्ळो. त्रेतायुगांत रितुपर्ण राजान हे गुहेक पयले खेप भेंट दिली. आदी शंकराचार्यान ११९१ –.D.B.V. पूण हे तकलेचें स्वरुप कशें आशिल्लें हें कळपाक मार्ग ना. पुराणांत नव्यो तकलो ज्यो बसयल्यो त्यो कोणाच्यो हें आमकां तांचे तकल्यांक पळयल्या बराबर कळटा. जांचेर त्यो बसयल्यो तांकां दुसरो पर्याय नाशिल्लूया कारणान ताणी त्यो गोड मानून घेतल्यो. तुकल्याल्या बाबतींत अशें घडना. ताका जेन्ना आपली तकली शेणल्या हें कळटा तेन्नाच्यान तो अस्वस्थ जाल्लो आमकां दिश्टी पडटा. वांटेर चलतना ताचे तकलेंत सण्णऽ जाता आनी तकलेक हात लायल्या उपरांत ताच्या हाताक वेगळेंच कितेंतरी लागता. वैजकीय शास्त्रांत Gorham's Disease, Paget's Disease बी जाल्यार तकलेच्या आकारांत फरक पडूयेता अशें सिद्ध जालां. पूण हें रातयां घडना. तुकलो हो एक पसरकार हें आमकां ताच्या संबंदीन वाचता तेन्ना कळटा.

सदचीं गिरायकां येतालीं. हें, तें, तें, तें विकतें घेवन वेतालीं – ( पान ५३).

पूण एकाय गिरायकाचें तुकल्याल्या तकलेकडेन लक्ष गेलेना हें वाचून अजाप जाता. हांगा लेखक आयच्या समजाचे मानसिकतायेचेर उजवाड घालपाक सोदता काय कितें असो प्रस्न मनांत आयल्या बगर रावना. तुकल्यालें लक्ष मात आपल्या म्हालाचेर नाशिल्लें, गिरायकाचेर नाशिल्लें, पैशाचेर नाशिल्लें अशें आमकां लेखक सांगता. तें वाचतकच तुकल्याची लक्कुबाय दिसता. कित्याक, तुकल्याच्या सुवातेर दुसरो पसरकार आशिल्लो जाल्यार ङ्गतकली मारली झकफ अशें म्हणून गिरायक करतलो आशिल्लो. पूण तशें हांगा घडना. हांगा आरोग्यं धन संपदा अशें लेखक आमकां सांगपाक सोदता जांवये. पुराणांत नव्यो तकल्यो बसल्या बराबर देव देवतानी रोखडीच पुश्पवृष्टी केल्लयाचें वाचूंक मेळटा. संतानी तर 'सरळ सोंड वक्रतुंड त्रीनयना' अशें सुंदर वर्णन केलां. जांचेर नव्यो तकल्यो बसयल्यो ताणीय कांय तक्रार करुना. पूण हांगा तुकलो मात आपली तकली (ओरिजिनल) सोदीत भोंवता. पसरकार आसून लेगीत ताचे भितरलो हो गूण तोखणाय करपा सारको.

**तुकल्याली तकली आनी समाज**

तुकल्याली तकली पोपायेवरी आशिल्ली ती दुदयावरी जाली तरी तुकलो सोडून तें कोणाच्याच लक्षांत येना. हाचेवयल्यान आमकां गोंयचे सामाजीक स्थितीचें दर्शन हे घडणुकेंतल्यान जाता. तुकलो (आपल्या) बायलेक तकली सांसपून पळय म्हणटा तेन्ना ती सांसपूंक लेगीत सरळ नकार दिता. हाचेवयल्यान गोंयचे बायलांचे मानसिकतायेंत तेन्ना आनी आज चड फरक आशिल्लो अशें दिश्टी पडना.

'मात्शी सांसपून पळेता?'

'लज दिसना तुमकां हें सांगूक?'

'लज?'

'एकेवटेन तकली तुमची न्हय म्हणटात. आनी दुसरेवटेन म्हाका ती सांसपीय म्हणटात?'

'आतां हांव कितें करुं?'

'पसर्यानर वचात'. – (पान ५२)

अशे संवाद जर आमकां घरा घरांतल्यान आयकुपाक मेळ्ळे जाल्यार जांच्यो स्वताच्यो तकल्यो आसात त्यो लेगीत कामांतल्यान गेल्यो जाल्यार तातूंत अजाप ना. तुकल्याले फामिलींत ताची घरकान्न सोडून आनीक कोण आसा जाल्यार तें कळपाक मार्ग ना. तुकल्याले घरकान्नीचे वागण्यावयल्यान तुकल्याक Attention Deficit Hyperactivity

Disorder जाला जांवये असो सुस्पेत मारता. हांगा बरोवपी तुकल्या खातीर वाचप्याचे मनांत काकुळट निर्माण केल्या अशें म्हणचें पडटलें. तुकल्याली घरकान्न निमणेमेरेन ताची तकली सोदपाक आदार करना हें हांगा नमूद करचें पडटलें. घोव आनी बायल ही संवसाराच्या गाड्याचीं दोन रोदां अशे आमचे जाण्टेले म्हणटाले. ताका आज कायच अर्थ उरुना अशें खेदान म्हणचें पडटा. साल २००८च्या आंकड्यावयल्यान गोंयांत ते वर्सा ३८४ घटस्फोटाच्यो केसी नोंद जाल्ल्याची म्हायती मेळटा. फाटले अकरा वर्सांक खूब उदक (प्रदुशीत) मांडवीच्या पुलांखालच्यान (तीन) व्हांविल्ल्यान हो आंकडो आनीकूय फुगला आसतलो हातूंत दुबाव ना. Doubt thou the stars are fire, Doubt that the sun doth move, Doubt truth to be a liar But never doubt I love असलीं उतरां आतां शेक्स्पियराचे नाटकानी तींय बी चुकून माचयेर आयल्यारुच आयकूंक मेळटलीं.

'आगो, पुण कितलीय जाल्यार ही दुसर्यांची तकली'.

'मागीर तातूंत जालें कितें? ती सारकी चलता मूं? काय मोडल्या बी? म्हजें म्हणणें तकली कोणायची काय जायना तिणे काम करतकूच जालें'. (पान ५२)

असलीं लेखांतलीं वाक्यां तुकलो आनी ताजे घरकान्नीच्या संबंदांचेर उजवाड घालतात. हे तिजे उलोवण्यावयल्यान तिका तुकल्याचें व्हडलें पडून वचूं नाशिल्लें असो अनुमान काडुयेता. तुकल्याचे बोडावयले सरसकट केंस ना जावन लेगीत 'नवी तकली सारकी चलता मूं अशें ती तुकल्याक विचारता. हें वाचतना मनाक मात्शें खटकता कारण खूबशे दादले फकत आपली बायल जीव खाता म्हणून टोप घालतना दिश्टी पडटात.'

तुकल्याक रस्त्यार विठू, शाबू, आंतोन, जया, ज्याकीन... कांय ना म्हळ्यार आठ–धा मनशां मेळ्ळीं. (पान ५२).

हातुंतल्या एकल्याकूय तुकलो बोडको जालो तें दिश्टी पडलें ना हें मनाक पटना. जर हें खरें धरलें जाल्यार विसाव्या शेकड्यांतूच गोंयचो समाज असल्या गजालीं कडेन उदासीन जावपाक लागिल्लो अशें म्हणचें पडटलें. 'आयज समाज भोगवादा दिकेन, चंगळवादा दिकेन सुसाट धांवता. खंयचीच नितीमुल्यां तो मानून घेवपाक तयार ना. हीं सगळी काळाची गती वा गरज अशें म्हणत ह्या सामाजीक बदला कडेन आडनदर करु येता, जायच जाल्यार येवकारुय दिंव येता' अशे भो. दिलीप बोरकार (साहित्य अकादेमी पुरस्कार विजयते) म्हणटात. हाचेवयल्यान तुकल्याली तकली सांडली तो काळ ते आयज मेरेन समाजाचे मुल्यांचीं कितली घसरण जाल्या हाचो अदमास आमी फुटपट्टी लायनासतना लांवयेता.

### तुकल्याली तकली आनी न्याय वेवस्था

तुकल्याली तकली पोर्तुगेज गोंय सोडून गेल्या उपरांत रोखडीच सांडली आसपाक जाय.

'पुण ह्या आदीं तुगेली तकली केन्ना सदळ बी जाल्ली व्हय तर?'

'हय'.

'केन्ना?'

'पुर्तुगेज गोंय सोडून गेल्ले तेन्ना.'

'एक उपाय आसा. तुका आमच्यानी मदत करुं येता.'

'कशी?'

'तुका दोन गजाली प्रॉव्हार करच्यो पडटल्यो. एक म्हळ्यार, तुगेली आदली तकली पुर्तुगेज राजवटीक लागून सदळ जाल्ली. दुसरी गजाल म्हळ्यार ती नवे राजवटीक लागून सांडली जावं बदल्ली.'(पान ५५–५६).

तुकलो ताची तकली सांडली म्हणून जीव अर्दो करुन घेता पुणून त्या संबंदान तो पुलिशेंत तक्रार करपाक वचना. हाचेवयल्यान ताचो न्यायवेवस्थेचेर विश्वास नाशिल्लो अशें म्हणचें पडटा.

दुसरे दीस वर्तमानपत्रांचेर एक खबर आयली– एका दिसांत पणजेंत ६ चोरयो जाल्यो... त्या आठ दिसांक गोंयांत सगल्यो मेळून २२ चोरयो जाल्ल्यो. –(पान ५४).

वयले म्हायतीवयल्यान पोलीस यंत्रणा खंयतरी तपाशणेंत कमी पडटालीं अशें दिसून येता. हे कारणाक लागून तुकलो पुलिशेंत तक्रार करपाक गेलोना जांवये. पुलिशेंत वचप म्हणजे आपलो आनी पुलिशेच्या वेळाचो इबाड अशी सर्वसाधारण मनशां भितर धारणा तेन्नाय आशिल्लीं आजूय आसा. पोर्तुगेज गोंय सोडून गेल्या उपरांत Policia do estado da India हांचे कडल्यान सुत्रां गोंय पुलिशेच्या हातांत आयिल्लीं. लेखांतल्या म्हायतीवयल्यान तुकलो पणजे वा लागींच्या वाठारांत रावतालो असो अदमास काडूं येता.

तुकलो रोखडोच सचिवालयांत गेलो. (पान ५५).

तेन्ना पणजे आशिल्ल्या पोलीस यंत्रणेचेर तुकल्याचो कित्याक विश्वास नाशिल्लो हें बरोवप्यान खंयच स्पश्ट करुंक नाशिल्ल्यान वाचप्याच्या हाताक त्या संबंदान कांयच लागना.

### तुकल्याली तकली आनी रोटरी क्लब

तुकलो तकलेच्या दोतोराकडेन

(रोटेरियन) आपली तकली दाखोवपाक वता. दोतोर खरो रोटेरियन स्पिरीट दाखयत ताका वैजकीय सल्लो दी नासतना ताका बाकिचे सल्ले दिता.

'सध्या तूं कितें येवजिता? तुका कितें करीन दिसता? तुका कोण जायनसो दिसता?' दोतोरान विचाल्लें.– (पान ५३).

खंयचोच दोतोर आपल्या दुयेंतीक असले प्रस्न विचारचोना. हे प्रस्न वाचतकच दोतोराक मानसशास्त्राची पाठभूंय आशिल्लेवरी दिसता. दोतोर तुकल्याकडेन दोतोरापरस एक रोटेरियन हे नात्यान पळयता हें स्पश्ट जाता.

तो दोतोर रोटेरियन बी तसो.आदीं दुसर्योचें बी चिंतप मागीर आपलें– (पान ५३).

त्या दोतोरान तुकल्याक जे प्रस्न विचारले ते बेठेच विचारुंक जाय म्हणून विचारुनात. दोतोर हो रोटेरियन. रोटरी फोर वे टॅस्ट हे तत्वाचेर चलता.

The four way test considers the following questions in respect of thinking, saying or doing.

1) Is it the truth?

2) Is it fair to all concerned?

3) Will it build goodwill and better friendships?

4) Will it be beneficial to all concerned?

ह्या सगल्या प्रस्नांचेर तुकलो खरो उतरतकच दोतोरान ताका बुद्ध दिली.

१. आदल्या काळार भैरांवागेर संवसारांतल्यो सगल्यो गजाली मेळटाल्यो, तशो हालीं मडगांवां कोणागेरशो मेळतात. तुगेले पोत्रे तकलेची चवकशी तागेल्या लॉजार कर.

२. वर्तमानपत्रांत एक पत्र बरय नाजाल्यार जायरात घाल. तुगेली सांडिल्ली तकलीपरथी तुका हाडून दितल्याक 'योग्य बक्षीस दिलं जाईल' म्हणून जाहीर कर. बक्षिसाचे आशेन तरी कोणूय तुका तुगेली मेळ्ळी ना जाल्यार आनीक कोणायची तरी तकली हाडून दितलोच. – (पान ५३).

इतलेंय करुन दोतोर ओगी बसना. तो आकांताचो समाज कार्यकर्तो आशिल्लया कारणान तो आपले बॉल्सांतले दुडू मोडून तुकल्याच्या काकुळटेन एक जायरात दिता. सामान्य मनशा खातीर एक दोतोर आवट ऑफ द वे वचून आपले पदरचे पैशे आनी वेळ खर्चून इतलें करता म्हणून तो तोखणायेक पात्र थारता. लेखकान ह्या दोतोराखातीर 'आकांताचो समाजकार्यकर्तो' अशीं उतरां कित्याक वापरल्यां हें आमकां ताणे तुकल्याखातीर केल्ले उस्तवारीवयल्यान कळटा. ही संस्था १९६२ सावन गोंयांत दिश्ट लागपा सारकें काम करता.

**तुकल्याली तकली आनी वर्तमान पत्रां**

तुकल्याली तकली सांडली तेन्ना ताणे पुलिशेचो आदार घेतलो ना. पूण लोकशायेच्या चवथ्या खांब्याचो ताणे आदार घेतलो. हाचेवयल्यान साधारण मनशाचो अजुनूय विश्वास तिगोवन दवरपाक ह्या माध्यमाक यश मेळ्ळां अशें म्हणचें पडटलें. आजूय आमी नवो जीव हे भुंयेर येता तेन्ना आनी एक जीव ही भूंय सोडून वता तेन्ना ह्याच खांब्याचो आदार घेता. आयचे तारखेक अडेचशें रुपयां भितर सगलें काम जाता. हेच माध्यमांतल्यान कुट्टीचो कामत जाता आनी नायराचो नायक जाता. हें सगलें एका चौकोना भितर, एका दिसा भितर जाता. हाका लागून हे माध्यमाचें म्हत्व वाडलां. तुकलो लेगीत वर्तमान पत्राक चीट बरोवन चोरयेविशीं कळयता. तकलेचो दोतोरुय वर्तमान पत्रांत जायरात दिता आनी ताका खूब लोकांचो बरो प्रतिसाद मेळटा. लोकानी दिल्लो प्रतिसाद पळोवन तुकलो हुंडक्या हुंडक्यानी रडटा. हाचेवयल्यान वर्तमान पत्र हें कितलें प्रभावी माध्यम हें आमकां कळटा. हो चवथो खांबो अजून घटमूट आसा आनी तो कोसमेंव ना हाची शाश्वती आमकां मेळटा.

**तुकल्याली तकली आनी सरकारी येवजण्यो**

गोंय मेकळें जाल्या उपरांत सांडिल्लया तकले खातीर लेगीत सरकारा कडेन येवजण्यो आशिल्लयो ही गोंयकारांखातीर अभिमानाची गजाल. तेन्नाच्या सरकारान हे येवजण्यांचेर कितलो बारीकसाणेन अभ्यास केला आसतलो हें येवजिल्यार अजाप जाता. कोणाचीय तकली सांडप ही तशी सदची गजाल न्हय. तकली गांवगिन्या वाठारांतली आसल्यार सरकाराच्या गांवगिन्या वाठारांतले उदरगत येवजणेचो लाव घेंव येता अशें सचिवालयांतलो एक सेक्रेटरी तुकल्याक सुचयता. हाचेवयल्यान तेन्नाचे सरकारी कर्मचारी लेगीत कितले कोऑपरेटीव्ह आशिल्ले हाची जाणीव जाता.

**तुकल्याली तकली आनी हेर गोंयकारांच्यो तकल्यो**

साहित्य अकादेमी पुरस्कार विजेते कोंकणी लेखक भो. दिलीपबाब बोरकार हाणी हो लेख त्रेचाळीस वर्सां आदीं वाचिल्लो. आनी ताणी आपलें मत जाग ऑक्टोबर २०१३ ह्या अंकांत मांडिल्लें. ते साहित्य अकादेमी पुरस्कार विजयते आशिल्ले कारणान तांचे हे मताक वेगळेंच म्हत्व प्राप्त जाता. हाका लागून 'तुकल्याली तकली तुकल्याक ना' ह्या लेखाचो निश्कर्श काडपाक ताचो व्हड आदार जांवयेता. पयले खेप ताणी जेन्ना हो लेख वाचलो तेन्ना तांकां कितेंय

वाचल्यार तें विसकटावन ताचेर विचार करचो आसता हें खबर नाशिल्लें अशे ते म्हणटात. तुकल्याली तकली तुकल्याक ना हो लेख तांकां ताच्या कॉमीक नांवाक लागून भाविल्लो.

'तुकल्याली तकली तुकल्याक ना' ह्या लेखाचें (कथेचें) शिर्शकूच इतलें कॉमीक आशिल्लें आनी ताका एक नाद आशिल्लो जो म्हाका खुब्ब भाविल्लो. – (जाग ऑक्टोबर २०१३ पान २१).

मागीर दिलीप बाबान विचार करपाक सुरवात करतकच ताणी हो लेख परत वाचलो तेन्ना तांकां ह्या लेखा इतलो गंभीर लेख ना अशें दिसलें.

'तुकल्याली तकली तुकल्याक ना' हो अनाचो विनोदी लेख अशें म्हाका तेन्ना दिसतालें. हांवे तो विनोदी म्हुण्णूच वाचिल्लो आनी कुटकुटून हांशिल्लों. याद जाताली तेन्ना तेन्ना हांशिल्लों.. अजुनूय हांसतां. पूण आयज जेन्ना हांव त्या लेखाचेर विचार करतां तेन्ना तो लेख विनोदी नाशिल्लो तर ताचे इतलो गंभीर लेख दुसरो ना अशें म्हाका दिसता. – (जाग ऑक्टोबर २०१३ पान २१).

दिलीपबाबान मागीर ह्या लेखाचेर गंभीरपणान विचार केला आसुंये. ते म्हणटा आमकां गोंयकारांक तुकल्यावरीच दोन तकल्यो आसतात. विचार करतना आमी सदांच दुसऱ्यांचे तकलेन विचार करतात. आमी दुसऱ्याचे तकलेन विचार केल्ल्यानूच कोंकणी भाशेची अवतिकाय जाल्या अशें मत ते फुडें मांडटात.

आयज कोंकणीची जी अवतीकाय जाल्या ती तुकल्याली तकली तुकल्याक नाशिल्ल्या कारणानूच! तुकल्यान, म्हळ्यार कोंकणी फुडारपणान, सदांच दोन तकल्यांनी विचार केला. आपले आनी दुसऱ्यांचे. हाकाच लागून खंयची तकली सारकी हेंच ताका कळ्ळेंना. कोंकणी मनशान फकत आपलेच तकलेन विचार केलो जाल्यार आयची परिस्थिती खूब वेगळी आसपाची! ही गजाल अना वळखल्लो. आपले त्रोसात्मक शैलीन ताणे ती मांडिल्ली. आमी तें वाचून हांसले. आयज आमचेंच हांशें जायत वता. कित्याक, तुकल्याली तकली तुकल्याक केन्नाच नाशिल्ली.– (जाग ऑक्टोबर २०१३ पान २१).

दिलीपबाबान जें बरयलां तें स्वताची तकली वापरुनूच बरयलां हातूंत दुबाव ना. आनी आमींय तें आमची स्वताची तकली वापरुनूच ताचेर विचार करपाचो वेळ आयला अशें आमी म्हणू येता.

**निश्कर्श आनी समारोप**

हांव म्हजी तकली बदल्ल्या म्हणटां खरी. पूण ती खरीच बदल्ल्या काय म्हजे आदलेच तकलेन हें नवें रुपडें घेतलां? मनशाचे हात सुजतात , पांय सुजताततशी म्हजी ही तकली सुजुंक बी ना मूं? – (पान ५३).

तुकल्याक तकलेचो कसलोच रोग जांवना हें आमकां ताज्या तकलेविशीं वाचतकच कळटा. त्या भायर तकलेच्या दोतोराक (रोटेरियन आनी आकांताचो सामाजीक कार्यकर्तो) दांखयल्या उपरांत तोय ताचे तकलेक रोग जाल्ल्याचें सांगीना. तुकल्याली तकली राजकारणाचो विशय येतकच सामकी सादूर जाता हें वाचतना जाणवता.

'सध्या तूं कितें येवजिता? तुका कितें करीन दिसता? तुका कोण जायनसो दिसता?' दोतोरान विचारलें.

'म्हाका गोंयचो मुखेलमंत्री जायन दिसता,' तुकल्यान जाप दिली. –(पान ५३).

दोतोरान विचारिल्ल्या प्रस्नाक तुकलो फाटीं फुडें विचार करीनासतना सट्टऽ करुन जाप दिता. हाचेवयल्यान तुकल्याक तेन्नाच्या राजकीय फुडाऱ्याची तकली बसल्या जांवये असो दुबाव मारता. त्या काळांत बोडको आनी दुदयावरी तकलेचो कोण नेतो आशिल्लो हाचो अभ्यास करप गरजेचें. तुकल्याक कोणाची तकली फीट बसल्या हें फकत मुखेलमंत्र्यान पारखिल्लें. देखून तुकल्याक मेळ्या बराबर तो म्युनिसिपालिटीच्या इलेक्शनाक म.गो.चे तिकेटीर उबो राव म्हणून सांगता.

'इलेक्शनांत वेचून आयलो जाल्यार आमच्यांनी तुका मेयर करुं येता. येदे व्हडले तकलेचो आमचेकडेन दुसरो उमेदवार ना म्हणून म्हणटां. उबो रावता जाल्यार पळे, आमचेर उपकार जातले.'– (पान ५६).

मुखेलमंत्र्याची सुचोवणी आयकल्या बराबर तुकल्याल्या नवे तकलेंतलो मेंदू पयलेच खेप नेटान वावराक लागलो अशें लेखक आमकां सांगता.

आजूय कितलेशेच तुकले आपली दुदयावरी तकली घेवन गोंयचे मुखेलमंत्री जांवक सोदतात म्हणुनूच अना बाबान त्रेचाळीस वर्सां आदीं बरयल्ल्या लेखाक वेगळेंच म्हत्व प्राप्त जाता.

संदर्भ ग्रंथ


१. तुकल्याली तकली तुकल्याक ना – अ.ना. म्हाम्बरो (पणजी आतां म्हातारी जाल्या)
२. अना; नांवाचो अरविंद नारायण म्हांबरो एक तिरसुवादीक गोंयकार...– दिलीप बोरकार (जाग ऑक्टोबर २०१३).
३. शांतीपर्व
४. देवीपुराण
५. भागवतपुराण
६. Principles of Neurology
७. Localisation in Clinical Neurology
८. The Neurologic Examination
९. The Mental Status Examination, Examination in Neurology
१०. Neorology, Psychiatry and Brain Research Journal
११. त्या भायर हाताक मेळटात ते ग्रंथ


●●●

# मास्तर, कितें सांगूं तुमकां...?

विनोद

– महेश दिवेकर

**नमस्कार, मास्तर,**

कशे आसात? हांव पुर्सो... वळखले? चवथेंत पाच वर्सां आसलो पळयात?....सगळे म्हाका 'बेळशेल्लो भोबो' म्हणटाले.....फाटल्यान कलसांव पिंजलां म्हणून तुमी तापयल्लो पळयात एकदां!.... वळखले? आसूं. पत्र वाचतां वाचतां तुमकां म्हजी वळख पट्टली. एक सांगात. पयर तुमकां हांवें हटकिल्ले. पूण तुमी नदर चुकोवन ल्हवूच पळोवंक नाशिल्ले भशेन करून काणो दोळो करीत बेगीबेगीन गेले. तुमच्या दोनूय हातांनी बालद्यो. हांव 'मास्तर, मास्तर' आड्डूंक सोदतालो. मागीर चितलें नाका. तुमी एक बालदी म्हाका बी धर म्हणशात. पूण तुमी स्वता उदक हाडूंक बांयचेर गेल्ले तें पळोवन म्हाका बरें दिसलें. हरशी शाळेत आसतना (म्हणल्यार हांव) तुमी केन्ना आयदनाक हात लायिल्लो हांवें पळोवंक ना. हांव दायच्या बार्रांतल्यान धवें उदक हाडटलों बाटलेंतल्यान (मुद्दाम हुर्राक अशें बरोवंक ना. कोणूय वाचित जाल्यार तुमकां बेबदो बी म्हणीत. गुरूचो अपमान करपाक जायना अशें तुमींच तर सांगिल्लें एकदां.) तेन्ना मात तुमी पेल्याक हाल लायताले. हरशी च्याचो ग्लास सोडल्यार तुमी केन्ना आयदनाक हात लावंक ना. हांवें तरी पळोवंक ना... आनी हांगा एकदम बालदी. त्योय दोन. तुमी म्हाका सांगपाचें न्हय, हांव बाबुशाक सांगून टँकर धाडून दिवपाचो. सदांच हॉटेलाक घालतात, आठ दीस मतदारांक उदक घालें म्हूण मळब कोसळना. आमगेरूय हालीं उदक आसना. चवथी कडेन नळ दुयेंत पडले. फांतोडेर उदक येतालें. पूण बारीक धार. हुंदिर पसून चड नेटान मुत्ता आसतलो. नळाचो आवाज मात घोणसापरस व्हडलो, फोंस फोंस करून. मागीर दोन थापटां मारतकच येतालें उदक.

मास्तर, उदका वयल्यान याद जालें, मामू आयला कुयटाच्यान. ताकाय उदकान धपको दिलो. मोन्यानी उदक भरतालो, तोंडावयल्यान बुरखो घेवन. वळखत जाल्यार लज जायत म्हूण. मात कुयटाक बरें. उदक ना जाल्यार ते पेत्रोल वापरता आसतले न्हय मास्तर? मात्सो वास येतलो, पूण हात धुवपाक हरकत ना. तांकां संवयूय जाल्या आसतली. संडासाक मात वापरूंक मेळचेंना. कारण तांकां सिगार ओडपाची संवय. चुकून सिगार फाटल्यान व्हेली जाल्यार उजो लागपाचो भंय. आसूं. करतले, भोगतले ते. आमच्या पोटांत कित्याक जळपाक जाय?

मास्तर, अंदू चवथीक आमी चार मराठी नाटकां बसयिल्लीं. 'जळते ही गवताची पेंढी', 'दिल्या घरी तू झगडत रहा', 'बाई, तुझी आठवण येते' (ही बाई शाळेंतली, तमाशांतली न्हय.) आनी चवथें 'दिवा लावते मी तुळशी वृंदावनी'. लेखक कोण तें पळोवंक ना. म्हणटकच पटी दिवपाचो प्रश्नूच ना. 'जळते ही गवताची पेंढी' हें इतिहासिक नाटक. पूण तें केलें ना. कारण तणाक उजो लायतना स्टेज पेटत म्हणून कमिटी भियेली. बाकीचीं सामाजीक. कोंकणी नाटक दवरपाचे, पूण तांकां दिवपाक पयशे ना जाले. मागीर बाबुशान तियात्र स्पॉन्सर केलो. 'ते धा दोवदिरे'. ताका आमी तियात्राचें नांव वेगळेंच सांगलें. 'ते धा धोडयारे'. ताका दिसलें नुस्त्याचेर आसतलें. दिले ताणें वीस हजार काडून. तो तशी देणगी दिवपाक बरो. श्रावणांतली गजाल. सत्यनारायण पूजा दवरिल्ली आमच्या मंडळान. आरती सुरू आसतना भायर 'बें, बें' आवाज. सहस्त्रबुद्धे भटमाम तापलो. 'तें बें बें बंद करां पाहू शिंच्यांनो... आरती म्हणतां की मिमिक्री करतां...' म्हणपाक लागलो. फाटल्यान पळत जाल्यार खाड हालयत

बोकडो उबो. मागीर कळ्ळें बाबुशान धाडला, पूजे खातीर. कोंकण्यांची पूजा सामकी शिवराक हें ताका सांगपाक विसरले आमी. पूण आमच्या मंडळाचें ओंठांचेर बोट. कांय सांगूंक ना. ताणें मोगान धाडिल्लो न्हय. कसलेय भेटवस्त, देणगेक नांवां दवरपाक जायना. आनी मोनजात ती. (म्हणल्यार बोकडो) ताका खंय कळटा, संवळें आनी ओंवळें. घुसलो तो भीतर. तरी बरें प्रसाद खावंक ना. आमी तो बोकडो घेतलो. जानूगेर बांदून दवरलो. मागीर चवथीचे इकरा दीस जातकच बरी ओली पार्टी केली. तुमकां आपोवपाचो, पूण तुमीं गांवांक गेल्यात, अशें कळ्ळें. मास्तर तुमकां सांगता, केन्नाच कोणाच्यो भावना दुखोवपाक जायना. मागीर तो बाबुश आसूं वा बोकडो. देवामुखार सगळे सारके.

मास्तर, तुमची शेजारीण आल्मार घेवपाक गेल्ली. हांव पळयतालों, फेरयेंत. 'भैय्या, इसको खण नहीं हय क्या?'विचारताली. ताणें मागीर तिका ल्हान-ल्हान खण आशिल्ली शोकेस दाखयली. 'जावं बाये, डझनभर खण आसात. सगळे पुरस्कार मेळ्ळे. आतां साहित्य अकादेमी आनी अणकाराचो साहित्य अकादेमी अशे दोन पुरस्कार उरल्यात.' धा खण भरल्यात खंय तिचे पुरस्काराचीं पदकां दवरून. आतां दोन उरल्यांत. मास्तर, तशे हालीं पुरस्कार रोखडेच मेळटात. राज्य सरकारान बंद केले म्हूण कितें जालें? केंद्राचे आसात न्हय? कांयच ना जाल्यार महाराष्ट्रांत दोन डझन संस्था आसात. तेवटेन कर्नाटकांतूय आसात. केन्ना केन्ना एकूच एन्ट्री येता खंय. तशे पाच हजार रुपया देणगी दिवन पुरस्कार घेवपाक मेळटात. तेय बी पेजाद. साहित्य शिरोमणी, पत्रकारभूषण, राष्ट्रीय रंगकर्मी, राष्ट्रभूषण... जाय जायते. फकत पयशेच जाय. तुमकां जाय जाल्यार सांगात. पूण तुमी काटूक. तुमकां विडी, सिगार, उदक (धवें, तांबडें, हळडुवें) सगळें विद्यार्थी हाडून दिताले. तेन्नाच सुचिल्लें जाल्यार आमी सगळे मेळून वर्गणी काडपाचे आनी तुमकां पुरस्कार दिवपाचे. गुरू सांदिपनी पुरस्कार. आतां हो सांदिपनी कोण म्हूण म्हाका विचारूं नाकात. म्हाकाय व्हडलेशें खबर ना. कृष्णाक काय रामाक शिकयतालो खंय तो. आसूं. तुमकां तें चवथीच्या नाटकाचें सांगपाचें उरलें.

आमी चार नाटकां बसयलीं पूण केलीं दोनूच. अंदूं गणपती इकराच दीस अशें सांगलें आमकां ऐनवेळार. आमकां दिशिल्लें एकवीस दीस म्हूण. तर कितें सांगतालों. नाटकाचें. आमचें नाटक 'बाई, तुझी आठवण येते'. त्या नाटकांत बोवाळूच जालो. दरोडेखोर शंभू रानात वता. थंय जमनींतल्यान एक हात येता आनी ताचो पांय धरता. मात्शें सस्पेंन्स नाटक. इतल्यान थंय चंपा नटी येता. (नटी म्हणलें म्हूण राग धरचो न्हय. नट तशी नटी. अभिनेत्री हें उतर जड. नटी शॉर्ट अँड स्वीट)... आनी अचकीत घुंवळ येता तिका. दीस बी गेल्ले आसतले. वचूं. तें भितरल्लयो गजाली आमकां कित्याक? तर ती जमनीर पडचे पयलीं शंभून वचून तिका धरपाची आनी फातराचेर बसोवपाची. मागीर दोगांयचो मोग जाता, अशी स्टोरी.

शंभू दरोडेखोराची एंट्री जाली. हात वयर आयलो. तें काम केल्लें पेद्रू पापेलांवान. तियात्र जांव नाजाल्यार नाटक. कसलें तरी काम जायच म्हणटा तो. पटी दिता म्हणटकच ना म्हणपाक मेळना. तर पेद्रून शंभूचो पाय धरलो. इतल्यान तेवटेन चंपा नटयेक घुंवळ. शंभू येवन धरतलो, फातरार बसयतलो, ती वाट पळयता. शंभूचो पांय पेद्रून घट्ट धरिल्लयान ताका हालपाकूय मेळना. चंपा तशी हुशार. शंभू येना ते पळोवन ती गोल गोल घुंवपाक लागली. ती घुंवता ती पळोवन मुखार बशिल्लया आबोल्याक दिसलें ती फुगडी घालता.

घडये मोनी फुगडी बी आसत म्हूण ओगी तरी रावपाचें. आबोलें तें. ओगी रावता. ताणें व्हडल्यान 'कितली म्हारगाय गे सायबिणी संवसार कसो करचो आमी' गावपाक सुरवात केली. घे. लोक ताळ्यो मारतात, हांसून लोळटात. तेवटेन पेद्रू पांय कसोच सोडीना. शंभू आड्डटा, 'नराधमा, पापी, भूता सोड माझा पाय'. पेद्रू व्हडल्यान सांगलें, 'धुकरा शंभूल्या, तेक वेंग माच्च्या सोदता? हांव दिवपा ना केंसोच. नोटी चोयली, धांवलो धेरेपेंत वेंग माच्च्याक, ओर्निदार....' तेवटेन डायरेक्टर तातो सांगता, 'सोड रे पेद्रू, ताचो पांय. मागीर पळोवया कितें तें'. पेद्रू पांय सोडपाक तयार ना. शंभू जीवान आकांताचो. ताणें नेटान पावल मारले. स्टेजीपोंदचो पांयाक घट्ट वेंग मारिल्लो पेद्रू सोमतो वयर. ताका तसोच घेवन कुटयत कुटयत शंभू चंपा कडेन गेलो. ती आजून घुंवताली. सकयल आबोल्याची 'कितली मारगाय गे सायबिणी...' सोंपपाक पाविल्ली. लोक हांसून लोळपाक लागले. पड्डोय उडोवपाक मेळना. नामदेव विडी फुसकायत पयस पटार बशिल्लो. लायट पालोवपाचें तात्याच्या मनांत नाशिल्लें. कारण ताचो शंभूचेर विस्वास ना. स्टेजीर काळोख जालो आनी शंभून चंपाक कितें केलें जाल्यार. हालींसराक बायलेचो पार्ट करपाक कोण मेळना, हें

ताका खबर आशिल्लें. अखेरेक नामदेव बोवाळ आयकून धांवत आयलो आनी ताणें पड्डो उडयलो. तर हें अशें जालें मास्तर. तुमी गावांक गेल्ले जाल्यार तुमकां शंभूचो पार्ट करपाक मेळपाचो. पूण तुमकां पेद्रूच्या हातांतल्यान पांय सोडपाक जमचो नासलो. आनी हाडकुळो दरोडेखोर बरो दिसचो नाशिल्लो. आसूं. निमणें गणपती पुजला थंय पट कित्याक घाला म्हूण कांय लोक बोवाळ घालपाक लागले. मागीर पट ही भारतीय संस्कृती, महाभारतान पट आशिल्लो अशें सांगतकच ते शांत जाले. उरिल्लुया दोगांक पाचवी नोट दिवन थंड केले.

मास्तर, नाटकाच्या बोवाळांत तुमकां सांगपाकूच विसरलो, हांव इंग्लिश उलोवपाक शिकलां. आमच्या वेळार आठवीमेरेन पास धोरण नासलें, नाजाल्यार हांव णववेंत शाळा सोडचो नासलो. आयज डिग्रेक आसपाचो हांव. तुमी म्हणटाले न्हय, 'म्हाका इंग्लिश कशीच जमचीना'. पयर म्हाका मार्कुस शाणपणां सांगपाक लागलो, 'यू पीपल आर कास्टीस' म्हणपाक लागलो. हांव तापलो, 'यूवर फादर वोट गोज इफ व्ही वियर काश्टी? देट इज द सिम्बोल ऑफ अवर स्टेट', अशें सांगलें ताका. भियेंता कितें? 'फूक मार, फूक मार' अशें कितें तरी भितरले भितर बडबडलो आनी गेलो. मास्तर, 'ह्युमन मस्ट फर्स्ट थिंक अँड टॉक. अदरवायज इट बुमरँगस टू यूवर बॉडी. करेक्ट नो?' आसूं. तुमकां इंग्लिश खंय कळटा? मराठीच कळना ती इंग्लिश खंयची कळटली? तुमी तुमचे भाशेक दसून रावल्यात हें बरें. ना जाल्यार आमचे सारखे जावपाचे, ना घर का ना घाट का.

बरें, 'घाट का' वयल्यान एक याद जालें. तुमकां कोणी घांटी म्हणत जाल्यार म्हाका सांगात आं. दोकेच मोडून उडयतां ताचे. तांच्या खुस्तार आमचे सरपंच, नगराध्यक्ष, आमदार वेंचून येतात. तांकां धांवडायले जाल्यार बारीकसारीक कामां कोणें करपाचीं तीं मागीर? शाळेत आसतना आमी तुमगेर उदक भरताले, बाजार हाडून दिताले. तारी तुमकां नुस्तें हाडून उजरावन दितालो. परब तुमकां भाजी हाडून दितालो. भगुणे तुमगेर सान्ना मारतालें, न्हंयचेर कपडे उमळूंक व्हरतालें. हांव एक दीस गेल्लो ताचे फाटल्यान. हेल्प करपाक. पूण तुमी मागीर म्हाका गाळी संवल्यो म्हूण वचपूच सोडले. आतां तुमचो म्हेळो लेंगो निवळ करपाक फातराचेर धाडायलो आनी तो पिंदलो, हातूंत म्हजी कितें चूक? खरें म्हणल्यार, दरेकल्यान कामां वाटून घेत जाल्यार घांटयांची गरज ना. आता आमचो बाबाच पळय. आई उदक तापयता, तो न्हाता. आई च्या करता, तो पिता, आई हाथरूण घालता, तो न्हिदता... अशीं कामां वांटून घेत जाल्यार कोणाक कसलोच त्रास ना. पूण, घांटी कोण, ते पयलीं थारावचें पडटलें. ते खातीर एक आयोग नेमल्यार बरो. (तांचो अहवाल येतकच ताचेर अभ्यास करपाक समिती नेमपाची) हें बाबुशाक सांगल्यार बरें. पूण तो घांटी म्हणून तुमकां धांवडायत जाल्यार हांव सोंसून घेवचो ना आं.

मास्तर, तुमच्या शेजरा तो खाडयो लेखक रावता (खाडाचो रंग सांगीना. ओगीच कोण बेजार जावपाक नाका. पयलींच लेखक त्राशिल्ले आसतात. तातूंत त्रोसां मारप बरें न्हय.) ताणें पयर चार पुस्तकां उजवाडाक हाडल्यांत. पयलींचीं तीन आनी हीं चार. घडये आळशी आसतलो म्हूण एकाच वेळार चार– चार पुस्तकां उजवाडायता जावंये. तसो खरेंच आळशी तो. म्हाका शेड्डोबाब सांगतालो, 'तीन पुस्तकां बरयल्यांत ताणें, पूण अजून एकूय वाचूंक ना खंय'. हीं चार तरी वाचल्यांत काय? म्हाका डावट आसा. दुसऱ्याचीं एक वाचीनात निदान आपलीं पुस्तकां तरी वाचपाक नाकात, मास्तर? तुमी विचारूंक वचूं नाकात. 'तूं कोण म्हाका विचारपी? पुरस्कार मेळटकच वाचतलों हांव', अशें सांगतलो तो तुमकां. सेंट पर्से ट. पुरस्कार मेळटकच भीतरलो मजकूर तोच उरता न्हय मास्तर? तो बदलता? तुमकां 'खिलती कलियाँ', 'मचलती जवानी' असलीं हिंदी पुस्तकां सोडल्यार वाचनाची व्हडलीशी आवड ना. आसूं.

मास्तर, आमचो काकुलो (हें आडनाव न्हय. पुराय नाव काकुलो बेळेकार) एक संघटना काडटा खंय. 'आर्ग' नावाची. खरें तें आर्गां आसपाक जाय, पूण मार्ग नावाची संस्था आसा म्हूण तो आर्ग काडूंक सोदता. मार्गाचेर कोणूय मेलो काय ताका आर्गां ओंपप आनी सरकाराचे नदरेक तो फोंड हाडून दिवपाक प्रसिद्धी पत्रक काडप. बाराव्या दिसा ताच्या घरच्यांक आर्गां ओंपपी व्हॉटसअॅप धाडप. हालीं रस्त्यांचें फोंड खूब पडल्यात. पावस घालता ते. दिसलो रस्तो काय घाल फोंड. तीं फोंडें, होंडें नावां पडल्यांत ती ह्याच फोंडा वयल्यान. पयर बाजारांत वतना म्हाका रस्त्यातल्यान आयिल्लीं शिंगा दिसलीं. ते पळोवन म्हजी म्हातारी कुळकुळ्ळी. (ही ओंपार. नाजाल्यार खंयचे म्हातारेक घेवन भोंवता हो, म्हणशात.) लागीं वचून पळयत जाल्यार नारग्याचो बैल. बाबडो चोवीस वरां भितर उरलो. मागीर फायर ब्रिगेडीक फोन करून आपयली

आनी बैलाक फोंडांतल्यान वयर काडलो. तरी बरें गाय नाशिल्ली. ओगीच फेसबूकार बोवाळ जावपाचो. 'गोमातेचा अपमान, गाअ्येचो इन्सुल्त' (हें शुद्ध उतर खंय) अश्यो बातम्यो येवपाच्यो. ती फुटबॉल खेळटाली, ही रस्त्यार बैल पळयत हेडटाली. सांगपाचें म्हणल्यार गोंयच्या रस्त्यांचेर फोंड खूब पडल्यात. पूण कॉन्ट्रेक्टरां खातीर आमी ते तशेच दवरपाक जाय. सांसणाचे फोंड पुरोवन रस्ते गुळगुळीत केले जाल्यार आमचेच कॉन्ट्रेक्टर भाव बेकार जावचे नात? कोणाच्या फाटीर मारचें, पोटार न्हय. (तशें पोटार मारूनय कांय जावपाचें ना. हात रिबाँड येतलो.)

बरें तर मास्तर, तुमी गांवाक गेल्ले ते परत आयले. बरें दिसलें. म्हसोबाचे जात्रेच्यो चिरमुल्यो आनी खडीसाखर धाडून दियात. तुमी अंदू रिटायर जावपाचे आशिल्ले. पूण जावचे नात. कारण सरकारन अजून नवे मास्तर नेमूंक नात. इंटरव्ह्यू घेवन दवरल्यात. पत्र तुमकां पावमेरेन घडये नेमतूय बी. सरकार विथ डिफरन्स तें. कितें करीत सांगपाक येना. डिफरंट डिफरंट कितें कितें करीत आसता. वाटेर मेळ्ळ्यार व्हडल्यान उलो मारतां. यादीन जाप दियात. देव बरें करूं.

**तुमचोच मोगाचो**

**पुर्सो भोबो**

सांगपाचें उरलें : पत्रावांगडा चार कारातीं धाडटां. वयनीक सांगात तळपाक. कोडू आसतात तीं. नाजाल्यार ओगीच कोडू तवशीं दिलीं भोब्यान म्हणश्यात. तुमकां कारातीं आनी तवशीं अजून वळखूंक येनात. गोड्या तेलान तळात तीं. वयर पीठी साकर शिंपडात. म्हणटकच गोड लागतलीं. दोन पडवळांय धाडटां. बडी समजून कोणाक मारशात बी. नाजाल्यार लांब कितें हातांत आयलें काय तुमकां रोखडेंच मारीन दिसता. पडवळाची भाजी बरी लागता. धवें उदक मे म्हयन्यांत. काजू लागतकच. तें मागीर पळोवया. दिलां तें गोड मानून घेवचें. हावरेंपण करचे न्हय, अशें म्हणपाचो हांव. पूण शिष्यान अशें गुरूक म्हणप बरें न्हय. अपमान तो ताचो. देखून म्हणिना. वयनीक नमस्कार सांगात.





# नातें एका वाचकाचें आनी लेखकाचें!

-सखाराम शेणवी बोरकार

'जाग' दिवाळी अंकाचो ह्या वर्साचो विशय 'साहित्यीकाकडलें नातें' म्हण संपादका कडल्यान कळ्ळें आनी म्हाकायबी ह्या विशयाचेर बरोवचें अशें दिसलें. पूण म्हज्या लागशिल्या नात्यांमदीं कोणय साहित्यीक नाशिल्ल्यान कोणाचेर बरोवचें हो प्रस्न म्हजे मुखार उबो रावलो.

आरे! तुज्या नात्यांत कोणय साहित्यीक नासत पूण तुजो इष्ट कृ.म. सुखठणकार जो एक नामनेचो साहित्यीक जावन आसा ताचेर तूं कित्याक बरयनां? अशें म्हजें मन म्हाका सांगपाक लागलें. फ़ाटलीं स वर्सां जाचेकडेन म्हजें लेखका पलतडचें, एक इश्टागतीचें नातें आसा ताचेर हांवे बरोवपाचें थारयलें.

म्हजो सबाव एकमुळो आनी सोंपेपणान हांव कोणायकडेन इश्टागत करुंक वचना. त्याभायर हांव सामको भिडेस्त. आपूण जावन कोणायकडेन उलोवपय म्हाका जमना. त्या खातीर जांचेकडेन म्हजें जुळटा अश्या साप्प थोड्या इष्टांमदलो एक म्हळ्यार कृम.

हांव जेन्ना म्हजी इश्टागत कृमकडेन कशी जाली तें येवजितां तेन्ना म्हज्या दोळ्यांमुखार ६ फ़ेब्रेर २०११ दीसा 'सुनापरांता'च्या आयतार पुरवणेंत आयिल्लो कृमचो 'मैं अण्णा हूं' हो लेख याद जाता.

ताचें अशें जालें! एका आयतारा सदचेभशेन बाकीच्या पेपरावांगडा 'सुनापरांत' घेतलो. हरशीं म्हाका सुनापरांताची आयतार पुरवणी थंयचे थंय उगडून दिलीप बोरकाराचो 'बोरकारी' कॉलम वाचपाची खूप वर्सां आदली संवय. खरें तर ह्या फ़ावट दिलीपबाबान कोणाची उडयल्या(!) ताची उमळशीक चड आसताली. पूण दिलीपबाबान आपलो 'बोरकारी' कॉलम बंद केल्लो आनी आतां ती पयलींची उमळशीक उरुंक नासली.

घरा येवन सवकासायेन हांवे सुनापरांत आयतार पुरवणी चाळ्ळी. तेराव्या काय चवदाव्या पानार 'चिमटे धुमके' ह्या विनोदी सदरांत एक लेख पळयलो. लेखाचें नांव आसलें 'मैं अण्णा हूं' आनी सकयल बरोवप्याचें नांव आसलें कृ.म. सुखठणकार! हांव हें नांव पयलेच फ़ावट वाचतालों. कितें कोण जाणा म्हाका तो लेख तेन्ना वाचनसो दिसलो नां. पेपर काडून कॉटी म्हऱ्यांत आशिल्लया सायड टेबलाचेर दवरलो. म्हळ्ळें सवकासायेन वाचूंया.

अशेच तीन चार दीस गेले. म्हाका रातचो न्हिदतनां अर्दवर तरी कितेंय 'हलकेंफुलकें' (light reading) वाचपाची पयलींसावन संवय. म्हज्या कॉटीवेल्या सायड टेबलाचेर 'अना'चीं, दिलीप बोरकाराचीं आनी पु.ल. देशपांडेचीं सगळीं विनोदी पुस्तकां आनी आयताराच्यो विंगड-विंगड नेमाळ्यांच्यो पुरवण्यो आसतात. म्हजी नदर अचकीत सायड टेबलाचेर आशिल्लया आयताराच्या सुनापरांताच्या पुरवणीचेर गेली. पुरवणी उगडून चाळतनां म्हजी नदर परतून एकदां 'मैं अण्णा हूं' ह्या लेखाचेर पडली आनी हांवे तो लेख वाचपाक घेतलो. आनी खरें सांगू हांव कॉटीवेल्यान वयर उसळपाचोच उल्लों. इतलो खुसखुशीत लेख अनाच्या लेखांशिवाय हालींच्या दिसांनी हांवे वाचूंक नासलो. हांवे न्हिदचेपैलीं दोन तीन फ़ावटीं तरी तो लेख वाचलो. लायट बंद करुन दोळे धांपले तरी त्या लेखांतले सगळे प्रसंग जिवे जिते जावन म्हज्या मुखार नाचताले. तोंडार एक समाधान घेवन केन्ना हांव न्हिदेच्या आधीन जालो तें म्हाका कळ्ळें लेगीत नां.

सकाळीं उठरगीर दिसलें कृमक फ़ोन करुंया. पूण वळख ना पाळख! कसो फ़ोन करतलों? फ़ोन करपाचें तशेंच उल्लें. फुडल्या आयतारा सुनापरांतांत कृमचो लेख आसतलो काय ना हाची म्हाका उमळशीक जाली. पूण त्या आयतारा म्हजी निरशेवणी जाली. ह्या फ़ावटीं 'चिमटे धुमके' ह्या सदरांत दुसऱ्याच कोणाचो लेख आसलो. मनांत म्हळें एकाच लेखांत हाचो अवतार सोंपलो काय? इतले म्हणसर दुसऱ्या आयतारा परत एकदां कृमचो लेख वाचूंक मेळ्ळो. पयलींच्या लेखा इतलोच अप्रतीम. (कांय तेंपान म्हाका कळ्ळें की कृम दरेक आयतारा लेख धाडटालो पूण पुरवणी संपादक खंय दरेक आयतारा 'चिमटे धुमके' ह्या सदरांत कृमचोच लेख छापचो पडटा म्हण दर पंद्रशेक खंय ताचो लेख छापप जाताले.)

पूण 'म्हातारेन कोंबो धांपलो म्हण उजवाडावपाचें रावता?' वाचकांच्या आग्र्याखातीर कृमचे लेख प्रत्तेक आयतारा सुनापरांतांत येवपाक लागले. कृमचे लेख आयतार पुरवणेच्या चवदाव्या पानांवेल्यान दुसऱ्या पानांर केन्ना पावले हें उपसंपादकाक

लेगीत कळ्ळें नां. सगळे सुनापरांताचे वाचक कृमच्या लेखाची उमळशिकेन वाट पळोवंक लागले.

जी उमळशीक 'बोरकारी' वाचपांत आसताली ताचे परस घडये चड 'चिमटे धुमके' सदरांत कृमचे लेख वाचपांत येवपाक लागली. आयताराचे कृमचे प्रत्तेक लेख वाचतगीर ते एकठांय करुन दवरपाची म्हाका संवयच लागली.(आयज मेरेन कृमन जें कितें बरयलां तें सगळें म्हज्या संग्रहांत आसा). पूण म्हाका कृमक फ़ोन करपाचो योगच आयलो नां म्हळ्यार जाता.

२०१२ वर्साचो 'बिम्ब' म्हयनाळ्यांन आपल्या वर्सुकी सुवाळ्यांत कोंकणींतल्या विनोदी साहित्य बरोवप्यांक दितात तो 'शंकर भांडारी यादस्तिक पुरस्कार' कृमक मेळ्ळो. हरशीं बिम्बात बरयतात त्या बरोवप्यांकच 'बिम्ब पुरस्कार' मेळटात.पूण बिम्बात एकूय उतर बरयनासतनां मबिम्ब पुरस्कारफ मेळप, हो कृमन थोड्याच दिसांभितर जी लोकप्रियता जोडली ताचो तो परिणाम आसलो. तरीय आसतनां कृमक परबीं दिवपाक एक फ़ोन करचो अशी वान्सा म्हाका जाली नां. म्हजो भिडेस्त सबाव परत एकदां आड आयलो.

२०१३ जानेवारी म्हयन्यांसावन कृम सातत्यान 'बिम्बा'त बरोवपाक लागलो (तो आयजमेरेन बरयता). कृमचो विनोदी लेख म्हळ्यार 'बिम्बा'चें एक आकर्शण! थोडे तेंपान 'जागा'चेरुय कृमचे लेख येवपाक लागले. मागीर कृमचे विनोदी लेख कोंकणीतल्या सगळ्या मुखेल नेमाळ्यांनीं येवपाक लागले.

२०१४ च्या अक्टोबर म्हयन्यांतली गजाल! दिवाळी लागीं पाविल्ली. एक दिस बिम्बाचे संपादक दिलीप बोरकार हांचो मबिम्बफदिवाळी अंकाचे आनी कृमच्या एका पुस्तकाचें प्रकाशन आसा ताचें आमंत्रण दिवपाक फ़ोन आयलो. म्हाका बिम्बाच्या दिवाळी अंकाबराबर कृमच्या पुस्तकाचें प्रकाशन म्हळ्यार दिवाळेचे म्हुर्तार मडबल धमाकाफ कसो दिसलो.

तो दीस आसलो अठरा अक्टोबर २०१४ ! हांवे मिनेझीस ब्रांगाझा सभाघरांत पावल दवरलें. कृम सगळ्यांक येवकार दितालो. मुखेल सभाघराच्या कुशीच्या हॉलांत 'च्या' ची वेवस्था केल्ली, सांगाताक दिवाळेचो घरगुती फ़राळ. हांव कृमक पयलेच फ़ावट पळयतालों. फ़ोटोंत दिसता तितलो कृम गंभीर दिसनासलो. तोंडार हय न्हयशें हांशे आसलें. त्या गर्दैत म्हजें ताचेकडेन उलोवप जमलें नां.

मिनेझीस ब्रांगाझाच्या मुखेल सभाघरांत हांवे पावल दवरलें. सभाघर खचाखच भरिल्लें. पयलेच फ़ावट पुस्तक प्रकाशनाक इतले लोक पळयतालों. कार्यावळ सुरू जाली. माचयेर आशिल्ल्यांची भाशणां बेस बरीं जालीं, पूण सगळ्यांपरस चड हांसोवन उडयलें तें कृमन. इतलो गंभीर मनीस इतलें विनोदी शैलीन खुशखुशीत भाशण करता तें म्हज्या खातीर एक अजापच आसलें. कार्यावळ सोंपली. एक उत्कृष्ट कार्यावळींत वांटेकार जाल्याचें समाधान सगळ्यांच्या तोंडार दिसतालें. जमिल्ल्या सगळ्या लोकांनी कृमक गराडोच घाल्लो. हांवे पुस्तक आनी म्हजो दिवाळी अंक घेतलो. म्हज्या मनांत पुस्तकाचेर कृमची स्वाक्षरी घेवपाची आसली. पूण कृमच्या म्हऱ्यांत लोकांची गर्दी पळयली आनी म्हाका मडगावांय पावपाचो आसलो. पुस्तकाचेर कृमची स्वाक्षरी घेवपाचें जमलें नां.

घरा पावलों. केन्नाकाय म्हाका 'चिमटे धुमके' वाचनशें जालें. जेवण करुन मचिमटे धुमकेफ वाचपाक घेतलें. खरें म्हळ्यार हांतले सगळे लेख हांवे हाचे पयलीं सुनापरांतात वाचिल्ले. पूण एकठांय वाचपाची म्हाका एक वेगळीच खोस जाल्ली. पुस्तक वाचूंन सोंपयता म्हळ्यार सतचें एक जावन गेल्लें. मनांत म्हळें हाका फ़ाल्यां फ़ोन करतलोंच.

सकाळीं फुडें कृमक फ़ोन करपाचें येवजीलें. पूण मनांत म्हळें हो कामांत बी गेल्लो आसल्यार? कशीं बशीं सांजेचे सात वरां मेरेन कळ काडली. हांवे ज्युस्त सातांक फ़ोन केलो. कृमक परबीं दिवन जातगीर आमी कोंकणी साहित्याचेर उलोवंक लागले. कृमचे वाचन अफ़ाट. म्हजेंय वाचन सुमाराचें आशिल्लयान आमकां विशय परकी दिसना आशिल्ले. मनांत म्हळें मुद्दाम फ़ोन करुन उलोवंचो हो असो एक लेखक. हांव स. रमेशबाब वेळुस्कार आनी माधवबाब बोरकार हांचे कडेन आत्र्या पैऱ्यान उलयतालों. आतां म्हाका उलोवपाक आनीक एक साहित्यिक मेळिल्लो.

त्या दिसासावन आयज मेरेन आमचें फ़ोनार एकुय दिस चुकनास्तना उलोवप आसता. सगळे तरेचे विशय. पूण साहित्याचेर चड. आयज वर्तमानपत्रांनी कितें वाचलें, कितें आवडलें हाचेर आमची भासभास जाता. खंयचेय नवें पुस्तक वाचलें ताचेर खोलायेन उलोवप जाता. नामनेचे कवी माधवबाब आमचे दोगांयचेय इश्ट. तेवुय बी आमच्या ह्या चर्चेंत वांटो घेतात.

हालींच आमी मराठींतले नामनेचे साहित्यीक आरती प्रभूंच्या साहित्याचेर उलयताले. आरती प्रभू हो आमच्या दोगांयचोय 'विक पोंयट'. तांची उपलब्द आशिल्लीं सगळीं पुस्तकां आमचे कडेन आसात. दिपक घारे हाणीं आरती प्रभूंचे ललीत चरित्र बरयलां. आमी तें मागयलें आनी कितलेशेच दीस ताचेर भासाभास केली. त्या निमितान आरती प्रभूंच्यो सगळ्यो कविता परत्यो वाचूंक घेतल्यो. ह्या चरित्राचो आधार घेवन आमी आरती प्रभू हांचीं 'नवी जुनी' सारकेली कविता वेगळ्या नदरेन वाचली.

ह्या चरित्रांत उल्लेख जाल्या जायत्या

मनश्यांक माधवबाब वळखतात. तांतूतल्या कांय हयात आशिल्लया मनश्यांकडेन माधवबाब उलयल्यात. आरती प्रभूचीं खबर नाशिल्लीं कांय तासां माधवबाबांन आमच्या मुखार उक्ती केलीं. जया दडकर हांणी चिं.त्र्य. खानोलकर हांचे मचिं. त्र्य. खानोलकरांच्या शोधांतफ ह्या पुस्तकांत 'खानोलकरांचे कोंकण' म्हण नकाशा आसा. आरती प्रभून माडिल्लया वाटेंन चलून 'कोंडूरा' पळोवपाची आमच्या दोगांयची इत्सा आसा. पळोवंया 'कोंडूरा' आमकां केन्ना आपयता तो!

जे वेळार मोबायल नाशिल्ले आनी फ़ोन ही गजाल सामकी अप्रूप आसली तेन्ना लेगीत पत्रवेव्हारांतल्यान लेखक आनी वाचक हांची भासाभास जाताली. आयज ताचें म्हत्व कितें तें आमकां उमगता. सुनिताबाई देशपांडे आनी जि.ए. कुलकर्णी हांचो पत्रवेव्हार जगजाहीर आसा ही ताची एक बरी देख. अशें केल्लयान दोगय जाण समृध्द जातात. आपणे दुसऱ्याक बरें कितें दिलें वा आपल्या पदरांत बरें कितें तरी पडलें हांतूत जें समाधान आसा तें दुसऱ्या कित्यांत नां हें म्हजें मत.

कृमच्यो आनी म्हज्यो आवडी चडश्यो एकूच. आमकां दोगांकय नुस्तें खूप घोस्ताचें. आयतारा सगळ्यांत पयलीं नुस्तें कितें हाडलें हाचेर चर्चा जाता आनी मागीर आयतारच्या पेपरांनीं कितें आयलां ताचेर. लोकमताची आयतार पुरवणी आमची सगळ्यांत घोस्ताची. तांतल्या लेखांचेर आमची चर्चा जाता. म्हजे भशेन कृमकय पेनाचो संग्रह करपाची आवड आनी दुसरी आमच्या भितरली 'कॉमन' गजाल म्हळ्यार पोरणे फ़िल्म संगीत. कृमक फ़कत पोरणे संगीतच आवडना तर त्या पदाचें संगीतकार, गितकार, फ़िल्माचें नांव सगळें तोंडपाठ आसता. आनी त्या खातिर म्हज्याय गिन्नानांत भर पडटा.

कृम एक बहुप्रसवी लेखक. पूण एक लेख बरयतलो जाल्यार तो कितली तकालस घेता तें हांवे पळयलां. आपल्या लेखांत चुक उरची न्हय हाची तो खूप जतनाय घेता. ताचें वाचन उफ़ाट, फ़िल्म संगीताचें भरपूर गिन्नान, उर्दु भाशेची संवकळ ह्या खातिर तांच्या लेखांतले संदर्भ हे सामके अधिकृत-ओथेन्टीक आसतात. कोणेय दोळे धांपून संदर्भ म्हण वापरचे. विनोदी लेखन हें फ़काणाचें काम न्हय तर एक गंभीर गजाल हें कृम आपल्या लेखांत कितली तकालस घेता हाचेवेल्यान कळटा.

विनोद हें जिणेंतलें एक गंभीर सत्य. वास्तवाक धरुन आशिल्लो विनोद मनांक भावता. कृमचे विनोद आमकां दांभिक जिणेची जाणविकाय करुन दिता. कृमच्या लेखांतली पात्रां वाचप्यांक वळखीचीं दिसतात. आपल्या लेखांत आपल्याकच पात्र म्हण मुखार दवरुन ताचेर विनोद करप हाका व्हड मन लागता. कोंकणींतल्या फ़ामाद विनोदी लेखक जशे परीं दत्ताराम सुखठणकार वा अनाक लेगीत जमूंक नां. कृम आपल्या विनोदी शैलीन समाजीक व्यंगाचेर बोट दवरता. एका एका प्रसंगाकडल्यान विशय सर्वसामान्य वास्तवाकडेन व्हरपाची कळाशी कृमक बरी साधल्या.

ह्या वर्साच्या बिम्बाच्या दिवाळी अंका खातीर हांवे कृमची खास मुलाखत घेतल्या. ह्या मुलाखती वरवीं कृमच्या व्यक्तीमत्वाचीं विंगड विंगड तासां उक्तीं जाल्यांत. तांची लिखाणाची प्रक्रीया तांचे जापेंतल्यान आमकां कळटा.

आयज आमच्या इश्टागतीक स वर्सां वयर जाल्यांत. पूण हांव कृमक प्रत्यक्षांत पांच-सच खेपे मेळ्ळां. तेंवूय बी कोंकणीच्या प्रोग्रामाक वा ताच्या पुस्तक प्रकाशनाच्या सुवाळ्याक. सवकासायेन बसून उलोवपाची संद आमकां एक-दोनच फ़ावट मेळ्ळ्या. पूण आमी जितलें फ़ोनाचेर उलयतात तें पळयल्यार प्रत्यक्ष मेळपाची आमकां गरजच लागना. ग. दि. माडगुळकारांच्या गीत रामायणांतली एक ओळ घेतलो जाल्यार 'प्रत्यक्षाहुनी प्रतिमा सुंदर' अशी आमची गत जाल्या. घडये एकामेकांक चड फ़ावट मेळिल्ले जाल्यार फ़ोनाचेर जितलें उलोवप जाता तितलें जातलें आसलें काय दुबाव येता.

आयज मेरेन कृमची चार पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. आनी दिवाळे समयार ताचें पांचवें पुस्तक -'नारंगां आनी सुरसुरीं' उजवाडाक येवपाचें आसा. तांच्या मधोंगा आनी पोंगाफ ह्या चवथ्या पुस्तकाक आनी 'नारंगां आनी सुरसुरीं' ह्या पांचव्यां पुस्तकाक माथाळो दिवपाचें भाग्य म्हाका मेळ्ळें हाची म्हाका खोस भोगता. कृम आमकां हाचेफुडेंय अशेच दर्जेदार विनोदी लेख बरोवन आमकां मनरिजवणे सांगाताक अंतर्मुख करंपाक लायतलो अशी म्हाका खात्री आसा.

अशें हें आमचें लेखक वाचकाचें इश्टागतीचें नातें दिसानदीस फुलत वचूं हें देवाकडेन मागणें. हाची म्हाका खोस भोगता.

•••

## नातीं

कांय नातीं नितळ मनांचीं  
कांय नातीं पिळग्यान पिळग्यो चलपी दायजाचीं.  
कांय नातीं सासणाक उरपाचीं  
कांय नातीं दोनच दिसांनीं सोंपपाचीं.  
कांय नातीं कपलार लायिल्लया कुकमांतलीं  
कांय नातीं आवयच्या गर्भकुडींतल्यान आयिल्लीं.  
कांय नातीं आसतात पैसावपाचीं  
कांय नातीं काळजांत सांबाळून दवरपाचीं.  
कांय नातीं नासतात नात्यांत दवरपाचीं  
कांय नातीं आसतात पयसुल्लयानुच अणभवपाचीं!

# दोग भाटकार

– गजानन जोग

सकाळची घराव्या दुदाची बरी कडक च्या मारून काका कार्जीनी वचपाक फायर सरतालो. तेन्नाच एक जीप येवन वयर रस्त्यार उबी राविल्ली दिसली. म्हणसर खडबडीत सोपणां सांबाळून देंवत एकलो सकयल आंगणात येतना दिसलो. तो न्हयें पलतडच्या खणीचो मॅनेजर गावणेकारसो दिसतालो. गाडयेचो आवाज आयकून हातांतलो सुकत घालपाच्या सोलांचो खोटलो हातरपट्यार दवरून काकीय काकाल्या फाटल्यान येवन उबी राविल्ली. तिच्या कोण? ह्या प्रस्नाक तो पलतडचे खणीचो मॅनेजर इतलें सांगून काका दोन पावलां खळ्यांत फुडें सरलो. मॅनेजराक दारांत पळोवन काकाच्या मनात तरतरांचे विचार उबे रावले. कवाळ्या मेरेन पुरयिल्ले पलतडच्या भाटांतले दोंगरा वटेनचे कितलेशेच माड ताच्या दोळ्यां मुखार उबे रावले आनी त्या दिसाची याद जाली...

काकाक वयल्या रस्त्यार सांज वेळार पासयो मारपाची हालीं सवंय जाल्ली. फोंडे,उसगांव सावन बाजार करून येतना ट्रकांचेर येवपी कांय लोक हांगा देंवताले. गिमाच्या दिसांनी न्हयेंतल्यान धिपरभर उदकांतल्यान चलोन वचपाक मेळटालें. पलतडच्या दोन–तीन गांवांनी वचप सोंपे जातालें, कारण भंवताडो चुकतालो. पावसांत मात चार म्हयने हांगा न्हयेंक कस्सोच उतार जायनासलो. खणींचे ट्रक सुरु जाल्ले तेन्नाच्यान पावसाचे तितले दीस सोडले जाल्यार लोकांक ही एक नवी वाट मेळिल्ली. केन्ना न्हय ते त्या दोन वाड्यांवेले कितलेशेच लोक बाजाराक वतना जांव बाजार करून परततना हांगाच काकाक मेळटाले. गांवापसून पैस रावून लेगीत काकाक गांवांतल्यो बारिक–मोट्यो गजाली समजताल्यो.

त्या दिसा शेनवार जाल्ल्यान सांज जाता म्हणसर ट्रकांची येरादारी उणी जावपाक लागिल्ली. आपलेच तंद्रेंत काका रस्त्याचे कुशीन पासयो मारतालो. आदीं रानधुकरांच्या भोंवसळींनी, गोरवांच्या हिंडांनी सकयल्या व्हाळार उदका खातीर देंवपाक केल्ली धाड सोडली जाल्यार थंय नदर पावता मेरेन सगलें रानूच रान आसलें.रस्तो खंयचो, पांयवाट लेगीत नासली. म्हण्टां म्हण्टां मानिफेस्तां मारपी लोक दोंगरानी भोवपाक लागले. ते खाकी कालसावां, वाटकुळीं चेपीं घालपी लोक गावांतल्या वाड्यांनीय भोवतना दिसपाक लागले. थंयच्या चारांय वटांनच्या दोंगरांनी बरो म्हाल लागूं शकता ही फाम पैस पैस मेरेन पावली. एकेक करून गांवांत चार खणी सुरू जाल्यो आनी फाटो फाट ट्रकांक घोळपा पुरते तांबडे रस्तेय तयार जाले. खंय धड खणून जाल्यार खंय तळपां

आनी मातयेची भर घालून आशिल्ल्यो त्यो पांयवाटो, धाडी हांकाच तात्पुरते रस्ते करून ट्रक गुरगुरत धांवपाक लागले. तांबडी गुंज माती वाऱ्यार हुबयत आंगार येवपी वागा भशेन रोंव रोंव करीत धांवपी ते ट्रक! झाडा-पेडा, सावदां-सुकणी,धोरां आनी मनशां हांच्या आंगांक तांबडे मातयेची पुटां चडून सगली जीणूच तांबडी जावन गेली. कोणाचें कुळागर, कोणाचो काजींचो दोंगोर, कोणाचें वांयगण खणींच्या भकीक पडत रावलें.

अशींच धा-वीस वर्सां गेलीं. मागीर पुर्तुगेज गेलो आनी हिंडियान सरकार आयलें खरें पुण खणींच्या धनयांनी गांवांचेर चलयिल्ल्या अत्याचारांचे बाबतींत दोनूय सरकारीं सारकींच मुड्डार आनी भेड्डीं हें लोकांच्या रोखडेंच लक्षांत आयलें. काकाच्यो आलतडचें कुळागर, सर्द आनी पलतडचें भाट मात आजून मेरेन तरी सुगूर आसलें. पुण त्या दिसा ट्रकावेल्यान देंवल्या उपरांत अत्मान सांगिल्ल्या पाड्या खबरीन काकाक मोटेंच तळमळे लागले.

पोटली देवोवन ड्रायव्हराक पैशे फारीक करून वचपाचे तयारेंत आशिल्ल्या अत्मान काकाक पळयलो.

'काका, तुज्या भाटाची वाट लावपाची केल्या काय दिसता. ते नवे खणीचें कवर व्हरोन व्हरोन आतां भाटांत रकोवपाक लागल्यात. कितल्यो तरी टीपरी चलतात. तुका झेंगडून रकाद दींवक ना तर?'

'झेंगडू म्हाका मेळल्यार दोन म्हयने जाले दिसता.' काकान सांगलें,

'पैर हांव सदचे भशेन भाटांत नदर मारपाक गेलों तेन्ना पुरयिल्ले सुमार विशेक माड हांये मेजल आनी गावंत गेलों. शेजारी झेंगडू फण्या वता तो दिसलो तेन्ना तेका मुद्दाम तुका रकाद दीवन मागीरूच ट्रकार बस म्हणोन सांगलेले. रकाद पावलो ना तर तुका?'

'बऱ्या मनशा कडेन रकाद दिलो मरे तुवें अत्मा, तेका म्हटला आदीं झेंगडू!'

'कितें जालें,तो दारांतूच सकाळीफुडे मेळलो, तुज्या घराकडेन ट्रकार बसतलों म्हणपाक लागलो म्हणोन दिलो रकाद तेचे कडेन.'

'तो खंयतरी भाटयेर शिर्कला आसतलो रे! हुर्काचे दीस मरे हे!'

'हय रे काका, ह्या दिसांनी बेबद्यांची सामकी धन जाल्या. एक मोटेशें सुकें लांकूड तकलेर मारून व्हरपाचें, ढाब्ब करून भाटये कडेन उडोवन भाटीकाराक दाखोवपाचें. मागीर कोपाची राखण लागलीच. आतां आनी हें हिंडियान जालां. कोण कोणाक भियेना. झेंगडूचें जाल्यार चडूच जालां.'

'झेंगडूचें सोड, कितले, विशेक माड भरीन पुरवयल्यात म्हण्टा तूं?'

'हय तर,तूं फाल्यां सकाळीं वचोन मुद्दाम पळय.'

'फाल्यां? हांव आत्तां येतां तुजे बराबर. दोगूय या भाटांत. अत्माक सामानाची पोटली तकलेर घेवपाक काकान हात लायलो आनी घरावटेन पळयत कुकारो घालो. काकीन भायर येवन कितें काय विचाल्लें तेन्ना भाटांत पासय मारून येतां म्हणत तो अत्मा वांगडा चलपाक लागलो.'

भाटतांली परिस्तिती पळोवन काकाची तकली कणकणपाक लागली. तिडक सामकी मस्तकाक गेली. परिस्तितीच तशी आसली. कितलेशेच माड सामके खाकोळा मेरेन मातयेच्यो राशीच्यो राशी ट्रकांनी हाडून वोतून पुरोवन काडिल्ले. मदीं साताठ दीस कामांनी घुस्पून उरिल्ल्यान काका भाटांत पावूंक नासलो. चक्क करून ताका आपाच्या-ताच्या बापायच्या उतरांची याद जाली. भाटकारान भाटांत काम ना केल्यार जाता पुण ताचो पांय म्हण्टात तो ताच्या सगल्या जमनींक दियार लागपाक जाय. ती पासय चुकोवपाक जायना. सकाळची चुकली जाल्यार सांजची पासय मारपाकूच जाय...

काकान सांगलें तशें पत्र चल्यान मायन कंपनीच्या पणजेच्या म्हाल कार्यालयाक बरयलें. म्हयनो जावन गेल्लो, कांयच जाप येवंक नासली.

खणीच्या मॅनेजराक काका त्याच दिसा मेळलो आनी वेगोवेग कवर भाटांत रकोवपाचें काम थांबोवचें ना जाल्यार परिणाम वायट जातले अशें ताका सांगलें. दुसरे दिसा तें काम थांबलें खरें, पुण मदीं मदीं भाटाच्या आड्याकडेन एक दो ट्रिपी हाडून वोतपाचें चालूच आसलें. त्या गळ्या मेरेन मातयेंत बुडिल्ल्या माडांचो फुडार कितें हो प्रस्न आसलो. तांतुतल्या कांय माडांचे सगले नाल्ल, आडसरां चोरांनी व्हेल्ली.कांय माडांचे कवाळेय कात्रून काडून भितल्लो गोड गोरोब लेगीत ताणी खाल्लो. ती सगली याद जावन काकाची तकली उसळपाक लागली.

परिस्तिती बदलत वताली. हे मायनचें रिजेक्शन खंय उडोवपें हो एक प्रस्न जावपाक लागिल्लो. तीन वटांनी फॉरेस्ट आनी एके वटेन भाटां आनी गाळी आसल्यो. ट्रक वतात तितले मेरेनची आशिकुशीची फॉरेस्टाची जमीनूय रिजेक्शनान व्यापिल्ली. फॉरेस्टान मायनीआड आपणाली कारवाय सुरू केल्ली.

खणीचें कवर(रिजेक्शन) दाळून दवरपाक आनिक जमनीची गरज आसली. दोन नव्यो धडी उक्त्यो करपाचे काम चलिल्लें आनी पंचविस मेत्रां परस चड कवर काडल्या उपरांत सकयल हायग्रेड म्हाल मेळटलो ही गजाल ड्रील मारून केल्ले तपासणेतल्यान उक्ती जाल्ली. ट्रकांनी कवर व्हरून रकोवपाक लागीं लागसराक जी मेकळी सुवात आसली ती म्हळ्यार दोंगोर आनी काकाल्या भाटा मदली सुमार

धा-पंद्रा मेत्रां रुंदाय आनी शें देडशें मेत्रां लांबाय आसलेली जमनीची शीर. थंय कवर व्हरून उडोवन चाळिशेक माड बेलाशक पुरोवन उडोवपाची मस्ती कोणे केली हें काकाक कळपाकूच जाय आसलें...

काकान हांतांतलो खोंटलो,गेळीची कांट्याबडी कुशीन दवरली. ताणे कमरा कडेन खवळून बांदिल्लो वालो सकयल सोडून सारको केलो. तकलेक बांदिल्लो वालो सोडोवन खांदार घेतलो. खळ्यांत आसलेल्या ताम्रेतीचेर वालो फापडीत ताणे बळयां हांसत म्हटलें, 'येयात,आयज सकाळीं फुडें खंय तर गरिबागेर स्वारी?'

'येंवचेंच पडलें. काल तुमी येवन गेले हे समजलें. हांव पणजे गेल्लो. तुमचो विशय हांवे भाटकाराच्या कानार घाला आनी ताणे कितेंतरी करतां म्हळां.'

'कितले दीस जाले हांवे तुमकां सांगून, वेगोवेग हांवे पणजे आफिसांत पत्र बरयलें. म्हयनो जावन गेलो न्हय? तुमी वगी रावपाचे तुमचेर असो प्रसंग आयल्यार?'

ताचेर गावणेकार कांयच उलोवंक ना.

'व्हडल्या भाटकारान पणजेच्यान तुमकां रकाद दिला, पळोवया म्हळां.' अघळ-पघळ हांसत मॅनेजरान परती उलोवपाक सुरवात केली. काजी, वांयगण, आंबे ह्या पिकावळींचेर तो पावलो. काका हय, हां-हूं करीत म्हेडीक तेंकून उबो. म्हणसर काकीन एका पितुळच्या पेल्यांतल्यान च्या हाडून मॅनेजराच्या हातांत दिली.

'तुमी घेणार?' तिणे घोवाक विचाल्लें ताचेर मानेनूच ताणे नाका अशी जाप दिली आनी तो म्हेडीक तेंकून उजवें पावल दाव्या धोंपरार धरून उबो रावलो. च्या पितां पितां मॅनेजर खळ्यांत सुकत घातिल्ल्या सुकवणाचेर, मातयेच्या सोप्याक तेंकून दवरिल्ल्या पोटल्यांचेर नदर मारतालो.

'पोटल्यो कसल्यो,सुपारेच्यो?'

'ना ना, भात तें, सुकोवन गिरणीर व्हरपाचें.' पडवेंतल्यान काकीन सांगलें.

'कशें व्हरतात तर, खंय व्हरतात?'

'आमकां फोण्या बाजार. गिरणूय थंयूच. आतां खणींच्या ट्रकांक लागून इल्लो आवसूल जाला. बैलांगाड्यान दोन दीस लागताले, आतां सकाळीं पोटल्यो ट्रकार चडयल्यार सांज मेरेन तांदूळ, कुंड्याच्यो पोटल्यो घरांत पावतात.' काकीन म्हायती दिली. काकान काकीकडेन तिरकी नदर मारली आनी म्हटलें,

'बरें, तें आसूं, म्हाका काजींनी वचपाचें आसा. हांव स्पश्ट उलयतां हां. गावणेकार बाब, म्हाका सांगात, तुमी मॅनेजर, तुमकां खबर ना तुमचे ड्रायव्हर कवर व्हरून खंय उडयतात ते?, कोणाल्या जमनीत उडयतात तें?.. तुमचे सांगणे बगर हें जालें'

'तें कितें आस, हांव जातां एकलो. सुरवातीक तशी हांवे थंय पासय मारून आइल्लोंच व्हो. पुण म्हण्टां म्हण्टां पंदरा दीस गेले आनी..मजगतीं तुमचे विशेक माड..'

'विशेक? मेज्जून चाळीस माड पुरयल्यात माती आनी फातरांच्या राशी पोंदा. देडशें माडांच्या भाटांतले चाळिस माड!! दोंगरा वटेनची ती मेकळी सुवात पुरोवन तुमी कवर रकयत रकयत धा-बारा मेत्रां भाटांत पावल्यात आनी थोडे माड जाल्यार सामके कवाळ्या मेरेन पुरवल्यात.'

'हय व्हो, धायेक माड खाकोळा मेरेनशे न्हय, पुण चडूच पुरवल्यात. बाकीच्या माडांक तितलीशी भर पडूंक ना, ताका लागून त्या माडांक नाल्लांचो उतार उणो मेळचोना, घडये ते भरीक लागून ते बरे वाडतूय.. सांगू येता?'

'कितें सांगतात तुमी मॅनेजर? माड जांव ना जाल्यार खंयचेंय झाड जांव, ताका भर म्हण्टात ती मुनातूच पडपाक जाय.' जंय तिची गरज आसता. तुमी पांपाच, धा मेत्रां उंचाये मेरेन माड पुरयल्यात आनी ताका तुमी भर म्हण्टात? जी तुमी टिपर ट्रकांत शेवेलांनी भरून भाटांत व्हरून रकयल्या ती कितें भर तर? तिका भर म्हण्टात? ते आसात व्हडले व्हडले गुंडे, तळपां आनी भितर इल्लीशी माती. तें तें सगलें मीन आयज ना फाल्यां पिकपाचें.. तुमकां दिसता ते माड जगतले? आनी जे कवाळ्या मेरेन पुरयल्यात तांची आतांच अवस्ता कशी जाल्या सांगू? तांचे नाल्ल आडसरां, बोंडे सगलेंच चोरांनी व्हेलां. थोड्या माडांचे कवाळे पिसुडल्यात आनी भितल्लो गोरोब ताणी खावन उडयला. ते माड मरतले हें कितें त्या चोरांक खबर ना? हेच मातयेंत किल्लले आनी झाडा-पेडांच्या सावळेंत वाडलेले लोक इतले नादान, इतले मुड्डार केन्ना जाले? तांच्याच पोटार सामकीच फाळी कशी पडली? कवाळ्यांतलो गोरोब कोंचून खावचे परस शेण-माती खावची आसली..उलयतां उलयतां काकाचो आवाज वाडलो. काकी परती भायर येवन मदल्या दरवट्या फाटल्यान उबी रावली आनी तिणे चिंतेस्त सुरांत म्हळें,

'आइकलें हो..'

'शांत जायात काका. आतां काळूच बदल्ला.'गावणेकारान दोनूय बचकुलां पसरून तीं जमनीवटेन चेपिल्ले भयर हालयलीं. जशेपरी तो काकालो राग हातांनी दामून उणो करतालो.

'काळ बदल्लो? काळ बदल्लो?माडाक कवाळ्या मेरेन फातरांची भर घालप हें बदल्लेल्या काळान केलां?'

'बरें,म्हाका उर्जेंत वचपाक जाय, जाय जाल्यार वचून मेळात तुमी व्हडल्या भाटकाराक, हांव म्हज्या हातीन जाता तितलें करतलोंच, येतां हांव..' म्हणत मॅनेजर उठलो.

'ना, तशें कांय ना, हांव म्हण्टां, आनिक

थोडे दीस रावात चार-पांच कडेन खणी आसात भाटकाराच्यो, व्याप मोठो,कळाव जांव येता. येतां हांव..' म्हणत तो उठलो.

'च्या फोर्त जाल्या हा!' काकीचेर नदर मारीत मॅनेजरान म्हटलें.

'घरचे म्हशीच्या दुदाची ती.' काकीन सांगलें. काकान खोंटलो उखलून काजींची वाट धरली. ताचे चालींत भरिल्ली तिडक पळोवन काकीन म्हटलें,

'जरा सांभाळूनच, काजींच्या मुळांतल्या पत्र्यावर निसरशाल, म्हणून म्हणत्ये.'

कांयच उलयनासतना काका तिडकीन चलत रावलो. आयचो दीस सांबाळून व्हरगे सायबिणी तुळशीक नमस्कार करीत काकीन पोल्यांक बोटां लायलीं.

आनीक आठ दीस काकान वाट पळयली. ताका चुकूनूच कोणाचें तरी कार्ड येतालें. गावांत फुडें एक तिठोकसो तयार जावपाक लागिल्ल्यान पोस्टान नेमिल्लो एक मनीस थंयच पत्रां कोणाकोणाच्या हातांत दीवन गांवागांवानी पावयतालो. काकाची पत्रां गांवचो एक ट्रक ड्रायव्हर ताका हाडून दितालो. सद्दां सांजवेळार काका पत्राची वाट पळयतालो.सेगीत आठ दीस गेले पत्र ना.

सांजवेळार गांवचो आदलो रेजिदोर मर्तेबाब चलयेच्या लग्नाची होवळीक घेवन ज्युस्तूच पावलो. काकान संद सादून ताचे कडेन भाटांत कवर घालां आनी आपणे बरयल्ले चिटीक जाप ना हें सांगलें. आपणे ते गजालीकडेन व्हडलेंशें लक्ष दींवक ना आतां गोंय स्वतंत्र जालां,पंचायत आयल्या, रेजिदोराक कोण खाता? अशें मर्तेबाबान म्हटलें. ती रात काकान तळमळत कशीतरी सारली. दुसरे दीस फातोडेर तो उठलो. काकी उठली तेन्ना ताचें म्हशींक सोडप, शेण भरप, न्हावप, पूजा सगलें जाल्लें. तिडकीन आंगाक उजो पेटिल्लो भाटकार सकाळींफुडे काकीन दिल्ली च्या घोटून आपूण पणजे वचून त्या भाटकाराक जाप विचारतांच म्हणपाक लागलो. म्हण्टा म्हणसर तो आंगार खोमीस लकोवन आंगावेल्या वाल्यानूच भायर सल्लो लेगीत.

'अहो, तुमी पंचा सोडून धोतर नेसलेच नाय..'

'मज कोण ओळखतो तिथे? पंचाकाय अणि काश्टी काय, नागडा बेताळकसा जात नाय मी, बोरें पुरे!!'

पयलीं तिस्का मेरेन ट्रक, मागीर फोण्या मेरेन कामिन्यांव आनी मागीर एक बस धरून काका धांक सुमार पणजे कुर्रयेकडेनूच बस स्टँड आसलो. बशींतल्यान देंवून ताणे एका गाडेकाराक कंपनीचें आफिस खंय आसा काय विचारलें. न्हयेंच्या सामकें देगेर तें हापिस आसा, सरळ उबो चलत वच आनी पांचूच मिन्टां चल्ल्या उपरांत कोणाकूय विचार, तुका तें ऑफिस मेळटल,अशें ताणे सांगले. काका त्या आफिसांत थंय पावलो तेन्ना धा जावन गेल्लीं. दारार बसलेल्या एक मोडव्या कलसांवातल्या मनशात काकाक विचाल्लें,

'तुमकां आफिसांत कोणाक मेळपाक जाय काय भाटकारूच जाय तुमकां?'

'म्हाका व्हडल्या भाटकाराकूच मेळपाक जाय.'

'बरें आसा, बसात थंय बांकार. भाटकार येवपाचो जाला. साडे-धांक सुमार तो येता.'

खरेंच सारक्को साडेधांक भाटकार पावलो आनी ताणे काकाक येयात भितर म्हणलें. एकल्यान ताचो व्हडलो रूम उगडलो. भाटकारा फाटल्यान काका भितर गेलो आनी थंयचो तो लिंप हारशांतल्यान दिसपी मांडवी न्हयेंचो वाठार पळयतूच उरलो.

'काका, बसात.' भाटकारान म्हटलें.

'आसूं, उबोच रावतां.'

'तशें कशें तर, बसात तुमी, हय, हे खुर्चेर बसात पळोवया, तांतूत परकेपण कांयच ना. फाटीं हात घालून ताणे बेल मारली आनी एकलो भितर आयले बराबर ताका च्या हाडपाक सांगली.'

'भाटकारा, हांव भायलें कांय खायना पियेना. तुमी घेयात च्या.'

भाटकारान च्या घेवन आइल्ल्या मनशाक पिकीं केळीं हाडपाक सांगलीं. तीं येतकत भाटकारान म्हटलें,

'आतां केळीं खायना अशें मात सांगू नाकात हां, पैशिल्ल्यान दोन तीन बशी बदलून हांगा पावल्यात तुमी.'

काकान एकूच केळें खालें आनी भाटकाराच्या आग्राक ताणे मात्तूय मान दींवक ना.

'उलोंव ? तूंय एक भाटकार, तसोच हांवूय.फ काकान अशी सुरवात केली. भाटकारान हयकारी मान हालोवन फुडें उलोवपाक खूण केली.'

'तूं व्हडलो भाटकार जाशीत.., हांव ल्हान. हांव एका भाटाचो जायन व्हो,पुण भाटकाराक सोबता तेंच करतां हांव.आनी तूं? म्हज्या माडांचें तुवें जें कितें केलां तें एका भाटकाराक कश्शेंच सोबना. विश्वास बसना जाल्यार येवन नदर मारून वच. पैसो, वकील, कायदो आनी राजाय तुमच्या सारक्या भाटकारांच्या मुठींत आसत गा. पुण तो वयलो भाटकार सगलें पळयत आसता, मोनेपणान.खरें मूं?'

भाटकारान मान हालयली आनी हय, चुकलें तें अशें म्हटले बराबर काकाक मात्सो नेट आयलो.

'चूक सुदारात, कवर काडात आनी तें दुसरेकडेन घालात,चाळीस माडांची हत्या थांबयात.'

'तें आता शक्य ना, तुमीच सांगात, तुमच्या गांवची तुमकां खबर आसा, खंय घालूं तें कवर? तुमचे कडेन मेकळो जागो आसा जाल्यार सांगात,आमी विकतो

घेतात, आनी तें कवर थंय हालयतात.'

काका कांयच उलोवंक ना. मदीं मात्शी शांतताय पातळ्ळी. मागीर भाटकार उलयलो.

'काका, तुमका लुसकानीची भरपाय दितां. तुमी थंयच्या आमच्या तीन इसूझू टिपरींतली एक घेवची. ती तुमच्या नावार करून दिवया. तुमका थंयच तो ट्रक खणीर लावन घेतां. ड्रायव्हर दवरात. तुमचो धंदो सुरू जातलो. जाय जाल्यार तुमच्यानी तो वाडोंव येता. आयकलां, तुमचो पूत आतां व्हड जाला. ताका तो वेवसाय जातलो, पळयात, विचार करात.'

'नाका, म्हाका ट्रकांचो धंदो नाका. म्हजेंय तुजे भसेनूच जातलें. हांव माड, भाट सगळें विसरतलों.तुवें म्हजें भाट पुरयलें ना, भाटकार जावन?'

भाटकार हांसलो. ताका काकाची, ताच्या स्पश्टपणाची मजा दिसली. बारिक वालो आनी हातकापें खोमिस घाल्लो तो उब्या नाकाचो काका ताका वेगळोच दिसलो. ताची ती तीख नदर आनी नदरेंतली तिडक भाटकार जाणूक शकतालो. ताची ती तिडक ताचे नदरेन गरजेचीच आसली आनी ताका ती सोबताय अशें भाटकाराक दिसलें मात्सो विचार करून ताणे म्हटलें,

'बरें आसा, तुमकां ट्रक नाका जाल्यार तुमकां हांव ४० माडांचे माडाक १०० कोंतान ४००० रुपया दितां. ही रक्कम आयच्या दराप्रमाण खूप चड आसा, पुण हरकत ना, तुमका पैशे फारिक करतां पुण तुमी घरच्यांचो विचार कितें आसा तें पळयात, आनी मागीर रकाद दियाद आमच्या मॅनेजराकडेन कितें ताचें नांव...'

'हांव सांगतां, गावणेकार तो.' काकान उमेदीन सांगलें.चार हजार ही रक्कम ल्हान नासली. भाटकारान घरा विचारपाची सुचोवणी करूंक नासली जाल्यार काका थंयचे थंय ह्यकार दीवन पैशे घेवूनूच वचपाचो. पुण आतां काळ बदल्ला हें काकाकूय समजुपाक लागलें. भाटकाराच्या म्हण्ण्याप्रमाण घरच्यांचो विचार घेवपाचें थरयलें आनी तो उठलो.

'बरें तर कळयात'

'कळयतां,बरें, येतां हांव.'

काकान भायले कपडे भायले भायर दवरून बांयचेर वचून न्हावन घेतलें आनी स्तोत्र म्हणत तो घरांत सरलो तेन्ना सांज जावपाक सुरवात जाल्ली. देवामुकार हात जोडून तो मात्सो उबो रावलो. पोटांत कावळे आड्डुताले. ताका जेवतना पळोवन काकीक समजलें की गजाल बरेपणाची आसा आनी तिकाय जिवाक थाकाय जाली.

'तूं जेवली नाय म?'

'मी तुमच्या आदी जेवते तर..'

'चल चल तर बैस जेवायस' अशें म्हणत ताणे तिका आग्रोच केलो निमाणी ती तिनूय तोप मुखार दवरून जेवपाक बसली. तेन्ना काकान सुरवात केली.

'बाबू कुठे तर?'

'तो काय मदल्या सालांत आड पडलाय.' म्हणसर बाबू उठून रानचे कुडींत आयलो

'काका,बरा झाला प्रवास,काम जालें?'

'होय.बऱ्यापैकी काम झाले..'

काकान तांका ती गजाल जेवणाउपरांत सांगली. ती गजाल घरा पावले बराबर बाबूचें, काकीचें तोंड फुललें. काकीच्या तोंडाकडेन पळयत बाबून हांसून कितें तरी खूण केली. काकीन खुणेन तें मागीर अशी खूण केली.

रातीं जेवणावेळार विशय परतो आयलो आनी काकाक इंडियन जालां, स्वतंत्र जालां म्हळ्यार हेंच काय कितें अशें दिसलें आनी खूपूच अजाप जालें. काकीक आनी बाबूक ट्रकाचो धंदो सुरु करपाचो आसलो. बाबू जाल्यार ल्हान भुरग्या सारको फुलिल्लो.

'ट्रक म्हटला की किती खर्च? डायव्हर आहे,किलिंडर आहे..'

'किलिंडराची गरज नसते,तें काम आपणच करायचें.'

'डायवरास पगार नको?'

बाबून वंठ हालयत काकीक विचाल्लें, तिणे मान हालोवन हय म्हटलें.

'काका, ट्रक मी चालिवणार.'

'तूं तूं, अठरा वर्शांचा मुलगा ट्रक चालिवणार? तुज तो शिकायस नको?तूज लायसन नको?'

'बाबूस आतां विसावें लागलें, लग्नाचो झालो हो, त्यास ट्रक चालवायस येतो.'

'आं, कुठे शिकला?'

'तो आमचा भागेली अंता आहे, त्याच्या बरोबर रोज निमाण्या ट्रिपीस जात होता बाबू. त्याच्या कडून शिकला.'

'म्हणजे तो पेटी शिकायस जात नव्हता तर?'

'काका, मी दोनय कामा करीत होतो. जाताना व सकाळी पयल्या ट्रीपीस परत येतानाय मी चालवीत होतो.'

'रात्री तूं आतेकडेच न्हात होतास की आणिक कुठे?'

'तिच्या कडेच.त्यानीच मज लायसन काडून दिलें. नेट्टान भितर वचून ताणे नवें करकरीत लायसन हाडून बापायच्या हातांत दिलें.' काकाचें तोंड तरतरांच्या विचारांनी भरून गेलें. ताका दिसलें, आतां कळलें हिडियन जालां, स्वतंत्र जालां म्हण्टात तें कितें तें.

●●●

# नाती - गोफ काय जटा - जळमटां?

- जयमाला ना. दणाईत



सर्वसामान्य धवाडी जीण जगपी मध्यमवर्गीय कुटुंब! आपा आनी माई सुखासमाधानान आपली जीण घालयतलीं. दोगुय पुतच जाल्यात म्हणून सगळीं तिजी तोखणाय करतालीं. दोगुय जावांक एक आनी दोगी चलयोच. मांय मावान, सोचऱ्या धायऱ्यांनी तर तांकां सामकें माथ्यार घेतिल्लें. दोगुय पुत बरे शिकले संवरले, नोकरेक लागले. बरे घराबे पळोवन वेळार दोगांचीं लग्नांय जालीं. अपुरबायेच्यो दोन सुनो घरांत आयल्यो. ताणीं चलयांची उणीव भरून काडली अशें माईक दिसतालें. ती तांची खूब अर्थ - अपुरबाय करताली. दोनुय पुत - सुनो तांकां माना वागयताली. सामकीं वयलेवयर करतालीं.

पुण जशीजशी गरिस्तकाय घरांत रिगूंक लागली - इझी मनी हातांत घोवूंक लागलो, तांचे रहाणीमान, जीवनशैली बदलूंक लागली. पुतांकीं भुरगीं आयलीं तशेंतशें तें घरय तांकां पावना जाले. धाकटो आय. टी. वालो - ताणें दुसरेकडे घर घेतलें. तेन्ना आपान आपल्याक तांकता तशी ताका आर्थिक मदतय केली. आतां घरांत व्हडल्या सुनेचें राज्य सुरु जालें. तिणें आपल्या इच्छेप्रमाण घराचें रंग - रूप बदलप सुरु केले. माई आपानय तिका कसलें आडमेळें हाडलें ना. नव्या रगताक वाव दिवपाक जष्ट्यांनी माशीं आपलीं मतां कुशीन सारूंक जाय हें तांकां बेसबरें समजतालें. धाकटी कांय तेप यो वच करताली. पुण तिजें येवप वचप केन्ना थारलें तें आपा माईक कयळें लेगीत ना. नायतरी पैलींसावन तिजो कुळारावटेन चड ओडो - थंय तिजेच आवय बापूय चड लागींचे जाले. कांय तेपानन कंपनीनच धाकट्याक फॉरेनाक धाडलो - तीं थंयचींच जावन गेलीं. हांचेकडलें नातें विसरूनशी गेलीं. आपा - माईन मायेचे कड भितरेभितर जिरयले.

व्हडलेन आपली नोकरी चालू आसासर, भुरग्यां ल्हान आसासर हांचो बरो लाव घेतलो. पुता सुनेक सकाळी उठून चपाती भाजेचो डबो हातांत दिवपाधरून माईन अपुरबायेन सगळें करचें. भुरग्यांले सगळें पळोवप, तांचे जेवणखाण, तांकां शाळेंत हाडप - व्हरप, तांचो होमवर्क घेवप, तांचे वेगवेगळे क्लास - आपल्या कुडीचे पैसे सारून, आपली हौस मौज कुशीन सारून माई - अप्पान तांचें सगळें केले. तेंवय आपखोषयेन. सून कामाक वता, येतगीच तिका त्रास नाका म्हणून रातचें जेवणय माईच सांबाळटाली. सूनय माई माई करून तिज्या फाटल्या फुडल्यान करताली, तिजेकडेन लाग मारताली. पुण मागीर तिने व्ही. आर. एस. घेतली आनी ती घरांतच उरूंक लागली. मागीर मात त्या दोगांय जाण्ट्यांची तिका आडखळ जांवक लागली. बेरेच पायांत पांय घुस्पलेवरी जांवक लागले. दोगुय भुरगींय आतां व्हड जाल्लीं. तांचें आपलें अशें वेगळें जग तयार जाल्लें.

इष्ट - इष्टीणी, हो क्लास, ते ट्यूशन - तीं आतां स्वतंत्र जांवक सोदतालीं. मोबायल, स्मार्ट फोन, वॉटसऍप, चॅटींग ही तांची प्रायोरीटी जावन गेल्ली. आजी आज्याखातीर तांचेकडेन वेळच नाशिल्लो. वेल्यान ताणीं कितेंय बऱ्याखातीर सांगप करप - चडवेळ जाग्रणां करून टी. व्ही. पळेनाका, दिसभर तो मोबायल कानाक लावप बरें न्हीं - अशें आनी तशें - तें तांकां मानवना जालें. त्या जाण्ट्यांपसून तीं पैसपैसच रांवक लागलीं. तीं माया करूंक लागीं आयल्यार तांका हाड्हुड् करूंक लागलीं.

सुनेची किटी पार्टी, महिला मंडळ, पिकनिको, शॉपिंग – हें आनी तें; वातावरण हळूहळू हाय – फाय जायत गेलें – तशें तशें घरचीं जाण्टेलीं तिका अडाणी दिसूंक लागली. आपल्या कार्यावळीनीं तांकां मेळोवन घेवप तिका जड जावंक लागलें. माई तर पयलीं पयलीं तिजी पार्टी बी आसतगीच वेगवेगळे नवे नवे जिन्नस करून तांकां खांवक घालताली, पुण तांची तुस्त तोखणाय जाल्ली सुनेक खपना जाली. आनी तांच्या पावभाजी, बर्गर, पिज्ञा, पास्ता हाजेमुखार तिज्यो पुनापोळ्यो, सांजो, नेवऱ्यो बी ओल्ड फॅशन्ड दिसूंक लागल्यो. तांचे सगळेंच फिशी कशें जाल्लें. पुताक आपल्या कामामुखार आपाकडेन उलोंवक करूंक पयलींभशेन वेळ मेळना जालो. आपाचीं तत्वां तांकां खपनासलीं. आपाप दोगांय तांचे जगापसून पैसावत गेलीं – कशीं कितें तांचें तांकांच कळ्ळेंना.

खरें तर आपा – माईक तांचें सहजीवन बेस बरें समजल्लें – घोव बायलेन मेळून जीणेक फुडे करून जियेवपाचें – आपणा बराबर हेर सगळ्या कुटुंबाक, समाजाक सामावन घेवन – सगळ्या प्रश्नांक तोंड दित जीणेंत वाट चलची आसता. तांकां दिशिल्लें शिपांतेदार झाडाचीं पानां गळटात, पुण वसंत ऋतु येनाफुडे परत चंवरतात. तशेंच हें. सुखाचेंय तशेंच आसा – पुण हो तांचो भ्रम जावन आसलो. तांच्याच घरांत तीं कोणशाक पडिल्लीं. भुरग्यांक वेगळी कुड जाय म्हणून तांची रूम काडून घेतिल्ली – गॅलरीक जाळी बसोवन रूमशी करून तांकां थंय धुकलून घाल्लें म्हणपाचें. माई बावडी आपल्याक जाता तशी सुनेक मदत करूंक वताली, पुण तिकाच खपनासलें.

मागीर आपानय माईक तांतल्यान भायर काडलें. सांजचीं तीं पासयेक वचूंक लागली – नाना – नानी पार्कांत वचूंक लागली. सुर्वेक तांकां खांकुडलेवरी जावचें, पुण काय दिसानी थंयच बरें दिसूंक लागलें. सगळे सिनियर सिटीझन्स – पासष्ट, सत्तरीचे दादले बायलो जमतालीं थंय! बरोबरचीं मनशां मेळटगीच तांकांय बरें दिसूंक लागलें. पासयपरी पासय जाताली सगळीं आपल्या सुखदुःखाच्यो खबरी सांगतालीं – आपापलें सुख – दुःख वांटून घेतालीं. कोणालो वाढदिस साजरो जातालो, कोणाली सत्तरी, पंचात्तरी मनयतालीं. माई – आपाचो वेळ बरो वचूंक लागलो. पुता सुनेक मात्शें मेकळेपण मेळचें म्हणून तीं पार्कांत बरोच वेळ बसून रावतालीं. पुण वेळ फुडें फुडें वतालो तशी माईक घरा वचचेली उमळशीक लागताली. रातचे जेवणाची गडबड आसताली. माईक सुनेक मदत करची आसताली, पुण मागीर सुनेनय जाणोवन दिलें – 'माईन रांदचेकुडींत कितेंच करची गरज ना म्हणून. हांव आतां सगळें मॅनेज करतां. बेटेंच मदींमदीं करपाचें बंद कर. खंय कितेंय लागत करत म्हणून भंय. एक करतना दुसरेंच कांय जांवक नाका – रांदचेकुड पयलींच ल्हान आसा. आनी हालीसांराक तुमकां याद उरना सारकी. गॅस बी चालू उरता. केन्ना स्फोट जायत सांगूं नज.' – माईक खूब वायट दिसलें. सुनेचीं उतरां तिज्या मनाक लागलीं. 'कुडींत बसून देव देव कर खंय. आतांमेरेन हांवच तर सगळें करून हांच्या हातांत दितालें – आतां कितेंय सांगची करचीलेगीत चोरी जाली.' सगळें सगळें शेणील्ले – सोंपील्लेवरी तीं संदचेकुडींतल्यान भायर सरून गेली. आपानय तिजी समजूत घाली.

'आसूं, करता मूं ती सगळें. करूंदी तिका. नायतरी आतां वय जालां तुजें. आरामाचीच गरज आसा. पिरायेप्रमाण आमी बदलूंक जाय आतां.' तिने सगळें मोन्यानी आयकून घेतलें. पुण हें सगळें जाता आपल्या पायांपोंदचें पाटाकळकूट केन्ना काडून घेतलें हें तांकां समजलें लेगीत ना. चल्याच्या रूपान एक तरी धागो हातांत आसा अशें तांकां दिसतालें – पुण तोवय भासच थारलो. हालीं हालीं ताजो तांचेकडलो संवादच सोंपील्लेवरी जाल्लो. नातरां तर व्हड जातां जातां सामकींच पैसाविल्ली. तांचें विश्वच वेगळें जाल्लें.

जाण्टे पिरायेन तांची फाट भरताली, कमर सणकताले. त्या दिसा हात पांय मुयेतात म्हणून फिशवी घेवन सेकपी आप्पाक 'आपा, कितें जाता तुका?' असो साधो प्रश्नय विचारून दिसलो ना कोणाक. एकमेकांक दोगांय आसली तरी एकेतरेची एकलेपणाची – पोरके जाल्ल्याची भावना मनांत दाटून आयील्ली. बरें ह्या सगळ्याची सुरवातय तांकां कळनास्तनाच जाल्ली. आपापसांतलो संवादय सोपून गेल्लो. नळांतल्यान थेंबाथेंबान उदक गळत रावचें आनी अकस्मात आख्खी टाकी रिकामी जावची – नाकळटां – तशेंशें कितें घडील्लें तांच्या जीणेंत – आनी आपुण त्या थेंबाक तरतां अशें दिसतालें तांकां. सुर्वेक लक्षांत आयलें तेन्ना त्या दोगांनीय हातांत आशिल्लो निसटून वचपी दोर घट्ट धरून दवरयेलो आकांतून येत्न केलो. पुण सगळें व्यर्थ. आपल्याक कितेंय जाता तें तांकां सांगयेलो ती यत्न करतालीं, तांचीय कितेंय खबर विचारतालीं. पुण तांकां जाप मेयळी ना. उलोवपच थांबलें. तांचें जग वेगळें – आपले वेगळें हें जाणवलें तांच्या मनाक. ह्या जाण्ट्या

अडगळीक तांच्या विश्वांत जागो नासलो. आनी तेन्ना तांकां आपलें परकेपण खरपणान जाणवलें.

काय प्रश्नाक जापय नासता. कांय गणितां सुटून सुटनात. ज्या माई-अप्पाक विचारलेबगर घरांत कुस्कूटाचें काम जायनासलें - तांकाय आज अशें तांदळांतलो फातोर कसो मोखून पैस शेंवटील्लें.

घरांत कसलोय साधो दांव महत्वाचो प्रसंग आसलो तरी त्या दोगांक मात कांय एक खबर नासताली. मागीर ती साधी पूजा करची आसूं, नातवाची मूज आसूं वा कसलेंय दुखणें आसूं - तांकां कोणच एका उतरान विचारनासलो - कळयनासलो. कांय वेळार तर दुसऱ्यांकडल्यान भायल्यान तांकां समजतालें. मागीर मात तांका सामके चोर चोरशें जातालें. आपल्याच घरांतली खबर आपल्याक दुसऱ्याकडल्यान कळप ह्यासारके दुर्भाग्य ना. तेन्ना मात तांकां सामकें उक्ते पडलेवरी जांवचें - आपुण तांचेपसत कायंच करीना - तांचे आपणाक कांय पडिल्लेंच ना, परेत आपलो तांका फक्त त्रासच जाता, मनस्ताप जाता हें दाखोवचेपसत तर ही सगळी खटपट ना मूं असें दिसतालें तांकां. मदीं सुनेक मॅनोपॉजचो त्रास जालो, खूब ब्लिडिंग जातालें - पुण ताणीं ते माईक कळूंक लेगीन दिलें ना. तिज्या आवयक आफोवन हाडलें - तिजें ऑपरेशन ठरलें तेन्ना बोवाळ जालो म्हणून रांकां समजलें.

आतांय म्हणून फुडल्या म्हयन्यांत तांची लग्नाची पन्नाशी आयिल्ली. त्या दोगांनीय आपल्या बरोबरच्या वांगडां ती मनोवपाचें थारायिल्लें. नाना नी पार्कांत साधीशी पार्टी दिवन - केक कापून तांकां ती सेलेब्रेट करची आसली. पुण दोगुय पुतांनी भायलेभायर सगळो बेत करून थाटामाटान ती हॉलांत करपाची थारायली - सगळ्या आप्तेष्टांक आपणाल्या फ्रेंड सर्कलाक आफोवन! हांकां बावड्यांक नातच ना, कसली सुल्लुस लागूंक दिलीनां - 'सरप्रायज' म्हणून. सगळो हो शो - बिझीनेस! आनी कांय न्हीं - ह्यांच्या मनांत आयलें. पुण बावडीं एक उतर काडीनास्तना 'बों फिशाद' ओगीच रावलीं.

ऐनवेळार तांकां नवी साडी - कपडे दिवन तयार रांवक सांगलें. तांकां अजाप जालें, तरी मन खंयतरी सुखावलें. पुण पुत आनी सुनो आपलोच बडेजाव - मोठेपणा दाखोवपाखातीर हे करतात हे तीं दोगांय मनातल्यान जाणां जाल्लीं. तांकां धाकट्यान गाडयेंत घालून हॉलांत हाडलीं. हॉल फुल भरिल्लो. दोगांकय हाताक धरून सुनांनी पुतांनी सव्यार व्हरून बसयलीं तितलींच. मागीर तीं तांच्या म्हऱ्यांत लेगीत आयलीं नात. हॉलभर मिरयत रावलीं. लोकांनी तांची गायिल्ली आरती, स्तुतीसुमनां झेलत रावलीं. सगळे तांचेंच कवतुक करताले. 'हालीच्या काळात जाण्टे लोक कोणाक घरांत नाका आसतात. तांची उस्तवारी कोणाक करूंक जायना. चडशे जाणांची रवागी वृद्धाश्रमांनी जाता. आनी अशा काळांत हे लोक आपल्या आवय बापायची अशी अर्थअपुरबाय करतात. धाकटो तर मुद्दम इतलो देसपेस करून यादीन हो दिस मनोंवक हांगां आयलो. इतलो खर्च करून दोगांनीय हो दिस सगळ्यांक आफोव मयला. रिटर्न गिफ्ट म्हणून ही रुप्या निरंजनाजोडी सगळ्यांक दिल्या. जेवण तर विचारूं नाका - व्हेज - नॉनवेज - ड्रिंक्स! लाखांनी खर्च केलो. मानलें तुमकां' करून तोण भरून स्तुती करताले. पुण एक गजाल मात माई - अप्पाच्या मनाक खाताली. तांच्या इष्ट - इष्टीणीपैकीं एकल्याकय आंवतन नासलें. तांकां आफोवचो विषय काडल्यास सगळ्यांनी एका सुरान न्हयकार दिलो. 'तांका जाय जाल्यार फाल्यांबी वडा पावाची पार्टी तुमच्या पार्कांत दियात' म्हणून सांगले. मनांतल्या मनांत घुस्मट तीं ओगीच रावलीं.

मुख्य बाब म्हणजे तांच्याच लग्नाच्या वाढदिसाक तांकांच उपास घडिल्लो. हीं सव्यार बाबडीं येतल्या वेतल्यांक हात दित बशिल्लीं. तांच्या दोळ्याहुजीर ओली पार्टी चलताली. दोगांकय मनापसून ती नाका आसली - पुण तांचे कोण आयकतलो हे आनी तांकां कोणेंच जेवणा खाणाविशीं विचारलेंना वा एक डिश भरूनय तांच्या हातांत दिंवक ना. आनी हॉल सोडपाच्या वेळार ताकतिकेन तांका उठोवन हॉलाभायर गाडयेंत बसोवत घरा धाडील्लें. माई पुताक सांगपाक वताली, पुण कोणच आकुपाच्या मनस्थितींत नासलो. आप्पानय माईक ओगी रावपाची कुस केली. एक तर बसून बसून दगांचीय फाट कमर गेल्ली. नवे कपडे घाल्ले तांचे बोंगे जाल्ले. घरा वचून केन्ना एकदां तो साज काडून कपडे बदलून हातरूणार घालून घेतां अशें जाल्लें. पुत सुनो हॉलांत बसून व्हडाव्हडान जाल्ल्या प्रसंगाचेर, खर्चाचेर लोकांच्या रिॲक्शनाचेर तावातावान उलयताले. जाण्टेल्यांक थोडें दुध तरी हुन करून दिंवचें हाजे भान तांका नासले. तांगेली मनां - पोटां गच्च भरून गेल्ली. आनी माई अप्पा रिकाम्या पोटार आडवी पडून तांच्या प्राक्तनाविशीं येवजीत रावील्लीं - ज्या नात्यांचे गोफ विणूंक जाय आसले त्या नात्याची जटा - जळमटां जाल्लीं तांचे नदरेमुखार घुंवताली.

●●●

# एकवटीत विचारत्रयी

(पान ९ वयल्यान)
नेमले. दो सेल्सा पिंटो, दो हरिश्चंद्र नागवेकर हांणी त्या काळाचो अभ्यास केला.

हे दडपशायेक लागून गोंयची मिठाच्या निर्गतीचेर निंबून आशिल्ली अर्थवेवस्था पांगळी जाली. कवलात जावचेपयली वट्ट सात तालुक्यातल्या ३७ गांवांनी ऐस-पयस मिठागरा आशिल्ली. कवलात जातकीच एकेक आगर बंद पडले. केळशि, द्रामाचूर, करणे, चिंचोणे, वेळ्ळी, वारके, हडफडे... धडाधड एकेक गांव उध्वस्त जाले. पोर्तुगीज भियेवन पळेत रावले.

ब्रिटीशांनी गोंयचो मीठ-उद्येग सोपोवपाक केल्ल्या कारस्तानांची माहिती महात्माजींक आशिल्ल्यान हेच मॉडेल उर्वती हिंदुस्थानांत वापरल्यान किते जातले हाजी कल्पना तांका आयली. भारताच्या इतिहासांत बंदुकीची एक गुळी झाड नासतना, तलवार चलयनास्तना ब्रिटिशांनी गोंयाची पीळवणूक केल्याचे हे उदाहरण आसा. पूण गोंयच्या दूर्दशेपासून शिकून १९३० च्या दांडीयात्रेक गांधीजी तयार जाले.

इतिहासाचे अभ्यासक गांधीजींक हीवूय कल्पना आसली की गोंय आनी सौराष्ट्राचे संबंद महाभारताकालासावनचे. अनहीलवाड घराण्याची सून गोंयच्या कदंबांची धूव. दरवर्सा दबाज्यान तारवांचे तांडे घेवन कदंब राजघराणे सोरटी सोमनाथाच्या दर्शनाक वताले. इतलेच न्हय. मुचुकुंदी/मुरकुंडी आयज सांत लॉरेन्स इगर्ज आसा, त्या सुवातेर आगशे ताणी सोमनाथाचे गडगंज देवूळय बांदील्ले.

खंयतरी काळजांत गोंय दवरूनच गांधीजी काकासायब कालेलकार, बाकीबाब बोरकार, राम मनोहर लोहीय, रवींद्र केळेकार हांचेकडेन उलयतालो. पूण तांचो सभावूच आशिल्लो-वन थिंग एट ए टायम. पयली हिंदुस्थानचे स्वातंत्र्य मागीर पोर्तुगेज, फ्रेंचांचे पळोवया असे तांचे नेमस्त धोरण आशिल्ले. ताजेवयल्यान राममनोहर लोहीयांकडे तांचे मतभेदूय जाल्ले.

बॅरीस्टर मोहनदास लंडनाक आशिल्ले तेन्ना जायते गोंयकार थंय आशिल्ले. मुंबयतय तांका गोंयकार दिसताले, मेळताले. केनिया, अंगोला, मोझांबिक, गिनी बिसांव, दाहोमे हांगासल्या गोंयकारांची माहितीय तांका आशिल्ली.

गोंयकार तांका तारवांचेरूय मेळटाले. हाकालागूनच घडये बाकीबाब बोरकारांक मेळटकूच गोंयच्या प्रस्नाचो सुटावो करपाक ताणी एक विचित्र उपाय सुचयलो. अशे ना कशेय गोंयकार गोंय सोडटात मागीर गांधीजींक दिसले पाच-स लाख थळाव्या गोंयकारांनी गोंय ते मुंबय, जांव बेळगांव/कारवार 'हिजरत' केल्यार कशे जातले?

असली जगावेगळी कल्पना तांच्या तकलेंत आयलीच कशी? म्हणजे पोर्तुगेजांक अहिंसेचो धडो दिवप? हुकुमशहा सालाझारच्या पुर्तुगेजांक? आनिक गोंय रिकामे जातकीच पश्चाताप जावन पोर्तुगेज लिस्बनाक वचपाचे?

निमाणे बाकीबाबूच न्हय गोंयच्या खंयच्याच फुडाऱ्याक ही 'हिजरत' पसंत पडूंक ना. ३० जानेर १९४८क महात्मा गांधीजींची हत्या जाली. ताजेउपरांत जवाहरलाल नेहरुन पोर्तुगीज वसाहतींचो प्रस्न चड गांभीर्यान घेवंक ना. पुण भारतीय अर्थवेवस्थेक मुरगांव बंदराचो आनिक मिनाच्या खणींचो आकांताचो फायदो जातलो अशे तांका कळले तेन्ना तांणी सैन्य धाडले. १९६४ वरसा भारत सरकारान टेक्नोइकॉनॉमीक सर्वेक्षण उजवाडायले तांतूत म्हळा अख्ख्या भारतात मुरगांव बंदर मिनाच्या निर्गतेत पयले, तशेच गोंयूय मीन उत्पादनांत पयले.

म्हण्टकीच १५० व्या गांधी जयंती निमतान आमका पुराय काळांतल्या १७८७ ते १९६१) घडणुकांचो आनिक व्यक्तीमत्वांचो एक व्हड आंतरराष्ट्रीय कॅनव्हासाचेर हाडून विचार करचो पडटलो. महात्मीजींनी फ्रेंच, पोर्तुगेजांक 'चले जाव' कित्याक म्हणूक ना? म्हाका तरी दिसता खंयतरी पोर्तुगेज आनिक फ्रेंचा बद्दल तांका सहानुभुती आशिल्ली. पोर्तुगेजांनी देहदंड माफ केल्लो म्हणूनय ते खोशी आशिल्ले. १९४२ त ताणी सगळ्याच विदेशी वसाहतकारांक भारत सोडपाक सांगिल्ले जाल्यार गोयांक घटनापरिशदेत स्थान मेळपाचे आनिक दो. आंबेडकराच्या वांगडा दो त्रिश्तांव कुंज्य, रवींद्र केळेकार, बाकीबाब बी घटना समितीचेर खात्रेन पावपाचे.

पुण दो मनोहरराय सरदेसायांनी म्हाका दिल्या शिटकावणेची याद जाता 'नंदकुमार, इतिहासाक प्रस्न विचारपाचे नासतात.' देखून हांगा थारता. इतले पुरो.

●●●

(पान १४ वयल्यान)

आमी इश्ट. केन्नाय सांगातान पिउया. पयशेय वाटावतात आनी स्वताचेर ताबोय उरता.' हांव आयज मेरेन केन्नाच मर्यादे भायर वचूंक ना, हाचे श्रेय त्या उतरांक वता.

संवसारीक नामनेचो कथाकार लक्ष्मणराव सरदेसाय म्हजो आजो. त्या काळांतलो सगळ्यांत चड मानधन घेवपी मराठी कथाकार. पूण संवसारीक जापसालदारके विशीं मात्र निरुत्साही. ताका लागून आपल्या स भावंडांची जबाबदारी बाबाक थोड्या प्रमाणांत घेवची पडली. ताणेंय कसलीच कसर दवरी नासताना ती निभयली. एकदां खंय बाबाचो धाकलो भाव आपले आवयक विचारपाक लागलो, 'आई, आमी भाईकूच बाबा करुया?'

तशें बाबाकूय वेव्हारांत व्हडलेंशें स्वारस्य नाशिल्लें. पूण एक बापूय म्हूण ताणें आमकां-भुरग्यांक कांयच उणें करूंक ना. हांव सात वर्सांचो आसतना बाबान आपले भयणीच्या लग्ना खातीर आमकां सगळ्यांक मुंबय विमानान व्हेलीं आनी बोटीन परत हाडलीं. आमी मडगावां रावतालीं तेन्ना दर शेनवारा तो आमकां घेवन कोलव्या दर्यादेगेर वतालो. आयतारा खंय तरी पयस सहलीक वचपाचे बेत आखतालो. सामकी फ्रॅन्च लोकांची पद्धत. सांगाताक खाणजेवणूय फ्रॅन्च पद्धतीचें. म्हणजे उकडिल्ले बटाट, चीज, अळमी बी घेवप...

अस्तमतेकडले प्रागतिक विचार बाबान आपल्या व्यक्तीमत्वांत केळयिल्ले. ताका इश्टूय तशेच मेळ्ळे. गोंयांत तो आसतानाय आमचें घर गजबजिल्लें आसतालें. सकाळी घराचें दार उगडटालें तें राती कडेनूच बंद जातालें. मनशां येत आसतालीं. ते सवकळींन आमचेरूय कोंकणीचे संस्कार जाले.

बाबाच्यो वळखी ताण. पूण इश्ट मोजकेच. रविन्द्रबाब केळेकारांकडेन ताचे बरें जमतालें. तांचे जोड्येक लोक 'गद्य- पद्य' म्हणटाले.

# बाबा

रविंद्रबाब गद्यांत बरयताले तर बाबा पद्यांत, म्हूण हें नांव. बाबा ८-१० वर्सांचो आसतना पसूनची तांची इश्टागत. तेन्ना लक्ष्मणराव- म्हजो आजो, फोंडेच्या आल्मेदा हायस्कुलांत प्रिन्सिपल आशिल्लो. बाबाची तेन्नाची एक याद आजी सांगताली. ती खंय बाळंत जावपाची आशिल्ली. तेन्ना बाळंतपण आयचे वरी भंया विरयत नासतालें. बाळंतीण सोंपपाचो संभव असतालो. एक दीस खंय बाबा शाळेंत वता आसताना ताका कोणें तरी हटकिलो आनी सांगलें, 'आरे, तुजी आवय मरता, तूं शाळेंत वचूंक नाका.' दुसरे यत्तेंत शिकतल्या बाबान जाप दिली, 'बाटली फुटल्यार परत मेळटा? शाळेंत वचना जाल्यार लोक रेडो म्हणटले.'

घरा व्हड व्हड प्रतिभावंत येताले. द. रा बेंद्रे, यू. आर. अनंतमूती, अशे कितलेशेच जाण. ते बाबा कडेन उलयता आसतना हांव आसपास आसतालों. घरांत अशेंच शिकचें, अमुकूच शिकचें असो दबाव बाबान केन्नाच हाडलो ना. ताचो एकूच आग्रो आसतालो; हांवे वाचचें! ताचो पुस्तकांचो संग्रह खांपो आशिल्लो. तातुंतूय ताचें 'आर्ट कलेक्शन' तोखणायेचें.

फ्रान्सांतल्या वास्तव्यान बाबाक जे इश्ट मेळ्ळे तातूंत चित्रकार लक्ष्मण पै, चित्रकार रझा हांचो आसपाव आशिल्लो. काशीनाथ महाले, जांका आर्किटेक्चरांतले नोबेल प्रायझ मेळ्ळें ते बाळकृष्ण जोशीय तांचे घट इश्ट. म्हाका याद जाता, तांचो एक इश्ट उपरांत व्हिएतनाम देशाचो उपाध्यक्षूय जाल्लो. बाबा फ्रान्साक आसताना पार्ट टायम कामूय करतालो. अशींच ल्हान व्हड कामां. मेळटा तातुंतले थोडे पयशे गोयांत धाडटालो.

१९७०च्या फाटलो- फुडलो काळ हो साहित्यिकांचो म्हणल्यार समा जातलें. ह्या काळान साहित्यिकांची व्हडवीक अणभवली. कसल्याय सांस्कृतिक सुवाळ्यांक बरोवप्यांक मानाचे सोयरे म्हूण मुजरत आपयताले. राजकारणी वा सरकारी अधिकाऱ्यांक तेन्ना आयचे भशेन म्होंव लागूंक नाशिल्लें. बाबाच्या सांगातान आमीं सगळीं विद्यालयांच्या वर्सुकी दिसांच्या सुवाळ्यांक वतालीं. कांय विद्यालयांनी तर दोन दोन फावटीं गेल्लयाची याद आसा. बाबा सारखो वक्तो तांका फुके सवाय म्हणटा तसो मेळटालो. गाडी धाडली, व्हेलो. सांगातान माई, हांव, उमेश आनी माया वताले. तेन्ना आयचे वरी मनरिझवणेची साधनां नाशिल्लीं, उलोवपी खडेगांठ आसल्यार आयकुप्यांची गर्दी लोट्टाली. बाबाचें उलोवप आयकतना लोक देड- दोन वरां खिळायिल्लेवरी उबे राविल्ले पळयिल्लयाची याद म्हाका जाता. भाशण जातकच विद्यालयाचे शिक्षक, हेडमास्तर आमकां च्या पिवपाक घेवन वताले. तेन्ना मेजार मांडून दवरिल्लीं तरेतरेचीं खाणांय दोळ्यां मुखार येतात आनी जिबेक लाळ सुटता.

एकदां थंय पिटर उस्तिनोव्ह पावलो. इंग्लीश चित्रपट वेवसायांतलो हो म्हालगडो सर्क शीचेर चलचित्र काडटालो. तातूंत ताका भारतीय राजपुत्राची भूमिका करपाक मनीस जाय आशिल्लो. बाबान ती भूमिका केली. चित्रपटाचें नाव 'लोला मॉन्तेझ' चित्रकार रझानूय ह्या चित्रपटांत भूमिका केल्ली. बाबा 'प्रिन्स'च्या भेसांत आशिल्लयाचे एक स्कॅच तेन्ना रझान काडिल्लें. ते आयजूय म्हजे कडेन आसा.

बाबा शिघ्रकवी आशिल्लो. एकदां रेल्वेंतल्यान कांय साहित्यिकां बराबर तो मंगळुराक वतालो. कोंकणी विशीं उलयताले. थंयच व्हेलो परेरा आशिल्लो. तो फादो या गीतप्रकाराचो मोगी. हो खाशेलो पोर्तुगीज काव्यप्रकार. परेरान म्हळें, 'सगळें आसा

कोंकणींत, पूण फादो मात ना'. बाबाक तें उलवप लागलें. ताणें थंयच बशिल्ले कडेन कुशीचें सिगरेटीचें पाकीट घेतलें आनी कांय मिन्टां भितर एक फादो रचून उलयतल्याच्या मुखार दवरलो.

सादो, निरागस सभाव बाबाक लाबिल्लो. ताचो गैरफायदो घेवपीय खूब जाण आसताले. म्हाका याद जाता, कोणें तरी ताका दनपारच्या वेळार मेळूंक येता म्हूण सांगलें. तो हाचो न्हिदपाचो वेळ. पूण तो मनीस येतलो म्हूण हो तयार जावन बसलो. तो मात सांज जाली तरी आयलो ना. मागीर, चार पांच दिसानी ताचो परत रकाद आयलो, आयज दनपरां येता म्हूण. बाबान ताका हय म्हणचें न्हय असो आमचो-घरच्यांचो आग्रो. पूण बाबान आमचें आयकूंक ना. दनपरां तयार जावन ताची वाट पळयत बसलो. कोणा विशीं वायट, वाकडें अशें ताच्या मनांत केन्नाच आयिल्लें म्हजे तरी यादींत ना.

कोंकणीचे देवनागरी आनी रोमी अशे दोन फांटे जाताले तेन्ना बाबान सांगिल्लें, 'रोमीचे वटेन आशिल्ल्या जाणट्यांक आमी आमच्या सांगातान घेवपाक जाय. सांगड करपाचें गिन्यान आशिल्ले आमी गोंयकार. हो सांगड आमी करुया!' बाबाचें तें म्हणणें तेन्ना कोणेंच काना मनार घेवंक ना. मवाळ म्हूण ताचे कडेन दुर्लक्ष केलें.

जाल्लें गेल्लें विसरप आनी नवे नदरेन संसारा कडेन पळोवप हो बाबाचो सभावधर्म. विद्यापीठांत आसतनाय दोगा- तिगांनी ताका त्रास दिवपाचो यत्न केलो. पूण बाबान तांकाय माफ केलें. सूड हें उतर ताच्या कोशांत नाशिल्लेंच.

घरांत आमकां सुखूच सुख मेळ्ळें. म्हजे आवयचें कुळार दोतोरांचे, तिचो बापूय दोतोर, व्हडले दोगूय भाव दोतोर. तांचे सवकळेन तीय अर्दी दोतोर जाल्ली. दारार येववी नुस्तेंकान्नींक, भाजयेकान्नीक ती गुळयो दिताली. लोक तिका देवाक कसो

आता म्हजीं भुरगीं म्हज्या मनांक पटनात अश्यो गजाली करतकच हांव कांय खीण रावन म्हजे म्हाकाच विचारतां, हांवेंय अशें केल्लें जाल्यार बाबा कितें करतलो आशिल्लो काय? बाबाच्या तोंडांतल्यान केन्नाच वांकडें उत्तर आयकल्ल्याची याद म्हाका ना. कोणाक, भुरग्यांक लेगीत हिणसावपी ताचो सभाव न्हय. जशीं वर्सां वतात तशें दिसता, असो बापूय मेळप हें आमचें भाग्य.

मानतालें.

आमी मुळ सावय वेरेंचे. थंय केन्नाय वचप जातालें. बाबान स्वताय केन्ना देव देव करूंक ना आनी आमकांय केन्ना करूंक दिलें ना. तसो हांव धर्मद्वेश्टो न्हय, पूण देवा मुखार उबो रावन आरत म्हणपाक म्हाका कळना. बाबान धर्माचें अवडंबर केन्नाच आमचेर लागलें ना. म्हाका याद जाता, केन्ना तरीं म्हजे विशीं हुसको जाल्ले आवयक कोणें सांगलें, म्हजे करणी करून घाल्या. आवय थतरवितर जाली. तेन्ना बाबान तिका समजायतना म्हणलें, 'आमचो देव बेताळ म्हूण जाणा न्ही तूं? सगळ्या भूतांचो बापूय तो. ते खेंत्र दैवत फाटल्यान आसतकच कसलीच बाधा जायना.' बाबाचें तें उत्तर आयजूय म्हजो सांगात करता.

म्हजे आवयक खूप उलोवपाक जाय. बाबा बरयता आसतना तिका केन्ना केन्ना खबरांची कूय येताली. पूण तिका कशें थारावप हें बाबा ज्युस्त जाणा आशिल्लो. बरपांतल्यान तकली वयर काडी नासतना तो फकत हूं हूं करीत जाप दितालो. प्रस्न विचारलो जाल्यारूंय 'हूं'! आवयक कळपाचें तें कळटालें.

बाबाक मनीस जोडपाची कला अवगत आशिल्ली. ताका पत्रां बरोवपाक आवडटालीं. कोणेंय कितें तरीं बरें बरयलें जाल्यार ताका पत्र बरोवन तो ताची तुस्त करतालो. 'मोग परगटायलो जाल्यारूच तो दुसजयाक कळटा' हाचेर ताचो विस्वास आशिल्लो.




पयस गेलो जाल्यार तो आपली खुशाली आमकां पत्रां वरवीं कळयतालो. वतना सांगाताक कार्डां बोल्सांत घेवनूच वचक. पावले बराबर पयलें पत्र बरवप... 'हांव पावलों. तुमी कशीं आसात? बरीं करून रावात!' जायते फावटीं तो परत आयले उपरांत पोस्टांत घाल्लें ताचें पत्र आमगेर पावतालें.

भायर खंयूय भोंवडेक गेलो जाल्यार बाबा दरेकल्याची याद दवरून प्रत्येकाक कितें ना कितें हाडटालोच. पंचवीस तीस लोकां खातीर हाडिल्ल्यो भेटी ताचे बॅगेंत आसताल्यो. कोणाक खाण, कोणाक आनी कितें. दिवपाची दानत आशिल्ली, परत कितें मेळचें अशी अपेक्षा मात ताणें केन्नाच दवरूंक ना.

१०-१२ परकी भासो अवगत आशिल्ल्या बाबाक निवृत्त जालो तेन्ना आखातांतल्यान नोकरी चलून आयिल्ली. तेन्नाचो साठ हजार रुपयांचो पगार, रावपाक घर आनी हेर भत्ते. पोर्तुगालांतल्यानूय एक प्रस्ताव आयिल्लो. पूण हाका सर्ग सोडून दुध सागराच्या घसघशाक पळोवपाची उमळशीक. रावलो गोंयांतूच!

अस्तमतेच्या देशांनी ताणें कितलेशेच इश्ट जोडले. जर्मनींत हायडलबर्ग आसतना असोच एक पियानिस्ट ताचो इश्ट जालो. उपरांत बजयाच वर्सांनी तो गोयांत आयलो. फोर्ट आग्वादांत रावपाक आसतना ताका आपल्या गोंयकार इश्टाची याद जाली. नाव मात तोंडार येनाशिल्लें. पूण खंय खंयच्यान खबर काडून तो बाबाक येवन मेळ्ळो. ही इश्टागत म्हणजे बाबाक आपली खरी गिरेस्तकाय कशी दिसताली. तिचे मुखार पयसो ताणे तुच्छ मानलो.

●●●

# उज्याचें फुल

(पान १८ वयल्यान)
ताणें म्हजेर दिली. त्या वेळार तिची सविस्तर मुलखात हांवें घेतली. आपलें भुरगेपण बेळगांवांत सारतकच लग्ना उपरांत आपुण गोयांत आयलीं; महिला मंडळाच्या माध्यमांतल्यान काम करतना नावशी– काक्रा गांवच्या कश्टकरी समाजांतल्या बायलांकडेन आपली कशी इश्टागत जाली हांचेर तिणें उजवाड घालो. ही सगळीं बायलां मळे पिकवपी. मळ्यांत पिकता तो भाजीपालो आनी फळां पणजे विकून आपलो संवसार चलोवपी. तांकां विंगड विंगड सरकारी येवजणीचो लाव मम्मीन मेळोवन दिल्लो. देखून घोवांचीं वेसनां आनी कळोतराचेर रीण दिवपी गांवगुंडांच्यो धमक्यो हांकां विटील्लीं हीं बायलां स्वावलंबी जांवक पावलीं. पूण पणजे तांकां नगरपालिका आणि पुलिस त्रास दिताले. तांचो म्हाल जप्त करप, तांकां अटक करप अशे प्रकार सर्रास जातालें. मम्मीन तांकां संघटित करून बायलां फेरीवाल्यांखातीर वेगळो विभाग तयार करचो अशी नगरपालिकेकडेन मागणी केली; पूण तांचें म्हणणें कोणेच कानामनार घेतलें ना. निदर्शनां, मोर्चा, घेराव अशे उपाय करतकच नगरपालिकेचे अधिकारी जाग्यार आयले आणि ताणीं कांय वाठार बायलां फेरीवाल्यां खातीर राखीव दवरले. पणजेच्या म्युनिसिपल मार्केटांतूय ह्या बायलांक तिणें सुवात मेळोवन दिली. फ्रान्सिस ब्रांक उर्फ बाशिक हो तेन्ना पणजेचो महापौर. ताचो सगळेकडेन धाक आशिल्लो. ताचे विरुद्ध ५०० परस चड बायलांचो मोर्चा घेवन येवपाचें धाडस तिणें दाखयलें आनी प्रसार माध्यमांक तिची दखल घेवची पडली. श्रमांक प्रतिश्ठा मेळची हाचे खातीर केल्लूया तिच्या संघर्शाचें फळ म्हळ्यार हीं सगळीं बायलां फुडें आपल्या भुरग्यांक बरें शिक्षण दिवन उदरगतीक पावलीं. तांतल्या कांयजाणा वांगडा हांव धेम्पे कॉलेजींत एकाच बांकार बसून शिकलां. तांच्या मनांत आशिल्लो मम्मी विशींचो आदर संघर्शातल्यान निर्माण जाल्लो.

ओपिनियन पोल चळवळींतलें तिचें योगदान कोणाच्यान विसरूंक जायत? डॉ.जॅक सिकेर, रवींद्र केळेकार, शंकर भांडारी, एव्हाग्रीयु जॉर्ज, मार्क फेर्नांडिस, ॲनी पिमेन्ता, जॉकीं आराउजो, आतानासिओ आल्मेदा, कायतान मार्टिन अश्या खडेगांठ व्यक्तीमत्त्वां वांगडा तिणें वावर केल्लो; देखून त्याकाळांत चलती आशिल्ल्या आदर्शवादी राजकारणाचे संस्कार तिचेर जाल्ले. गोंयच्या विलीनीकरणा आड जाल्ल्या ह्या इतिहासीक चळवळींतल्या कितल्याश्याच स्फूर्त दिण्या प्रसंगांचें आणि अणभवांचें वर्णन हांवें तिचेकडल्यान आयकलां. १९७०च्या दसकांत सांताक्रूझ आणि पणजे भोंवतणच्या वाठारांचो पणजे नगरपालिकेंत आस्पाव करचो ह्या सरकारी निर्णयाआड लोकांक संघटित करून स्वातंत्र्य सैनिक विश्वनाथ लवंदे, रेनात पिंतु, नारायण नायक, डॉ. जुझे मार्टिन्स हांच्या सांगातान तिणें मोठी चळवळ उबारुन सरकाराक आपलो निर्णय फाटीं घेवपाक लायिल्लो . हेचळवळीन एक वेगळी वळख तिका दिल्ली. आणीबाणी उपरांत गोंयभर गाजिल्लूया रांपणकार, रेंदेर आनी हेर पारंपारिक कामगारांच्या चळवळींत तिचो व्हड वांटो आशिल्लो.

टुरिझमच्या नांवान गोंयकारांक विकासाचें गाजर दाखोवन गोंयचें डेमोग्राफिक्स तीसेक वर्सांत राजकारण्यांनी पुरायपणान बदलून उडयलां. जमनीचो मालकी हक्क, नोकऱ्यो, ल्हान – व्हड उद्देग आनी सेवा ह्या मळांचेर थळावे जनतेचो उणो जायत वचपी वांटो हो सगळ्यांत व्हडलो प्रस्न गोंयकारांमुखार उबो आसा. सद्या मुळाव्या शाळांनी शिकता ती पिळगी तयार जाता तेमेरेन हो प्रस्न हिंसक आनी उग्र रूप आपणांव येता. थळाव्या जनतेचीं मतां घेनासताना एक टुरीझम मास्टरप्लॅन गोंयकारांच्या माथ्यार मारपाची तयारी गोंय सरकारान १९८०च्या दसकांतूच सुरु केल्ली. तेन्ना थळाव्या लोकांक भायर दवरून फकत विकासक आनी गिरेस्त उद्येजक हांचेंच हित राखपी मास्टरप्लॅन भायर मारचो, गोंय आनी गोंयकार हांची समतोल उदरगत जातली अशे पध्दतीचो पर्यटन वेवसाय सरकारान नियंत्रणात दवरून चलवचो ही मागणी करीत प्रो. सेर्जीयु कार्व्हाल्यू हाच्या फुडारपणाखाल जागृत गोंयकारांची फौज ही संघटना स्थापन जाल्ली. डॉ.जयवंतराव सरदेसाय, कलानंदमणी, नंदकुमार कामत, मथानी साल्दान्य, ख्रिस्तोफर फोन्सेका, रोलँड मार्टिन्स, शांती मारिया, आल्बेर्तीना आल्मेदा, दिलीप बोरकार, सुश्रुत मार्टिन्स हांचे वांगडा मम्मीय बरीच सक्रिय आशिल्ली.

१९८७ सावन हांव तिच्या शेजराक, सांताक्रूझ, बोंदीर हांगां रावतालों. त्या वेळार हांव तिच्या घरचोच जालों. रुडॉल्फ, रोझी, बेबिश ह्या तिच्या भुरग्यांकडेन म्हजी खास इश्टागत. रोझीचो आणि म्हजो वाडदिस एकाच दिसा आनी बरेच फावट आमी तो एकठांय तांच्या घरांत मनयला. सकाळींफुडें मम्मीक जाग येवच्या आदींच समाजांतल्या सगळ्या जातीधर्माच्या विंगडविंगड थरांतल्या लोकांची वर्दळ तिच्या दारार आसताली. कालापूर, मेरशे, ताळगांव, पणजे, रायबंदर, चिंबल ह्या भोंवतणच्या वाठारांभायर गोंयच्या पयसुल्लूया वाठारांतल्यान लेगीत लोक

आपापले प्रस्न, समस्या घेवन तिचेकडेन येताले. ती वाजेनासतना सगळ्यांचे समजून घेतली आनी ताचेर उपाय सुचयताली. सांताक्रूझ मुंडकार संघटनेची अध्यक्ष म्हूण तिची निवड जाल्ली. त्या वेळार संघटनेवांगडा गांवच्या शेतांची आनी मानशींची परिस्थिती पुरायपणान इबाडिल्ली. मानशेचीं दारां गायब करप, बांदांक खांवटीं घालप असले प्रकार सर्रास जातालें. शेतां, माड, पारंपारिक मीठागरां हांचेर खाऱ्या उदकाक लागून हावळ आयिल्ली. पणजे ते सांताक्रूझच्या रस्त्यार उदक भरतालें आनी गाडयो चलोवप कठीण जातालें. ह्या प्रस्नाचेर सखोल अभ्यास केल्लो डॉ.नंदकुमार कामत मम्मीचो शेजारी. व्यासंगी, अभ्यासू, सडेतोड आनी निर्भीड नंदकुमार म्हळ्यार तेन्ना आमच्या सगळ्यां खातीर एक विश्वकोश कसो. ताणें आपले वळखीच्या जामनगर– गुजरात हांगाच्या कांय तज्ज्ञावांगडा ह्या विशयाचेर सखोल अभ्यास करून हो प्रस्न कसो सोडंव येता हाचेर एक अहवाल तयार केलो. मम्मीन तो सरकाराक सादर केलो, पूण ताचो सरकारचेर कांयच परिणाम जालो ना. मागीर हें झूज रस्त्यार लडचें पडलें. ह्या वेळार दोन गट आमी तयार केले. पयल्या गटांत मम्मी, नंदकुमार कामत, दिलीप बोरकर, सुश्रुत मर्टिन्स आनी सांताक्रूझचे नागरिक हाणीं रस्ता रोको करप आनी तांचेर कारवाय जाल्यार हांव, रुडॉल्फ, संजीव नायक आनी हेर नागरिकांनी परत रस्त्यार देंवप अशी येवजण केली. अपेक्षेप्रमाण पयल्या गटाक पुलिसांनी अटक केली आणि कलेक्टरामुखार तांकां उबीं केलीं. आमचो दुसरो गट रस्तारोकोची तयारी करता म्हणसर कलेक्टरान मम्मीच्या फुडारपणाखाल शिश्टमंडळाक आपोवन आंदोलकांचे म्हणणे आयकून घेतलें आनी योग्य ती कारवाय करपाचें आश्वासन दिलें. डॉ. हेमंत कारापुरकार तेन्ना ग्रामीण विकास प्राधिकरणाचो चेअरमन. ताका मेळून मम्मीन हो प्रस्न सुटावो करून घेतलो आनी मानसो, बांद, साकव नव्यान बांदून काडले. ह्या वेळार एका थारावीक दिसाळ्यांतल्यान तिचेर सातत्यान एकदम सकयल्ल्या थरावयल्यान टीका जाताली. कोण कितें उलयता वा बरयता हाची पर्वा करिनासताना आपल्या मार्गार चलत रावप हाची आमकां शिकवण दिवपी मम्मी खंबीर रावन ह्या प्रसंगाक सहजपणान मुखार वतना हांवें पळयली.

१९८९ची वेंचणूक तिणें गोमंत लोकपक्षाच्या तिकेटीचेर लडयली. तेन्ना सांताक्रूझ मतदार संघाचो कोनसोकोनसो आमी पिंजून काडलो, पूण कांय मतांनी ती हरली. प्रसार माध्यमांचेर बरेंच नियंत्रण आशिल्लया सांताक्रूझ गांवच्याच एका भाटकार कुटुंबाक तिची भोवनसाय. कांय पत्रकारांनी तिचेआड चलयल्ली मोहीम तिचे हारीक कारणीभूत आशिल्ली. पूण ती नाउमेद मात्तुय जालीना. हाचे आदीं जनता पक्षाच्या वतीन तिणेंवेंचणूक लडयल्ली पूण हे वेंचणुकेंत तिका साडेपांच हजारांवयर मतां मेळिल्ली. गोमंत लोकपक्षाच्या हेर खंयच्याच उमेदवारापरस तिची कामगिरी सरस आशिल्ली. ह्याच काळांत शिवसेनेसारक्या जातीयवादी पक्षान गोयांत आपली बुन्याद घाल्ली. बेकारांची वाडत वचपी संख्या, जमनींचे गैरवेव्हार, तरणाट्यांमदली व्यसनाधीनता अशे कितलेशेच प्रस्न घेवन लोक तिचेकडेन येताले. हातूंत तरणाट्यांचे प्रमाण चड. देखून 'गोवा प्रॉटेक्टर्स' हे संघटनेची स्थापणूक जाली. त्यावेळा रूय तिका माध्यमांतल्यान नकारात्मक प्रसिद्धी चड मेळ्ळी. पणजे जाल्ले गोवा



प्रॉटेक्टर्सचे सभेक गोंयभरसावन हजारांनी तरणाटे जमले आनी रुडॉल्फाक हे संघटनेचो अध्यक्ष वेंचलो. संजीव नायक, सुश्रुत मार्टिन्स, शेखर नायक, विनायक कारबोटकर, अँटनी मिनेझिस अशे बरेच तरणाटे हे संघटनेखातीर वावुरले. नंदकुमार कामत, दिलीप बोरकर हांचेंय तातूंत योगदान आशिल्लें. सुरवातेक बॉक्सिंग, फुटबॉल, क्रिकेट, पेंवप, व्हॉलीबॉल सर्त; मोटारसायकल रेस तेभायर गरजू विद्यार्थ्यांक पुस्तकां वाटप, रगतदान शिबिरां अशे कितलेशेच उपक्रम धडाक्यान सुरु केले. सरकारच्या येवजणींचो लाव मेळोवन दिवन कांय तरणाट्यांक रोजगारूय मेळील्लो. पूण फुडें ही संघटना भरकटत गेली. गोंयभरसावन संघटनेत आयिल्ल्या तरण्या रगताच्या तरणाट्यांचेर पुरायपणान नियंत्रण सुटलें आनी कितलेशे कडेन प्रॉटेक्टर्स आनी रुडॉल्फाच्या नांवान खंडणी मागपाचे प्रकारुय सुरु जाले. खासकरून उत्तर गोंयच्या दर्यादेगांचेर रूडाल्फाचो मनीस व प्रॉटेक्टर्स संघटनेचो मनीस म्हूण जबरदस्तीन पयशे घेवपाचीं बरींच प्रकरणां कानांर येवंक लागलीं. पूण तोमेरेन बरोच उशीर जाल्लो आनी संघटनेचें नांव वायट कारणांक लागून गाजलें. पत्रकारांनी ही संद सोडलीना. कांय जाणांनी दोनाचे चार करून खोटयोनाट्यो बातम्यो पेपरांनी छापून हाडल्यो. रवी नायक तेन्ना गोंयचो मुखेलमंत्री. राजभाशेच्या आंदोलन उपरांत एका खासा समाजाआड आशिल्ली आपली तिडक गुंडगिरी बंद करपाच्या नांवान ताणें दाखयली. फुडें रुडॉल्फ आनी मम्मीक

राष्ट्रीय सुरक्षा कायद्याखाल फांतोडेर तीन वरांचेर अटक करून आग्वादच्या बंदखणींत घाली. कांय म्हयन्यांनी तिचे केसीभितर कांयच दम नाशिल्ल्यान रिव्ह्यू बोर्डामुखार तिची सुटका जाली. पूण राम जेठमलानीसारख्या नामनेच्या वकिलाक घेवन राष्ट्रीय सुरक्षा कायद्याखाल बंदखणींत आशिल्या हेरांची सुटका करच्यापासत तिणें सुप्रीम कोर्टामेरेन लडाय केली. सुप्रीम कोर्टान आपल्या निकालांत मानवीहक्क आनी आणि व्यक्ती स्वातंत्र्य हांचो पाखो घेवन सरकाराच्या सूडबुद्धीच्यो वाद्न्यो केल्यो.

भांगराक उज्यांत घालतकीच ताचो झगझग चड वाडटा. फिनिक्स सुकण्याप्रमाण तिणें गोबरांतल्यान झोंपय मारली आनी १९९४चे वेंचणुकेंत तिका लोकांनी अपक्ष आमदार म्हूण तेरांशीं मतांनी निवडून हाडली. पयलीं पांच वर्सां एक अभ्यासू, जनतेचे प्रस्न घेवन झगडपी आमदार अशें तिचें नवें रूप तिच्या मतदार संघांतल्याच लोकांक न्हय तर सगळ्या गोंयाक पळोवंक मेळें. देखून १९९९ वर्सा ती साडेपांच हजारांच्या फरकान वेंचून आयली. तेमेरेन हांव चडसो गोंयाभायर आशिल्ल्यान आमचो चड संबंद येनाशिल्लो पूण एकमेकांविशीं वासपूस नेमान आसतालीच आनी वेळ मेळटा तेन्ना तेन्ना बऱ्याच गजालींचेर भासाभास जाताली. २०१२ मेरेन भलायकेक लागून तिचो वावर बरोच उणो जाल्लो; पूण थळाव्या आनी राष्ट्रीय पावंड्यावेल्या प्रस्नाचेर संवाद करप तिका आवडटालें. मेळ्ळील्ले फावट ती आपले आशावादी प्रवृत्तीन सदांच समाजाभिमुख रावपाचो संदेश दिताली.

२००४ आणि २००७ वर्सा वेंचून आयल्याउपरांत सांताक्रूझ मतदारसंघांत ४ फावट सतत वेंचून येवपाचो तिणें नवो विक्रम केलो. एक आमदार, मंत्री, उपसभापती अशा विंगडविंगड रूपांनी तिणें केल्लें कार्य सगळ्यांमुखार आसा. पूण ह्या सगळ्या कार्यापलतडी मानवी मूल्यांची राखण करपी आणि मुखार येतल्या दरेक दुखेस्त – पीडेस्ताक एके आवयचे मायेन वेंगावपी नीजगोंयकार झुजारी अशी तिची वळख चड व्हडली आसा. ल्हान पिरायेर जोन ऑफ आर्क, राणी लक्ष्मीबाई, भगतसिंग, रॉबिनहूड हे आपले आदर्श अशें ती बरेच फावट सांगिताली. महात्मा ज्योतिबा फुलेची तिका व्हडलीशी वळख नाशिल्ली. पूण फुलेंच्या विचारांचें प्रकटीकरण अशी ती एक उज्याचें फुल आशिल्ली.

●●●

---

(पान २१ वयल्यान)

गोंयांत नात. म्हजो अर्दो अदीक गांव म्हणल्यार चले भुरगे लंडन, पारीस हांगा गेल्यात. चलयो लग्न जावन दुसरे गावांत गेल्यात. जीं भुरगीं आसात तांकां हो संबंध खबर ना. तांकां खबर आसल्यार, दिलीप बोरकार इतलेंच खबर आसा. मागीर खंय गेलीं म्हजीं मुळां...?

हें सगळें शेरमांव जें हांवें सांगलां, तें सांगले बगर म्हज्या बापायची वळख आरंभूच जावंक शकना. म्हाका पळोवन, म्हजो आतांचो थाट पळोवन वा म्हजें एकंदर राहणीमान पळोवन जर कोणेंय म्हज्या बापायचें चित्र रंगयलें जाल्यार तो फसतलो. हांवें म्हज्या बापायक म्हज्या जल्मा साकून पळयला हातूंत दुबावूच ना. पूण म्हजो बापूय म्हूण ताची प्रतिमा खंयचे पिरायेर म्हज्या मेंदवांत थीर जाली हाची म्हाका आतां याद ना. तें सांगप

# म्हजीं आई-पापा, जिणेंतले आपलिपा

तशें कठीणूच. पूण हांवें म्हज्या बापायक काश्टी मारून कुळागरांतल्या माडयांचेर चडटना, एक माडी हालयत ते माडयेचो झेल घेत दुसरे माडयेर अळंग वतना पळयला. कमराक वालो न्हेसून खांदार तुवालो उडोवन कुराडीन लोकांलीं लाकडां फोडटना पळयला, कुदळ-खोरें घेवन शेता- भाटांनी भरीचें काम करतना पळयला, माथ्यार कांबळ घेवन घरा भोंवतणच्या पोरसांत तरातरांची भाजी रोयतना पळयला, माडांक आळीं काडपा वांगडाच आंब्यार चडून किल्ल कातन्यान बेंदुल काडटना पळयला. माया म्हयन्यांत वताच्या कडार लोकांल्या घरांचें नळे परतीतना पळयला. हें सगळें पळयतनाच धवेंफुल्ल पुडवें,ताचेर धवोच लांब हातांचो बुशकोट आनी ताचे वयर ज्युदी अशे भेसांत म्हाड्डोळा शिगम्याक पुडव्याचो शेव हातांत घेवन धोल ताशांच्या नेटार शिगमो नाचतना पळयला.

मातूय शिक्षण नाशिल्लो म्हजो बापूय कुकळयां कुळागरांतूच वाडलो. माडयो, फोफळां, अणसी हेंच ताचें विश्व आशिल्लें. म्हाड्डोळच्या लागींच भोम गांवचे कश्टी चलयेकडेन लग्न जावन तिकाय कुळागराकडेन जोडून घेतलें. तिकाय शिक्षण नासलें तरीय शिक्षणा बगर मनीस मनीस जायना हाचें भान तिका आशिल्लें. तांचो व्हडलो पूत नंदाचो जल्म जावन जसो तो व्हडलो जालो आनी ताचोय ओडो शिक्षणाकडेन आशिल्ल्यान भुरग्यांक शिक्षण जायच ह्या तिच्या विचारांक घटाय आयली. कुकळयां कुळागरांत झळपेवन अशेंतशें पोट भरत भुरग्यांचें, पूण त्या

कुळागरांत शिक्षणा बगर भुरगीं मनीस जावंक पावतली काय कितें हो प्रस्न तांकां त्या कुळागरांतल्यान आगशी स्थलांतरीत करपाक पुरो आशिल्लो.

म्हजो जल्म आगशी जाला. हांव आगशीच वाडलां. म्हजीं व्हडलीं भावंडां आनी आई बी म्हाका दिसता आगशी येवन रावलीं आनी पापा कुळागरांतूच कांय तेंप रावलो आसूंक जाय. कित्याक म्हाका म्हजो गांव दाखोवपा पासत आगशीच्यान कुकळयां व्हेल्लूयाची याद जाता आनी हांवें पापाक माडयेर चडटना, मागीर वयर पावतकच एके माडये वयल्यान दुसरे माडयेर बी वतना पळयल्लूयाची म्हाका याद जाता. मागीर थंयचें आमचें घर, कुळागरांतल्यो अणशी, पापान एक पिकिल्लें अणस काडून तें लाकडार मारून फोडिल्लें आनी आपणेंय खाल्लें आनी म्हाकाय एक कुडको दिल्लो ताची याद जाता. पूण आई मात अणस आदोळेचेर बरें तासून ताच्यो शिरो करून दिताली आनी अणसाची माव खावपाक उपकारना, ती खाल्यार 'निरमोळी' जाता बी सांगताली. पूण पापा भुके पोटार अणस फोडून खातालो हेंय तितलेंच खरें.

मागीर आमचें कुळागर आनी कुकळयें गांव सामकोच सुटलो. पूण पापाचो म्हाड्डोळचो शिगमो मात सुटलो ना. दर शिगम्याक पापा झेतान न्हेसतालो. झेतान म्हणपाचें कारण म्हणल्यार हरशीं ताचो भेस म्हणल्यार तो वालो आनी ताचेर खोमीस. पूण शिगम्याक मात धवेंफुल्ल पुडवें. सामकें पोंवटां सकयल. ताचेर लांब हातांचो धवोफुल्ल शर्ट. शर्टा वयर निळसर ज्युदी आनी पांयांक चांबड्याचें दाट्ट जोतें. अश्या भेसांत आमकांय बरे कपडे घालून तो शिगम्याक व्हरतालो. आईक आनी आमकां भुरग्यांक लोकांमदीं सोडून तो शिगम्याच्या रोमटांत बी भान सोडून नाचतालो. असोच नाचतां नाचतां ताच्या बोल्सांतलो लायटर उसळून खंयतरी पडलो आनी मागीर आईचे आनी ताचें उलोवप, 'तुका नाच कोणें सांगिल्लो..?' बी.पूण म्हाका आजुनूय पापाचें तें नाचप दोळ्यां सामकार झळकता. आनीक एक गजाल म्हाका याद जाता, तेन्ना हांव पांच वर्सांचो. गोंय मुक्त जाल्लें. डिसेंबर म्हयनो तो. मागीर मुक्त गोंयांत पयलोच प्रजासत्ताक दीस २६ जानेवारीक मुक्तपणान गोंयकारांक मनोवपाचो आशिल्लो जावंक जाय. कितें आयोजन केल्लें खबर ना. भोवतेक ह्या सुवाळ्याक लोकांनी येवंचें अशी त्या काळच्या फुडाऱ्यांची इत्सा आसूं येता. प्रजासत्ताक मुक्तपणान मनोवपाचो पणजे तो सुवाळो आसूं येतालो.त्या शिंया कडार म्हाका बरे कपडे घालून टॅक्सींतल्यान पणजे व्हेल्लो हाची याद आसा. पापाय शिगम्याक न्हेसतालो तस्सोच न्हेसून त्या सुवाळ्याक म्हाका घेवन गेल्लो. ताच्या मुखामळावयलो तो आनंद,ती खोस म्हाका अजून याद जाता.

हे असले कांय खीण सोडले जाल्यार म्हजो बापूय, पापा हो एक सर्वसामान्य मनीस. शिक्षणाचो गंध ना, सभावान तापट न्हय, पूण राग येत जाल्यार ताचेर ताचें नियंत्रण उरना आशिल्लें. पूण ताणें आपल्या भुरग्यांक केन्ना मारिल्लूयाची म्हाका याद ना. ताचें काम फकत जोडून हाडपाचें. तो मेळटा तें कसलेंय काम करतालो. ताका केन्ना बेकार बशिल्लो हांवें पळोवंक ना. आगशी गांव हो रेंदरांचो गांव, म्हणटकच भाटये पासत लाकडांची गरज आसताली. तो जळोव फोडपाचें काम कोणागेर ना कोणागेर दिसपट्टें आसतालें. शेतांत खणप, मेरो धरप,आडे काडप, होंडे उसपप, घरां शिवप, पारे बांदप.. ताका कसलें काम येना अशें नाशिल्लें.



लोकांगेर काम करून ताका दिसवडो मेळटालो. जो कितें दिसवडो मेळटालो तो सगळो ताणें आईकडेन हाडून सुपूर्द करप. ताचेर आई मागीर संवसार चलयताली. दिसवड्याक वचचे आदीं घरा भोंवतणीं पोरसांत कितें ना कितें शाक भाजी रोवन, हळद किल्लोवन काडून, एक दोन गायो पोसून दुदाची वेवस्ता करप आनी तातूंतल्यानूय संवसाराक आदार करपाचें काम तो थकनासतना करतालो. म्हाका सगळ्यांत मजा दिसताली ती ताचें कोंबयो पोसप. तो मटन,चिकन कांयच खांय नाशिल्लो म्हणटकच घरांत तें केन्ना शिजलें नाच. तो तांतयांय खांय नाशिल्लो. आई आमकां भुरग्यांक ताका लिपोवन तांतीं भाजून वा उकडून बी दिताली. पूण तशें केलां म्हूण कळत जाल्यार तो घरांत अन्न उश्टांय नाशिल्लो. घरांत तांतयाचीं कल्लां दिश्टी पडत जाल्यार तो घर माथ्यार घेतालो. मागीर ताचें आनी आईचें पेट्टालें. अशें खंयच्याय कारणाक लागून पेटलें म्हणटकच मागीर पापा सगळो राग आपल्याचेरूच काडटालो. तो कांयच खांय नाशिल्लो. उपाशीं रावतालो. मागीर एकदीस सरलो म्हणटकच आई ताका पराथताली. 'पोटांत कांयच गेलें ना जाल्यार कश्टांचें काम कशें जातलें? उपाशीं पोटार कितेंय जालें जाल्यार कोणाक भोगचें पडटलें?' अशें कितें कितें..! पापाकूय चड काळ उपाशीं रावपाक जमनाशिल्लें.

तांतयांचीं कल्लां घरांत पडल्यांत,तीं रांदचे कुडींत दिसलीं म्हूण अन्नाचेर राग काडपी पापा कोंबयांची मात कुयदाद बरी घेतालो. आमचो गोरवांचो गोठो

आशिल्लो. गोठ्यांत एक-दोन गायो आनी तांचीं वासरां आसतालीं. त्या गोठ्याक तेंकूनच मातयेन बांदलेलो ल्हानसो घूड आसतालो. ताचे वयर जळवाचीं लाकडां दाळून दवरतालो.घुडांत कोंबयो. तांकां धापपा-सोडपाचें काम पापाच करतालो. गांवांत कोले आसताले. ते घूड उगडो उरत जाल्यार रातच्यो कोंबयो फारायतालेच. कोंबयांचो बोबाळ जालो काय रातचो उठून तांची राखण करपाक धांवतालो तो पापाच. कोंबयेक कोल्यांनी व्हेली ही बातमी म्हाका कळटाली ती सकाळी उठले उप्रांतूच.

आई आनी पापा हांचो सभाव तसो दोन तोंकांचो. आईक आपल्या भुरग्यांनी शिकून व्हड जावंचें अशें दिसतालें. पापाक भुरग्यांनी शिकलें कितें वो ना शिकलें कितें व्हडलें शें पडून गेल्लें नाशिल्लें. पूण ताचो विरोध नासतालो. पापा कुळवाड्याचें काम करतालो देखून ताका बरो नितळ रावपाचो, बरे धुल्ले कपडे घालपाची तशी संद कमीच. दिसभर हांगा थंय आबजून आमोरेरे घरा पावलो काय न्हावप इतलीच ताची लिपेज. ताणें बुरसो रावंचो न्हय, बरो देशेंत रावचो अशें आईक दिसतालें. ताचेरूय तांचें वाजतालें. आईक स्वताक बरी लिंप रावपाक, वेवस्तीत रावपाक आवडटालें. तशी ती रावतालीय बी. हांवें तांकां केन्नाच अशीं मोगान उलयल्लीं पळोवंक ना. सदांच फेरफेर. पापाक केन्नाय आईचीं फकांडां करपाची कूय येताली जावंक जाय. ताणें फकांडां करपाक आरंभ केले बराबर मागीर आईचें चडटालें. मागीर सुरू तांचें. तांची एकमेका लागीं वागपाची, उलोवपाची तरा म्हणल्यार तांचेच भाशेंत 'केरकेरासांव', 'फेरफेरासांव' बी पध्दतीची आसताली. तांकां अशें वागतना म्हाका सदांच प्रस्न पडटालो, हांकां आमी धा भुरगीं कशीं जालीं काय..? ताची जापूय मेळटाली.. पापाक कितेंय थंडी भारकूण जालें काय आईचो जीव वयर सकयल जातालो आनी आईक कितेंय जालें जाल्यार तो घरांत जो कोण आसा त्या भुरग्याक उलो मारून 'तिका कितें जाता तें पळय रे!' अशें म्हणटालो आनी आपूणच धांवून वतालो. तो सगळ्यांत पयलीं कितें करतालो तर आईक 'काण्णी' घालतालो. आपल्या दोनूय आंगठ्यांनी तिच्या कानाकडेन दामतालो. कांदो चेंचून नाका कडेन धरतालो. अशी काण्णी घालतकच, कांद्याचो वास दितकच कितें जाता हाची म्हाका मातूय कल्पना नाशिल्ली. येतालो तो म्हजेर आकांत..

आई-पापाक शिक्षण नाशिल्लें तरी ताचो आमकां कोणाकूच केन्ना त्रास जालो ना. दोगांय सुशिक्षित नासलीं तरी सुसंस्कृत आशिल्लीं. कोणाकडेन कशें कितें उलोवंचें तें कळटालें. आमी रावताले आगशी किरिस्तांव धर्मीक वाठारांत. आमकां आगशी येतकच घर दिल्लें रावपाक तेंय एका किरिस्तांव भाटकारान. आपलें भाट,त्या भाटांतलीं दोन बंद घरां आनी भाटा लागसारचीं एक-दोन शेतांची देखभाल करपाची जापसालकी ताणें पापाचेर घाल्ली. पापानय ताका केन्नाच अंतर दिलें ना. त्या भाटकारान दाखयल्लया विस्वासाक केन्नाच वेर वचपाक दिली ना.

आमकां रावपाक जें घर दिल्लें तें कोणा तरी किरिस्तांवालें आशिल्लें आनी तीं मुंबय रावतालीं. भाटकारान आमकां दिल्लें तें घर पापान बरें सारकें केलें तें पळोवन तांची आस्त जागली. आदीं दर म्हयन्याक मुदासांवाक म्हूण आठ-पंदरा दिसांक येवन आमच्याच घरांत रावपाक लागलीं. तांचें घर म्हणटकच पापान तांकां जाय तेन्ना येवन रावात अशें सांगलें. आपल्या चार पांच भुरग्यांक घेवन तीं येतकच अर्दी सुवात आडायतालीं, उबंत उडोवन गेल्लें घर आपलें म्हणत मालकी हक्क गाजयतालीं. घरांत दुकराचें, गायचें मांस हाडून खातालीं. घरांत भुरग्यांक खावयल्लया ततयांचीं कल्लां शिंपडल्यांत म्हूण आपले बायलेचेर राग धरपी म्हजो पापा तें अतिक्रमण शांतपणान सोंसतालो. सांगाळो बी मोठ्या नुस्त्याचें मांस पळोवन लेगीत विटपी आमी सगळीं भुरगीं त्या मांसाच्या वासान जेवपाक लेगीत विटेतालीं. पूण आई, पापा सोंसणिकायेन आमकां समजायतालीं. 'घरांत तीं मांस खातात आसलीं तरी तें आमच्या पोटांत वचना, आमी भश्टनात, तींय आमचे वरींच मनशां' अशें सांगून तांच्या आमचेच पिरायेच्या भुरग्यां लागीं खेळपाक, भोंवपाक सांगतालीं. पदेरान फकांडांनी लेगीत शिता गोंठे घराचेर उडोवपाचें नाटक केलें जाल्यार घराचेर शेणा शिताडो उडोवन घर शुध्द करपी पापा, कोणेंय मांसाचो हात लायला असो दुबाव आयल्यार भायरूच सगळे कपडे धुंवपाक उडोवन, बांयचेर तुळशी पानांच्या उदकान न्हावन घरांत भितर सरपी पापा आपल्या घरांत मांस खावपी लोकांक कसो दवरून घेता होच म्हाका प्रस्न पडटालो. जेन्ना ताणीं आमचें घर आमकां जाय अशें सांगले बराबर दुसरे कडेन घर बांदून तें खालीं करून जांचें तांकां दिवपी पापा आनी दुसऱ्यांलें घर आमकां नाका म्हणत कसलीच अपेक्षा बाळगिनासतना कितल्याच वर्सांनी त्या घरांतल्यान हांसत्या तोंडान भायर सरपी म्हजी आई म्हणल्यार म्हजे नदरेन ग्रेट आशिल्लीं. जाय जाल्यार तें घर दिनासतना तांच्यांनी रावं येतालें. भाटकाराचो ताका तेंको आशिल्लो. तें घर तांचें न्हय म्हणपाचें भाटकार सांगतालो. दुसरें घर ताणें शेजार जाय म्हूण कालें रावपी बरड ह्या कुटुंबाक

दिलें. जाय जाल्यार तेंय तांच्यानी खालीं करात अशें सांगूं येतालें. पूण कोणाकूच एका उतरान ताणीं दुखयलें ना. भाटकार आनी पुराय गांवचो तेंको आसतनाय.

भाटकारान दिल्या तितलेच सुवातेर पापान आपले हातांनी घर उभारलें. सगळ्या भुरग्यांनी माती-फातर माथ्यार घेवन हात-बोट लायल्लेंच, पूण गोड-चुनो-माती मिश्रीत टायपाच्यो वणटी उबारून ताणें स पुतां पासत स कुडी उभ्यो केल्लयो. मागीर हेर पुतांनी लग्न जाले उपरांत जळामळाक आपापलीं घरां उबीं केलीं आसत. पूण स जाण पुतांक स कुडी उबारपाची नदर पापालागीं आशिल्ली. सगळ्यांनी आपापलीं घरां उबीं केलीं तरीय हांवें उपरांत त्या घरा सुवातेर नवें घर उबारलें. पापाचे कल्पनेक खंय वेर वचूंक दिना आसतना स भावां खातीर स फ्लॅट बांदपाची मांडणी केली. सकयल दोन भावां पासत,पयले माळयेर दोन भावांक आनी वयर दोन भावांक बांदपाची वेवस्ता दवरली. तांकां जाय तेन्ना बांदचें म्हूण. पापाचे संकल्पनेक खंयच आडखळ हाडी नासतना ताचें सपन तशेंच सांबाळून हांवें ताच्या आनी आवयच्या नांवान 'धर्मलक्ष्मी' उबें केलें. घर अजुनय पापाचेच नांवार आसा. अशें आमचें नातें आवय-बापायचें आनी पुतांचें.

हांव घरांत पुतांमदीं सगळ्यांत धाकटो. म्हज्या उपरांत एक भयण जल्मली.व्हडली एक आशिल्लीच. ते आदीं दोन भुरगीं जल्माक येवन भायर पडिल्लीं खंय! हांवें पळोवंक ना. तांचे नांवान पापा आनी आई कोणाक कितें कितें भेटोवन याद करतालीं. ताणीं स पूत आनी दोन धुवांक खूब कितें केलें वा खूब त्रासांची जीण दिलें अशें कांय म्हाका दिसना.तेन्नाच्या भुरग्यांच्यो सुखाच्यो कल्पना,आपल्या जन्मदात्यांकडल्या [illegible] आसूंक जाय. डझनभर भुरगीं आसून लेगीत तांकां वाडोवपाचें काम तेन्नाचे आवय बापूय करताले. आतां आवय बापायचें एकलें एकसुरें अपत्य फोल्गाची एखादरी वस्त दिना म्हणली जाल्यार आपलो जीव दिता तें पळोवन विचित्र दिसता. तेन्ना शाळेची फी भरपाक पयशे नासताले, ते पासत शाळेंतले काडून उडयताले तेन्ना आमच्या सारख्या भुरग्यांक लजेन जीव नाका दिसतालो. पूण जीव दिवपाचो विचार मात कोणाचे तकलेंत येतालो अशें दिसना.

आमी आवयचे देखी खाल सगळीं भुरगीं बरीं निपजलीं. कोणाकूच कसलो देफेत म्हणटात तो दवरूंक दिलों ना.

हांव सदांच म्हज्या आई-पापाची तोखणाय करतां ती तांच्या गुणांक लागून. परिस्थितीन तांकां आपलो गांव सोडपाक लायलो, कुळागर सोडपाक लायलें. आपलें जें ना तें ताणीं कसलीच खंत बाळगिनासतना सहज सोडलें. तीं दुख्खां केन्ना झरयत बसलीं नात. आसा तातूंत समाधान मानून आमकां आठ भुरग्यांक वयर काडलीं. आमकां शिकोवपाक तांचे कडेन आर्थिक तांक नाशिल्ली तरी जांकां शिक्षणाची आवड आशिल्लयांनी धडपडत आपले गरजे प्रमाण शिक्षण घेतलें. जाणीं घेतलें ना तांणीं आपले संवसार व्हाऱ्यार घाले अशें कांय घडलें ना. हाचे फाटलें कारण म्हाका एकूच दिसता, आमकां म्हज्या आवय बापायन आमकां जाय तें केन्नाच दिलें ना आसत,पूण समाजाक जाय तें,आमकां मनीस जावपाक गरजेचें तें सगळें दिलें. केन्ना बरे तरेन समजावन, केन्ना मारपाची भिरांत दाखोवन.. कोणालें चोरप ना, फट उलोवप ना, तोंडांत गाळी उपकारना, कोणागेर वचून मागून खावप ना, वायट संगत धरप ना.. आनी कितें कितें..पापाची धमकी आसताली, कोणाची कागाळ घरांत हाडल्यार किल्लकातनें तोंडांत घालून गाल पिंजतलों. तो त्या किल्लकांतन्यान आंब्यांचीं बेंदळ्ळ कशी कचाकच कातरता हें आमी भुरग्यांनी पळयल्लें. ताणें तो भंय घालो काय कल्पनेंतल्यान भोवतेक हांव चित्र रंगयतालों. पापा तें किल्लकांतने म्हज्या तोंडांत घालून म्हजे गाल पिंजता.. पूण ताणें वो आईन तसो केन्ना आमचेर हात उबारिल्लयाचें याद जायना. पूण तेच काळार म्हजेच पिरायेच्या आपल्या भुरग्यांक आईची इश्टीण बाई साकांत बांदून मारता, कायलाटो तापोवन दागता तें आयकून ती दोंगांय कळवळटालीं.

पापा जरी बापूय आसलो आनी आई जरी आवय आसली तरी तांची भिरांत म्हाका केन्ना दिसली ना. म्हजे पिरायेचे हेर भुरगे आपल्या बापायंक भियेताले आनी तांचे बापूय तांकां भियेवंपांतूच धन्यताय मानताले आसले तरी आमी सगळीं भुरगीं तशीं आई पापाकडेन खुबूच फ्रेंडली आशिल्लीं. आई एकदीस खंयीय सोयऱ्यांगेर बी रावपाक वता म्हणल्यार म्हजेर आकांत येतालो. पापाक कामाक साकून घरा येवपाक कळाव जाल्यार हांव ताचे वाटेकडेन दोळे लावन बसतालों.

म्हजो पापा सोरो पियेना आशिल्लो. 'दाढ उसळटा जाल्यार माडाचे वो काजूचे फेणयेचो घोंट घे' अशें कोणेंय सांगल्यार लेगीत ताणें तोंडांत वखद म्हूण लेगीत सोरो घेतलो ना. पूण आमकां भुरग्यांक सोरो पिवूं नाका, तो वायट अशें केन्नाच सांगलें ना. पूण आमी बार्राचे, हॉटेलाचे झळकेक लेगीत वचपाचें ना हाचेर ताणें भर दिल्लो. आमी व्हड जातकच ताणें एकूच गजाल सांगिल्ली, निदान म्हाका तरी-मित्रांचे लगाडीक लागून सोरो बी पिवप जातलें. पूण बार्रांचेर बसून पिवपाचें ना. पिवपाचें आसल्यार घराकडेन हाडून पियात. घराकडेन आमच्यो पाट्यो

जाताल्यो, पापाय सालांत बसून तें पळयतालो पूण केन्नाच आपणें उश्टायलो ना. तो विडी ओडटालो. केळीच्या शेनताचेर धुमटी घालून विडी वळप आनी ती ओडप. आईन पिरपीर करीत ती मागीर धुमटे वयल्यान चुऱ्याचेर हाडली. मागीर तीय बंद करपाक लावन तीस नंबराचेर ताका व्हेलो आनी एकदीस आई खातीर ताणें विडी सोडली. विडी सिगार सोडप कितलें कठीण हाची कल्पना म्हाका आसा, देखून म्हाका केन्ना केन्ना प्रस्न पडटा, जर पापा आई पासत सासणाची विडी सोडूंक शकता जाल्यार तीं दिसभर झगडटालीं कित्याक कपलाक..!!

म्हाका ल्हानपणा साकून वाचनाची आवड. हांव वाचून वाचून तकली वगडावन बसतलों अशें पापाचें म्हणणें आशिल्लें. एक दीस हांवें ताणें खुंटयाळ्याक लायिल्ल्या ताच्या खोमसाच्या बोल्सांतल्यान बारा आणें काडले. तशें हांव ताचें बोल्स सदांच सांसपितालों. पूण फारावपा सारकी चिल्लर नासताली. आसा तातूंतले फारायले जाल्यार ताका कळटलें ही भिरांत. त्या दिसा ताचें बोल्स बरेंच जड आशिल्लें. तातूंतले हांवें बारा आणे काडले आनी बाजारांत वचून दुर्गाल्या पसऱ्यावयलो नवो ताल्ल चांदोबा विकतो घेतलो. गांवांत तोच दिसाळ्यांचो एजंट आसलो. ताच्याच पसऱ्याचेर पापा आमचें म्हयन्याचें सामान उदारीचेर घेतालो.

बारा आणे ना जाल्यात हाचो अदमास ते मोडी भितर पापाक लागचोना हो म्हजो अदमास सामको फट थारलो. ताका ते कोणे तरी काडल्यात वा खंय तरी पडल्यात अशें दिसलां आसुये. मागीर घरांत वासपूस. सगळ्यांकडेन चवकशी. जाणीं ते काडूंक ना ताणीं ना म्हणप साहजिकच आशिल्लें. पूण जाणें ते काडिल्ले तो हांव लेगीत सराईत चोरावरीं आपणें नाच्च म्हणत बासतालों. सगळ्यांक खरें दिसपा सारकें. खंय तरी पडल्या जातले अशें आईन म्हणटकच सगळे सुटले.

पूण तो विशय तसो सहज सुटपा सारको नाशिल्लो. ज्या पसऱ्यार हांवें त्या दुडवांनी चांदोबा घेतिल्लो त्या पसऱ्याचो मालक दुर्गान आमोरे वेळार पापा सामान घेवपाक गेल्ले कडेन दिलीप चांदोबा विकतो घेवन गेला बारा आणे दिवन म्हणपाची खबर सांगली. जाचो बापूय दिसवड्याक काम करून दिसाक अडेज ते तीन रुपया जोडटा ताचो पूत चांदोबा घेवपाक बारा आणे खर्चिता हें ताचे पासत अप्रूप आशिल्लें काय आनी कितें ताकाच खबर! पापा सामान घेवन आयलो. येतना तो आमकां पिपिरमिटां बी घेवन येतालो. म्हज्या हातार ताणें एक पिपिरमीट दवरलें आनी चांदोबा हाडपाक लायलो. हांव मोन्यानी तो घेवन आयलों. 'आसा तस्सो वच आनी तो परत दी आनी बारा आणे घेवन यो' ताणें ऑर्ड दिली. किल्लकांतने वा कायलाट्याचो भंय घाली नासतना, थंडपणान.

दोळ्यांत बोट घाल्यार लेगीत कांयच दिसपाचें ना अशें म्हणपा सारको तो गुप्प काळोख.त्या काळखांत हाव चांदोबा घेवन भायर सरलों दुर्गाल्या पसऱ्यार वचपाक. कोले रडटाले,सुणे भोंकताले. म्हाका कलकल सुटिल्लो. चांदोबांतलो एकूय राजा, देव म्हज्या सांगाताक नाशिल्लो. फक्त म्हजे वांगडा चलताले ते चांदोबांतल्या काणयांतले राकेस, भुतां बी. चांदोबा दिवन बारा आणे घेवन हांव घरा आयलो. मोन्यानी ते पापाच्या बोल्सांत व्हरून दवरले. पापान एक्राय उतरान कांयच म्हणूंक नाशिल्लें. 'आसूं आतां, रातचो ताका खंय धाडटा..? फाल्यां दितलो तो व्हरून' अशें म्हणपी आपले बायलेचें लेगीत ताणें आयकूंक नाशिल्लें.

पापा पिरायेचे णव्वद वर्सांचेर गेलो आनी आई अठ्ठ्यांयशीं वर्सांचेर. हांव धाकटो पूत जाल्ल्यान तांणीं अधिकारान म्हजे कडल्यान सगळें करून घेतलें. हांवेंय म्हजो पुत्रधर्म पाळून तांकां म्हातारपणार कांयच उणें पडूंक दिलें ना. दोगांयनी खऱ्या अर्थान निर्वाण केलें अशें म्हाका दिसता. देखूनच म्हाका एक नैतिक अधिकार आसा अशें दिसता, जाण्ट्या आवय बापायची सुवात वृध्दाश्रमांत न्हय घरांतूच आसूंक जाय. जो कोण तांकां वृध्दाश्रमांत दवरता तो तरणे पिरायेचेरूच वृध्द जावन वता...!!

●●●

## ताजेंच रूप

(पान २३ वयल्यान)

मुखावेल्या मनशाक समजून घेवप तेन्नाच सोंपे जाता जेन्ना तो अशें कित्याक वागता तें समजता. पप्पान हें फकत सांगलेंच ना. तोय तेंच करता. आनी म्हणून जावये तो आपल्या विरोधकांक्य समजून घेवपाचो यत्न करता. पप्पाक लागून हांव कोंकणीच्या मळार पावलें. कोंकमी लेखक, कवी, कोंकणी गितां आनी कोंकणी खातीर वावूरपी लोकांची वळख जावंक पावली. कोंकणी राजभास जावचे वेळार जाल्ली चळवळ खूब लागिच्यान पळोव मेळ्ळी. आपले भाशेचे म्हत्व कळ्ळे, कोकणी मातयेचे खाशेले पण कळ्ळे, आनी कोंकणी आशिल्ल्याचो अेंक घटमूट अभिमान दिसूंक लागलो.
२४ वर्सां जालीं हांव गोंयच्यान पयस आसा. पूण आज म्हाका हांव कोंकणी माचयेक आनीक्य लागीच्यान पळयता अशें दिसता. म्हज्या भुरग्यांक आपले भाशेचे म्हत्व आनी खाशेलेपण सांगपाची जबाबदारी म्हजी.

गोंयच्या भायर, गोंयच्यान इतले पयस हांव कोंकणी मनशाक आशेता, कोंकणी उलोवपी मेळ्ळो की मन उमेदीन फुलता. गोंयच्या आनी कोंकणी विशीचो लोकांचो गैरसमज पयस करूंक हांव मुखार सरता. खरें सांगशी जाल्यार हीच पप्पाचीच शिकवण. आपले मातयेचो अभिमान आसाप आनी आपले भाशेचे, आपले गोंयकारपणाचे आनी आपूण कोंकणी आशिल्ल्याचें खाशेलेपण सांबाळप, ताजो मान दवरप हें आपणे करूंकच जाय.

मम्मी-पप्पान आमका अेकठांय रावपाक शिकयलें. चुकता अशें दिसले जाल्यार तेन्ना तेन्ना सांगले. नात्यांचे म्हत्व आनी ती सांबाळून दवरप कितले गरजेचे हेंय शिकयले. मम्मीन पप्पाच्यो व्हडविकों सांगल्यो आनी पप्पान मम्मीच्यो. अेकमेकांचे कश्ट, अेकमेकानी केल्ली तडजो, अेकमेकांचे मन केन्नाच अेकमेकांक चुकले ना. धांवपळ कितलीय जाली म्हणून पप्पान कोकणीचो वावर आनी बरोवप, हाका फाट केली ना. मम्मीन आपल्याच्यान जाता तसो, पप्पा बरोवंक मेळचो म्हूण आदार दिलो. कामाचो भार आपले खांद्यार घेतलो आनी हाजी जाणीव पप्पा स्वताक आनी आमकां सदांच करून दितालो. मम्मीक आदार करप कितले गरजेचें तें सांगतालो आनी तांतल्यान आमकां कशें सगळे शिकूंक मेळटले हेंय समजायतालो.

दुसऱ्याक तोखेवप कशें हें पप्पाकडेन शिकपा सारके. तोखणाय मेळ्ळी जाल्यार उमेद आनीकय वाडटा आनी आनीकय बरें करून दाखयत दिसता. पप्पान म्हजी सदांच उमेद वाडयली. गांवपात, रांदपात, कलेंत जांव म्हज्या बरपांत तो प्रोत्साहन दीत रावलो. ताजेच खातीर म्हजी त्या सगळ्यांतली रूची वाडत गेली.

दामोदर मावजो अेंक साहित्यीकी म्हणून सगलीच वळखतात. पूण एक बापूय म्हणून ताका लागितल्यान जाणून घेवपाचे भाग्य सगळ्यांत पयली म्हाका लाभले. पप्पा सारको बापूय मेळूंक नशीब जाय. पप्पाले नांव म्हज्या नावांकडेन जोडलां ही म्हजेखातीर मेळिल्ली पदवीच म्हणल्यार जाता. पप्पान कितलेशेंच पुरस्कार मेळयले. पूण देवान म्हाका दिल्ल्या ह्या पदवेमुखार सगलें फाटीं. 'दामोदर मावज्याली धूव' अशें म्हणपांत अेंक तरेचे ओर्र दिसता. आनी कित्याक दिसचें न्ही. भुरगेपणांत दुसरो सांगताली म्हणून दिसताले आनी आता तें नांव पप्पान कशें तरेन कमयला हें कळटा म्हणून दिसता. आपल्या नांवाचो गैरफायदो जरी पप्पान आमकां घेवंक दिलो ना तरी 'दामोदर मावजो" ह्या नावांचो मान मेळटा तोय आमी सोडलो ना.

पप्पा म्हाका सदांच 'रूप' म्हणटा. मोगान मारिल्लो उलो काळजांतल्यान येता आनी थेट काळजाक शिटकायता. पप्पान 'रुपाली' असो उलो मारिल्लो म्हाका याद जायना. 'रूप' असो उलो आयकलो की मन सातिशफेत जाता. तशें पळोवशी जाल्यार सगळी म्हणटात हांव पप्पाचेंच रुप घेवन जन्मला. म्हाका मात सदांच दिसात - ताजे रुप घेवन जन्माक आयला खरें, ताजे स्वरूप हांव जावंक पावतले काय?

विचार ताजे आधुनीक
विवेकशील आनी पुरोगामी
स्वतंत्र विचारांच्या पप्पाक
लागिच्यान अणभवता आमी
सकारात्मक ताजी वृत्ती
तत्वांकडेन तो अेकनीश्ठ
सगळ्यांकडेच जमता बरे
सगळ्यांचोच तो इश्ट

पसरकार, साहित्यकार
विंगड विंगड ताजी रूपां



बरें दवरून वांयट फाफडूंक
वेगवेगळी ताजी रूपां

कोंकणी संस्कृती जंपूक
करता एक तो दीस-रात
काळजाक हात घालपी लेखणी ताजी
कोणय एक आसता असो लाखांत

हो पप्पा जो हांवे एक मनीस म्हूण अणभवलो. बापूय आनी धूव हें नातें उतरांत गुंथप मात सोंपे न्ही. कितलेंय बरयलें म्हूण उणेच. अेखाद्या लेखांत कशें बंदिस्त करूं हांव म्हज्या पप्पाचे व्यक्तिमत्व?

ताज्या कर्तृत्वानी तो शीकवण दिता, आनी हांव तांतल्यान जगप कसें ते शिकताः
वाट्याक येता ताका हांसते तोंड तो दिता आनी हांव म्हणून म्हज्या तोंडार सदांच हासो दवरता
दुसऱ्यांच्या जाग्यार स्वताक दवरून तो पळयता, आनी हांव सगलेंच दुसऱ्यांच्या नदरेंतल्यान पळोवक लागता.
घट्ट मन ताजे कोणच बंदिस्त करूंक शकना. आनी हांव मन घट्ट कशें दवरप हें शिकत रावता. 'रूप' असो उलो तो मारता, आनी हांव स्वताक ताजेंच रूप कशें पळोवंक लागता.

●●●

(पान २७ वयल्यान)

# म्हजी भयण - जयमाला

- मागीर न्हिदून उठिल्ल्या जयाली आपले केंस कापले म्हणून रडारड... ताच्या केंसांक कातर लायलीच कशी म्हणून आईच्यो तावण्यो... हातूंतल्यान जीव वाटायसर पुष्पाक नाकाशेवट जाल्लो. तरीकय ताचें म्हणणे - आई, ताची सगळी शक्त केंसांक वता, आनी तें मोठें जांवक पावना न्ही? आतां पळय ते मातशें तरी मोठे जातलेंच...!!

खरेपणान तें आंगान मोठें जालें तें अजयाच्या जल्मानंतर. बाळांतेर मुंबै मांयच्या देखरेखीखाला... बाळांतीक दूध येवचेखातीर मेथयेच्या आटवलाबोरबर डिंकाचे लाडू... बदाम - पिस्ता अशीं कितें कितें खाणां तिणें कंपलसरी खावयली. त्या मुखदुर्बलाक नाका म्हणूंकय जमनासलें. बारीक शिडशिडीत आशिल्लें तें एकदम गरगरीत वाटकुळें जालें. इतके की ताची इश्टीण सुनीत आनी दामूकाका ताका मेळपाक गेली तर दामूकाकाच्या तोणांतल्यान उतरां आयलीं खंय - 'जया, तुजो अमजादखान जाला मुगो...'

मागीर योगासनाच्या क्लासाक बी वचून ताणे तें मोठेपण मातशें आळाबंदाक हाडलें.

'करबट' हो जयमालाचो पयलो ललित निबंदसंग्रह. हो संग्रह प्रसिद्ध जावचे पयलींच त्या हस्तलिखिताक कला अकादमीचो पुरस्कार फावो जालो. मागीर भौ. प्रभाकरबाब भिडे हांच्या राजहंस प्रकाशनान तो उजवाडाक हाडलो. 'करबट' प्रसिद्ध चातकच जायत्या बऱ्या मागत्यांनी ताची खूब तोखणाय केली. तेन्ना जयमालान कथांबरोबर ललित निबंद बरवपाचेर चड भर दिलो. २००६ क 'बिम्ब' प्रकाशनान 'आंबाड्या भोवतीं तीन शेंवतीं' हो निबंदसंग्रह उजवाडायलो.

कवासो हो कथासंग्रह १९७८क प्रकाशित जाल्लो. दुसरो कथासंग्रह येवपाक मातसो कळावय जालो. गोवा कोंकणी अकदामीन २०१४ क 'सांज सावळी' हो कथासंग्रह उजवाडायलो. आनी २०१६ क राजाई प्रकाशनान 'झोंपाळो' उजवाडायलो. अणकार करपाच्या बाबतींतय जयमाला फाटीं रावलें ना. भौ. श्री. लाल शुक्ल हांच्या 'राग दरबारी' ह्या हिन्दी कादंबरीचो कोकणी अणकार ताणे २०१८क केलो. ह्या अणकाराखातीर ताका साहित्य अकादमीचो अणकार पुरस्कार फावो जालो.

जीणेचीं हीं एक एक पेणीं करतना आपले सगळे अणभव जयमालान आपल्या लेखणेंतल्यान मांडल्यात. चड करून बायलमनशेचीं बारीक बारीक दुःखां, तांच्या जीवाची घुसमट ताणे प्रभावीपणान वाचकांसामकार दवरल्या. आपल्या साहित्यिक योगदानाखातीर ताणे जायते सन्मान मिळयले. जयमालाची लेखणी संथ व्हांवत्या न्हंयचेभशेन व्हांवत रावल्या. येतात्या अडचणींक तोण दीत तें सातत्यान लेखन करीत रावलां. कथा, निबंद, भुरग्यांखातीर काणयो, नाटकुलीं, अणवाद... सगळ्या क्षेत्रांत ताची लेखणी तितक्याच तांकीन चलल्या. पस्तीस - चाळीस वर्सांच्या ह्या बरपांत ताच्या जीणेची साठी उलगवच्यापयलींच ताच्या कथांनी साठी वलांडल्या खरी... पूण कितल्या दागदगींतल्यान...कितल्या उतळतापांतल्यान... येवजिल्यारच अजाप जाता...

ल्हानपणासावन ऋजु सभावाचें, सादें, सदांच समाधानी अशें जय... घरांतल्या जाणट्यांचें आयकवप... परतें उतर दिवप ना हें ताच्या रगतांतच भिनिल्लें. अजय जन्मलो तेन्ना मांयन म्हळें - आतां नोकरी सोड. घोवानय म्हळें - भुरग्याक सांबाळप पयलीं - बाकीचे मागीर... आनी जयान नोकरी सोडली. इतली बरी नोकरी सोडली म्हणून सगळ्यांनी ताका पिश्यांत काडलें. ताचेनंतर घोवान म्हळ्ळें - गोंय सोडून मुंबै वचपाचें.... जालें... गोंयचो संसार कवळून जयमालाची बिडकी मुंबै मांयच्या म्हऱ्यांत पावली. मागीर मुंबैची जीण... सक्काळीं उठून चार देर आनी घोव... पांचय जाणांचे डबे करपाक मांयक आदार करप... देरांची लग्नां जावन जावो आयलो. पूण सगळ्यो आपापल्यो नोकऱ्यो सांबाळून आसल्यो. सकाळी डबो घेवन ट्रेनीर वचून रातच्यो घरा पावपी. ही व्हडली जाव. घरचीं देवकार्यां, पंचमीवाडप. चवथीचो बोवाळ... सगळ्यो जापसालदारक्यो ताच्यो.

- पूण ह्या सगळ्या धबाडग्यांत ताणे आपलें लेखन सोडलें ना. वेळांत वेळ काडून बरवप. इतलेंच न्ही, नोकरी सोडली तरी केन्ना बेकार घरा रावले ना. वेळ मेळता तशें मुंबै आकाशवाणी केंद्रांत कोंकणी वृत्तनिवेदिका म्हणून जायत्या वर्सां काम केले. मुंबै दूरदर्शनाच्या 'कोंकणी कौस्तुभ' ह्या कार्यावळींत भाग घेतलो.

महाराष्ट्र रंगभूमी प्रयोग परिनिरीक्षण मंडळाचेर कोंकणी नाटकां आनी तियात्रांखातीर 'मानसेवी वाचक' म्हणून काम केलें.

जायत्या वेळा बरयिल्लें लिखाण शेणोवन निर्शेलां, पूण थोडोच वेळ! रोकडेंच आपल्या सभावाप्रमाण परतें कामाक लागले.एकखेपे तर कुळारा गोंयांत वतना ताणे आपले बरयिल्लें लिखाण बी एकठांय करून गड्डो बांदून कुडींत दवरलें. गोंयासून परतें मुंबै यो जाल्यार लिखाण गायब!

मांय सादी. विचारल्यार तिणे सहजपणान सांगले - 'आं... ते पेपर मगे?' रद्दी दितना रद्दीवाल्याक दिवन वडयले. तेन्ना मात काळजांतल्यान उमाळो येवन ताका रडूंक आयलां...

२००५ क मुंबयच्या व्हडल्या पावसांत

तांच्या एरियेंतल्या सगळ्या बंगल्यांनी धोंपरभर उदक आयलें. उदक वाडत गेलें. कमरभर उदकांतल्यान टीवी बी व्हड व्हड सामान तेर्रासार व्हरून वडयलें. कपाटांतल्यो साडयो, गादयो, चादरी... सगळे सगळे उदकाक समर्पण. पूण त्या उदकांत 'राग दरबारी' कादंबरीचो केल्लो अर्द्यावचर अणकार व्हांवन गेलो. सगळें सगळें परतून बरोवचें पडलें...

उणे म्हणून त्या घाणयाऱ्या उदकांत भिजिल्या ताच्या केसांची अशी जटा जाली... कश्शीच सुटना. शेवटाक पार्लरांत गेलें. थंयय जटा सोडूंक आयली ना. मागीर दोळ्यांत उदक काडून केसांचो बॉबकट करूंक मान्यताय दिली.

पावसांतल्यो त्यो यादी बरयतना ताणे म्हाका बरयिल्लें – पावस कमी जातकच भाजी – बाजार हाडपाक वतलें म्हळ्यार सगळ्याक हळशीक. घाणयाऱ्या रस्त्यांवेल्यान घाणी घेत वचपाचें... नाकाक लायिल्लो लेंस कुशीक काडनासतना भोंवतां... घरा येवन पयलीं न्हातां, कपडे बदलतां. मागीर बाकीचीं कामां...

म्हाका याद जाली, ट्रेनीन माजोर्डेच्यान मडगवां शिकूंक वतना... त्या जयाम्हऱ्यांत काळो मनीस, व्हडल्या मिशांचो मनीस, सिगाराचो वास येवपी... लागीं बसूंक जायना आसले. नुस्तेकान्नीच्यो घाणी ताका येवक जायना आसल्यो. रोकडोच लेंस नाकाक लावन, दोळ्यांत दुकां हाडून आमच्या तोणाक पळवप. पुष्पा मागीर ताका आमच्या दोगांच्याय मदीं बसोवन कशेतरेन सांबाळून ताका घरा व्हरप. ह्या जयान ह्यो असल्यो घाणी कशो सोसल्यो जातल्यो?

हे फोन चालू जावचे पयली सदांच पत्रांतल्यान सगळ्यो खबरी आमी एकमेकांक बरवप जाताले. पयली थरून अकरावीमेरेन सगळें शिक्षण मराठी मिडियमांतल्यान... पूण पत्रां बरोवप सदांच कोंकणींत. ल्हान आसतना चीट बरोवप, तिची घडी करप आनी दुसऱ्या कागदांत गुटलावन गम लावन डकवप... असलीं पत्रां घरा धाडप. भावांनी बी त्या पत्रांक 'घट्ट पत्र' म्हणून नांव दवरिल्लें. दुसऱ्या कसल्या भाशेंत चीट बरवप ना. भावोजीन – व्हडल्या भयणीच्या घोवान ताका मराठींत पत्र बरोवप... पूण हाणे ताका कोंकणीतल्यानच उत्तर धाडप..! गोंय सोडून मुंबै गेले. पूण मनान तें गोयांतच उरले. लग्न जावन मुंबै वतना स्व. भौ. मनोहरबाबान ताका म्हळ्ळें – 'मुंबय वता मुगो? जालें... आतां तुजी भास निवळ कोंकणी उरपाक कुस्तार. कॉस्मोपॉलिटियन भास जातली पळय तुजी. तुज्या भुरग्यांक कोंकणी उलोवक लेगीत येवची ना.' तेन्ना जयमालान तांकां सांगिल्लें –

– 'ना सर. हांव म्हजी कोंकणी केन्नाच विसरचें ना. आनी म्हजीं भुरगीं जातली तीं लेगीत कोंकणीच उलयतलीं...' खरेपणान ताचीं दोगय भुरगीं कोंकणी उलयतात. आनी मुंबै जायत्या कोंकणी कार्यावळींनी भाग घेवन ताणी बक्षिसांय मिळयल्यांत.

केन्नाय हांवें ताका बरवप – 'मुंबयच्या ह्या गडबडकाल्यांत केन्ना बरयता गो तू. विशय सुचतात तरी कशे तुका?...' तेन्ना ताणे बरयिल्लें – 'अशेच गो... रातचें जागे जाले... उठप... रातचेंच बरोंवक बसप... कीचनांत गॅसार कुकर चडयतकच थंय स्कूलार कागद दवरप... तकलेंत आयिल्लें बरवप... विशय भौवतणी आसतातच...!!'

खऱ्यानीच ताका अमूकच एक विशय सोदपाची गरजच पडना. ताचें लग्न मुंबै जालें – ट्रेनीन सगळीं मुंबय वतना ताणे आपली सगळी शिवण एका बॅगांत भरून मुंबय व्हेल्ली.सगळ्यो बॅगो सुरक्षित. फक्त ताची शिवणीची बॅगच कोणे उबारिल्ली. सगळ्यांक वायट दिसलें. दोळ्यांत दुकां



आयली. इतल्या त्रासांनी केल्ली शिवण शेणली म्हणून रडले लेगीत...

थोडयाच दीसांनी जयमालाचो कोमिक सो लेख – 'आनी म्हजें बॅग शेणतां' आकाशवाणीचेर प्रसारीत..!! 'करबट' ह्या संग्रहांत तो लेख आसपावता.

जीणेतलीं सुखां भोगतना दुःखांकय ताणे ज्या धडाडीन तोण दिलां ताका तोड ना. भावोजीचो हार्ट अॅटॅक... ताचें ऑपरेशन... ताची पथ्यां... ताच्यो त्यो रासभर गुळ्यो... सकाळी, दनपरां, रातच्यो... जेवचे पयलीं, जेवणानंतर... त्या काळांत असलीं ऑपरेशनां खूब विरळ. दीस केन्ना उजवाडता... केन्ना सोपता... कळच नासलें...!!

उणे म्हणून ताचीं स्वतःची दुखणीं... तकली फोडप आनी तोण एकावटेन पुराय काळेंनिळें जावन सुजप... दीसांचे दीस न्हिदून रावप... चार दीस अशे – चार दीस तसे... तातुंतल्यान वाट काडप... तातूंकच आपले जमता तशे लेखन करप.

गोयांत येतना खांद्यावेल्या पर्सींत उदकाच्या बाटलेबरोबर दोन पोतड्यो... गुळ्यांनीं भरिल्ल्यो... एक भावोजीची... एक ताची... विचारल्यार म्हणप... जीवनावश्यक वस्तू आमच्यो... हवा, पाणी, अन्न आनी ह्यो गुळ्यो...!!

– आतां संजना प्रकाशनाचे वतीन जयमालाचो आनीक एक कथासंग्रह येवपाच्या मार्गार आसा अशें ताचेकडल्यान आयकलां.

आमच्या अपुरबायेच्या जयाची लेखणी अशीच सदैव चलत रावची अशे देवाकडेन मागतां!

•••

(पान २९ वयल्यान)
एक फावट वाचून प्रस्न तयार करप. खंय शूटींग करप हाची वळेरी तयार करप. रवीन्द्रबाबाच्या माहितीपटाखातीर शूटींग खूब वेळा जालें. तेन्ना हांवे contunuity पळयताले. पयलीं मुलाखत घेतली. मागीर एक दीस घराचें शूटींग. कांय वर्सांनी तांका ज्ञानपीठ मेळ्ळे, तें शूटींग निमाणें जेन्ना रवीन्द्रबाब गेले तेन्ना तांच्या अंतयात्रेचें शूटींग लेगीत केलें. माहितीपटाक वेळेचे बंदन आसना. जितलो चड काळ तुमीं एका माहितीपटांत दाखयता, तितलो चड प्रभावी थारता.

मम्मीखातीर जायत्या लेखकांचो सहवास मेळ्ळो. तांतूतली एक गोंयची राज्यपाल डॉ. मुदुलाजी सिन्हा तांचें साहित्य

# नातें सासणाचें

म्हाका खूब आवडटा पूण तांचें उलोवप चड आवडटा. मम्मा जेन्ना राजभवनांत वता हांवूय तिज्या बरोबर चडशें पावट वता. वळख वाडोवप होय मम्माचो एक बरो गूण. राजभवनांत जाल्ल्या एका कार्यक्रमावेळार राज्यपालांची वळख जाली. मागीर मम्मान तांच्या 'बिटिया हे विशेश' ह्या पुस्तकाचो अणकार केलो. मदीं-मदीं तिणें बरयल्ल्या कांय लेखांचो अणकार मम्मान केला. अशें करत तांची वळख वाडत गेली. मम्माच्या तीन पुस्तकांचें राजभवनांत प्रकाशन जालें. बिटिया हें विशेश ह्या पुस्तकाचें राजभवनांत वाचन जालें. राज्यपालान हिंदी वाचलें जाल्यार मम्मान कोंकणी अणकार वाचलो.

नाटकां, फिल्म आनी माहितीपट करप हेंय मम्मीच्या जिविताचो एक भाग. दौलत फिल्माच्या शूटींगावेळार हांव नेमान वतालें. कोणाक कितें जाय नाका तें पळोवपाची थोडी जबाबदारी म्हजेर आशिल्ली. मरेपर्यंत फाशीच्या शूटींगावेळार तर हांव मम्मा बरोबर मुंबय लेगीत गेल्लें. पूण फिल्म वा नाटकाकडेन हांव केन्नाच आकर्शित जालें ना.

हांव मम्मा कडल्यान खूब शिकलां, शिकत आसा. तिजो समतोलपणा म्हाका आवडटा. तिजें सगळें वेवस्थीत, निजोजनबद्ध आसता. कार्यावळीचे नियोजन आसू वा घरांत कोणूय जेवपाक येवपाचो आसू, सगळें तिणें थारायल्या प्रमाण शिस्तीन जावपाक जाय. परदेशांत वतना गुळयो एकाच बेगात घालीनासतना एक-एक सेट सगळ्या हातांत धरपाच्या बॅगांनी घालता. केन्ना-केन्ना लगेज शेणटा. तशें जाल्यार धांदळ जावपाक जायना.

तिका एक वेगळी नदर आसा. आमच्या कुंकळ्येच्या घरांत १०० तें १५० वर्सा पयलीचीं आयदनां आशिल्ली. मम्मान तीं सगळीं तिवऱ्या (आमी रावता त्या घरांत) हाडल्यात. त्या आयदनांनी म्हज्या पणजेचो पानाचो डबो आसा. म्हज्या पणजेन, आज्जेन वापरील्ली आयदनां आसात. १०० एक नग आसात. तिणें ती हाडूं नाशिल्ली जाल्यार आमच्या घराण्याची ती आयदनां पळोवपाक लेगीत मेळची नाशिल्ली. म्हाकाय अशी पोरणी आयदनां, वस्तूं एकठांय करपाक आनी सांबाळपाक आवडटा म्हूण ती समाधानी आसा.

भुरगीं कशी घडटात वा इबाडटात हें खूब आवयचेर निंबून आसता. भुरगे हें जग पयली आवयच्या दृश्टीकोनांतल्यान पळयता. म्हत्वाचे म्हळ्यार तें स्वतःक लेगीत आवयच्या नदरेंतल्यान पळयता. नकळत आवयची देख घेता. आवयच्या

पप्पा आनी मम्मा हांचे स्वभाव सामकें वेगळे. पूण पालक म्हूण तांचीं मतां सामकीं जुळटात हाणें म्हाका अजाप जाता. भुरग्यांखातीर जे निर्णय घेवपाचे आसतात ते बाबतीत तांचे विचार सदांच एक आसतात. मम्मा जरी भायल्यातल्यान घट्ट दिसता तरी तीं सामकीं संवेदनशील, हळव्या मनाची. पप्पा मात मानसिक नदरेन घट्ट. उदार आनी स्पश्ट मतां आशिल्लो. सदांच सहकार्य दिवपी. मम्माचो ताका सामको अभिमान.
दोगांयचेंय क्षेत्र सामकें वेगळे. पप्पाचो बॅकरीचो वेवसाय आशिल्लो. 'साईश बॅकर्स' नावाची बॅकरी आशिल्ली. पप्पाच्या हाता सकयले जायत्या जाणांनी प्रशिक्षण घेतला. बॅकरेंत तयार जावपी बिस्किट्यो, पॅटिसां, कामगार करताले. पूण आमच्या वाडदिसाक मात केक पप्पाच करतालो. आयजूय करता. Standardization ताजी खासीयत. ताणें केल्लो केक सदांच एकाच सारको जाता. एक दीस बरो, एक दीस वेगळो अशें ना. ताज्या हातचो केक खाल्लो मनीस दुसरो खंयचोच केक तितल्या आवडीन खायना. बायपास जातकच पप्पान बॅकरी भाड्यान चलोवपाक दिली. आता पुराय बंद केल्या. ताका ताज्या कामाची, बॅकरेची याद येता काय ना खबर ना. पूण निवृत्त जातकच ताजें वेगळें जग तयार जाला. पूण मम्मीक आनी म्हाका मात ताजे पुराय सहकार्य आसता. पयली सावन मम्माच्या दर एका कार्यक्रमांत ताजो सहभाग, सहकाय आसतालेंच; आयजूय आसा. मम्माक, म्हाका वा कांय खास मित्र परिवारांतल्या कोणाक केक खायन दिसत जाल्यार तो केक करता.
पप्पा सामको समतोल मनोवृत्तीचो. टिका आयल्यार ताका व्हडलेशें वायट दिसना आनी पुरस्कार मेळ्ळे, तोखणाय जाली जाल्यार ताका खोस जाता; पूण भूलीसून वचना.
संदेशभाई प्रभूदेसाय तशेंच मम्माच्यो मैत्रिणी प्रशांतीबाय तळपणकार, उज्वलाबाय तारकार ताका भावोजी म्हणटात. ताकाय कोंकणी लेखक, कोंकणीचे लोक खूब आवडटा. उदयबाबाच्या वक्तृत्वाचो तो सामको चाहतो. पप्पान आनी हांवें 'कथा- अस्तुरी' नाटकाचे सगळे प्रयोग पळयल्यात. एखादो संवाद जर घेतलो ना जाल्यार मागीर तो रोखडोच सांगतालो. मम्मा बरोबर कोंकणीच्या सगळ्यां कार्यावळींक तो आसताच.

संस्काराचो भुरग्यांचेर खूब प्रभाव पडटा. दर वर्सा चवथी पयलीं आमीं घरां नेवऱ्यो करतात. दर वर्सा पुरुमेंत करतात. हें सगळें म्हाका आनी भयणीक कळचें म्हूण. तिका व्हडलेंशें रांदपाक आवडना. पूण कांय थळावे जिनस - जशें कणागाच्यो नेवऱ्यो, धोणस, तवसळी ती वर्सांतल्यान एकदां करता. कामाक येवपी बायलां, घरात आसपी भुरग्यांक तीं खूब बरी वागणूक दिता. तीं खूश आसत जाल्यार बऱ्या तरेन काम करतात अशें मम्माचें मत. तांका एक मनीस म्हूण वागणूक दिवप. तांचे अजिबात आवाज चडोवप ना. जें जें घरांत शिजता, तें सगळें तांकाय दिता. कसलोच भेदभाव ना. तेच तांच्यो समस्या सोडयता. तेच खातीर आमगेर कामाक आयिल्ली खूब वर्सा टिकता. आता रांदपाक जी बायल येता तिका १५ वर्सा जाली. तिजें नांव मीरा.

मम्मा नात्यांक खूब म्हत्व दिता. आमींय बी दिवचें असें तिका दिसता. आत्यान दोन दीस फॉन करूंक ना जाल्यार तीं म्हाका फॉन करपाक लायता.

नातें जपपाक एका-मेकाच्यो आवडी-निवडी जपपाक जाय. म्हाका याद जाता म्हाका क्रिकेट आवडटा म्हूण मम्मा म्हज्या बरोबर one day match पळोवपाक आयिल्ली. केन्ना-केन्ना हांवूय तिज्या बरोबर लग्नांक वां खाजगी समारंभाक वता. तिजे बरोबर हांव आयिल्ले तिका आवडटा. आमी जायत्या विशयांचेर चर्चा करतात.एखादो लेख वा पुस्तक वाचलें म्हणटकच तें एक-मेकांक सांगतात. हांव आत्मचरित्रां चड वाचना, पूण मम्मान खूब वाचल्यांत. ती एखादी आपजीण वाचतकच म्हाका भितर कितें इंट्रास्टिंग आसल्यार सांगता. तशेंच कोणाचें कितेंय वायट दिसलें वा चुकलें जाल्यार आमी ताजेरुय उलयतात. बरोबर सिनेमा पळोवपाक वतात. नात्यांत संवाद खूब म्हत्वाचो. आमच्या नात्यांत तो सामको म्हत्वाचो थारला.

तशे आमचे जायते मतभेद आसात. आमचें स्वभाव सामकें वेगळें. मम्मा खूब प्रॅक्टिकल, हांव न्हय. तिका एका दिसांत चडांत-चड कामा करपाची आसता. हांव मात्शें सुशेगाद. हांगाच आमकां एका मेकाचें पटना. तीं गाडयेंत बसता तेन्ना वाटेभर कामा निमतान फोन करत आसता. म्हाका गाडयेंत बसतकच रस्तो पळोवपाक आवडटा. पदां आयकुपाक आवडटा. तीं प्रवासात वा दोतोरागेर वतना पुस्तक व्हरता. कोणा खातीर तरी रावप, मागीर तें विमान आसू वा दोतोर तिका आवडना. त्या वेळांत पुस्तक वाचता. हांव तिका हाली मात्शी slow down जा म्हूण सांगता. पूण तिका तें पटना.

जशें मम्मीन म्हाका वाडटना पळयलां, तशेंच हांवेय तिका घडटना पळयला. एक लेखिका, निर्माती, अभिनेत्री म्हूण पळयल्या. भाषणां आयकल्यात. तिजी धडपड, मेहनत, कश्ठ पळयल्यात.

जायते पुरस्कार घेतना पळयल्यात. पूण हो सगळो प्रवास पळयतकच आजूय ती पयलीचीच मम्मा हें जाणवता. म्हजेमुखार तिजें जें रुप उबे रावता ते फकत एका हळव्या आवयचें.

खूब जाण तिज्या वयाविशीं विचारतात. तें कितलें ते मात हांव सांगचें ना. कांय जाण म्हणटात ती आजून तशीच आसा. पूण म्हाका दिसता ती वय वाडटा तशीं चड बरी दिसपाक लागल्या. मुळांत तिका टापटिप रावपाक आवडटा. तीं अशींच Gracefully जाण्टी जावची अशीं म्हजी इत्सा आसा.

●●●

---

(पान ३१ वयल्यान)

आपूणूय ताचेबरोबर आपले ताट घेवन सकयल जेवपाक बशिल्लो हांवे ताका पळयला. ताणे अशे केल्ल्यान घरच्यांनी सगळ्यांबरोबर वावराडेकूय मेजारूच जेवपाक वाडप सुरु केले. असली ल्हान ल्हान बंडा ताणे घरांतूय केल्यांत.

मां केन्नाय सांगता, लग्न जांवन आपूण सावयवेऱ्या घरा आयली तेन्ना खूप पयलींच्यो प्रथा आशिल्ल्यो. देखीक, बायलांनी, घरांतल्या जाणट्या फुडे वासरेंत बसप ना. कदेलार बसप ना, चुडीदार घालून बाजारांत वचप ना. आनी

## उत्साही आनी आनंदी

सगळ्यात ना आवडपी गजाल म्हळ्यार बायलांनी नोकरी करप ना. ह्यो असल्यो सगळ्यो प्रथा आमच्या घरांत पापानूच मोडल्यात, देखून घरच्यांक तें तेन्ना तितलेशे आवडू ना. पूण आता तांगेल्योच नव्यो सुनो आनी धुवो हे सगळें करतात, नोकरी करतात, सगळेतरेचे मोडर्न कपडे घालतात, ते पळोवन सगळ्यांत चड उमेद पापाकूच जाता.

केन्नाच आपल्या भुरग्यांखातीर वेगळे नियम आनी बाकिच्यांच्या भुरग्यांखातीर वेगळे असलो ताचो सभाव न्हय. जें आसा ते सगळ्यांखातीर सारकें ! बंधनांच्या पासांत कोणाकूच धुस्पावन दवरिल्ले ताका आवडना.

आयज आमच्या घरांत दोतोर, इंजिनियर, आर्टीस्ट, फरर्मास्टीस, गव्हरमेंट नोकरी उचपदावेली करपी जायत्यो सुनों आनी धुवो आसात. तांका एकवेळ हे खबरुय आसचेंना की घरांतल्यो रुढी परंपरा बदलपाक आनी बायलांचे जीवन सुरळीत करपाक पापान तेदेवेळार कितली वायट उतरां घेतल्यां आमी सोसलां ते.

सुविधा बऱ्यो आसल्यो की तांचे नाव

सगळेच घेतात पूण त्यो सुरु करपाक त्रास घेवपाचे धाडस खूप कमी लोक करतात. म्हाका पापाच्या ह्या वावराची तोखणाय आनी अभिमान दिसता. दरेक घरांतल्या मनशाचेर प्रेम करपाचो ताच्यात एक वेगळो सभाव. केन्नाय मतभेद जाले म्हणटकर तो म्हणटा की ते त्या विशयापुरतेंच हे ताचे मत. घरांत तशेंच भायल्यां कडेनूय तो मनशाचे अवगूण केन्नाच धरून बसना. कितेंय करून ताचे बरे गूण सोदता, त्या मनशाक ते जाणीव करून दिवपाचोय पूराय यत्न करता.आनी तांच्या बऱ्या गुणांचेर घरांतल्या सगळ्यां सोयऱ्यांची खबर घेता. तांच्या वाडदिसाची तारीक ताका याद नासत, पूण त्या मनशांची ताका वेग वेगळ्या खिणाचेर याद जाता. आनी भुरग्यांक खबर आसचे म्हणून घरांतल्या दरेकाचे खाशेलेपणून आमंका सांगल्याबगर रावना.

फोन करून खबर घेवपाक वेळ ना! असले तांच्या डिशनरींत ना. आमीय तशें केन्ना केल्ले ताका आवडना. मॅसेज करून उलोवपूय ताका मानवना, एकामेकांकडे खूप तेपांन उलोवपाचे आसल्यार ताचो आवाज आयकलेबगर कनॅक्ट जायना अशे तो म्हणटा.

घरांतल्या जाणटेल्यांचेर ताचो उफाट मोग खरें म्हळ्यार आयच्या धावत्या युगांत जाणटेल्यांचेर आजी आवय बापायक वेळ दिवपाक, कोणाक फावना हाची खंत तो सदांच करता आनी निश्चितूच आपले परीन तो अशे जावचे न्हय म्हणून यत्न करता. जिते असतानाच मनशाचेर मोग करप! मेले उपरांत, शांत होम बी करपांत अर्थ ना अशे तो सदांच मानता, देखून कोणाकूच वायट उतर दितना हावे ताका पळोवंक ना. ताका कितलेंय तिडकीन जरी कितेंय सांगचे पडले जाल्यार तो गोड उतरांनीच ते सांगता. हातून ताची चड कळाशी मोट्यान आवाज करून झगडटना हांवे केन्नाच ताका पळोवंक ना. ताका केन्नाच राग येना असो न्हय, पूण रागाचेर नियंत्रण आनी राग व्यक्त करपाची ताचे कडेन वेगळी कला आसा. ताची कविता हीच ताका खूपशा प्रस्नाच्यो जापो दिता. आनी मदत करता.

आयच्या काळांत बापायक भुरग्यांखातीर वेळ मेळना जावप खूप सभावीक. दरेकलो पयशांचे फाटल्यान आसता, मुद्दाम जावन अशे न्हय पूण नकळत फॅमिली कडे दुर्लक्ष जाता. खरें म्हळ्यार पत्रकारांक तर चौवीस वरां काम आसता म्हळ्यार अतिताय जावचीना. पूण आमचे बाबतीत अशें केन्नाच जावंकना. तांणे आमकां दिवपाक मेळटा ताचे परसूय चड वेळ दिला. म्हेज्या आनी म्हजे भयणीच्या वाडदिसा जाल्यार तो खंय भायर वचे पडले जाल्यार सुध्दा वचना. तो दिस आमचेखातीर आमचेबरोबर घरांत घालयता. म्हत्त्वाचे काम आसत जाल्यार लेगीत ते फुडे धुकलता.

ताची पत्रकारितेचे नोकरेंतल्यान तो कसो वेळ काडी ते म्हाका खबर ना, पूण सदांच आमी रातची बरोबरच जेवताली, पापा आयले बगर हांव केन्ना जेवपाकूंच वचनाशिल्ले.

खरें म्हळ्यार हांवे ताका म्हज्या म्हत्त्वाच्या सगळ्या परिक्षा वेळार खूप त्रास दिला. ते म्हाका आता कळटा आनी म्हजेरूच हांसपाक येता. परिक्षे वेळार मातशे नर्वस बी आसल्यार हांव ताका म्हऱ्यांतूच बसपाक लायताले. तो बसलो की म्हाका भंय दिस नाशिल्ले. थोडीशी पिशेंपणाच करी हांव, एका मार्काचे लेगीत पेपरांत चुकयले जाल्यार म्हजें तोंड वाकडे जाताले. सगळ्या पेपरानी फूल मार्क पडपाक जाय असो म्हजो नस्तो हट्ट, तांतून आनी जर पेपर मातसो वायट गेलो जाल्यार चडूच डिस्टर्ब जावप. परिक्षेवेळार खूप टॅन्शन घेवपाची म्हजी ती वायट संवय! तेन्ना दर परिक्षे वेळार पापानूच म्हाका




घेवन वंचप आनी पेपर सोपले उपरांत घरा हाडप हो नित्यक्रम तो न चुकता पाळटालो.

म्हजे पेपर सोपचे आदी परिक्षा. हॉलाच्या भायर येवन रावतालो. फक्त म्हजे हॉलातल्यान भायर सरतना तोंड हासते आसा कांय वाकडें आसा इतलेच कळपाक जाय म्हणून तो बेगीन येतालो. हांव हासत भायर आयलें की तोय हांसतालो. पेपर कसो गेलो ते आनी म्हाका ताका सांगपाची गरज पडनाशिल्ली.

आनी सगळ्यात मजेची गजाल म्हळ्यार हांव धावेक आनी बारावेक कितले पर्सेंट मार्क मेळयतले हें तो परिक्षा सोपले उपरांत म्हाका सांगतालो आनी तो सांगता तितलेच मार्क, म्हाका पडटाले. हरशी ताचे गणित सामकें विक पूण हे मार्काचे गणित तो कशें मांडटालो ते मात म्हाका कळूंक ना! म्हजे मार्क आनी पयशांच्यो नोटी मेजप सोडून दुसरे खंयच्याच गणिताचे भानगडीत पडपाचे धाडस तो केन्ना करिना!

पापाक लागून खूब बऱ्या लोकांबरोबर म्हजो संबंद आयलो. ताचे शेकड्यांनी मित्र. पेडणे ते काणकोण मेरेन खंयच्याय वाठारांत वचू ताचे वळखीचो एक तरी मनीस मेळटलोच. पयली ल्हान आसताना म्हाका हे गजालीचे खूप अप्रुप दिसताले. केन्ना केन्ना हांव ताका विचारतालें, पापा कोण तो? सरळ आपूण ताका वळखूना, वा नांव खबर ना अशें केन्नाच

तो सांगना. पूण म्हाका दिस्त समजताले. पूण उलयतना दुसऱ्याक ते कशेंच जाणवूपाक तो दिना. ज्या विशयाचेर तो दुसरो उलयता ताचेर आपूणूय आपलो सूर लायता, देखून फुडल्या मनशाक हो आपणाक सारकोच वळखता कसो दिसता.

कोणाकडेन फोनारुय उलयतना, तो फोन करप्याचे उलोवन सोपले बगर फोन दवरिना. आपले कितलेय म्हत्त्वाचे काम आसल्यार लेगीत तो ते करिना. जेवपाक बशिल्लो उठून लेगीत फोन उबारता. उबाळ्ळे उपरांत, आपूण जेवतालो. मागीर परतो करता, अशेंय तो सांगना. चडशेवेळार हे फोनांतल्यान ताचो कांयच फायदो जावपाचो नासता पूण तो कोणाकूच किकोत करिना. आमचेकडेन मात सहसा हें शक्य जायना! आमी काम आसल्यारूच फोन उबारतात! आनी तांतूत अननोन नंबर आसल्यार जाल्यारच चडशे जाण उबारिच नात.

घरांत तुवालो, बानयन खंयी उडोवप, पेपराचे चिटारे हेवटेन तेवटेन उडोवप असल्यो संवयी ताका नात. कसलीय कागदपत्रा वा वॉरेंटी कार्डा बी सांबाळून दवरपाची ताका आवड ना, पूण ताणे आयजवेर खूप मोठे डॉक्युमेंटेशन केला. ते म्हळ्यार ताच्या जिवितांत आयिल्ल्या दर महत्त्वाच्या खिणांचे आनी मनशांचे ! ताचे, कवितेंत आनी निबंधानी ते निश्चित आमकां वाचपाक मेळटा. ताचे भुरगेंपण त्या वेळावेली गरिबी. तेन्नाच्यो वायट संवयी. गावांतल्यान शारां मेरेनचो प्रवास, कोंकणी चळवळ, पत्रकारिता हे सगळे विशय ताणे हाताळ्यात आनी समाजाक सत्य घडणुको वाचूक मेळच्यो ही ताची सदाची धडपड हांवे पळयल्या. जिवितांत सगळ्यो महत्त्वाच्यो गजाली मेळयले उपरांत जी एकूच गजाल मेळूंकना ताचीच खंत ताका चड जाता आनी किते मेळयला ताचो आनंद उणो जाता. अशीच एक ताचीय खंत केन्ना केन्ना ताका सतायता, ती हांवे पळयल्या, ती म्हळ्यार ताच्या काय आवडट्या मनशांच्या प्रेमाच्या, मायेच्या सोदांन तो अजून आसा. ते मेळोवपाखातीर ताणें खूप यत्न केल्या. म्हाका खबर आसा कि जायते वेळार ताका पार्टी बी करपाची नसता, पूण फक्त सगळी घरची एकठांय जावची म्हणून तो स्वतः सगळे पयशे मोडून आनी आपलो वेळ दिवन जायते कार्यक्रम करता. पूण न्हिदिल्या मनशाक खंय उठोवपाक मेळटा पूण न्हिदेचे संवंग करतल्याक उठोवप कठीण !म्हणटकच जांका कळून लेगीत ना कळपाचे नाटक करता असल्याचो मोग कित्याक जाय अशें म्हाका दिसता. पूण तो मोग निस्वार्थी पणान करता, तेन्ना ताका ते करनाका तरी कशे सांगपाचे? ताणें आयज वेंर निस्वार्थ पणान लोकांक मदत केल्या. कोणाची बदली आडयल्या, आपले वळखीच्या कितल्याशाच जाणांक नोकऱ्यो दिल्यात. कांय जाण ताका विसरल्याय बी पूण कांय जणांनी ताची यादूय दवल्यात. बरें काम कोणे याद दवरचे म्हणून करप अशें तो मानिना. ते करतकच रातची म्हाका न्हिद बरी पडटा देखून आपूण ते करित आसा, अशें तो म्हणटा.

कोंकणीचे मळार साहित्याच्या मळार वा ताच्या जिवितांत ताणे केल्ल्या कार्याचे मेळपाक जाय तितले फळ ताका निश्चितूच मेळूंकन पूण ते मेळूंक ना म्हणू निराश जाल्लो हांवे ताका केन्नाच पळोव ना. केदेय व्हडल्या संकटातल्यान वाट काडपाचे ताचे वृत्तीतल्यान हांव स्वतः खूप प्रेरीत जाला.

ताचे वय जशे जशें वाडटा तशे यशाच्यो सगळ्यो तेगंश्यो तो गांठत वचूं अशें म्हाका ताची धूव म्हणून सदांच दिसता, पूण जितले आसा तांतूतय तो सदांच उमेदी आसता आनी उमेदीनूच रावतलो, हे म्हाका खबर आसा !

●●●

## कांय नातीं पुस्तकांचींय..

**(पान ३३ वयल्यान)**

दर एका पावंड्या वयल्यो यादी वाचिल्लूया पुस्तकावयल्यान याद उरतात. रविन्द्रबाब केळेकार हांच्या निमण्या दिसांनी केन्नाय मम्मा सांजे म्हाका प्रियोळा तांच्या घरा घेवन वताली. तांच्या खबरो चलताल्यो पूण हांव तांच्या वाचनालयांतल्यान पुस्तकां वाचीत उरतालों. तेन्ना रविन्द्रबाब कांय वेंचीक पुस्तकां काडून म्हाका दवरताले. गांधी, लोहीया, जयप्रकाश नारायण अश्या साबार व्यक्तींची पुस्तकां ताणीं म्हाका वाचपाक दिल्लीं याद आसा. खंयचे आरमारींत खंयचें पुस्तक आसा हें तांकां बेस बरें याद उरतालें. एकदां ताणी म्हाका जयप्रकाश हें संग्रहीत पुस्तक दिल्लें, कांय तेंपान तांची भलायकी खालावली आनी पुस्तक दिवपाक आमची परत भेट जाली ना. तांचे तें पुस्तक म्हजे लागींच उरलें.

सोमनाथ कोमरपंत हे मोठे विद्वान, तांचो आनी म्हजो संपर्क केन्ना येवंक ना. तशो आमच्या घरांत कौटुंबीक कार्यावळी कमी आनी चळवळींतल्या लोकांची यो वच चड. देखून आपल्या लोकांचीच केन्ना पुराय वळख जावंक ना. भाईमामा आनी गजामामा हे मम्माचे सगळ्यांत व्हड भाव. भाईमामा म्हळ्यार विशणूदास धुमटकार हो फ्रेंच भाशेचो जाणकार आनी गजामामा म्हळ्यार गजानन धुमटकार हो सुरवातेच्या काळांत थोडो भोव ट्रेड युनियनीस्ट. दोगूय आयज संवसारांत ना. एक दीस अशेच खंयचेतरी कार्यावळींत

म्हजें भाशण आशिल्लें. सामाजीक चळवळींतल्यानूच एकंदरीत अभ्यासाची सुरवात जाल्या तेखातीर थोडो भोव भौतीकवाद उलोवपांत झळकता आसूं ये. सोमनाथ सरान म्हाका उलोवपा-जाल्या उपरांत आपयलो आनी सांगलें, विश्णूदास आनी गजानन दोगूय रातचे नायट कॉलेजींत येताले, अर्थशास्त्राच्या तासाक मुठी बांकांक तेकोवन प्राध्यापकां कडेन देशाच्या आर्थीक प्रस्नांवेल्यान वाद घालताले.

आमच्या जिवीतांत कांय नातीं लिपील्लीं आसतात, पयशिल्लोय संबंद नासता, पूण कांय बींदू जुळयल्यार थोडो तरी थाव लागूं येता. मळबांत नखेत्रांचो संबद लागचो तसो. कॉलेजींत आसतना अर्थकारणाच्या वर्गांत प्रध्यापकांक घेरपाचे घे म्हण प्रस्न. एक दीस प्राध्यापकान वाजेवन युगांक तूं एक तर कम्युनीस्ट जा, वा इकॉनोमीक्साचो विद्यार्थी जा अशें म्हण म्हाका शेडायलो, म्हाका समजल्लें हांव मुद्दो जिकलों. दुसऱ्या दिसा अर्थकारणाचो वर्ग लागचे आदीं वर्गाच्या फळ्यार 'उेीरवश चरे ळी ी उहरळीरप' अशें आमी कांय जाणानी बरयिल्लें. सोमनाथ सरानी भाईमामा आनी गजामामान हांच्यो सांगलेल्यो गजाली काळजांत भीडल्यो. आजूनय मम्मान केन्ना तरी अभ्यासाखीर हाडिल्लें भाईमामाकडेन आशिल्लें 'खपवळरप एलेपू' पुस्तक आरमारींत आसा. मनीस संवसारांतल्यान वता पूण पुस्तकां हीं एके व्यक्तीकडल्यान दुसऱ्याकडेन वतात, यादी निर्माण करतात, नात्यांचीं जाळीं विणटात.

●●●

# थीर, मूल्यांचेर घट विश्वास!

– प्रज्ञा केणी नायक




पप्पा–ह्या मनशाविशीं हांव कितें बरोवं–जाणे म्हणजे जिणेंत मोग, खर तत्त्वा आनी आत्मविश्वास तशेच अजापाची मनाची घटाय भरभरून ओतली. ताणे म्हाका स्वाभिमानान जियेवक शिकयला. खर निश्चेव आनी सकारात्मकताय. खूब बरोवं येता, खूप सांगू येता, पूण हांव खंयच्यान सुरू करू?

तो एक वेगळेच भशेन मनीस, सामको जादूगाराभशेन ताचे व्यक्तीत्व. तो सामको खाशेलो, दैवी देणगीच लाबिल्लो, दरेक प्रश्नाची जाप ताचे ठाय आसली आनी वायटाचीय बरी बाजू ताका दिसताली.

गोंयान ताका एक फाकीवंत बुद्धीमान मनीस म्हणून पळयलो. एक खर कोंकणी भक्त, एक सिद्धहस्त लेखक आनी खडेगांठ पत्रकार. दुबावूच ना तो एक बुद्धीमान मनीस आशिल्लो–विचारवंतूय तितलोच तांकीचो, ते भायर दानशूर दयाळू. कितली तरी विशेषणां ताका लावू येतात, इतले सहजतायेन वेगवेगळे मुकुट घाल्लो, पूण कसलोच अहंकार नाशिल्लो! आनी म्हज्यान सामके अभिमानान सांगू येता की, घरांत भितर सरलो की तो सामको सादो मनीस जावन वतालो. आपल्या दोनूय धुवांचेर उपाट मोग करपी बापूय. जरी जग ताका 'चंद्रकांत केणी' म्हणून तोखणायेन पाचारताले, तरी तो म्हजेखातीर म्हजो– पप्पा. सदा हासरो, सदाच मोगान भरिल्लो आनी सहनशीलतेचो फसफसपी दर्या.

म्हाका याद जाता, हांव सदाच पप्पा घरात येवपाची वाट पळेत रावताले आनी एकदा तो भितर सरलो की ताच्या फाटल्या फुडल्यांत आसताले. तो न्हावपाक गेलो जाल्यार लेगीत हांव भायर उबे रावन दिसभराच्यो खबरी







ताका सांगताले, हांव सदाच-निमणेमेरेन सगळे ताचेकडेन गुफ्तगु केलां. हांव ताका खूप लागी आसले आनी ताचेर उपाट मोग केला. म्हाका दिसता हांवे ताचेविशी पूज्यभाव बाळगिला. म्हाका तो देवूच कसो. आनी हांव सरळ सांगूक शकता की दोन आमी भयणी भितर ताणे म्हजेर चड मोग केला. हांव तांचेखातीर कितेंय करताले. तांचे हांथूण घालताले, तांकां वखदां दिताले, न्हिदूंक वतना खाटीकडेन तांका पियेवंक उदक दवरताले. हांव लग्न जायमेरेन ह्यो म्हजो लागणुको आसल्यो. एक धुव म्हणून म्हाका तांकां खोशी आनी समाधानी दवरूंक जाय आसले.

ल्हानपणासावन हांवे पळयला- जेन्ना जेन्ना हांव तांचेबरोबर गेला, लोक तांका खूप मान आनी आदर दिताले. आनी एकफावट हांवे तांका म्हळे लेगीत, तुम्ही खूप भाग्यवान आनी कृपावंत. पूण ताणी ल्हवूच म्हज्या म्हन्यात येवन सांगले, हे म्हाका सगळे सोंपेपणी लाबूंक ना. हांव खूप दुःख, यातनांतल्यान गेला आनी म्हजेय जिणेंत खूप असुरक्षितताय आयल्या, सुख आनी आदरापरसूय चड! पूण यशस्वी मनशाकडेनय बरे मनीसपण आसूंक जाय. असो तांचो आग्रो आसतालो. तुम्ही कितलेय येशस्वी जावं पूण, तुमी जर बरे मनीस नासत जाल्यार या येसाक काय अर्थ ना, अशें तांचे म्हणणे आसताले. तांची ही उतरां म्हजे मनाचेर सासणाची कोरल्यात. तांणी बऱ्या मुल्यांचे म्हजेर संस्कार केले. तांणी म्हाका सदाच झुजारी जावंक, अडचणींतल्यान भायर कशें येवप ताचे शिकप दिले. खंयच्याय चेंपणाक बळी पडप ना. जीण म्हळ्यार सततचो संघर्ष आनी ताका सामकार वचपाक जाय ते प्रामाणिकपण आनी सोशीकपण- जे तुमकां कठीण समयार उपयोगाक येता, असो ताणीं शिकयले.

हांव तांचेकडल्यान खूप शिकलां, तांचे एक इशट आनी एक लागीचो लेखक हाणे तांचेर वर्तमानपत्रांतल्यान एकदा खूप खर टिका केली, पूण ते मेळटाले तेन्ना पप्पा तांचेकडल्यान सहजतायेण वागताले. तांची ही असली वागणूक म्हाका आजापित करताली, पूण तांणी म्हज्या मनार बिंबयले की खासगी आनी वेवसायिक जिणेंत फरक करूंक येवंक जाय. तुमी दुसऱ्याच्या सबावांत बदल करूंक शकनात. पूण आमचें आमी बदलूंक शकतात. हांव ह्या तत्वान चलता आनी देखूनच म्हाका म्हजे जिणेंत खूप लाव जालां.

पप्पान आमचेर अभ्यासाखातीर वा खंयच्याच बाबतींत कसले चेंपण हाडलेंना. ते खूप विशाल मनाचो आसले. आनी उदारमतवादी बापूय. पूण तांच्या मनात आमी फुडाराक कशी वागची हाची काय सपना आसली. म्हाका दिसता आमी तीच तत्वा आमचे जिणेंत आपणायली .आमी दोगूय भयणी खासगी जिणेंत त्याच तत्वांक धरून आसतात. कळत नकळत तशें घडत आसता. आमचे घर, आमची सोयरी, इश्ट मैत्रिणी हांकांय ताचो लाव मेळटा.

आमी ल्हानाची व्हड जाताली, तो काळ खूप मजेचो आसलो. म्हजे ल्हानपण तर खूपच खोशयेचे आनी उमेदीचे गेले. पप्पान आमची खूप देखभाल केली. आमकां बरें जेवण आनी जिणेंची सगळी सुखां दिली. खूपशी सुरक्षित जीण. ताणी आमकां केन्नाच सायकल वा बायक चलोवंक दिली ना. तांका सदाच भंय दिसतालो की कोण तरी येवन आमचेर आदळटलो. आनी आमचो पाय मोडटलो. पूणआमी स्वतंत्र आसची अशें तांका दिसताले, म्हणून तांणी आमी १८ वर्सांची जाली म्हण्टकीर आमकां मोटार चलोवंक शिकूंक लायली. तांणी आमकां कायच नाकारूंक ना. पूण हॉटेलांनी वचूंन खाल्ले ताका आवडनाशिल्ले. पूण ते एक आमकां आवडटाले. ती एकूच कागाळ आमकां आयकूंक मेळटाली. तो एक सादोसुदो मनीस, जांका घरांत रांदिल्ले जेवण आवडटाले.

तो जरी पुस्तकां आनी लेखनांत इतलो बुडिल्लो आसलो तरी ताणे आपले ऑफीस काम घरां केन्नाच सांगले ना आनी आमी ताचे भशेन जावचे अशेंय चिंतलेंना. ताका दिसताले आमी जिणेंत खोशी जावची, पूण आपली मतां आमचेर लादली नात. ताची एकूच अपेक्षा आसताली, आमी बरी मनशां जावचीं. जात, पात, धर्म पळैनासतना तांणी दरेकल्याचेर मोग केलो. लोकांचो आदर केला, गरिबांक, गरजवंतांक मदत करात म्हणून आमकां सांगले; मंत्री आसत वा घरांतली वावराडी, तांणी दोगांयकूय समान वागणूक दिली. दाखय-लिपय तांच्या सबावात नासले. कोणूय आमगेर येत जाल्यार तो ताची बरी सरबताय करतालो. ताका मित्र आवडटाले आनी तो इश्टागत पाळटालो. तांच्या विरोधकांनी तांच्या मतांचो दुस्वास केला आसत, पूण पप्पांच्या मनीसपणाक मात सगळ्यांची तुस्त लाबताली.

तो एक लांबचे पळोवपी, दूरदृष्टी अशिल्लो मनीस. तो तापट स्वभावाचोय आसलो पूण खूप थोड्या लोकांनी तांचो हो सभाव पळयला. कारण तो थंडय तितलोच वेगी जातालो.

हांवे सदाच मानलां की पप्पाक ईश्वरी देणगी लाबिल्ली. तो खूप बुद्धीमान आनी तत्वगिन्यानी. ताणे खूप धिरान तांचे जिणेंत आयिल्लया प्रसंगांक तोंड दिलां आनी हांव म्हजे आवयकूय ताचेखातीर खूप श्रेय दितां. तिणे तांचेफाटल्यान रावप सुख मानले. आनीक एका मनशाचो तांचे जिणेंत म्हत्वाचो आदार आशिल्लो, तो म्हळ्यार तांचे भाव अण्णा. सर्गेस्त गुरुदास केणी, 'अण्णा' म्हणून ताका आमी पाचारताली.

जाल्यार पप्पांचो तो 'गुरू' तांणी पप्पाक खूप भावनिक आदार दिला. तांचो पप्पांचेर खूप प्रभाव आसलो. अण्णान तांका खूप तेंको दिला आनी भुरग्यावरी सांबाळ्ळा.

पप्पा खूप खंबीर आनी आपल्या तत्वांचेर आदारून उबो रावलां. आपली तत्वा आनी मूल्यांचो केन्नाच तांणी अनादर केलो ना. पैशांचा ताका केन्नाच सोस नासलो. आपल्या कामाची तांणी पुजा केली आनी कोंकणी आनी गोंय ही ताची दैवता. ती ताच्या काळजांत म्हत्वाची सुवात घेवन घटमूट उबी आसली. प्रसिद्धीफाटल्यान तो केन्नाच धावलो ना, पूण तीच ताची फाट घेताली. तांका अर्धांगवायूचे दुयेंस जाल्ले, पूण निमाणेमेरेन तांचे मानसिक संतुलन इबाडलेना, आपणाचे ते अवस्थेंतय ते एखादो लेख डिक्टेट करताले.

ते वचून आता ११ वर्सा भर जाल्यात, पूण तांची याद आयलीना असो एकूय दीस गेलो ना. आयजूय हांव दोळे धापता तेन्ना म्हाका पप्पा म्हज्या सामकार उबो राविल्लयाभाशेन दिसता. तो म्हजेकडेन पळोवन हासता आनी म्हणिल्लेवरी म्हाका भास जाता, ' हांव तुजेच वांगडा सतत आसता, सतत आसतलो. तुजी राखण सासणाची करतलो.' म्हाका आनी म्हजे भयणीखातीर तो आसलोच इश्ट, एक मार्गदर्शक, एक पाठीराखो आनी जादुगार. तो अशी किते जादू करतालो की आमची जीण खोशयेन भरतली. पर्जळीत आनी परिपूर्ण जाताली.

पप्पान सदांच मानले की दोनूय चलयांर भीतर हांव चड धिटायेचे आनी ते नासतना हांव कुटुंबाची बरी देखभाल करूंक पावतले. हय हांवे ताच्या ह्या सपनाक वेर वचूंक दिली ना आनी हांव कुटुंबाच्या दरेक गरजांक पावलां. पूण हांव तांकां आता कशें सांगू, म्हाका तांचो म्हज्या खांद्यावयलो हात, जाय जायसो दिसता. तांचो आश्वासक हात जाणे म्हाका बळगे दिले आनी कठीण प्रसंगातल्यान तारून वचपाची शक्त.

पप्पा आयज म्हजेबरोबर नासत, पूण ताणे म्हाका खर तत्वां शिकयली, जाणी म्हाका जिणेंत फुडे वचपाची स्फूर्त दिली.

हाव पुनर्जल्मात विश्वास दवरनां; पूण हांव देवाकडेन मागन की हांव दरेक जन्मांत ह्या बापायल्या पोटांत जन्मात येवंदी. म्हाका खूप अभिमान दिसता की ह्या अशा मनशाचे रगत म्हज्या आंगांत व्हावता. म्हाका तांची धूव म्हणून घेवपाक खूप अभिमान दिसता.

हांव तुजेर खूप मोग करता पप्पा. हांव जियेता, पूण म्हजे जिणेंचो एक भाग तांचेबरोबरच ना जाला; आनी हांव तुका विश्वास दिता की तुमच्या तत्वांकडेन हांव केन्नाच तडजोड करचेना; म्हज्या जिणेंत निमाणे श्वास आसंमेरेन!

●●●









# रितो दीस

- विठ्ठल आवदियेंकार

आजय तरी कोणालींय लाकडां फोडपाचे काम मेळटलेंच हे आशेन गोपी सकयलो वाडो सगळो हेडून आयलें. पूण येवजिल्ले तशें जालें ना. दीस माथ्यार येता सो पळोवन तो परत्या पांयानीं घरा आयले.

आकांड्यानकडे उबो रावन पळय जाल्यार गोठ्यांत गाय मान उडोवन बसल्या. ती रंवथ करिनासली. करताली तरी कशी? पयर दनपार सावन तिणें तणां काडी पळोवं नासली. तिची नदर सारकी घरादा राकडेन लागिल्ली. ताका दिसलें गांव हेडूंक गेल्लों ते बदला बायण्यामाळ्ळी दोंगरार गेल्लो जाल्यार खुटां भोरो आनी येतना गायेंक इल्लो चिंवरी पालो तरी हाडूंक मेळटलो आसलो. तिका सोडून घालतलो म्हळ्यार जायना उठूंक तिच्यान. पांच पांच दीस उपाशा उरतकीत आनी गत कितें?

थंयच रावन पळयल्ले ताणें पयरचे शेणा थापे गोठ्यांतच एकठांय करून दवरिल्ले, ते थंयच आसात. तो कुराड, तुवालो दारांतल्या दसणी मुळां दवरून गोठ्या कडेन वळ्ळे. हाडकुटें नोमू कोल दारांत पडिल्ले कडच्यानच ताका पळयतालें.

आयज चूल थंड आशिल्ली. दुर्गे कपाळाक हात लावन इतलो वेळ दारांतच बशिल्ले. मदींच नदर वरशी करून वाटेकडेन ताणे कपलार आयल्ल्या केसांची गाठ मारील आनी कास सावरून दारांतले उठून घरांत वळ्ळें. कितें तरी येवजून तें उठिल्लें. ताणे चार-पांच फळिणां उस्तिली. सगळी रितीं तिडकीन एक ताणें जमनीर शेवटीलें. बेजारिल्लें तें आतां पोरांच्या पोटाक कितें मडसरी घालप? कसली एक चिंताना हेका गेला गांव हिंडूंक, ते बडबडलें.

इतल्यांत धाकटो सोमूं धावत येवन दुर्याक चिकटलो, आनी सांगलें, 'बो, दाद येयलो'. पोराच्या उलोवण्यान घुस्मटत दवरिल्लो श्वास ताणें सोडलो.

दरवट्यांत गोपी उबो दारांतलें नोमू कोल येवन ताचे पांय ल्हेंवता, आनी तो ताचे फाटी वयल्यान हात भोंवडायतालो. सोमू ताचेसरी धांवत आयलो आनी म्हणलें, 'दाद, बोन आयज रांदूंक ना. भाकरी थापूंक लेगीत पीठ ना खंय दाद, पोटाक भूक लागल्या.' सोमूले काकुळटवाणे तोंड पळोवन गोपीन ताका गलेक ओडलो आनी थंयच दरवठ्याचेर बसलो.

येदोळ दुर्यान शेवटील्लो डबो गडगडत येवन थांबलो.

तो पळोवन गोपीन भितर नदर मारली. दुर्गे कपाळाक हात लावन वण्टीक वणकून बशील्ले. ताका पळोवन गोपीन म्हळें, 'डबो कोणें उडयला गो हो? मांजरानी?'

'हंय मांजरां आनी मरूंक येतात हांगा ह्या फुटक्या नशिबाच्या घरांत.'

'आगो अशें नशिबाक कित्याक खेपता? देवा दयेन पोट सुट्टलेंच. भुरगीं-बाळा आसात पदरांत. तांचे बरें जावंक जाय.'

'हय व्हय, आसात बरी घटमूट भुरगीं. तांकां घालता आतां मूठ मूठ माती नाजाल्यार म्हजी हाडां शिजोवन.'

'आगो, आयज अशें कित्याक फडफडटा?'

'फडफडूं नाका, तर किते करू? तकली फोडूं? कालच्यान हांव हेड हेड हेडटा आनी अशी दोनपार करून येता. पोरा बाळांच्या पोटाची आसा कितें चिंता?'

'हय गो म्हाका सगळें कळटा. म्हुणून तर गेल्लो न्हयेक सोदूंक? पूण सगळेच सरगदान जावन पडल्यात. कसलेंच काम ना न्हंय?'

'तुगेलें सदाच काम काम. तुका केन्ना काम मेळचें ना आनी ह्या पोरांच्या पोटाक पडचें ना. पळय भुकेन कशी वळवळटात तीं. कितें घालूं तेंका सांग?'

'दुर्ग्याल्या सडसडीत उलोवण्यांत गोपीची तकली सणसणली. तो थंयच थीर वणकलो. ताच्या दोळ्यां सामकार संसाराचे काजुले नाचुंक लागले. सकाळी सावन पोरां उपाशी आसात. काल दत्ताल्या गाड्यार दिल्ले शेळें काकण तुवाल्याक बांदून हाडिल्लें तें सकाळीं दोगांय पोरांक वांटून खायात म्हूण सांगून आपूण निकटो तोंड धुवन भायर सरून गेल्लो. घरांत तांदूळ न्हय कसलीच कणी नासली. आता कोणागेर वचे आनी पडभर तांदूळ उसणे हाडचे हे विचारांत गोपी बुडलो.

मदलशी परतून किते तरी याद जाल्ले भाशेन दुर्गे उठील्लें, आनी भितल्ले कुडीत वचून ताणे एक पोटली सोडली, पोटलेक फाटल्या फालूण म्हयन्यांत बंटिणीन सांगला म्हुणून कुळदेवाक उकलासून दवरिल्ली पड तशीच बांदून दवरिल्ली आसली. एक नाल्ला आनी चार अन्नाटीं तांदूळ.

येवजिल्ले कामांक यशच ना म्हूण दुर्ग्यान आग्रो केल्ल्यान गोपी बंटिणी गेर गेल्लो. तेन्ना तिणें कुळदेवाक पड दी म्हणिल्ली. पड पावोक भांडोळी सावन गांवडोंगरी-काणकोणां वचूंक जाय आसले. पड उकलासून दवरिल्ली. पूण ती व्हरून पावंक बसीखातीर पयशांची व्यवस्था जालीना. आयज जातलें फाल्या जातलें म्हळ्यार धा म्हयने जाल्ले. पड थंयच झक मारताली. दुर्ग्याक ती याद जावन उठीतलें. ताणे भायर येवन गोपीक म्हळे, 'फूल देवाक उकलासून दवरलेले पडी तांदूळ चिथेले मूं?' पडीपरसय तांदूळ म्हण्टात तें उतर गोपीक बरे आयकूंक गेलें. तसो ताचे तकलेंतलो भ्रम देवलो 'आगो, ते शिजय मुगो. बेश्टे पिड्ड्यार करून कितें मेळटलें. पडीक दुसरे तांदूळ हाडचे. हे आनी ते सारखेच ते.'

गोपी मना भायरें उलोवन गेलो. पूण उपाय नासलो. आनी दुर्ग्याकय तें आयकून कितेशेंच दिसलें. पूण आयज कुलदेवाचे पुजे परस पोरांच्या पोटाची पुजा गरजेची आसली. तें सडीसडीत फुडल्या वावरा खातीर उठलें खरें पूण ते उकलासून दवरिल्ले तांदूळ वेंचपाक मन धजलें ना. गोपी मात हुसक्या मेकळो जालो. तकली ल्हवशी जाली. थोड्या वेळान काय जायना पोटांक कितेंय पडटले हे आशेन गर्भगळीत जाल्ल्या ताच्या शिरंतरांनी शिरशिरी आयली. तो सावरून बसपाक दारांतले नोमू कोल भोकूंक लागलें. कोण थय काय म्हूण पळोवंक वच जाल्यार वडामळा वयल्या पुतू देसायालो पूत वसंत गोपील्या आंगणाचो आकाडो हुपतालो, ताणे पळयलो. भाटकाराचो पूत कित्याक आयला काय ह्या वेळार? गोपी एकानेटार उठून आंगणांत देंवलो.

'गोपे ये गोपे... वसंतालो उलो.'

'चलेबाब, कित्याक आयिल्लो?'... गोपी

'आरे, खंय रे तूं? आयज वाड्यार दिसलोच ना?'

'आतांच वचून आयलां, भाटकारा.'

'मागीर म्हजे नदरेक कसो पडलो ना तर? आमी तुजी वाट पळयताले मरे?'

'चलेबाब, कितें काम आसलें?'

'काम सामके गरजेचें. आतांच्या आतां वसून वाईक रकाद दिवन यो.'

'ताईबायक? म्हणजे रूमडामळार वचपाचें?'

'हय व्हय, गरजेन आतांच्या आता वच, अशे म्हणत वसंतान गोपीक रकाद सांगलो. रकाद सादोच सोमारा बदला शेनवारा यो म्हणून सांगपाचे'

'साजेचो गेल्यार जायना, चलेबाब?

'सांजेचो? आरे, गोपे, पापा सकाळींच सोदतालो तुका, ताईगेर धाडपाक.' 'आतांचे आतां वच, ना जाल्यार ताई आनीक कितेंय काय थारायत.'

''भाटकारा!'' गोपीन तकली खाजयली.

'कितें?'

'भुरगीं सकाळी सावन उपाशीं आसात.'

'जालें, कसलेय गरजेचे काम फर्मायलें म्हणटकच तुमच्या लोकांचो उपास सुरू. जणू काय फुक्या वावर करून घेतिल्ल्या सारको करतात मरे तुमी, गोपे?'

'तशें न्हय भाटकारा'

'मागीर, कशे तर?'

'कशें सांगू चलेबाब.'

'हें पळय, तुगेल्यो गजाली आयकुपाचो

हो वेळ न्हय. खरे म्हळ्यार ताईक सकाळीं रकाद पावपाचो.'

'चल्या, आता सुर्या माथ्यार आयला कितेंय खावनच वयतलो आसलो.'

'खावपाक हांगा रावलो जाल्यार कावळे म्हातारे जातले. म्हजे लागीं उलयता म्हळ्या येन्नाघर रूमणामळार पावतलो आसलो.'

'पूण म्हज्यांत पांय उखलपाचेय ऋण नात.'

'हांव अशेंच पापाक वचून सांगता.' आनी अशें म्हणत वसंत चलत रावलो. गोपीन भाटकारा भाटकारा म्हणत उगडिल्लें तोंड उकतेंच उरलें. आता कितें करचें? दोशी पेज, रकाद दिलो ना, पुतू देसाय फुगतलो. भाटकाराल्याच पांगेत आशिल्ल्यान ताणेलें फुगप म्हगेल्या जीवा वयलें. वायट बऱ्याक पुतू देसायच पावपाचो. एकेवटेन भुरग्यांवरी ताच्यांय पोटांत हुलोप पडला. गोपीतन कितें तरी येवजिले. हेवटेन तेवटेन घुंवलोसो केलो आनी तुवाल्या फटें आनी कोयती हातांत घेवन वाटेक लागलो. वतना मदुर्‍या येता गो हांव' अशें म्हूण सांगपाक विसरलो ना. पूण ताचे जापेक ओ दिवपाक दुर्गे थंय नाशिल्ले.

भर दनपार, माथ्यार वताचो रखररख. गोपी दोन कोवसंर वाट माडयत चल्ला. ताणेंन कासावीस. गोपीचे आगळीकेन चलप. जाता तितले बेगीं रुमडामळार पावंक जाय. चलतकच एक सुप्त इत्सा. रुमडामळार देड दोन वरांचेर पावल्यार बरेंच ताईबायल्या घरा जेवणाचो वेळ आसतलो. दनपारच्या जेवणा वेळार पावल्यार कोणच उपाशीं धाडिनात. ताईबाय तर भाटकान्न ताईचो रागरंग पळोवन कितेंय मागूंकय मेळटलें. विचारांचे तंद्रेंत गोपी रुमडामळार केन्ना पावलो ताका होलमलेंच ना. व्हडल्या दरवट्या कडेन पावतनाच ताईबायलो टॉमी सदचेवरी भोंकलो. तशी ताची तनर भंगली. तो साबुद्देर आयलो. आपूण भर वतांतल्यान आयला हाची ताका आतां जाणवीकाय जाली. कानशिलांवेल्यान वोतपी घामाच्यो पावल्यो ताणें आखाण्यानं निस्तायल्यो आनी ताईच्या घरचो कोण दिसता काय म्हण तो पळोवंक लागलो. टॉमील्या भोकपान ताईबायलो चाकरमानी सावळो भायर आयलो. गोपीक पळोवन ताणे उलो मारलो.

'गोपी हयरे ?'

'हय, सावळ्या.'

'भितर सर मरे. केन्ना आयलो?'

'आतांच आयलां!'

'हरशी मरे?'

'ताईक रकाद आसा.'

'आं, यो यो भितर सर'

'ताई आसा घरांत?'

'हय.' गोपीक बरें दिसलें.

'बस आं. ताईबायक तूं आयलां म्हूण सांगता.'

गोपी मनांतल्या मनांत फुडले बेत आखूंक लागलो. काय वेळान ताईबाय भायर येत गोपीक हटकीलें.

'गोपी?'

'ताईबाय'

'सगळी बरी मरे?' अचकीत आयिल्ल्या गोपीक पळोवन हुसक्यानशें विचारलें.

'सगळी बेस बरी आसात, ताईबाय'

'पापा, नान बी?'

'सगळी पोती'

'कित्याक आयिल्लो तर?'

'रकाद दिला.'

'कसलो?'

'तुका सोमारा बदला शेनवाराचच घरा यो म्हूण सांगलां.'

'शेनवाराक?'ताईबाय मातशी गंभीर जाली. गोपी तिकां पळयत उरलो. रकाद तर दिलो. आता फुडें कशें? पोटांत कावळे रडटाले. इतल्यात ताईबायलो धाकले वैभव, जेवल्या उपरान्त आंबो चोखीत भायर आयलो. गोपी सुखावलो. म्हणजे जेवणाचोय वेळ आसा तर.

'बाबू, जेवलो रे?' ताईबाय

'हय, आई'

'मागीर बसून खा आंबो.' इतले म्हणटनाच भायर टॉमी परतून भोंकलो, तसो ताईबायन सावळ्याक साद घालो.

सावळो ताकतिकेन व्हडल्या दखट्या कडेन वचूंक गेलो.

सावळ्या वांगडा करमणेच्या चंद्रूक पळोवन ताईबाय परती हुस्केली.

'आयज सगळे दोनपारचेच शे मरे? चंद्रो कितें जालां?'

ताईबायन भितर येताल्या चंद्रूक विचारले.

'भाटकार ना?' चंद्रू

'आसा'

'मातसो ताकतिकेचो रकाद आसा.'

'ते जेवतात मातसो बस. काकाकडले सगळे बरे आसात मरे?' ताईन विचारलें.

'ताईबाय' चंद्रूलो गंभीर आवाज. उतर फुट नासलें.

'काका' अशें म्हणत चंद्रून मान खाला घाली.

'कितें?'

'हय, आयज सकाळींच धा वरांचेर सुमार'

फुडलें आयकुचे पयलींच ताईबाय घरांत धावली आनी घटक्यांभितर ताईबायचो घोव आत्माराम हात पुशीतच आयलो.

'चंद्रो?' आत्माराम

'हय भाटकारा तुका जा जा आपयला घराकडेन कोण नात. चलेबाब बेळगांव गेला.'

काकाल्या म्हणजेच ताईबायल्या बापोल भांवाल्या वायटाची खबर चंद्रून भर दोनपारां हाडली अनी घरचें सगळें वातावरणच बदल्लें. दर एकल्याच्या दोळ्यांत दुकां. करमण्या वचपाची जातीन

तयारी. अश्या वेळार गोपीकडेन आनी कोण ध्यान दितलो? आनी खंयच्या तोंडान तो तरी वाडात बी म्हुणून सांगत. गोपीले बेत कोसळ्ळे. नशिबान परतो दगो दिल्लो. आयचो दीसच वांकडो, रितो. तरीय ताणे म्हळें, 'ताईबाय, येता आं..' पूण ताका प्रतिजाप दिवंक कोणच शितीदांत नाशिल्लें. सावळो चाकरमानी. ताका तरी दिसत काय?

गोपीन एका आशेन सावळ्या कडेन पळयलें पूण गोपीक आयिल्ल्या पायांनी परतो वचपा बगर पर्याय नाशिल्लो.

कुळागरांत शेकानशेक पासयो मारपी वसंतान ताका हटकीलो, तेन्ना ताका कळ्ळे आपूण रूमडामळार सावन परत वडामळार पावलां.

'गोपे, दिलो रे रकाद?'

'हय भाटकारा'

'ताई बरे आसा मरे?'

'हय'

'भावोजी नाशिल्लो घराकडेन?'

'आसलेलो'. एका फाटल्यान एक विचारिल्ल्या प्रश्नाक जाप दिवपाचे त्राण गोपीकडेन नाशिल्लें. उपाशीं पोट कितलें सोशीत!'

'चलेबाब...'

'हां हां समजलें. चल घराकडेन वच पापाक सांग.'

रकाद पावलो म्हण्टकच वसंत कितेंय दीत हे आशेन गोपीन म्हणिल्लें. पूण वसंतय वस्ताद. आतां कशें? भाटकारा म्हऱ्यान ताका वचूंक जाय. उश्णे तरी कितेंय मागूंक तो तसोच वाड्यार आयलो. वाटे वयल्यान आंब्याकडेन रावन ताणे पळयलें. पुतू देसाय कोट तोपी घालून भायर सरला. आनी फाटल्यान तो. कोण. हो तर करमणेकार. गोपी सगळें समजलो. ताचे पांय थंयच दसले. आयचो दीस रितो गेलो. तो परतून नशिबाक खेपतालो. घरा येयसर वत सामकें न्हिविलें.

आकाडो हुपून आंगणांत पांय घालतनाच दुर्गे दिसलें. पूण ताका नदर भिडोवपाची तांक गोपींत आयज नासली. तरीय गोपी धुकल्लोच मुखार.

'कितें हो वेळ? दुर्गान म्हणलें. जेवपा खावपाचे भान आसा काय ना तुका?'

जेवपाचें नांव काडटनाच गोपीची ल्हंवेन ल्हंव शिरशिरली. तो एक आगळेपणान दुर्गाक पळयत उरलो हे नदरेंत जायते प्रश्न आशिल्ले.

'दनपारा दाद आयिल्लो वागोणा सावन. तांदूळ आनी वाल घेवन. तुजी वाट पळोवन पळोवन आतांच परतलो. रांदून दवरल्यार कितलोसो वेळ जालो. खंय म्हुणून सोदपाचें तुमकां दादल्यांक. दुर्गाच्या खबरीन गोपीक तरतरी आयली. खीणभर तो ताका पळयत उरलो. आनी गोपीच्या नदरेंतल्यान दुर्गाक आयज कितें कितें घडलें ते जणू सगळें कळ्ळें. 'आयजो दीस रितोच गेलो. दुर्गाक गोपीन म्हणलें'. 'जाणां हांव' अशें म्हणत दुर्गे भितर सरलें. ताचे फाटल्यान गोपी आपलें रितें पोट घेवन चलत राविल्लो.

●●●

# सतर्क

–वसंत भगवंत सावंत

'मम्मा आमी वता आसतना -संगीताक गाडयेंत घेवपाक जाय आं! तागेल्या घरा कडल्यान घे गाडी.'

मम्मा वांगडा दनपारचें जेवण जेवतां जेवतां मधींच सुरभीन अशें म्हणना फुडें मम्माच्यो नाका पुडयो रागान फुल्ल्योय. तुका ही शाणेपणां करपाक कोणे सांगलां? आनी तूं संगीताल्या घरा कडेन म्हणटा तें, घर गो तें? खोंपूट मगो?

'म्माची उतरां आयकून सुरभीक वायटय दिसलें आनी थोडो हुस्कोय दिसलो. आपल्या जिवाभावाच्या इश्टीणीचो मम्मा सदांच दुस्वास करता म्हणून ताका सामकें वायट दिसतालें. हांवें संगीताक आमच्या वांगडा या म्हणून सांगलां खरें पूण–मम्मा उलयता तें पळयल्यार ती ताका व्हरतच म्हणपाचें खरेंपण नाशिल्ल्यान ताका हुस्कोय दिसलो. तूं ताका कंपीटिशनाक आमचे गाडयेत व्हरता मगो; आनी तें तुकां फाटीं वडोवन आपूण पयलें इनाम जोडटा. मम्मान आपलें सदांचे पालूपद लायना फुडें सुरभीनय सदचे भशेनच म्हणलें, 'तशें किदें आसा तर गे?' हांवें ताका फाटल्यान घालून घेवना पयलीं बक्षीसां? तें बरें म्हण्टा तेन्ना ताका मेळटा, हांव बरें म्हण्टां तेन्ना म्हाकां मेळटा! मम्मा कांयच उलयली ना. तिणें जेवणाचें ताट उबारून सिंकात दवरलें आनी ती भायर सरपाचे तयारेक लागली. सुरभीकय जेवण चलना जालें. तशें गावपाचें बी कंपिटिशन आसता तेन्ना तें दनपारचें जेवण मात्शें कमीच जेवतालें. काल दनपरां स्कूल सूटतगच ताणे संगीताक फाल्या कंपिटिशनाक वांगडा या, आनी सादारण अडेच मेरेन तयार जावन राव म्हणून सांगील्लें. तशें मम्मान ताका काल मुद्दाम सांजवेळां क्लासीक व्हेल्लें आनी आयज कंपिटिशनाक म्हणपाच्या पदाचो बरोच सराव करुन घेतिल्लो. येता वता आसतना गाडयेंत तीं पदाचेर जायतीं उलयल्ली पूण सुरभीन संगीताक व्हरपाचो विशय मुद्दाम काडूं नासलो. संगीताक वांगडा व्हरपाचें म्हणटगीर ती चाळवतलीच हें ताका खबर आयिल्लें.

'आमचे वांगडा नाकां, ताका बशीर यो म्हणून सांग,'

अशें ती सांगतली, त्या खातीर ताणें सामको ऐन वेळार संगीताचो विशय काडिल्लो.

सुरभी आनी संगीता एकाच स्कुलांत एकेच क्लासींत सातवेंक शिकतालीं. दोगांय गावपांत हुशार आसलीं. स्कुलाच्या समूह गीत गायन पंगडांत सगळ्यो णववे धावेच्यो चलयो आसताल्यो पूण मदीं मायकाचेर मात संगीताक आनी सुरभीकच दवरतालीं. स्कुलांतल्या म्युझीक टिचराचींय तीं सामकी लाडकीं अशी शिष्यां. म्युझीक टिचर हार्मोनियम वाजोवपाक सामको फिशाल आसलो. पूण त्या मानान गायनांत ताका तितली गती नासली. हार्मोननियम शिकतां शिकतां जें गाणे शिकचें पडिल्लें तितलेंच ताणें दोगांकूय शिकयल्लें. सुरभीचे मम्मान हें पारखील्लें आनी सुरभी गायनांत संगीतापरस फुडें सरचें म्हणून फामाद गवया कडेच खाशेल्या शिक्षणाच्या वर्गांत ताचें नांव घातिल्लें. संगीताची घरची परिस्थीती सामकी बाबत आशिल्ल्यान ताका अश्या वर्गांनी वचप शक्यच नाशिल्लें, पूण आपूण जें कितें कितें शिकता ताची एक झलक तरी सुरभी संगीताक दाखयले बगर रावं नाशिल्लें. मम्मा त्या खातीरूय ताचेर बेजार जातली. 'आमी पयशे मोडून शिकप आनी तूं ताका फुकटांत शिकयता?' अशें म्हणून ती सुरभीक अदीं मदीं तापोवनय काडटाली. तशी सुरभी आनी संगीतामदीं मोठी सर्त चलताली पूण दोगांकूय आपूण एकमेकाचीं दुस्मान अशें केन्नाच दिसं नासलें. दोगांय पांचवेंक आसतना स्कुलांत 'गाता रहे मेरा दिल' ही हिंदी सिनेगीत गायनची सर्त जाल्ली आनी ते

सर्तींत सुरभीन संगीताक फाटी घालून 'गित सितारा' हो पुरस्कार जोडिल्लो. दरवर्सा जावपी हे सर्तींत सवेक आसतना एक वर्सा जैतीवंत जावन पुरस्कार जोडिल्ल्यान सुरभीक भाग घेवपाक मेळूंक नासलो आनी धावी मेरेनच्या सगल्या भुरग्यांक फाटी घालून संगीतान तो पुरस्कार सहज जोडिल्लो. पयले वर्सा दोगामदीं खर सर्त जाल्ली पूण परिक्षकांनी निकाल जाहीर केल्लो तेन्ना आपणाकच बक्षीस मेळील्ले भशेन संगीतान उमेदीन सुरभीक वेंग मारून परबीं दिल्ली. दोगांय खंयचेय सर्तीत वांटेकार जाव, चडशीं पयलीं दुसरी बक्षीसां तांचे मदीच फावो जातालीं आनी हांव जिकलां, तूं जिकलां ही भावना दवरिनासतना ती एकमेकांक उमेदीन परबी दितालीं. सुरभील्या मम्माक मात हें मातूय आवडं नासलें. पयस-पयसुल्या सुवांतीचेर गायनाच्यो सर्ती जाताल्यो तेन्ना ती चडशी सुरभीक गाडयेन घेवन वताली आनी जर थंय संगीता पावलेंना जाल्यार सगल्या सर्तकांक फाटीं घालून सुरभी पयल्या बक्षीसाचें मानकरी थरतालेंच. आयज आयताराक सांजवेळा साधाराण पंचवीस किलोमीटर पयस आशिल्ल्या शारांत हिंदी गीत गायनाची सर्त आशिल्ली आनी सुरभीच्या मम्मान फाटले सात-आठ दीस सुरभीची सामकी फाट धरील्ली. सर्त पयस आशिल्ल्यान संगीता थंय येत ना येत हाचो दुबाव-हुस्को मम्माक आसलो आनी किदें काय म्हणल्यार सुरभीनच ताका आमच्या वांगडा गाडयेंत या म्हणून सांगलां. म्हणपाचें आयकना फुडें तिका सामकी भिरभिरी मारिल्ली. मम्मा गाडयेंत वचून बसली पूण सुरभीलें भायर सरुनच जावं नासलें. निमाणे मम्मान चार पांच पावटी होर्न मारले तेन्ना तें पांय आप्पटीत येवन तोंड फुगोवन बसलें. 'संगीताक घेतली मगे तूं?' सुरभीन फुंरगुटून विचारलें पूण मम्मान एक उतर काडी नासतना गाडी स्टार्ट मारली. 'घेतली मगे तूं ताक?' सुरभीन परत विचारलें तेन्ना तीणे रागान म्हणलें. 'ना'.

'तुकां कळपाक जाय, कोणाकूय कसलेंय उतर दीता आसतना पयलीं मम्माक विचारपाक जाय म्हणून.' मम्मान खऱ्यानीच गाडी संगीताल्या घरावटेन घेतली ना, तेन्ना सुरभीक रडपाक येताशें दिसलें.

'मम्मा तें आमची वाट पळयत रावतलें मगे!'

सुरभीन म्हणलें पूण मम्मान ताचे कानामनार घेतलें ना. सुरभीक आपूण सामकें फटींग जाल्लें भशेन दिसलें. आपणे मुद्दम ताका फटयलां अशें संगीताक दिसचें ना मूं? हो विचार ताच्या मनात आयलो तेन्ना तर ताका घुसमटून आयलें.

आपणाक बक्षीस मेळपाक जाय म्हणून सुरभीन आपणाक गाडयेन व्हरतां म्हणून सांगलें आनी आपणाक मुद्दम सोडून गेलें अशें संगीताक दिसले जाल्यार? ह्या प्रश्नान सुरभीचो सगळो मुडच गेलो.

'जाणा मम्मा, संगीताकडेन बशीन येवपा इतले पैशे नासले म्हणून हांवे ताका सांगील्ले आमचे गाडयेन यो म्हणून.' सुरभीन मम्माच्या तोंडाकडेन पळयत म्हणलें पूण मम्माचेर कसलोच परिणाम जालो ना.

'ताचे कडेन पैशे नाशिल्ले जाल्यार तुवें तुजो पोकेटमनी काडून दिवपाचो न्हय!' मम्माचो जापेन सुरभीची जापच बंद जाली.

'ते गरीब, तें क्लासाक वचना, ताका कसल्योच सोयी ना, तरीय तें तुकां फाटीं घालता हाची लज दिसपाक जाय तुकां'. 'मम्मान सुरभीवटेन पळय नासतना म्हणलें.'

'आनी तुकां ताची इतलीच जर काळकूट दिसता, जाल्यार तूं पयलें बक्षीस जोड आनी ते तीन हजार काडून दी तुज्या फ्रेंडाक.' मम्मान थोमण्यांनी अशें म्हणना फुडें फट्ट करून एक दुख सुरभीच्या दोळ्यांतल्यान देंवलें. तीं कंपीटीशनाच्या हॉलांत पावलीं तेन्ना थंय व्हडलो सो लोक पावू नासलो. सुरभीच्या मम्माची एक इश्टीण आयोजका मंदी आसली, तीणे येवन तांका हटकीले तेन्ना मम्मान पयलोच प्रश्न तिका विचारलो तो 'परिक्षक कोण?' मम्माली ही सवंय सुरभीक मातूय आवंड नासली. खंयच्याय कंपिटीशनाक तीं वतालीं तेन्ना मम्मा पयलीं परिक्षक कोण ते विचारताली. कोणूय वळखीचो आसल्यार मुद्दाम वचून ताका हात दिवन येताली.

मम्माले ते इश्टीणीन परिक्षक कोण तें सांगलें ना पूण सुरभीक हात दिलो आनी 'अंदू पयलें बक्षीस वाडोवन पांच हजार केलां, तुका ऑल द बेस्ट' अशें म्हणून ती कुशीक सरली. पूण मम्मान तिची फाट सोडली ना, तिका कितें तरी सांगत सांगत ती तिचे फाटल्यान गेली दर एका सर्तीक मम्मा सदांच सुरभीच्या कुशीकच बसताली आनी दर एका गावप्याच्यो खोडी काडीत रावताली. सुरभीक तें मातूय मानव नासलें. आपलें गीत केन्ना काय जावन गेल्यार पुरो अशें सदांच सुरभीक दिसतालें. जितलें फाटीं ताचे सादरीकरण जातलें तितले मेरेन ताका मम्मा, अशें म्हूण ह्या अंतऱ्यांत आवाज सकल घे, मुखड्यांत तोंड हांसतें दवर' अशें किदें ना कितें सांगत रावताली आनी कुशीक बशील्लें लोक तांका पळयत राविल्ल्यान सुरभी सामकें अस्वस्था जातालें. आयज मम्मा कुशीक बसूं ना, हाचे ताका मात्शें सू जाल्लें पूण

आपणाक लागून संगीता सर्तीक पावलें ना, हाची खंत ताका खाताली.

सुरवातीक सोयऱ्यांक माचयेर बसोवन ल्हानसो कार्यक्रम जालो आनी गायनाचे सर्तीक सुरवात जाली. सुरभीन संगीताचो विशय तकलेंतल्यान काडून वडोवन आपलें पुराय लक्ष गिताचेर दवरपाचो यत्न केलो. काल क्लासाक गेल्लें तेन्ना गुरुजीन दिल्ल्या कानमंत्राचेर ताणें लक्ष थीर केलें. सुरभीचें नांव घेना फुडें तें माचयेर पाव मेरेन ताळयांचो मोठो गडगड जालो. सुरभीन खीणभर दोळे धांपले आनी गुरुजीन सांगिल्ले भशेन 'सा' घेतलो.

मुखडो गायता आसतनाच ताका पयले फावटी ताळयो पडल्यो, एके तंद्रेत ताणे आख्खें पद इतल्या खासीयतीन म्हणलें कीं ताकाच आपलें गीत मनासावन आवडलें. ते परत येवन आपले सुवातीर पाव सर टाळ्याचो गडगड चालूच आसलो. आतां मेरेन जितल्या सर्तकांनी पदां सादर केल्लीं तांचे परस ताचे गीत कितलेंशेंच बरें जाल्लें. आयज आनी आपले पयलें बक्षीस खंयच गेलें ना हाची ताका खात्री जाल्ली. मम्मा कुशीक बशिल्ली जाल्यार इतल्या बऱ्या सादरीकरणांतय कसली ना कसली खोड काडटली आसली अशें सुरभीक दिसलें आनी ती कुशीक बसूं ना हें बरेंच जालें अशें ताणें मनांत म्हणलें. मम्मान सांगील्लें तशें पयलें बक्षीस मेळ्ळ्यार पांचय हजार रुपये संगीताक काडून दिवपाचे थरयिल्ल्यान सुरभीचे मन मात्शे ल्हव जाल्लें. सुत्रसंचालकान निमाणो सर्तक अशें म्हणून संगीताचें नांव घेना फुडें सुरभीक आपलें सगळें आंग शिरशिरलेल्या भशेन दिसलें. संगीता फाटल्यानच्यान माचये मेरेन पावता मेरेन लोकां वांगडा सुरभीनय उमेदीन ताळयो पेटल्यो. संगीतान सूर धरलो आनी सुरभीनआपले दोळे धांपले. संगीताचे अख्खे गीत जणू काय तें आपल्या कानांत सांठोवन दवरपक सोदतालें. निमाणें एक आलाप घेवन संगीतान आपलें पद सोपयलें तेन्ना ताळयांचो गडगड जालो. सुरभीक खीणभर घुसमटलेल्या भशेन दिसलें. एकदांचे संगीता सर्तीक पावलें हाचे उमेदीन आपलें हड्डे भरून आयलां काय तागेलें पद आपले परस बरें जालां काय? हो दुबाव आपल्या मनांत घर करता हें ताका कळना जालें. पद सोपोवन संगीता देंवून येवपाक लागलें तेन्ना हे हेवटेन ते वटेन पळयत आपणाकच सोदता अशें सुरबीक दिसलें पूण दोगांचीय नदर एक जाली ना.

बक्षिसां वाटपाचो सुवाळो सुरू जालो. पयलीं सगळीं उमेद वाडोवपी इनामा वाटलीं आनी सुत्रसंचालकान तिसऱ्या इनामाचीय घोशणा केली. पयलें आनी दुसरें बक्षीस आपणा दोगां मदीच हाची सुरभीक खात्री जाल्ली. सर्तीचें दुसरें इनाम सुरभीक घोशीत जालें तेन्ना तें उमेदीन माचयेर धावलें. संगीताक पयलें बक्षीस मेळटलें म्हणून आपणाल्या मनावेलें एक चेपणशें ना जालां अशें शे कितें ताका दिसलें. संगीतान पयले बक्षीस घेतलें तेन्ना उमेदीन सुरभीन उबें रावून ताळयो मारल्यो, पूण खिणांत ताका मम्माची याद जाली आनी आपूण उमेदीन भरलां तें पळोवन ती बेजारा जायत म्हणून तें सट्ट करून सकय बसलें.

सुत्रसंचालकान कार्यावळ सोंपली म्हूण घोषीत केलें ताचे पयलींच चडसो लोक हॉला भायर वचपाक उठिल्लो. सुरभीन संगीताक पळोवपाक फाटल्यान नदर घुवणायली पूण गर्देंत तें ताका दिसलें ना. मम्माय रागान उठून गेल्या आसतली असो अदमास ताणें काडलो. तें ताकतिकेन गेलें, तेन्ना पैसुल्ल्यानूच मम्मा गाडयेंत बसल्या म्हणपाचें ताणें पळयलें. आतां तिची उतरां खावची पडटली. अशें येवजीत तें तिका पळय नाशिल्ले भशेन करीत येवन गाडयेचें दार उगडून मम्माचे कुशीक बसलें. फाटल्यान नदर मारना फुडें ताचें आंग झिणझिणलेल्या भशेन जालें. फाटल्या सिटार पयल्या बक्षीसाची तस्वीप आनी रोख बक्षिसाचें पाकीट घेवन संगीता बशिल्लें. सिटाचेर धोपर तेकोवन तें फाटल्यान घुंवले आनी ताणें उमेदीन भरिल्ल्या उतरांनी संगिताक परबी दिली. दोगांनीय उमेदीन एकमेकाच्या पोल्याक पोलो तेकयलो. मम्मान गाडी स्टार्ट मारली आनी वाटेक लागली तेन्ना ताणें आपल्याच मनांत म्हणलें जांव! येतना संगीताक बशीर येवचें पडूं, वता आसताना तरी ताका घेवपाची बुद्ध मम्माक आयली तें बरे जालें! फाटल्यान बशिल्ल्या संगीतान ताच्या भुजांचेर हात दवरलो आनी सदगतीन उतरांनी ताणें म्हणलें... 'जाणां सुरभि तुज्या मम्माचे उपकार आठयतां तितले थोडे. मुद्दाम परत येवन तींणे म्हाका सर्तीक व्हरुंक नासलें जाल्यार हें पांच हजारांचे बक्षिस म्हाका मेळचेच नासलें.'

संगीताच्या उतरांनी सुरभीक एक उमाळो सो दाटून आयलो. गाडी चालयतल्या मम्माक ताणें घट वेंग मारली आनी 'थँक यू मम्मा' म्हणत तिची पापी घेतली.

•••

# इंजिनियर

– माया अनिल खरंगटे

'शाकीर, पाना दे रे।'

'शाकीर, ऑयल कहां रखी?'

'अरे बेटा, इस्क्रूका डब्बा ले के आव।'

'ये भुरग्या, म्हजी स्कूटर पुसून दी सारकी. ऑयलीचे डाग आसात पळे हांगा.'

'आरे शाकीर जरा बिडी लेके आव।'

'...शाकीर हें कर... शाकीर तें दी... शाकीर हें हाड...'

उस्मानभाई सकाळीं आठ म्हणल्यार गॅरेज उगडटलो. गॅरेज उगडल्या बरोबर शाकीराच्या कामाक सुरवात जाताली. झाड-पूस, गॅरेज निवळ कर, उदक भर. हीं कामां करता सर साडेआठ वरां जातालीं. म्हणटासर तांचे कामगार येवन कामाक लागले काय मागीर शाकीराक थार मेळनासलो. प्रत्येकाक कितें – कितें हाडून दिवंक शाकीरच जाय पडटालो. शाकीरय हांसऱ्या तोंडान सगळ्यांची कामां करतालो. केन्ना उबगयनासलो, फडफडय नासलो. आंग ओफावपाक तर ताका कळच नाशिल्लें.

फाविल्ल्या वेळांत तो स्कुटरी सारक्यो कश्यो करतात ताचेर बारीक लक्ष दवरतालो. तांकां कितें – कितें प्रस्न विचारून कामां जाणून घेतालो.

उस्मानभाई गॅरेजवाला मूळ लखनौचो. खूब वर्सां पयलीं ताचो आजो गोयांत येवन स्थायीक जाल्लो. लग्नकार्याक जावं ना जाल्यार हेर कसल्याय निमतान तांचें लखनौ येवप वचप जातालें.

थंय तांची एक सोयरी आसली फातीमाचाची. तिचो घरकार मेल्लो. तिका स भुरगीं. पोटा-पाणयाची जबाबदारी तिचेर एकटेचेर. जोडीचे साधन कांयच नासलें. लोकांच्या घरांत काम करून ती भुरग्यांक कशी तरी वाडयताली. शाकीर तिचो सगळ्यात व्हडलो पूत. तो तिसरी पास जाल्लो. मुखार शिकपाची ताका खूब आवड आसली. पूण फातीमाचाची मुखार पोटाचो व्हड प्रस्न आसलो. तिणे उस्मानभाईच्या हाता-पांया पडून शाकीराक गोयांत व्हरून कामाक लावंक सांगलें.

शाकीर खूब रडलो. चार दीस तो सारको जेवलो-खालो ना. तो आवयक परत परत सांगतालो, 'अम्मी, मुझे कामपे मत भेजो, मुझे पढना है।' पूण फातीमाचाचीन ताचें कांय एक आयकलें ना. ताका फोर्सान उस्मानभाई बरोबर गोंयांत धाडलो.

गॅरेजीच्या कामांत शाकीर रमलो. काम म्हणून ताका कसलें आसतालें तर. हें हाडून दी, तें व्हरून दवर, निवळ कर. अशींच सादीं-सादीं कामां ताका सांगताले. गॅरेजीच्या कामांत तो रमिल्लो खरो, पूण ताच्या मनांतली शाळा अजून वचूं नासली. तांची गॅरेज मुखेल रस्त्याच्या लागींच आसली. रस्त्या वेल्यान शाळेंत वचपी-येवपी भुरगी दिसलीं काय तो हातांतलें काम सोडून तांकां पळयत रावतालो.

उस्मानभाईचो पूत अश्पाक चवथी यत्तेंत शिकतालो. शाकीर रातचो घरा येतकर अश्पाक शिकूंक बसता थंय बसतालो. ताचीं पुस्तकां चाळत रावतालो. गणितांत तो हुशार आशिल्लो. अश्पाकाचीं गणितां तो कितले बेगीन सोडोवन दितालो.

उस्मानभाईच्या गॅरेजिंतले दोन-तीन कामगार ताणें लखनौच्यान हाडिल्ले. तांकां रावंक ताणें आपल्या बंगल्या फाटल्यान कुडी बांदून दिल्ल्यो. शाकीराक मात ताणे थंय दवरूंक नासलो. एक तर भुरगो आशिल्लो आनी दुसरें म्हळ्यार तो तांचो सोयरो आशिल्लो. म्हणून उस्मानभाईन ताका आपल्या घरांतच दवरिल्लो. उस्मानभाईच्या तीन चल्यां बरोबर शाकीर वाडटालो.

अश्पाक आनी शाकीर बरे घट इश्ट

जाल्ले. शाकीर अश्पाकाक गणितां सोडोवन दितालो, ताचो घरपाठ काडून दितालो. एक दीस उस्मानभाईन हें पळयलें ताणें अपुरबायेन शाकीराक म्हऱ्यांत घेवन तो गांवांत कितें शिकतालो ताची वासपूंस केली. शाकीरान म्हळें, –'चाचू, शिकपाक खूब आवडटा. पूण अम्मीन म्हाका हांगा कामाक धाडला.' हें सांगतना ताचे दोळे भरले.

उस्मान भाईन ताचे दोळे पुसून म्हळें, 'बेटा, रोना मत, तुका शिकूंक जाय न्ही, हांव घालतां तुका शाळेंत. सकाळचो शाळेंत वच आनी सांजेचो गॅरेजींत कामाक यो.'

शाकीर खूश जालो, अश्पाकाकय खोस जाली. 'आमी सांगातान शाळेंत वतना कितें-कितें मजा करया' हाचे विशीं स्वप्नां रंगोंवक ते दोगय गुल्ल जाले.

उस्मानभाईन आपली वळख वापरून लखनौच्या शाळेंतल्यान शाकीराचो शाळा सोडिल्ल्याचो दाखलो आनी जल्मदाखलो रोखडोच मागोवन घेतलो. आनी अश्पाकाचे शाळेंतच ताचें नांव घालें.

दोगय बरोबर शाळेंत येता – वताले. दनपारचो जेवन शाकीर गॅरेजींत वतालो. रातचो घरा येतकच अभ्यासाक बसतालो. अश्पाकय ताचे खातीर घरपाठ करपाक रावतालो. पूण ताचें खरें कारण वेगळेंच आसले. अश्पाकाक अभ्यासाची आवड नाशिल्ली. ताका खेळपाक तेवूय फुटबॉल खेळपाक आवडटालें. आवय बडी हातांत घेवन ताका अभ्यासाक बसयताली. अभ्यासाकडेन मात्सी हय – गय केली काय फटाफट बड्यो मारताली. शाकीर येत साकून ताचो हो मार चुकलो. तो शाकीरा बरोबर अभ्यासाक बसतालो.

शाकीर कितले बेगीन आपलो अभ्यास करून अश्पाकाचोय अभ्यास करून दितालो. तेन्ना अश्पाक पुस्तकां चाळत बसतालो. ताचे आवयक दिसतालें तो शाकीराबरोबर शिकता.

अश्पाकाक शिकपाची आवड नासली तशेंच गॅरेजिंतलें कामय ताका आवडनासलें. थंयचो तो तेलाचो वास, चिकचिकीत जमीन, काळ्या हातान कामां करप, हें सगळें पळोवनच ताका वीट यतालो. ल्हान आसतना लेगीत बापूय न्हावन आयलो जाल्यारय, ताका गॅरेजीचो वास येता म्हणून तो ताचे वेंगेंत वचनासलो. तो गॅरेजींत पांय दितालो तो फक्त बापायकडेन पयशे मागूंक. त्या वेळार उस्मानभाई मुददम ताका आडावन दवरतालो. कितें-कितें कामां सांगतालो. स्क्रू – पाने हांच्या सारक्या शस्त्रांची वळक करून दितालो. पूण अश्पाक वोगीच हां-हां करून दोन मिनटां पानेबी हातांत घेवन दवरतालो. जिवार येवन तो बापूय सांगता तीं कामां करतालो. ना जाल्यार अब्बू एक पयसो हाताक लावचो ना हें तो जाणा आसलो.

शाकीराक अभ्यासाची गोडी आशिल्लीच. आतां ताका गॅरेजिंतलींय कामां आवडूंक लागिल्लीं. शाळेक सुटी आसल्यार लेगीत तो गांवांत वतां म्हण नासलो. सुटयेंत दीसभर गॅरेजींत काम करूंक मेळटा म्हणून खूश जातालो. तो सुटयेंत अश्पाकाकय आपले बरोबर गॅरेजींत आपयतालो, पूण अश्पाक फुटबॉल घेवन ग्रांवडार धांव मारतालो.

उस्मानभाईक ताची ही वागणूक मातय आवडनासली. तो ताका भरपूर मार घालतालो. मार खावन अश्पाकाचें आंग आतां वातड जाल्लें. तो दोळ्यांत दूक लेगीत काडनास्तना मार खातालो. घरांत बंद करून दवरल्यार दीसभर उपाशीं रावतालो, उदक लेगीत पियेनासलो. शाकीर रातचो घरा येतकर ताका फुसलावन – फुसलावन जेवण वाडटालो.

उस्मानभाईचो आजो लोकांचे गॅरेजींत काम करतालो. ताच्या बापायन सुर्वेक दुसऱ्याचे गॅरेजींत काम केल्लें आनी मागीर आपली एक ल्हानशी गॅरेज घाल्ली. तीच गॅरेज उस्मानभाईन येदी व्हड केल्ली. तीन पिळग्यो तांच्यो गॅरेजीचें काम करताल्यो. म्हणून उस्मानभाईक दिसतालें आपल्या पुतान आतां ऑटोमोबायल इंजिनियर जावचो.

पूण अश्पाकाक शिक्षण तर नाकाच आसलें, आनी गॅरेज दोळ्या मुखार नाका आसली. ताका फुटबॉल प्लेयर जावन व्हड-व्हड कपां जिकपाचीं आसलीं.

शाकीराची आनी अश्पाकाची इश्टागत दिसानदीस वाडटाली. ते आपले सगळे घूट एकामेकाक सांगताले. शाकीर ताका अभ्यासा कडेन वळोपाचो खूब यत्न करतालो. ताचो घरपाठ करून दितालो तें जालेंच. ताचे कडल्यान पाठांतरय करून घेतालो. वेल्यान ताका सांगतालो,

'अश्पाक, तुका हांव वोगी शिकयना, एके वटेन म्हजोय अभ्यास जाता.'

शाकीराच्या यत्नाक लागून अश्पाक काठार पास जातालो. शाकीरान मात आपलो पयलो नंबर केन्नाच सोडलो ना. शाकीराची शिकपाची उमेद पळोवन उस्मानभाई उमेदीन ताका शिकयतालो. आपल्या चल्या परस शाकीर बरो शिकता म्हणून ताणें केन्ना दुस्वास केलो ना. वेल्यान आपली आवड शाकीर पुराय करता हाचीच ताका तोखणाय दिसताली. परिक्षेच्या दिसांनी तो ताका गॅरेजींत येवपाक दियनासलो. तो म्हणी, – 'बेटा, पहले पढाई कर, काम खंय वचना.'

तो धावेक आसतना उस्मानभाईन ताका गॅरेजींत पांय दिवंक दिलोना. अश्पाका बरोबर ताकाय ट्युशनाक घालो. शाकीराक आता चाचू आपल्याचेर कितलो पयसो मोडटा हें कळटालें. म्हणून तो

चडच लक्ष दिवन शिकतालो.

धावेच्या परिक्षेक शाकीराक अंयशीं टक्के मार्क पडले, आनी अश्पाक सदचेवरी काठार पास जालो. पूण अश्पाकाक ताचें मातय वायट दिसूं नासलें. वेल्यान शाकीराक बरे मार्क पडल्यात म्हणून बापायक सांगून पेडे हाडून घेवन सगळ्यांक वांटले.

शाकीराचे आवयक उस्मानभाई वेळावेळार पत्रबोरवन शाकीराची प्रगती सांगतालो. म्हयन्या – म्हयन्याक तिका शाकीराचो पगार म्हणून पयशे धाडटालो. शाकीराक पत्रां बरोवपाक येत साकून तो आवयक पत्रां धाडटालो. ताची शिक्षणाची गजाल आयकून ती केन्नाय खोशी जाय नासली. ती शेजाऱ्यां कडल्यान पत्रां बरोवन घेवन धाडटाली. तातूंत सद्दां एक वाक्य असतालें, 'पढाई बस कर बेटा, पढके तू क्या करनारा, खूब पयशे जोड, तुज्या भयणींचे निकाह करूं जाय.'

शिकप सोड आनी पयशे जोड हो आवयचो उपदेश आयकून शाकीराक राग येतालो. ताका पत्रच बरयन दिसनासलें. पूण उस्मानभाई ताका दर म्हयन्याक आवयक पत्र बरोवपाची याद करतालो. चाचूचें उतर मोडू नजो म्हणून तो पत्र बरयतालो.

अश्पाकान बापाय कडेन हट्ट करून शाकीराक अकरावेक विज्ञान शाखेंत घालपाक लायिल्लो. आनी आपणे आर्टसांत प्रवेश घेतिल्लो.

उस्मानभाईक आतां अश्पाकाची आवड फुटबॉल हें कळिल्लें. ताणें ताका शिकोवपाचो हट्ट सोडिल्लो. पूण आपली आवड शाकीर पूर्ण करतलो हाचीय ताका आतां खात्री जाल्ली.

ते ल्हान आसतना एक फावट उस्मानभाईन सगळ्यां भुरग्यांक 'तूं कोण जावंक सोदता?' म्हणून विचारिल्लें. त्या वेळार शाकीरान सांगिल्लें, 'हांव गाडयांचो इंजिनियर जातलों.' तेन्नाच्यान उस्मानभाई ताका उपरबायेन इंजिनियर म्हणून उलो करतालो. त्याच वेळार अश्पाकान सांगिल्लें, 'हांव फुटबॉल प्लेयर जातलों, व्हड–व्हड कपां जिकून हाडटलों.'

तेन्ना रागान उस्मानभाईन ताका भरपूर मार घाल्लो. पूण आतां ताची फुटबॉलाची आवड आनी ताची तातूंतली प्रगती पळोवन उस्मानभाई बदल्लो. तो ताका खेळपाक जाय–जाय ते सामान हाडून दितालो, ताका सरा बरोबर जाय थंय धाडटालो.

शाकीर बारावेक बऱ्या मार्कांनी पास जालो. ह्या वेळार अश्पाकान बापायक म्हळें, 'अब्बू, अब आपके इंजिनियरको सचमुचका इंजिनियर बनाओ।'

उस्मानभाईन ताका खऱ्यानीच इंजिनियरींग कॉलेजींत घालो. शाकीरान मन लावून अभ्यास केलो आनी तो इंजिनियर जालो. चार वर्सां ताणे एके कंपनीत काम केलें आनी मागीर ताणे हो 'उस्मानभाई मोटर्स' शोरूम घालो.

आतां शाकीरा बरोबर त्या शोरूमांत वतना ताकां सदांच धन्य दिसताले.

'बेटा, इंजिनियर, मैं तैय्यार हूँ।'

'हां चाचू, म्हजें जालें.'

'शाकीर, नाश्ता रखा है।' भितल्ल्यान चाचीन म्हळें.

'चाची आसूं, वेळ जाता.'

'नाश्ता नही लिया बेटा, आज कसलो उपास? रमजान केन्ना सोंपलें.'

'चाचू, आज खूब कामां आसात. चल या.'

उलयतां – उलयतां शाकीरान चाचूक व्हरून गाडयेंत बसयलो. आनी गाडी सार्ट करतां – करतां म्हळें, 'चाचू, आतां नवे गाडयेची डिलिव्हरी घेवपाक पार्टी येतली. तांची सगळीं कागदां बी जाग्यार घालूं जाय. काल नायकसायबान गाडी सारकी करपाक दिल्ली. तिची ट्रायल घेवपाक जाय. तांचो ड्रायव्हर येतलो गाडी व्हरपाक.'

'अरे, अरे, इंजिनियर क्या बोलते जा रहे हो? कामां खूब आसात तुका, जाणा हांव. पूण सगळीं कामां कितें तूं एकटोच करतलो. जाल्यार इतले नोकर कित्याक दवरल्यात? आतां तूं पाने आनी स्क्रू घेवन हात काळे करून कामां करपी शाकीर उरूं ना, तूं आतां पात्रांव हें याद धर.'

'चाचू, आप भी ना. नोकर कितलेय आसूं, हावेंच सगळेकडेन लक्ष दवरूं जाय म्हणून तुमीच शिकयलां न्ही म्हाका. आनी चाचू, पात्रांव हांव न्ही तुमी.'

उलयतां–उलयतां ते आपल्या शोरूमा म्हऱ्यांत पावले.

'चाचू, आप यहीं बैठिये, तुमकां व्हरूंक कोणाकय धाडटां.'

'इंजिनियर, तुम भागो तुम्हारे काम पर, हांव येतां सवका–सवका.'

वॉचमनान गाडयेचें दार उगडलें. उस्मानभाईन सवका–सवका दोनय पांय सकल दवरले. वॉचमनान ताका हाताक धरून उबो केलो. आतां ताच्यान एका जाग्यार चड वेळ बसतकच सट करून उठून चलपाक जाय नासलें. तो बडयेर पेज घालून चलतालो.

वॉचमनान ताका हाताक धरून गेटी भितर हाडून कदेलार बसयलो. थोडी वेळ थंय बसून मागीर भितर वचप ही ताची सदचीच संवय. थंय बसून ताणें आपल्या शोरूमाचेर नदर भोंवडायली. 'उस्मानभाई मोटर्स' ही चकचकीत पाटी पळोवन सदांच ताची मान तायट जाताली. आतांय ताच्या मनांत आयलें, 'मेरे इंजिनियरने मेरा सपना सच कर दिया।'

'साब अंदर चलेंगे ना, छोटेसाब बुला रहे है।'

वॉचमनान येवन सांगलें.

'हां बेटा चलो.'



# म्हजो बाबा




–तुषार तानाजी हळर्णकर



म्हजो बापूय डॉ. तानाजी हळर्णकार. ल्हानपणापासून हांव ताका बाबा म्हणटा. 'बाबा' हो ल्हान शब्द, म्हज्या बाबाचे प्रतिमेक आस्पावन घेवपाक. पूण आयज हांव एका पुताचे नदरेतल्यान म्हज्याखातीर बाबा कोण हें व्यक्त करता.

म्हाकां समज येत सावन म्हज्या बाबाची प्रतिमा म्हजे मुखार अशी आसलीं. एक उच्च शिक्षीत, सुसंस्कृत व्यक्ती. शिक्षक, लेखक, विचारवंत म्हणून लोकां मदीं नांव जोडिल्लें व्यक्तीमत्व. हे सगळे करपाक बाबा सेल्फ मेड आसलो हे आईकडसून समजलें. तेन्ना बाबा बद्दलचो आदर आनी अभिमान दुगणो जालो. बाबा तसो खूब कश्टाळू. ऑफिसांतल्यान येवन तो आपले लिखाण बरोवप करतालो. जे मागीर वर्मानपत्रांनी, मासिकांनी छापून येताले. त्या लेखना संबंदी लोकांकडून तोखणाय जातकच म्हजो बाबाबद्दल अभिमान आनीक वाटतालो.

अशें म्हणता कि व्हडल्या झाडापोंदा दुसरे झाड वाडना. ताका दडपण येता. म्हज्या बाबतींत मात अशें जाले ना. जरी बाबाचे व्यक्तिमत्व व्हड आसलें तरी ताणें म्हाका म्हज्या कामांनी आनी आवडीनी प्रोत्साहन दिला. ताणें म्हजेर कसलेच दडपण हाडले ना. उरफांटे म्हाका शिक्षणात आनी नोकरी धंद्यात म्हज्या आवडी निवडीचे स्वतंत्र दिले. आपलो निर्णय म्हजेर लादलो ना.

ल्हानपणापासून हावें पळयला कि बाबाच्यो वळखीं खूब. मागीर त्यो कामावरच्यो जाव वा हेर क्षेत्रातल्यो. ताका लोकांचो सांगात आवडता. ताचें जायते इश्ट शैक्षणिक तशेंच साहित्यिक क्षेत्रात आसात. तांचेकडेन वागप, उलोवप ताचे बेलेन्सड आसता. तांचेकडेन तापोवन किंवा तिडकी उलयल्लो हावें पळोवंकना. मतभेद आसले जाल्यारूय ताजो तोल सुटना. प्रतिक्रिया दिताना सांबाळून दिता. थोडक्यात तो सहसा कोणाक तोडिना.

जेन्ना हांव वयान व्हड जातालो तसो बापूय पूता भितर मतभेद आसतालो. पूण तो समंजसपणान सोडयताले. चर्चा करून सोडयताले. दोनी बाजू आयकून निर्णयाकडेन येताले. कोटुंबीक मतभेद सुद्दा उप्रासत जाल्यार घरांत सगळ्यांकडेन विचारविनमय करून निर्णय घेतल्या. ताणें केन्नाच आपले निरणयाचो हट्टहास धरलो ना. ही ताचीं गजाल, स्वभाव म्हाका खुब भावलो. बाबा म्हाका चड होलमलो जेन्ना हांव बापूय जालो. बापूय भुरग्यां मदीं इश्टागतीचे नातें टिकतले तर अेकल्यान मारतें घेवंक जाय. आनी बापायन घेतल्यार चड बरें ही देख हावें बाबाकडल्यान घेतल्या.

कश्टी आनी जिद्द आसल्यार मनीस व्हड जाता हें हांव बाबाकडल्यान शिकला. तशेंच मनीसपण आनी सोशीकपण आसल्यार समाजात नांव जाता हे म्हाका बाबाकडसून कळ्ळा. आनी हावें म्हजी पावला हळू हळू तेच दिशेन वळयल्या.

•••

# दादाकाका



– मुकेश थळी

म्हाका पांच काका. आमी सगळे पुतणये अपुरबायेन अती लागीं दादाकाका कडेन. दादाकाका म्हळ्यार सर्गेस्त प्रकाश थळी. तोवूय जॉली, खेळ्कर, विनोद करपी. म्हणटकच आमकांय तेन्ना भुरगेपणांत ताचे कडेन ज्योक करीत, फकांडां करीत रावपाची संवय आनी ताकाच लागून ताची घसट चड. म्हणजेच ह्या नात्यांत बाकिच्या काकां परस मेकळेपण चड. तातूंत पुतणयो आनी बापोलयो ह्या वडीलकीच्या नात्यांतलें उपचारीकपण ना. खबरी मारच्यो नेटार आनी बिनधास्त त्यो दादाकाकाकडेन. तात्विक वाद घालचे ताचेचकडेन. आमच्या भुरगेपणाचे पिरायेक अनुसरून गरज नासतनाय कला, साहित्य, संगीत, राजकारण, समाजकारण हातूंतल्या कांय विशयांचेर वाद घालचे तेवूय दादाकाका कडेन.

दादाकाका भुरगेपणांत म्हळ्यार कॉलेज शिक्षणावेळारूच मुंबय गेलो. ताका व्हडल्या भावान श्रीपाद(आबा) मुंबय व्हेल्लो. थंय ताच्या गुणांची पोसवण बरी जाली. वाचन, लेखन, नाट्यलेखन आनी दिग्दर्शन हे गूण त्या मुंबयच्या मोट्या आटापाच्या दर्यांत बरे तरेन विकसीत जाले. संगीत आमच्या कुटुंबांतूच आसा.ताका संगिताची बरी जाण आशिल्ली. मुंबय तो वाळकेश्वराक रावतना पेटी वाजयतालो अशें म्हाका आबाकाका सांगी. नाट्य दिग्दर्शनांत संगीत जाणकारीचो प्रभावी वापर तो बरे तरेन करतालो.

हांव शाळेंत म्हाड्डोळा शिकता आसतना दादाकाकाक कोंकणींतल्यान पत्रां बरयतालों. तोवूय नेमान म्हाका बरयतालो. ताचें अक्षर पालशें, तिरपें, धांवतें, स्पश्ट. कालांतरान हांव रवीन्द्रबाबा कडेन मार्गदर्शना खातीर वचपाक लागलों ताचो ताका अभिमान. वासांनी जीव पिसो हो ताचो निबंद पुनव नेमाळ्यांत हांव स्कूलाक आसतना छापून आयिल्लो. ताचें आनीकूय कांय बरप अदींमदीं पुनव अंकांत येतालें. खतखतें हो निबंद त्याच काळांतलो.

दादाकाका लग्न जातकच गोंयांत स्थायिक जालो. आदीं मुंबयंत महाविद्यालयांत तो इंग्लीश शिकयतालो. गोंयांत येतकच तो मडगांवां दामोदर कॉमर्स कॉलेजांत इंग्लीश शिकोवपाक लागलो. ताणें मडगावां नाटकां आनी एकांकी बसयल्यो. मुंबयंतल्या राबित्यांत नाट्यकलेचो दीर्घ अणभव आशिल्ल्यान ताणें गोंयच्या रंगमाचयेक एक नवो आयाम आनी साज चडयलो. कला अकादमीच्या मराठी आनी कोंकणी नाटकांचे सर्तींत ताणें एका परस एक अप्रतीम नाटकां बसोवन सादर केलीं. इनामांय घेतलीं. ही वळेरी बरीच व्हड. फांकीवंत रंगकर्मी आनी नट अजित केरकार दादाकाकाचो मेवणो. केरकारांच्या नाट्य संस्थेवरवीं दादाकाकान कितलींशींच मराठी आनी कोंकणी नाटकां बसयलीं.

म्हजो व्हडलो भाव अमोलभाई आनी हांव केन्नाय आयतारा राय दादाकाकाक मेळपाक वताले. ताणें ग्रामोफोन प्लेयर घेतिल्लो. किशोरी आमोणकर, प्रभा अत्रे हांचें शास्त्रीय गायन तशेंच हेर एलपी आमी आयकत बसताले. कॅसेट प्लेयर घेतिल्लो. हिंदी फिल्मी संगीत धरून नाट्यगितां आनी हेर संगिताच्यो कॅसेटी आशिल्ल्यो. आमी त्यो आयकताले. ताचेर चर्चा करताले. साहित्य अकादमीच्या इंग्लीश नेमाळ्याच्यो राशी दादाकाकाच्या हारशाच्या आरमारींत दाळून दवरिल्ल्यो दिसताल्यो.

दादाकाका भितर एक कुशाग्र बुध्दीचो संपादक आशिल्लो. कुळागर नेमाळ्याचें संपादन ताणें कांय तेंप केल्लें. खूब कश्ट घेवन तो तें काम करी. भार आयिल्ले भशेन, उमेदीन. आमी राय वताले तेन्ना तो आमकां आपलो लेखकां कडलो पत्रवेव्हार दाखयतालो. ताणें उपरांत मडगांवां सुनापरान्त दिसाळ्यांतूय काम केलें. माथाळे दिवपाची एक वेगळी कळाशी ताचेठांय आशिल्ली. कथांक वा स्तंभांक ताणें समर्पक माथाळे दिले.

उलयता आसतना उतरांच्यो कोटयो करपाची ताका संवंय आशिल्ली. एकदां एका सह–प्राध्यापकान नवीच लुना हाडिल्ली. लुना ही त्या काळांतली धाकटुली दुचाकी. ताणें लुनाचेर बसून दादाकाकाक विचारलें – सांग मरे, हांव कसो दिसता? दादाकाकान ताका सांगलें – यू लूक लायक 'लुनॅ'टीक!

एकदां कॉलेजाचो टूर खंय तरी गेल्लो. बंगळूराक बी आसूंये. वाटेर टायर जालो पंक्चर. कित्लोसोच वेळ टायर घालपांत गेलो. बसीकुशीक राविल्लूया घोळक्यांतल्यान कोणें तरी विचारलें – केन्ना जातलें कांय हें कटकटीचें काम? दादाकाकान ताका रोखडीच जाप दिली. इट्स अ 'टायर'सम जॉब!

दादाकाका बांदोडेचो भावोजी आशिल्लूयान, ताका बांदोडेचेच न्हय तर आख्ख्या फोंड्या म्हालांतले चडशे लोक भावोजी म्हणटाले. कांय जाण सर म्हणटाले, कांय जाण प्रोफ्सोर म्हणटाले. कांय जाण प्रकाशभाई वा प्रकाशबाब. कित्लेशेच कलाकार आयजूय ताच्यो जायत्यो यादी सांगतात. कोटयो करून हांसोवन मुड्डो करता म्हूण कांय जाण ताका कोट्याधीश म्हणटाले.

उलयतना हजरजबाबीपण आनी उतरांचो खेळ करपाक ताका आवडटालें. आमच्याच नात्यांतले एकलेची खबर चलतना कोणें तरी म्हळें, ही तिचेतुळेन काळी. दादाकाकान म्हळें – अशें केन्नाच म्हणचें न्हय. ही गोरीच; पूण ती मात हिचे परस अदीक गोरी अशें म्हणचें!ताचें कांय सिम्बॉलीझम म्हाका आवडटालें. एक दीस ताणें चर्चेवेळार म्हळें – पळे मुकेश, संगितांतले कांय राग अशे आसात की बारीकसाणेन आयकुचे पडटात. भूप काय देसकार हें समजप म्हळ्यार पयसुल्ल्यान पळेतल्याक बडीशेप काय जिरें हेंच कळना. हात लावन म्हऱ्यांत हाडून पळोवचें पडटा. सांसवां वा नाचणे पयसुल्ल्यान वळखूं नजो अशें हें. मातसो फरक आसता.

एक दीस कोणें तरी युक्तीवाद केलो. आदवोगादी कशी. दादाकाकान ताका सांगलें – दाबण न्ही व्हडली सूय इतलेंच सांगता तूं. कायलोळ्यो करून. ताणें आदवोगाशी करतल्याक बेतेकाब केल्लो. सगळे हांसले.

एका कार्यावळींत, एक दीस तबला सोलो कार्यावळ चलताली. तरनाटे भुरगे वाजयताले. हांव आनी दादाकाका आयकूंक बशिल्ले. कांय भुरगे थोड्या वेळान मातशे लयकारीक हालूंक लागले. हांवें म्हळें – दादाकाका, लय पाव मात्रेक लेगीत हालल्यार प्रलय जाता, न्हीं? म्हजो आजो गंगाराम थळी हो मोटो पखवाजवादक आनी तबलेंय वाजोवपी. दादाकाकान कानांत सांगलें, चल भायर या. भायर येतकच ताणें एक जबरदस्त कमेंट माल्लो, सगळे खो खो करून हांसुंकूच लागले. प्रेमभंग लेगीत सोसूं येता रे, आनीक कसलोय भंग सोसूं येत पूण न्हय हो लयभंगन्हीं रे....

हांव दादाकाका कडेन उलयतना अदींमदीं इंग्लीशींतल्यान संवाद सादी. इंग्लीश व्याकरण वा उच्चार बी चुकतकच ताणें ते सुदारचे. ताची इंग्लीश बरी आशिल्ली. ताणें आपणाक आवडटा त्या साहित्याचे इंग्लीशींत अणकार केले. संस्कार ही यू आर अनंतमूर्ती हांची कन्नड कादंबरी दादाकाकान कोंकणींत हाडली. हे कादंबरीक ताका साहित्य अकादमीचो कोंकणींतलो अणकारा खातीरचो पुरस्कार मेळ्ळो. एक दीस अनंतमूर्ती कला अकादमींत एके कार्यावळींत आयिल्लो. दादाकाका आनी तो मेळ्ळे. दोगांनीय इंग्लीशींतल्यान खूब चर्चा केली. ती आयकून आमच्याय गिन्यानांत भर पडली.

काशिनाथ महाले, मनोहरराय सरदेसाय आनी उदय भेंब्रे हीं दादाकाकालीं दैवतां कशीं. तांच्या गुणां विशीं तो उलयतालो तेन्ना तांचेविशींचो ताचो उपाट आदर दिसतालो. दादाकाकान कवितां वरवीं साहित्य साधना सुरू केल्ली. 'मीर्ग आयलो, मीर्ग आयलो, पावसा पुरूमेंत जावंकूच ना' ह्या माथाळ्याची ताची कविता म्हाका एसएससी थावे यत्तेंत पाठ्यपुस्तकांत आशिल्ली. ताचो कवितां झेलो छापपा खातीर लेगीत तयार जाल्लो. पूण कोणाक तरी दाखोवंक दिल्लो आनी तो शेणलो अशें ताणेंच म्हाका सांगिल्लें.

दादाकाकाले विचार प्रागतीक. आर्विल्ले विचारसरणीचे. तो स्पश्टवक्तो. कोणालोय पार्ट आवडलो वा बरप आवडलें जाल्यार तो तोंडारूच तुस्त करून सांगतालो. त्याच अभिनेत्याची वा अभिनेत्रीची भुमिका आवडलिना जाल्यार तो मुजरत आवडलिना म्हूण सांगतालो. ताच्यांत एक समीक्षक आनी टिकाकार आशिल्लो. परखड. मेकळेपणान उलयतालो आनी बरयतालोय.

हांवें दादाकाका कडेन कोंकणी साहित्य आनी साहित्यीक ह्या विशयाचेर खूब खेपे विस्तारान चर्चा करची. अणकार ह्या विशयाचेर चर्चा करची. हांव सातत्यान बरयतां म्हूण तो म्हजी अपुरबाय करी. म्हज्यो आकाशवाणीवेल्यो बातम्यो तो आयकतालो. तातूंत आगळीवेगळी चूक उरली जाल्यार फोन करून मुजरत सांगी. तातूंतल्यान हांवूय सुदारलों.

कुटुंबांत कसल्याय कार्यावळींत भुरग्यां कडेन, तरनाट्यां कडेन आपणा परस जाणट्यां कडेन सगळ्या थरांतल्यां कडेन तो सहज, सोपेपणी मिक्स जातालो. संवाद सादतालो. सगळ्यांक हांसयतालो. ताचे कित्लेशेच विनोद आयजूय याद जातात.

मनीस शरीर रूपान जरी नासलो तरी लेगीत कित्ल्याशाच प्रसंगांवेळार ताची भितल्लूयान याद येता. कोणेंय बरें गीत म्हळें, पार्ट केलो, बरें बरयलें वा जबरदस्त कोटी वा उतरांचो खेळ करून विनोद केलो काय त्या त्या वेळार म्हाका दादाकाकाली हमखास याद येता. भैरवीचे गायनाचे वा वादनाचे सूर कानांत मातशे पडले काय ताची याद येता. भैरवी ताचो आवडटो राग. तो कित्लोय आयकल्यार ताची केन्नाच तृप्ती जायनासली. आयजूय केन्नाय वातावरण गंभीर जाता तेन्ना दादाकाका आसल्यार सणसणीत विनोद वा कोटी करून हांसोवन वातावरण हलकें करपाचो अशें दिसता आनी याद येता. आत्र्यापयऱ्यान कित्तें तरी घडटा आनी ताची याद येता. लागींच्या इश्टांक मागीर हांव तें शेअर करतां. दादाकाका सदांच सांगी – जाचें जाता स्मरण, ताका नासता मरण!

•••



# दादा आनी हांव




– शुभांगी नेवरेकार

दादा म्हणचे म्हजो काका डॉ. दत्ताराम सुखठणकार. आमचे घरातली मनशां, सोयरी, ताचेपरस जी ल्हान आसात, ती ताका दादा म्हणतालीं. जेन्ना म्हाका ताजे विशीं बरोवशी म्हणून विचारप जाले, तेन्ना म्हाका अेकेवटेन खूब खोशी जाली, पूण दुसरे वटेन हे शीव धनुष्य पेलतले म्हाका? तो दुबाव मनांत आयलो. कारण दादा म्हळ्यार आमचे सुखठणकर घराण्यातलो असामान्य व्यक्तीत्व आशिल्ली. आनी ताजे विशयी बरौंक, थोडे काय आसना म्हाका मेळटा, ते म्हजे भाग्य समजून, हांवे तांकां बरैता म्हळे.

हांवे आज्जेकडल्यान आयकल्ले, ताजो जन्म दत्तजयंतीक जाल्लो. आमचे माशेलातल्या घरांत. त्या दिसा आमच्या माशेलांतले योगानंद कामतीचे बापूय आमगेर आईल्ले. चलो जाला म्हणटकर, ताणी चल्याचे नांव दत्ताराम दवर म्हणून सांगले. कारण दत्तजयंती आशिल्ली. म्हज्या आज्याक ते पटले, आनी ताणे दत्ताराम नांव दवरले. दादाचे शिकप चौथी मेरेन माशेलांतूच जाले. मागीर फोण्यां आल्मेद कॉलेजींत, आनी लीसेवाचेर, ताजे मागीर अेक वर्स तो म्हज्या आज्याच्या धाकट्या भावागेर. 'सांब सुखठणकार' ताज्या काकान कोल्हापूराक व्हेलो. आपल्या म्हत्यांत तो थंय राजाराम कॉलेजांत प्रोफेसोर आशिल्लो. ताजेमागीर ताणे दोतोरकी पणजे गोवा मेडिकल कॉलेजांत केली. ताजो जन्म अकरा डिसेंबर अेकोणीशें चोवीसांत जालो. आनी लग्न तीन मे अेकोणीशें अेकोणसाठ.

म्हाका याद उरल्या, ती पयले खेपे दादाक पळैल्याची, ती म्हणजे गांवदेवी आमच्या बंगल्यात. आमी सगळी सुखठणकार फॅमीली अेकठांय रावताली. फकत आमचो आजो, आजी गोयांत आशिल्ली.

आमगेर नवीन सोफा हाडील्लो, हांव आसतले, पांच वर्साचे आनी म्हजेकडल्यान तितेर ताजेर सांडलो. जंय दाग पडलो, थंय हांवे म्हजी बावली बसैली. सानचो बापूय येतकच ती कुशिक काडली. ताका बसपा खातीर. कुशीक काडना फुडे ताका तो दाग दिसलो, आनी तो म्हाका विचारूंक सोदतालो ताजे पैलीच हांवे बावली मुतली म्हळे. त्या बरोबर म्हजो भियेवन जाल्ले तोंड, आनी हांवे बावली मुतली म्हळे, ते पळोवन तो तापचे सोडून हांसूक लागलो. ते पळौन हांवे रडपाक सुरवात केली, त्याबरोबर दादान म्हाका उखलून घेवन समाजायले. ही दादाची आनी म्हजी पैली वळख. तेन्ना नाते समजुपाचे वय नाशिल्ले. अशी आम्ही व्हड जावपाक लागली. हळू हळू दादाचो स्वभाव कळपाक लागलो. तो हुशार आशिल्लो, मायेस्त, तितलोच राग भंयकर येतालो. मागीर तो कोण बी पळेनाशील्लो. एका उपरान सांगापाचे म्हळार 'खोट मारतालो, तितलोच म्हत्यान घेवपी तोच आशिल्लो.' आमी भावाली, आनी भैणीली भुरगी ताका खुब प्रिय आशिल्ली. तो मुंबयच्यान गोयां आयिल्लो आसल्यार, आनी आमी आजोळा आसल्यार, रोखडे आफौन हाडटाले. एकदा अशेच आजोळा गेल्ले, आनी म्हाका थोडे दिस दोतोरान वक्ल लाय सांगील्ले. दादा आयला कळतकर, मावशेन म्हाका हाडून पयले. दादा घरा नाशिल्लो.शिगम्याचे मेळ, तेन्ना खेळपाक दारांत येताले. हांव दारांत बसून ते पळयताले. आंगणांत आमच्या खेळटाले ते. इतल्यान हो केन्ना आयलो कळ्ळोना. म्हज्या आज्जेक विचारूंक लागलो 'हे संवग खंयचे शिगम्यातले बसला हांगा.' हांवे वक्ल लाईल्ले म्हणून, घरांत चलता फिरता फकाणां आसतालीच.

पूण तो स्वता केन्ना हांस नाशिल्लो. आमचे घराण्यांत सगळ्यांक पावला तो. सोयऱ्यांक इष्टांक. ताजे कडल्या जायना, अशी खंयचीच गजाल नाशिल्ली. ताका सांगले म्हणजे काम जातलेच अशी गॅरंटी आसताली. घराण्याचो अभिमान आशिल्लो ताका. म्हाका याद जाता, अेकदा आमी मैत्रीणीन 'पेन फ्रेंड' केल्ले. भायल्यो मैत्रीणी. तांचेकडल्यान आमकां तांचे थंयच्या देशाचे कळटाले आनी तांका आमच्या. पूण हांव तांगेर आसतनां तो देडाक, दोनाक डिसपेनसरींतल्यान घरा पावतालो. आनी पोस्टमनाचो बी तोच वेळ आसतालो. जुस्त म्हजे पत्र ताजेकडेन दिले. म्हाका ताणे ते पत्र पळौन म्हळे, 'तुज्या सारख्या कुलीन घरंदाज घराण्यातल्या चलयेक, हे सोबना पेन फ्रेंड बी.'

आमी सगळी जाणा, ताका खुब भियेताली. आमका किते सांगपाचे आसल्यार काकी कडल्यान सांगप. विचारता तितलेच सांगप आसताले. गजाली किंवा बसून उलौप अशे नाशिल्ले. पूण लक्ष सगळीकडे आशिल्ले. दिवाळेक तरेतरेचे साबण हाडप आशिल्ले, हाडना फुडे म्हाका हांव थंय आसल्यार सांगप. 'तुका जाय तो पैली काड.' माया ताका सगळ्यांची आशिल्ली. गोयां येतकर तो वेगळोच जातालो. म्हजे आज्जेन बांयचे उदक बी काडील्ले ताका आवड नाशिल्ले. आवाज आयलो की तो धावत वचून कळसूली भरून दितालो. तेन्ना घरांत नळ नासताले. आमचे भागेल्याचे बी खुब आशिल्ले. म्हणजे तांचे कडल्यान काय घेवनाकात. तो तांका दियात, खेपो शर्ट बी, नविन काडून तांका दिल्ले पळेल्यात. ताका गोरवांची, कुत्र्याची बी माया आशिल्ली. तागेर पपी म्हणून कुत्रो आशिल्लो, तो ताजे कॉटी सकयल बसून आसतालो. दादा भायल्यान येतकर कॉटीर न्हीदून पेपर वाचप, आनी पपीन तो येतकर कॉटी सकयल बसप. पपीनंतर चेपू म्हणून गावठी कुत्री आशिल्ली. तेवूय तशेच. कॉटी सकयल ताज्या बसून आसतले. म्हजे भुरग्यांचे बी खूब आशिल्ले ताका. खूब अपुरबाय केल्यात तांच्यो. मदी तो तिकीटी पोस्टाचो कलेक्टर करतालो. म्हज्या चलयेन ताका बऱ्योच दिल्यो तिकीटी अेकठांय करून. तर फोन करून मंजिरीक थँक्स म्हणले दादान. मंजिरीन थँक्स कित्याक म्हणता? अशे विचारतकर, मस्करीत म्हणू लातालो, 'अगं मी आताच लंडनला जाऊन आलो आहे ना, तुला कळावं म्हणून.' ताका साहित्य पुरस्कार मेळटकर, म्हज्या भुरग्यांक आनंद जातलो, म्हणून पत्र बरयिल्ले अजून आसा म्हजेकडेन. गाणे आयकूपाची बी आवड आशिल्ली. ताणे आनी काकीन सहज म्हणील्ले 'श्री गणराया नर्तन करी, आमी पुण्याचे बामन हरी. बामण हरी नर्तन करी.' ह्यो चार लायनी हांव इतली वर्सा आयकून आयकून टेप झरून गेली. दादाचे बरैता तितले थोडे. मित्र परिवार मुंबय आनी गोयां आशिल्लो. मुंबय आशिल्ले तो साहित्यसहवासांत. ताजे घराच्या फाटल्यानच रावताले सगळे मंगेश राजाध्यक्ष, विजया राजाध्यक्ष, विंदा करंदीकर, सुभाष भेंडे. हांव १९७४ रांत थंय आशिल्ले. म्हज्या लग्नाकडे तेन्नना खुब खेपो, आयताराच्यो बैठकी जाताल्ये. विंदा काकाचे कविता वाचप जाताले. केन्ना कविता आयकता आयकता वेळ वतालो कळनाशील्लो. थंय आसतना जवळ जवळ सगळे लेखक लागच्यान पळौंक, आयकूंक मेळ्ळे. म्हज्या साखरपूड्याक आनी लग्नाक आईल्ले सगळे. कारण दादा म्हऱ्यान तांचे येवप वचप आशिल्ले. गोयांत रवींद्र काका सगळ्यांत लागचो, मनोहर सरदेसाय, गांवात आनंद खोलकार, रामचंद्र तिमलो, लाला सातोस्कार, दरेक मित्राक वेगवेगळे नाते आसताले. पूण मुंबय येतकर, ताका तागेर रावप जाय आसताले. ना जाल्यार ताका वायट दिसताले. आनी ताज्या मित्रांक हे खबर आसताले. आनी तो तागेरूच रावतालो. रवींद्र काका (केळेकार) गोदुबाय माशेलांत आमगेर येताली. आमचो दादा गोयां दोन दिसांक पासून आयल्यार अेक दस घरा आनी अेक दिस रवींद्र काकागेर रावतालो. काय जणाचो गोयांत समज आशिल्लो, की तो घरा रावनासतना, रवींद्रकाकागेर रावता म्हणून. पूण ताका जितलो घराचो अभीमान आशिल्लो, तीतलो कोणाकूच पळौना. रवींद्रकाकाचे ताका खुब आशिल्ले. आनी रवींद्र काकाकुय बी ताजे. मुंबय रवींद्रकाका गोदुबाय तांगेरूच, येतकर रावताली. हरशी तो सगळ्या दृष्टीन बरो आशिल्लो. पुण राग आयल्यार मात तो सगळे कोण, किते विसरून वतालो. म्हजी आजी म्हणताली, म्हणजे तीचो तसो समज आशिल्लो. टॉनसीलचे ऑपरेशनावेळा ताजे रक्त खूब गेले म्हणून ताका राग येता. आमी घरची ताजे रागाक सामकी भियेवंन आसताली. हांव तर तो कुडींत आसल्यार बालकनीत, बालकनीत आसल्यार कुडीत. अेक दिस म्हजे बापोलभैणीच्या हाताक किते तरी लागील्ले, म्हणजे ताजे चलयेच्या. घावो जाल्लो बोटाक, तर ते जाळ पट्टले म्हणून कुलेरान खाताले. दपरां आमी जेंवक बशिल्ली. देड वरांचेर चावी काडील्याचो आवाज आयलो. आमका कळ्ळे दादा आयलो. भितर सरलो तोच आमचे जेवणा टेबलाकडे येवन, चलयेच्या हातातलो चमचो मोखून मारलो. आनी 'कसलो तातो मातो करता, बोटाचो, तिखट बोटाक लागतकर बोट सारखे जातले.'

म्हणू लागलो. अशेच एकदा आमी कॅरम खेळटाली. खेळून जातकर आमी कॅरम दाराफाटल्यान दवरिल्लो. म्हज्या काकीन तो पळयलोना. तीचे पायाच्या बोटार पडून बोट निळे जाले.

सानचे इंजेक्शन घेवपाक पेशंट येतालो, काकी शिरीज उकळावन दिताली सदांच. हांवे तीचो पाय दुखता म्हणून शिरींज उकळांवक दवरल्ले. दादान पळैले, हांवे दवरला ते. आयलो बेगीन बेगीन आनी गॅस बंद केलो. हांवे सांगले, ताका भियेत भियेत, तीचो पाय दुखता म्हणून हावे दवरले. म्हाका म्हणू लागलो, ती पायान उकळावचिना, तीका दवरूनी. आनी काकीन तशेच उकळावन दिले. आतां तुमका दिसतले हाका काळीज बी काय म्हणून? पूण होच मीस कुरसांवाचे आशिल्लो. तीन मजले चडून म्हजो बापूय गेला थंय आमकां तेन्ना बांद्रा वेस्टाक हांव रावताले. आनी तो बांद्रा इस्टाक. म्हगेल्या फ्लॅटार येवन म्हाका म्हऱ्यान घेवन 'तु रडू नाका हांव आसा न्ही' हे सांगपी आमचो दादा. म्हज्या आवय, बापायक खूब मानतालो तो. तशेच पयले खेपो चल्याच्या वेळार खूप त्रास जालो बाळंतपणात. दोन दिसानी जेन्ना बाळंतजावन भायर हाडले म्हाका रूमान, तेन्ना स्ट्रेचरावैल्यान हावे पळैले. दादा रूमाच्या दारांत उबो आशिल्लो घामाघूम जावन. पूण तोणार समाधान आशिल्ले नातू जाल्ल्याचे. पयले खेपो तो नातू जाला म्हणून सांगप कुरसांवाचे आसतताय गेला. इस्कादी चढून कसलोच विचार करनासताना. म्हजे मांयक सांगूक. असो आमचो दादा. घरच्या खातीर एकदम वेगळो. जितलो तापट, तितलोच मायेस्त आशिल्लो. रावतालो मुंबय, पूण मनान आनी काळजान गोयांत आशिल्लो. पूण म्हजे आनी म्हज्या भांवडाचे ताका खुब आशिल्ले. निमाणेमेरेन.

●●●





# *Stray Birds*

मूळ: रवींद्रनाथ टागोर
कोंकणी अणकार : माधव बोरकार

१
सपन
बडबडपी बायल कशी
न्हीद :
मोन्यानी सोसपी
घोव कसो.

२
खिणाचो बोवाळ
हांसता अनंताच्या
संगीताक

३
मोगाक पारखो
जाल्लो हो रस्तो
आसा एकसुरो
भर गर्दंतूय.

४
मेल्ल्या उतरांचो
धुल्ल दसला तुका
कर नितळ
आत्मो तुजो शांतीत

५
संवसारान उक्तें केलां
आपलें उजवाडाचें काळीज
यो म्हज्या काळजा
तुजें घेवन प्रेम
ताचे भेटेक.

६
संवसारान चुमला
आत्मो म्हजो
आपले व्यथेच्या ओठांनी
आनी
मागल्यांत गितां
ताच्या वाट्याचीं.

७
चिंतना
आपल्याकूच वाडयता
आपल्याच उतरांनी

८
बरें केन्नाच
एकलें येना
येता तें
सगळ्यांक वांगडा
घेवन

९
देवाचो निशब्दूच
मनशाच्या
चिंतनातल्यान
येता पिकून.

१०
आयचे राती
माडानी मोड धुंवलां
दर्या उचंबळून आयला
आनी
पुनवेचो चंद्र
संवसाराच्या काळजाचें
दिसता स्पंदन कसो.
सांग,
अश्या खंयच्या अज्ञात
मळबांतल्यान
व्हेलां तुवें मोन्यानी
मोगाचें दुखरें
गुपीत?

११
कुपां
येतात हुबत
त्या दिसासावन
न्हय केन्नाच
झडोवंक पावस
वा घालूंक मोडाचो अच्छेव
मात तीं येतात
दिवंक रंग
[illegible]
[illegible]

१२
तुजेंवत
हांसता
म्हज्या शिशिरांतल्यान
दिसांच्या काळजाचेर
दुबावूच ना ताका
वसंत फुलांचो.

१३
दोळ्यांक गर्व दिसना
आपले नीज नदरेचो
पूण दिसता
तांचेवेल्या भिगांचो.

१४
फट केन्नाच
जावंक पावना सत
बळाच्या नेटार

१५
ह्या सुखाचीं
शिरशिरपी पानां
करतात स्पर्श
म्हज्या काळजाक
माणकुल्याच्या
बोटांभशेन

१६
हें माणकुलें फूल
झडलां मातयेंत
ताणे घल्ल्या वाट
पाख्याची.

१७
ते आपलेच दिवे पेटोवन
गायतात आपल्योच प्रार्थना
देवळांनी
पूण सवणीं गायतात स्तोत्रां तुजीं
तुज्याच सकाळच्या उजवाडांत
कित्याक
तुज्या नावांतूच आनंद भल्ला.

१८
केन्नातरी एक दीस
गायतलों हांव तुजें गीत
खंयच्यातरी दुसऱ्या
संवसारांतल्या उदेंतेच्या
उजवाडांत :
'हांवें पळयला तुका
पयलीं
धर्तरेच्या उजवाडांत
मनशाच्या मोगांत.'

१९
रया गेल्लो दीस
फिकट पोल्याचेर
दुकांच्यो कुरवो
दिसपी
ख्यास्त दिल्या भुरग्यावरी
कुपांतल्यान पाझरपी
उजवाड
आनी घायाळ जाल्ले
धर्तरेचें रूदन कसो वारो.
पूण जाणां हांव
आसा यात्रा म्हजी
म्हज्या इश्टाक मेळूंक...

२०
पळयत आसा वाट
सोंशीकपणान
मनीस कुळयेचो इतिहास
अपमानीत
मनशाच्या जैताची.

२१
म्हाका वश्रेवणी
बोवाळाच्या उसळून
येवपी दर्यादिल्या
गितांच्या जुंव्याची

२२
ह्या खिणाक
जाणवता म्हाका
काळजार म्हज्या
तुजी पडिल्ली नदर
लुंवन व्हेल्ल्या
एकल्या एकसुऱ्या शेताचेर
पातळिल्ली
सकाळच्या वताची
मोनेळ कशी.

२३
लजलें सूर्य फूल
आपणावंक
अनामिक फुलाचें नातें
सुर्यान उदेवन
हांसत म्हळें,
'बरें आसा न्हय तूं
म्हज्या मोगा?'

२४
'कोण व्हरता फुडें म्हाका प्रक्तन कशें?'
'म्हजें हांवपण म्हजे फाटीर बशिल्लें.'

२५
जो बऱ्याखातीर वावुरता खप
ताकाच आपल्या बऱ्याक
नासता वेळ

२६
जुळटल्यो जेन्ना
सगळ्यो तारो
म्हजे जिणेच्यो
धनया,
तेन्नाच फुट्टलें
संगीत मोगाचें
तुज्या
प्रत्येक स्पर्शान.

२७
सुटचे पयलीं बाण
फुतफुतता धोणवाकडेन,
'तुजें स्वातंत्र्य तें
म्हजेंयबी.'

२८
दोळ्यांक पातयो
तशें स्त्रुमाक विश्राम

२९
रात
कळयांक वता
फुलोवन
घालून सगळें श्रय
दिसाचे व्हॉटयेंत.

३०
ताच्या शब्दांकूच
ताणे देव मानला.
जेन्न शरन्नांक मेळटा जैत
तेन्ना ताची जाता हार.

३१
कितलें सोपें आसता
सडेतोड उलोवप
जर
सगळें सत सांगपाक
रावना जाल्यार.

३२
तुवें जर
धांपलें दार
सगळ्या चुकांक
तर
उतरतलें सतूय
भायर

३३
'कोण करीत
म्हजें काम'
म्हळ्ळें अस्तमतल्या सुर्यान
'हांव करीन
म्हज्या धनया'
म्हळ्ळें पणटेन.

३४
कालव्याक
आवडटा चिंतूंक
की
आपलेच खातीर
जियेता न्हंय.

३५
तर्कटी मन
आसता
दोशीं वटयां
धार आशिल्ले
सुरयेभशेन.
वापरतल्याचें
ती करता
हात रक्तबंबाळ

३६
इश्वराचो
उजवो हात
आसता
कितली मायेस्त
पूण
तितलोच
भयांकृत दावो.

३७
म्हंजी सांजवेळ
आयली
परके रुखावळींत.
म्हजे
फांतोडेच्या नखेत्रांक
कळ्ळी ना तिची भास.

३८
मनाचो वझरो
खेळयता
जीणेच्या शांत
पाणयाक

३९
सवण्याच्या पाखांक
भांगराचो वर्ख लाय.
ताका उडूंक येवचेंना
केन्नाच उंच मळबांत.

४०
सताची झर व्हांवता
ताणेच खाणिल्ल्या
चुकांचे चरींतल्यान.




४१
म्हज्या इश्टा
झगझगलें तुजें
विशाल काळीज
सुर्योदया बरबर फांत्यापारार
बर्फ पांगुरिल्ल्या एकसुऱ्या
दोंगुल्ल्यांच्या तेमकां भशेन.

४२
ज्यांचेकडे सगळें आसा
पूण तूंच ना
म्हज्या देवा.
ते हांसतात
तांकां
ज्यांचेलागीं कांयच ना
पूण तूं आसा.

४३
कर म्हाका
तुजोच पेलो
आनी
जावंदी म्हजें
पूर्णत्व म्हजें
पूर्णत्व तुजेंच
आनी तुजेंच खातीर

४४
जीविताचे गतीक
मेळटा विसव
आपल्याच संगीतांत

४५
आकूळपिकूळ
काळीज म्हजें
आज
काळाच्या दर्यापिक्षा
एका खिणाखातीर

४६
सवण्यांचे गीत
म्हळ्ळ्यार
सकाळच्या उजवाडाचो
पडसाद
धर्तरिवेल्यान परत
आयिल्लो.

४७
'गावन स्तोत्र
कसो पुजूं तुका
हे सूर्यदेवा?'
विचाल्लें सान
फुलान
'तुज्या शांत निर्मळ
मोनेळीन',
जाप दिली
सुर्यान.

४८
सोडय म्हाका
म्हजें मरण
अशक्य करपी
म्हजे फाटीक
घट्ट वेंग मारिल्ल्या
अतृप्त भूतकाळांतल्यान.

४९
तुज्या मांगाचेर
म्हजो विश्वास आसा
हेंच म्हजें
निमाणें उत्तर जावंदी.

५०
केन्नाच जायना
हार मोगाची
हें मानूंक सत
आमी
नासतात तयार.

•••

# दोन कविता

– काशिनाथ शांबा लोलयेकार

## मीर्ग: २०१८

गडगड तडतड चकचक
हाली अचकीत दोळे भरून येतात
भर पावसांत

हांव बरोवपाक सोदतां
उतरां-उतरांत काळी कुपां दाटून येयली
एक काळी कविता
पूण हाली म्हाका कविता सुचनात
कविता सुचपाचे दीस आता सोंपल्यात
म्हजे दीस आता सोंपल्यात
आसूं समझके क्यूं मुझे
आँखसे तुमने गिरा दिया
– सारकी भिजलेली उतरां
हांव बरोवंक पावलो ना जीण भर

भायर पावस
भितर पावस
आनी हांव एकलोच बसलां काळखांत
उजो लागलेल्या काळखांत
पावसाळे पळोवपाचे दीस आता सोंपल्यात

## म्हापसा : २०१८

हांव
म्हातारो जालों हा म्हापशांत रावोन-रावोन

पळय, नापयत जायत आसा म्हाका [illegible]
म्हापशांतलो एक-एक मनीस
ल्हवू-ल्हवू अदृश्य जायत आसा म्हापसा-शार
म्हज्या दोळ्या मुखा [illegible]
दोळो मारून मुमुरखी हांसता आता म्हाका
सैंट झेवियस कॉलेजा राखयतली मोसुंडी
म्हज्या विसर्जनाची तयारी करीत आसा तारी [illegible]
तारी कडचो पूल तर केन्ना पसून म्हजी वाट [illegible] आसा
पळय, म्हजी खबर घेवपाक येयल्यात लक्ष्मीनारायण,
दत्तात्रय, मारुती, सातेरी, बोडगेश्वर, मिलाग्रीस..

हांव आता धांवत चडटलो आसगांवची [illegible]टी
थंयच्यान दोळो भरून पळयतलो अख्खें म्हापशें-शार
हांव सिमेंटाच्या हतयार बसतलो हतयाच्या जार्दीनांत
आनी हतयाच्या सोंडयेंतल्यान घसरत देंवतलो भूंयेचेर
नित्कोच जल्मलो भुरगो जावन

हांव
आता खंयच्या शारांत पावलां काय?

# म्हजे पुनर्जल्म

– प्रकाश पाडगांवकर

हांव नुस्तें जातलों
झाड जातलों, झाडावेलें फळ जातलों
माडावेलो नाल्ल जातलों
वचत थंय पावत थंय
रूजत फळत रावतलों...

विर्यतलो हांव
मातृत्व फळवणी योनींनी
नुस्तें, जनावरां, जीव जिवाणूं
वस्पतींच्या प्रसवपी आंगांनी

हांव मनीस मरतलो
सारें जावन कण कण म्हजो
हजार वर्सां
नवे नवे पुनर्जल्म
घेत रावतलों.

# तीन कविता

– परेश नरेंद्र कामत

## हो धग सोंसतात झाडां

हो धग
सोंसतात झाडां वोताचो
आनी मागीर
फुलतात उज्या भशेन तांबडींगुज
जीण
उधळीत
वाऱ्यार
खांदयां-खांदयांनी
पाकळ्यां-पाकळ्यांनी...

## अथांग

जीण पातळटा
दर्या वरी अथांग जावन
उदक

ल्हारां उसळटात
स्वास जावन दर्याचे
जिणेंत...

## सूख

ओंठांतल्या ओंठांत
आयलें फुलून
उमो कशें
सूख.

# इती इती पाणी

- हर्षा शेटये

इती इती पाणी
गोल गोल राणी
इती इती पाणी
गोल गोल राणी

पावलांक तेकोवन हात
इती इती पाणी म्हणीत
राणी उबी आसा
गोल गोल राणी म्हणतल्यांनी
आता तिचे भोंवतणी
फेरो घल्ला

पावलां,धोपर,कंबर,खांदे
हात दवरीत
राणी सांगत आसा
इती इती पाणी
इती इती पाणी

पाणी वयर वयर
चडत आसा
गोल गोल राणी
गोल गोल राणी
आवाज वाडत आसा
राणी घुवत आसा

अशी कशी ही राणी?
पावलांकडेन आयिल्लें उदक
माथ्यामेरेन पावसर
ओग्गी रावता
इती इती पाणी म्हणीत

मागीर सुरू जातात
तिचे येत्न फेरो तोडपाचे
हो फेरो तोडप
तशे सोपे न्हय
ती नेट लायता

ती फेरो तोडताय बी
ते मेरेन दुसरी राणी
इती इती पाणी म्हणीत
तिचो जागो घेता.

•••



# शेणै मिश्तीसाक कवनांनी

– शैलेन्द्र मेहता

बल्कांवार बसून शिगरां फुकीत
मोस्त्रां तोखेवपाचे दिस गेले
हालींसरा तरेतरेचीं शँपलां
ऑनलायन चोंवक मेळटात
देखून दिसता ईस्तिमसांव
अखंड आतेसांव दिवपी
आनी गिरायकांची कुयताद राखपी
कार्ताद एंप्रेगादांचें

आपल्या बापायचो फांत समजुन
माल्लीं फोल्गां पोब्र फिदाल्गावरी
पुण मेजावयलीं केळीं काडून
फेर्यात जोडपाचे दिस गेले
शिकून गोर्द लिब्रां
आनी ऊतरां कुंप्लिकाद
बायश कातेगोरीचे आल्त जाले
मारिनासतना सिंतीदान पावल
जाण्टेल्यांनी वाजयल्ल्या मुजगार
कुंपासार नाचपी बोंडेर
पिकसांवान सोंपले

पातिशेर जाल्ल्यांक परवडना
काडूंक कलय
कुजनांतल्या तपल्या–भोगुणांक
देखून आयला वालोर
गाड्यांचेर – माणांचेर
जानोत दिसपी पाकिटांतल्यान
तिठ्यावयल्या बाजारांत मेळपी
इन्स्टन्ट खाणांक जाय तसल्या
ओब्र आमचें , पसरेय आमचे
खाणां रांदपी कुजनेर आमचेच
मागीर मेन्यू कशे जायत तांचे ?

भाटां बेसां देवस्पणां
देमांदिस्तांचीं आजुय फेस्तां
काशांवांतल्यान मारुन भोवंडी
जमनीपोटांत कुड कुसता
आनी हुबून वतना आत्मो धुंवरार
कामीण जाता पुराय काबार
पूण बडीचीं दुयेंसां जायनात कुरार
वेवस्था ग्रांद आसल्यार फावरार
फोसणां घालीत मारतात तीं रिवर्स
घालतात आडवो कसलोय फोर्स
देमांद जाता सटिंग
न्याय सोदपीच फटींग

लिबरेसांवाचें ओब्र आयलें
तोकासांवांचें पर्व सोंपलें
कालोर धांवडांवंक झॅलाद माल्लें
सुशेगादपण देमायज जालें
जेन्ना नव्या इश्कोलान लिसांव घेतलें
भायले- भितल्ले केस्तांव पेटलें
लिपून भितोडेक झडाआडसाक
पयसुल्यान गाजोलीन ओतलें
जुवीज नवे पूण कायदो तोच
आबुजपणाचेर पासीयेंस काडलें
घुस्पावन सगळ्यांक कोफुसांवांत
कापाजदादीचेर बुर्र जोखले
रोयिल्लें कर्तुप दंवार पिकलें
आमीच मरे नवे पाखले

पापेलांवाच्या घरांत रावतल्यानी
फोगाचो पुरुमेंत करचो कित्याक?
बुतांव आसतना खोमसाक नवे
आल्फीनेतींचो सोस कित्याक?
कोण सांत कोण मालांद्र
वळखून लेगीत तड्डकां कित्याक?
दांडे काडील्लया वोल्तेरार
तेमांक लागून बसचें कित्याक?
सोद जाप घोंटेरांत आपल्याच
सासपुन पळय गवेतां कतरेलां
जाण्टेल्यांचें बॉड शिटूक
दिसाक कावळो रातीक नातूक
कॉन्त्रादाचेर करुक आसीनातोर
सेर्त लिपयल्यात तिख्या आपार
दवर बेगीन तेर्म करुन
गांवावयले येतले चोरुंक

नवीं नगॉसां नव्या दिसा
साग्वादिन जोडिल्लीं बेसां
प्राँत रावन वाडयत प्रेसांव
पयलींच घेतलां पवित्र बेसांव
जोडिल्लें ओगडावंक कळाव लागना
जेन्ना फेणये घोंटान ताळो भिजना
पूण आसल्यार घटमुठ कुरसांव
सदांच मेळटलें सातीसफसांव
रगातनूच आसा क्वालिदाद
देखून नोतां लिपय जा ऑर्राद
जांचे कृपेन रावता फर्राद
विसरु नाका म्हणूंक ओब्रीगाद
आरे पात्रांव,
दामाजी पावले भायल्या [illegible]
[illegible]



# रत्ना आनी प्रशांत कॅन्न क्लबांत वांटेकार जावपाखातीर...

- बरखा नायक

म्हजो जल्म २३ मे १९९५ ह्या दीसा जाल्लो आनी तेन्ना हांव पयले खेप म्हज्या आवाय बापायक मेळ्ळे, जरी म्हाका तो दीस याद जायना तरी... तांका दोगांयकय चलीच जाय आशिल्ली. तांच्या आप-आपल्या कारणांक लागून. पूण हांव जाणा, खंयच्याय लिंगाच्या भुरग्याक तीं तीतलेंच बरे तरेन व्हड करपाची.

ह्या लेखांत ज्यो गजाली हांव सांगतले ताचो संदर्भ मेळचे खातीर तांचेविशी थोड्यो गजाली तुमकां सांगप म्हत्वाचें. मम्माचो जल्म एका सामक्या धार्मीक आनी कट्टरवादी घरांत जालो. तिचो बापूय भाऊसाहेब बांदोडकराचो चाहतो आशिल्ल्यान ताणे आपल्या सगल्या भुरग्यांक शिक्षण दिवपाचो थारायले. पूण तिची आई खुपच अंधश्रद्धाळू (पूण हांव तिचेर खूप मोग करता आ!) मम्मा सगल्या तर्क नाशिल्ल्या गजालींक प्रश्न करताली. ती पुरायपणान बंडखोर जाली. बाबाचो जन्म मात एके गरीब शेतकामती घरांत जाल्लो. बाबाचो बाप्पा सुटके झुजारी आशिल्लो म्हण्टकच तो भुरगेंपण सावनच समाजीक आनी राजकीय नदरेन जागृत आसलो. मम्मा आनी बाबाक प्रोग्रेसीव स्टूडंट युनीयनांत समविचारी मनश्यां मेळ्ळी. जांचे कडल्यान तांका उर्बा मेळ्ळी. संघटनेक लागून तांचे दोगांयचे राजकारण, समाज, लींग, देव, धर्म ह्या विशयावेले विचार घडूंक पावले. थंयच तांका प्रशांती काकी, संदेश काका, निश्टा मावशी, अश्वीन मामा, बनी मावशी, लेस्टर मामा, मेहता मामा, साई मामा, श्रीधर काका, डेसमंड अंकल, क्लिओ चाचा, सुशीला आंटी, राघोबा दादा, मोहनदास काका, प्रसाद काका आनी कितलेशेच हेर ईश्ट मेळ्ळे, जे घरांतल्या परस चड लागीचे जाले. हांगांच मम्मा आनी बाबा एकामेकांक मेळ्ळी, मोगांत पडली आनी उपरांत लग्न जाली. PSU विशी बरोवपाचो हेत ईतलोच की संघटणेचो मम्मा बाबांक मनीस म्हूण घडोवपाक भोव मोत्वाचो वांटो आसा आनी ताचो म्हजेरच प्रभाव पडला आनी आमच्या नात्याचेरय तीतलोच.

मम्मा म्हाका सांगता जेन्ना तिका आपूण गुरवार आशील्याचे कळ्ळें तेन्ना ती मातशी भियेल्ली. तिका दीसताले तीगेर चलीच जावचें शे. म्हण्टकच तें ताका एक बळीश्ट, स्वतंत्र अस्तुरी म्हूण वाडोवंक शकतली.

बाबान जरी दाखोवन दिले ना तरी ताकाय चलीच जाय आशिल्ले. तो म्हण्टा कारण तो एक अस्तुरीवादी आनी जर संवसारांत बळीश्ट अस्तुरी जाल्या जाल्यार संवसार चड बरो चलतलो आनी ताकाय अशीच एक बळीश्ट अस्तुरी घडोवपाची आसली. पूण म्हाका खबर आसा तो एक म्होवाळ मनीस आनी ताका दिसता पूतांपरस धूवो बापायकडेन चड मोगान वागतात म्हणून ताका हांव जाय आसले.

सुखेचो भंय वतकच तांका दोगांयकय बरे पालक जावपाचे आसले. (जे सगल्याच पालक जावपा आशिल्यांक दिसता.) हे बाबतीत मम्मान निश्टा मावशेक आदर्श म्हूण पळयली. (तशें पळोंवक गेल्यार आनी खूपश्या हेर गजालींनी लेगीत) तिणे म्हाका एक घडणूक सांगली आनी म्हाका दिसतां त्या खिणाक मम्मान थारायले तिका म्हजेंवांगडां कसले नातें दवरूंक जाय ते. तर, एक दिस निश्टा मावशी, अश्वीन मामा, आनी कबीर (तांचो पूत) आमगेर आयिल्ली. कबीर ल्हान आशिल्लो आनी म्हजो जल्म अजून जावंक नासलो. कबीर भायर बागेंत मेळता तसे धावत आशिल्लो निश्टा मावशेन ताका उलो मारला आनी थंड पणान सांगले, '' कबीर, ते तरेन तू धांवता, तुका दुखापत जांव येता आनी ती जर जाली जाल्यार म्हाका तुवे पीरंगल्ले नाका.'' कबीरान तांचे आयकलें आनी तीतलेंच अधिकनेटान धावंक लागलो. तो पडलो आनी ताका दूखापत जाली. निश्टा मावशेन ताची काकुळट करिनासतना, अपूरबाय करीनासतान वा ताचेर तापनासतना ताचेखातीर झेल हाडलो आनी ताचे म्हऱ्यांत बसली आनी ताणे वग्गी बसून आपणाक झेल लावन घेतलो. मम्माचेर निश्टा मावशेचो खरोच प्रभाव पडलो. म्हज्या पालकांनी म्हाका एक समजूतदार मनीस आशिल्ले भशेन वागणूक दीला. भुरगेंपणासावन हांव म्हज्यान जाता तीतली जापसालदारकी घेवंक शकता हेच समजून तांणी म्हाका व्हड केलें आनी चडशे खेप हांव तशेंच वागले.

म्हजी दोगांय पालक नास्तीक. पूण तांणी केन्ना तांचे विचार म्हजेर थापले ना. म्हजे देव आनी धर्माविशीं आशिल्ले विचार म्हजे स्वताचे, तिची कारण आयकून म्हजेर प्रभाव पडलाच पूण तरी लेगीत म्हजे विचार म्हजेच. मम्मान केन्नाच ' हळदी-कुकुम' केले ना पूण भुरगेंपणांत म्हाका त्या परबेक वचूंक आवडटाले. मम्मा म्हाका बरे कपडे घालताली आनी म्हजे मावशेगेर दवरताली. एकदां हावें मम्मांक विचारलें ती कित्याक ही परब मनयना आनी तांणे सांगील्ली कारणां आयतकच म्हाकाय केन्ना हळदी-कुकमाक वचें शे दीसलें ना. मम्माचेर भुरगेपणांत तर्क नाशिल्ले नेम लादिल्ले. 'तुका सायकल चलोवंक मेळना' 'तुका पेवपाक मेळना', 'मासीक पाळयेवेळार तुवे कित्याक हात लावप ना', अशे तरेची बंधना तिचेर पडिल्ली आनी जेन्ना तिणे कीत्याक म्हूण विचारले तेन्ना तिका 'नाजाल्यार तुका सोरोप चाबतलो' अशे तरेचो तर्क नाशिल्ली' कारणां दिल्ली. मम्मा अजून अजाप जाता की लोक ह्या गजालींनी खरेंच मानतात. म्हज्या पालकांनी थारायल्ले की ती म्हाका खंयच्याय आनी कसल्याय गजालीचेर प्रस्न विचारपाक दितली. म्हज्या खंयच्याच प्रस्नांक तांणी किंकोत केले नां. आनी ताणी तांचे कुवती प्रमाण म्हज्या प्रस्नाचो जापो दिवपाचो यत्न केलो. जेन्ना म्हजे प्रस्न कठीण आसतालें, तेन्ना म्हाका पुस्तकां वा म्हायतीपट पळोवंक दिताली, म्हाका याद जाता जेन्ना हांव सात वर्सांचें आसलें हांवे मम्माक विचारलें भुरगी खंयच्यान येतात काय म्हूण आनी तीणे म्हाका हरण भुरग्याक जल्म दीता ताचेवेलो एक म्हायतीपट दाखयलो. म्हाका भंय दिसलो आनी हावे तिका विचारलें हांव तिच्या शौच करपाच्या वांटेतल्यान आयले काय म्हूण. आनी तिणे थंडसाणें म्हाका तिच्या सीजेरीयन बाळंतपणाचे 'मांव दाखोवन म्हळे,' तु भायर येवपाक हे केले. खंयच्याच विशयाक बंधनां नासली आनी हांव कीतलेय प्रस्न विचारूंक शकतालें.

जे मेरेन म्हाका पुराय पणान पटाना ते मेरेन कायच करप ना हेंय म्हाका शिकयल्ले. आनी आता म्हाकां दिसता



म्हजे पालक त्याच गजालीचे बळी जाल्यात. कांय वर्सां पयलीं हांव, मम्मा आनी तिच्या कांय ईश्टीणी वांगडा अंदमान प्रवास करताले. मम्मा आनी तिच्यो ईश्टीणी सांजे स मेरेन वांगडा बशिल्ल्यो आनी हांवे म्हणलें म्हाका पासयेक वचूंक जाय. मम्मान नाका म्हणले. कित्याक? मम्मान म्हणले आमी ह्या सुवातेर नवी आसात आनी हांव शेणपाक शकता. हांवे म्हणले म्हज्या फोनाचेर मॅप आसात जाल्यान कशें शेणपाक शकता! तिचे एके ईश्टीणीन म्हळे ''बरखा केन्नाय मम्माचे आयकप बरे आसता'' मम्मान बरे तरेन तिका थांबयले आनी सांगले हांवे तिचे ''तिचे फकत आयकले'' तांचेवांगडा हांवे वाद घाल्यार तिका हरकत ना. म्हण्टकच आमी सुशेगाद वाद घालो आनी उपरांत हांव ल्हानश्या पासयेखातीर भायर सरलें.

तुमी 'पीके' सीनेमा पळयला जाल्यार खबर ना. (हांव म्हणचे ना तो एक म्हान सिनेमा म्हूण पुण त्या फिल्मांतल्यान कांय खुप म्हत्वाचे प्रस्न मुखार हाडल्यात. म्हणुन तुमी तो पळोवंक जाय.) तो सिनेमा पळयकतच हावे बाबा वांगडा केल्ली चर्चा म्हाका याद जाता. तुमी समजूंक जाय की बाबा एका पारंपारीक घराब्यांत जल्माल्लो. जंय सरंजामशाहेची तत्वा रुजिल्ली. PSU चो वांगडी जाले उपरांत ताच्या लींग कर्तव्या विशीं आशिल्ल्या विचारांक आव्हान मेळ्ळें आनी उपरांत मम्मा कडेन लग्न जातकच आनीक पींक सीनेमाक लागून ज्या विशयाचेर तांणे विचार करूंकच नासलो ताचेर ताका विचार करूंक मेळ्ळे. फिल्म पळयले उपरांत व्हड वाद जाले उपरांत बाबान मातशे अनमनताच मानून घेतलें की दर मनश्याक (म्हाका धरून) खंय किते कपडे घालप हें थारावपाचे स्वातंत्र्य आसा. आनी हेरांक ताचेर मत व्यक्त करपाचो अधिकार ना. अनी दर एका व्यक्तीक (म्हाका धरून) जे मेरेन कायदेशीर आनी स्वखुशीन आसा तो मेरेन खंयल्या पिरायेचेर संभोग करचो हें थारावपाचो हक्का आसा.



मम्मान लींग कर्तव्यांक आव्हान करपाचेर उलयतना आनीक कांय गजाली म्हाका सांगूक जाय. आमगेर चडशें घरांतली कामां करपाक मनीस आसता पूण आमी तिगांय घरांतले काम वांटून घेतात. जेन्ना ते सुटयचेर आसता, आमी सगली रांदपाची आनी घर नीतळ दवरपाची जापसालदारकी वाटून घेतात. अशें तरेची वेवस्था पळयल्यान हांव केन्नाच अश्या नात्यांत वचें ना जंय घरची कामां फकत म्हाकाच करचीं पडटली. हांव तेरा काय चौदा वर्साचें आशिल्ले जेन्ना मम्मान म्हळें ती म्हाका आवडपी एक जिन्नास रांदपाक शिकयतली त्यावेळार हांव तरणें अस्तुरीवादी जाताले. जाका खंयचींच लींगाक परंपरेन लागून उरल्लीं कर्तव्या करपाची नासली आनी हांव बंड करपाची संद पळयताले. (जी म्हाका खुप कमी मेळटाली) म्हण्टकच हांवें मम्माक सांगले '' म्हाका रांदपाक शिकपाचे ना, म्हाका रांदपाक आवडना. म्हाका विश्वास बसना हेरा भशेन तूकांय बी तूजे धूवेन रांदपा शिकील्ले जाय'' मम्मान थंडपणान जाप दिली ''रांदप म्हळ्यार जीणेंतलें एक म्हत्वाचे कौशल्य, जशें गाडी चलोवप, पेवप, तशेच हे. तुवें तुज्या घोवा खातीर वा भुरग्यांखातीर रांदचे म्हूणून तुका हांव रांदपाक शिकपाक सांगना तू स्वतंत्र जावचे आनी आपणाचे पोट आपुण जावन भरूक शकचें म्हणून शिक म्हणून सांगतां. तुवें म्हान जावपाची गरज ना, पर्याप्त जांवप गरजेचें तू चलो आशिल्ले जाल्यारय हांव तुका रांदपाक शिक म्हणपाचे.''

म्हजे आवयबापूय दोन वेगळी व्यक्तीमत्वा, तांची आपलीं ध्येयां, आवडी आनी प्रत्यबद्धताय आसा ती दोगांय आप-आपल्या तरेन ताची जीण जगतात.

म्हाका खूप ल्हान आसतना लेगीत लोक प्रस्न विचारले ''तुजी आवयबापूय लग्न तरी जाल्यात? (कारण मम्मान तिचे नांव बदलूना आनी ती मंगळसुत्र घालना) ''किदे''? तु देवांक मानना? आनी तुज्या आवयबापायचे कीते? पूण म्हाका म्हज्या पालकोच सदांच अभिमान दिस. आनी असल्या प्रस्नांनी हांव बेजारनासले. तीं दोगांय 'पोटभरपाच्या कार्या विरयत खुपशी काम, करतात. आमी तिगांय एकमेकांल्या उदरगतीचो वांटो आसात. मम्मा कीते बरयता ते हांव सगल्यांत पयली वाचता. बाबा आनी हांव तिचे सगल्यांत व्हड चाहते आनी सगल्यांत व्हड टीकाकार. मम्मा आनी हांव बाबाले खरपणान टीका आनी आदर करतात. एखाद्रे हांवे हे बरोवंक जायन पूण हांव बरयतले. तुमका याद आसतली जेन्ना गोवा फोरवर्ड पक्षान भाजपाक सरकार घडोवपाक तेंको दिल्लो, फाटल्या २०१७च्या विधानसभा वेंचणूकेंत. खूप लोकांनी बाबाक ताच्या पक्षावांगडा रावपाच्या निर्णयाचेर टीका केली. तुमका खबर नासत पूण ताचेर सगल्यांत चड आनी खर टीका तांचेर घरातल्यानच जाली. म्हज्या बारावेच्या परीक्षेउपरांत म्हाका सरकारी अधिकारी जावंक जाय अशे हांव म्हज्या पालकांक सांगले. म्हज्या बापायक खास करून हांवे राजकारणांत करीयर केल्ले जाय आसले. पूण केन्ना कसलो दबाव नासले हांव राजकीय शास्त्रात पदवीचे शिक्षण घेताले तेन्ना हांवे म्हाका ह्या मळार फुडे काम करपाचें ना अशे थारयले. हांवे म्हज्या पालकाक सागंले, म्हजी मोख फकत तिसरे वर्स पुराय करप आसा आनी म्हाका रस्तोनाट्यांत काम करूंक जाय. आमचे म्हाविद्यालयाच्या सोशीयो क्लबाचा कामां करूंक जाय. आनी तांची PSU फांटभूय आशिल्यान तांका हांवे हे करपाच कांयच हरकत नासली. हांव हें सगलें करूनय शिकताले आनी वाडटाले म्हण्टकच तांका कांयच त्रास नाशिल्ले. म्हाका सिनेमांत करीयर करपाक जाय म्हणून सांगतकच लेगीत तांणी कसलीच हरकत दाखयली ना.

मम्मा आनी बाबा सामकी व्यस्त मनश्यां. तांच्यो सामाजीक आनी राजकीय जापसालदारक्यो तांका घराकडल्यान खूपदा पयस दवरतात आनी हाकाच लागून तांणी म्हजे वांगडा दील्ल्या वेळाचेर खुप परीणाम जाला.. हेर बापूय करतात त्यो खुप गजाली



बाबान केल्यो ना. बाबान म्हज्या शाळेच्या स्नेहसंमेलनात कीतलीशींच सादरीकरण चुकयली. तो केन्ना खेळ दीसांय आयलो ना ताणे म्हाका सायकल वा दुचाकीय चलोवक शिकयली ना. पूण ताणे म्हाका विलास घोगरेचे गदरांतले ''भारत आपकी महान भूमी'' चे हींदी वर्जन शिकयले. ताणे म्हजी वळख आव्हान नाट्यमंच्याच्या विरोध संगिताकडेन केली. म्हजे पालक सामान्य पालक न्हय, ते झड्ण पालक आनी म्हाका दिसता PSU हेरांची भुरगी हांव कितें उलयता ते समजूंक शकतली. हांव ह्या मनश्यांगेर जल्माक येवप म्हजे भाग्य समजता. PSU ईश्टांवागड आनी तांच्या भुरग्यां वांगडां पीकनीके वेळार आनी ''आयेरे मे दीन ' तोक ही चाकोरी'' भल्यारी म्हळ्यार सारकेली समाज-राजकीय गीतां म्हण्टांत. ती सगली. खऱ्यांनीच बरी मनश्या आनी खुप बरे ईश्ट. हांवे सदांच तांकां म्हजे आदर्श म्हूण पळयल्यात. ती सगली एकामेकांचेर खूप मोग करतात. आनी तो मोग खरो आसा. तांचे वाद जातात, ती एकमेकांचेर टीका करतात पूण केन्नाय एकमेकांक 'जज' करिनात. ती एकमेकांक उर्बा दितात आनी एकांमेकांची सगल्यात व्हड आदारस्तंभ आसात. जेन्ना प्रशांती काकींची आवय बरी नासली, तेन्ना तिणे मम्माक पयली सांगले. बाप्पा प्रशांती काकीच्या मांडयेर संवसाराक अंतरलो. प्रशांती काकी म्हजे खातीर दुसरी आवाय कशी. आनी संदेश काका, ताका म्हाका बापूय म्हणपाक आवडपाचें, पूण तो न्ही तो म्हाका पिडत रावपी एक भावंड अशें कितेंय जाव, म्हज्या पालकांचे ईश्ट म्हळ्यार जबरदस्त मनश्या. आनी तांका सगल्यांक लागून म्हजे म्हज्या पालकांकडेन खूब बरे नाते. आसा. ती सगली खूप म्होवाळ आनी म्हाका तांचे वागड रावंक आवडटा. तांचेबराबर वेळ सारपाक आवडता.



हांव म्हज्या पालकांचेर मोग करता. (जशे चडशी जाणां करतात) आनी म्हाका ती खूप मानवतात. हांव रत्ना दीवकर आनी प्रशांत नायकाचे व्हडले चाहते. आनी तांगेर जल्मले म्हूम हाव स्वताक नशीबवान समजता. ताणी म्हजे खातीर जें किते केले, ताजेखातीर हांव तांचे दीनवाशी. पूण चड करून तांणी म्हज्यामुखार दवरिल्ल्या ईश्टागतीच्या देखीखातीर, म्हज्या निर्णयचेर विश्वास दवरिल्ले खातीर, तांचेखातीर जापसालदार थारिल्ले खातीर, म्हाका चुको करपाक दिल्ले खातीर, तांतूतल्यान शिकपाक दिल्ले खातीर आनी आयज जे हांव किते आसा ते जावपाक म्हाका सुवात आनी संद दिल्ले खातीर तांचे चड आनी चड उपकारी.

●●●

Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Impressions - Belgaum. Editor : Asawari Nayak